सोळाव्या शेकड्यांतलें

# कोंकणी म्हाभारत आदि पर्व

संपादक: प्रतापनायक, जे. स.





तॉमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्र

# सोळाव्या शेकड्यांतलें
# कोंकणी म्हाभारत : आदि पर्व

(पुर्तुगालाच्या ब्रागा सरकारी वाचपाघरांतल्या
हस्तग्रंथ 771 आनी 772 हांचें लिप्यंतर)

संपादक : **प्रताप नायक, जे. स.**
पालवी संपादक : **उषा हळदणकार**

संपादन समिती
**दो. मॅथ्यू आल्मैद, जे. स.** **कु. निर्मला सालदाञ**
**कु. मिलेना रोद्रीगिश**

मूळ संशोधन : **प्रा. लु. आ. रोद्रीगिश**
**(पूण तार्चे देवनागरी लिप्यंतर हे आवृत्ती कडेन पुरतें जुळना)**

1990

कुवैट कोंकणी केंद्रान, हें पुस्तक छापूंक
20,000 रुपयांची देणगी दिल्या

तॉ. स्टी. कोंकणी केंद्र : पोरणी कोंकणी बरपावळ – 1

# सोळाव्या शेकड्यांतलें कोंकणी म्हाभारत : आदि पर्व

संपादक : **प्रताप नायक, जे. स.**
पालवी संपादक : **उषा हळदणकार**



1990

उजवाडावपी :
**तॉमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्र**
मिरामार, पणजी, गोंय – 403 001

टायूपसेट मांडणी :
**कु. उषा हळदणकार**

छापपी :
**न्यू एज प्रिंटर्स**
31 जानेर मार्ग
पणजी, गोंय – 403 001

भायलें चित्र :
**श्री गोविंद नायक**

**मोल : 22 रुपय**

लोकाच्या तोंडार आसल्ली कोंकणी आनी मराठी बरपावळ

बरपी रुपान सांबाळून कोंकणीक बरपावळिचो भौमान

जोडून दिल्ल्या सोळाव्या शेकड्यांतल्या

अनामीक जेज्वीत धर्मगुरुंच्या

पवित्र उगडासाक

हें पुस्तक

अर्पिलां

# आमी हांचे रिणकारी

सोळाव्या शेकड्यांतली कोंकणी बरपावळ देवनागरी लिपयेंत लिप्यंतर जांवची, पोरणे कोंकणिची वळक कोंकणी मोग्यांक जांवची, ते बरपावळिचो खोलायेन अभ्यास विद्यापिठाच्या मळाचेर जांवचो, इत्यादी हावेस मतींत धरून ह्या वावराक आमी हात घालो. फा. आंतोन पिरैर, जे. स. हाणें पुर्तुगालाच्या ब्रागा शारांतल्या सरकारी वाचपा घरांत आसच्या कोंकणी हस्तग्रंथ 771 आनी 772 हांच्यो झेरॉक्स प्रती गोंयांत हाडल्यो. प्रा. लु. आ. रोद्रीगिशान तांचेर संशोधन करून म्हाभारताचें *आदि पर्व* रोमन लिपयेंत संपादीत केलें. ताणें ताचें देवनागरी लिपयेंत लिप्यंतर केलें. आमच्या मतान, ताची लिप्यंतर पद्धत मूळ हस्तगंथांकडे जुळनासल्ल्यान तॉमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्राचे संपादन समितीन विज्ञानीक रितीन देवनागरी लिपयेंत लिप्यंतर करून संपादीत केलें. प्रा. लु. आ. रोद्रीगिशाच्या अमोलीक वावराक आमी रिणकारी आसांव. आमच्या वावराक संपादन समितिचो सतत सहकार मेळ्ळा. तांकांय आमी उपकारी आसांव.

कुवैट कोंकणी केंद्रान आमकां वीस हजार रुपयांची उदार मनान देणगी दिंवक नासल्ली जाल्यार आमचो वावर पुस्तका रुपार उजवाडाक येतो वा ना तें आमी सांगूंक शकनांव. कुवैट कोंकणी केंद्राक आमी उपकारी काळजान देव बरें करूं म्हणतांव.

कमूप्युटराचेर टायूपसेट करचें काम केल्ल्या कु. उषा हळदणकार आनी प्रुफां तपासूंक आधार दिल्ल्या कु. दुर्गा चोडणेकार आनी कु. निता कुंकळेकार, श्री शंकर च्यारी, तशेंच भायलें चित्र काडून दिल्ल्या श्री गोविंद नायक हांकां आमी थिनवाशी. पुस्तक सोबीत सुंदर थरान छापून काडूंक त्रास घेतल्ल्या न्यू एज प्रिंटर्स आनी आमच्या वावराक हातभार दिल्ल्या सगळ्यांचे आमी रिणकारी आनी उपकारी.

मिरामार, पणजी
फेब्रेर 1990

प्रताप नायक, जे. स.

# मांडावळ

# प्रस्तावना

## हस्तग्रंथांची वळक

पुर्तुगालाच्या ब्रागा शारांत आसच्या सरकारी वाचपाघरांत सोळाव्या शेकड्यांतले गोंयचे तीन महत्वाचे हस्तग्रंथ आसात. ते हस्तग्रंथ खंयच्या वर्सा गोंयासून पुर्तुगाला पावले हाची माहिती आमचे कडे ना. ह्या हस्तग्रंथांक 771, 772 आनी 773 अशे आंकडे दिल्यात. ह्या हस्तग्रंथांनी एकूण 1859 पानां आसात. हस्तग्रंथ 771 आनी 772 हांतूं कोंकणी गद्य बरपावळ काणयांच्या रुपान आसा. हस्तग्रंथ 773 हांतूं मराठी भाशेंत बरयल्ल्यो कविता आसात. म्हाभारत, रामायण आनी हेर कांय भारती पुराणांचेर आधारून ही बरपावळ आसा. पानांक आंकडे नांत. हाका लागून कांय कडे एका ग्रंथांतलीं पानां दुसऱ्या ग्रंथांत आसात. जायतीं पानां सांडल्यांत आनी कितल्याशाच पानांनी बरौप अस्पश्ट आसा. हस्तग्रंथ 771 आनी 772 हांच्या मजकुरांत विराम कुरवो आनी कडवीं नांत, मजकूर निरंतर आसा आनी वाचूंक बरेच त्रास पडतात. कांय फावटीं कांय काणयांच्यो दोन प्रती हस्तग्रंथांनी मेळतात. घडये एक कच्ची प्रत आनी दुसरी निव्वळ प्रत आसत. असल्या संदर्बार निव्वळ प्रतींत उतरांचो, उतरांच्या क्रमाचो, आनी बरौपाचे पद्धतिचो (orthography) बदल पळौंक मेळता.

## हस्तग्रंथांची लिपी आनी काळ

हस्तग्रंथांतली सगळीच बरपावळ रोमन लिपयेंत आसा आनी बरौपाची पद्धत, संस्कृत, देवनागरी लिपयेंत बरयतात ते विज्ञानीक बरौपाचे पद्धतीक जुळता. म्हणजे उलयतात तशें बरयतात, बरयतात तशें वाचतात. हस्तग्रंथांनी वापरल्ली बरौपाची पद्धत आनी सोळाव्या–सतराव्या शेकड्यांतल्या जेज्वितांच्या कोंकणी कोशांनी वापरल्ली बरौपाची पद्धत आगळी उणी एकूच आसा. इ. स. 1626 व्या वर्सा जेज्वीत पाद्री दियोगु रिबैरिच्या कोंकणी–पुर्तुगेज कोशांत, हस्तग्रंथ 771 आनी 772 हांतले बरेच वाकूप्रचार आनी उतरावळ दिश्टी पडतात. देखून हे हस्तग्रंथ सोळाव्या शेकड्याच्या दुसऱ्या भागांत म्हणजे इ. स. 1550 उप्रांत बरयल्ले जायत.

श्री लुर्दीन रोद्रीगिशाच्या मता प्रकार हे ग्रंथ मूळ देवनागरी, मोडी वा कानडी लिपयांनी बरयल्ले आसूंक जाय. गोंयकार पंडितांनी तांतली बरपावळ पुर्तुगेज पाद्रीं खातीर वाचून सांगली वा उगडासाच्या आधारान तोंडी सांगली आनी ती बरपावळ त्या पाद्रिंनी रोमन लिपयेंत बरौन काडली आसत (Rodrigues, L. A. 1988 b: 47; 1989 : 50). आमच्या मता प्रमाणें हस्तग्रंथ 773 (मराठी कविता)

देशी लिपयेंत बरयल्लो आसत आनी जेज्वीत पाद्रिंनी तो रोमी लिपयेंत लिप्यंतर केलो जायत. हें सांगपाक कारण म्हळ्यार : तेराव्या शेकड्यांत मराठी, साहित्याची भास म्हण फामाद जाल्ली. महाराष्ट्रांत मराठींत निर्माण जाल्लें भक्ती साहित्य 1510 पैलीं गोंयांतूय पावल्लें आनी ताचो वापर जातालो. गोंयांत मराठी बरौंक मोडी, कानडी आनी देवनागरी लिपी सोळाव्या शेकड्यांत वापरताले. हस्तग्रंथ 771 आनी 772 हांतल्यो कोंकणी काणयो गोंयकार पंडितांनी वाचून सांगूंक नांत पूण त्यो तोंडी सांगल्यो आनी त्यो जेज्वीत पाद्रिंनी रोमन लिपयेंत बरयल्यो जायत अशें आमचें मत. ह्या मताक मुखेल कारणां म्हळ्यार

1. हस्तग्रंथ 771 हांतूं म्हाभारताच्या आदि पर्वाची एक प्रत आनी हस्तग्रंथ 772 हांतूं आदि पर्वाची एक प्रत अशो एकूण दोन प्रती आसात. हस्तग्रंथ 772 हांतली प्रत कच्ची आनी 771 हांतली प्रत निव्वळ. कच्चे प्रतींत कांय कडेन वाक्यांनी उतरां फाटीं फुडें आसात. हीं उतरां निव्वळ प्रतींत सारके मांडावळीर घाल्यांत. जर आदि पर्वांतल्यो काणयो वाचून सांगल्ल्यो तर ह्यो चुकी जांवच्योच नासल्ल्यो. उलयताना ह्यो चुकी सहज जातात. गोंयकार पंडितांनी उगडासाच्या आधारान सांगल्ल्यो काणयो जेज्वीत पाद्रिंनी पैल्यो बरयल्यो. उप्रांत तांतल्यो चुकी दुरुस्त करून निव्वळ प्रत तयार केली.

2. 1510 वर्सा पैलीं गोंयांत कोंकणींत बरयल्ले बरपावळिचें एक पान वा मजकूर आमकां खंयसरूच मेळना. हाका कारण म्हळ्यार त्या काळार कोंकणी तोंडी भास जावन सोबताली. ती बरपावळिची भास जाली ना. खंयच्याय रायाचो पालव तिका मेळ्ळो ना. कोंकणी बरपावळिची सुरवात जेज्वीत पाद्रिंनी 1542 वर्सा उप्रांत गोंयांत केली म्हण सांगूंक इतिहाशीक पुरावे मेळतात.

## हस्तग्रंथ 773

हस्तग्रंथ 773 हांतूं 567 पानां आसात आनी 30 मराठी कविता सुमार 13,000 ओव्यांनी व्हाळतात. रामायण, म्हाभारत आनी हेर भारती पुराणांतल्या काणयांचेर आधारून ह्यो कविता बरयल्यात. बरपावळिची भास सोळाव्या शेकड्यांतली एक मराठी बोली जरी आसली ती कोंकणीक चड लागशिली दिसता.

ह्या हस्तग्रंथाच्या पैल्या 131 पानांनी *श्री कृस्त्णचरित्रकथा* नांवाचें म्हाकाव्य 3123 ओव्यांनी आसा. तें केळोशिच्या शामाराजान कृस्त्णदासु शामा टोपण नांवान इ. स. 1526 व्या वर्सा आब्रील 25 वेर बरौंक सुरू केलें अशी माहिती त्या काव्याच्या 19 व्या खंडाच्या 245-255 ओव्यांनी वाचूंक मेळता. हस्तग्रंथांतल्यो

उरल्ल्यो चडशो कविता (4500 ओव्यो) विस्ट्णुदासु नामान बरयल्यात. बाकिच्यो ग्यानदेव, शिवदासु, शिम्प नामा, नामा सदा, सामान्यदेव नामा, मेघशामा, पतक नाम, गंगाधर रामेश्वर, समयानन्दु आनी जिवतमु हरि हांणीं बरयल्यात. हे बरौपी खंयचे हाची माहिती हस्तग्रंथांनी मेळना.

## हस्तग्रंथ 772

ह्या हस्तग्रंथांतल्या 453 पानांनी कोंकणी गद्य बरपावळ काणयांच्या रुपान आसा. ह्या काणयांनी रामायणाचीं 15 पर्वां, म्हाभारताचीं 3 पर्वां आनी चार मेकळ्यो काणयो आसात. रामायणांतल्या काणयांनी वाल्मिकिचें नांव दिसना. म्हाभारताच्या कांय काणयांनी विस्ट्णुदासु नामाचें नांव वाचूंक मेळता.

## हस्तग्रंथ·771

ह्या हस्तग्रंथांत 839 पानां आसून बरपावळिचो मुखेल विशय म्हाभारत. म्हाभारताचीं 10 पर्वां आसून तांतूं 69 कोंकणी काणयो आसात. ते भायर रामायणाचें एक अपूर्ण पर्व (3 काणयो) आनी चार मेकळ्यो काणयो आसात. म्हाभारताच्या कांय पर्वांनी विस्ट्णुदासु नामा, चांग निवृती आनी नामदेव हांचीं नांवां वाचूंक मेळतात.

# आदि पर्व

## संपादनाचें धोरण

हस्तग्रंथ 771 हांतूं आदि पर्वाची एक प्रत (निव्वळ) आनी हस्तग्रंथ 772 हांतूंय आदि पर्वाची एक प्रत (कच्ची) आसा अशी माहिती आमी हाचे आदीं दिल्या. ह्या दोनूय प्रतिंनी उतरांच्या क्रमांत आनी बरौपाचे पद्धतींत मातसो फरक आसा. ह्या दोनी प्रतिंचो आधार घेवन आमी आदि पर्व आसा तशेंच देवनागरी लिपयेंत लिप्यंतर केलां. आमची लिप्यंतर पद्धत फुडें दिल्ली आसा. लिप्यंतर करताना संपादनाचें धोरण आनी पद्धत अशी आसा :

1. कच्चे प्रतिंतल्या आदि पर्वाची निव्वळ प्रत बरयताना सोळाव्या शेकड्याच्या कारकुनांनी कांय कडेन एक–दोन वळी चुकून सोडल्ल्यो दिश्टी पडतात. कच्चे प्रतिचो आधार घेवन त्यो सोडल्ल्यो वळी आमी हे आवृत्तेंत समावेश केल्यात.

2. एकच उतर एकाच हस्तग्रंथांत दोन वा तीन प्रकारांनी बरयल्लें मेळता. देकीक 'परिमळ' आनी 'परिमल'. असल्या संदर्बांनी आमी हो प्रस्न असो सोडयला. देकीक :

अ. दोनी हस्तग्रंथांनी एकाच संदर्बांत 'परिमल' हें उतर जर आसा तर तें आमी आसा तशेंच लिप्यंतर केलां.

आ. एकाच संदर्बांत एक हस्तग्रंथ 'परिमळ' आनी दुसरो हस्तग्रंथ 'परिमल' दिता जाल्यार कोंकणी ध्वनीविज्ञानांत बसपी रूप 'परिमळ' आमी घेतलां.

3. मूळ मजकुरांत जर चुकिचें उतर, वाक्प्रचार, पदबंद (phrase) वा व्याकरणाची चूक आसा जाल्यार ती आमी लिप्यंतर करताना आसा तशीच दवरून टिपेंत ती चूक दुरुस्त केल्या.

4. मूळ मजकुरांत विराम कुरवो आनी कडवीं नांत. आमी हे आवृत्तेंत आमकां योग्य दिसता थंय विराम कुरवो आनी कडवीं वापरल्यांत.

5. मजकुरांत आयल्ल्या कोंकणी अप्रचलीत उतरांचो अर्थ दिताना आमी सोळाव्या–सतराव्या शेकड्यांतल्या कोंकणी–पुर्तुगेज कोशांचो आधार घेतला. जीं कांय उतरां ह्या कोशांनी सैत मेळ्ळीं नांत तांचो अर्थ संदर्बाक योग्य असो दिसता तो दिला.

## आदि पर्वाची कथावस्तू

म्हाभारताच्या पैल्या पर्वाक "आदि पर्व" म्हणतात. हस्तग्रंथ 771 आनी 772 हांतल्या कोंकणी आदि पर्वांत एकूण 18 काणयो आसात. ह्या काणयांनी भिश्माचो जल्म, व्यासाचो जल्म, चित्रा विचित्रा राजकुवरांची जीण, पांडुचो राज्याभिशेक, पांडवांचो कौरवांचो जल्म, द्रोणाचार्य आनी ताचे कडल्यान दृपदाचो जाल्लो अपमान, दुर्योधना कडल्यान भिमाचेर आयल्लें संकट, भीम आनी पद्मावत्येचें लग्न, अमृतगिरिचें वर्णन, धर्माचो राज्याभिशेक, लाकेच्या घरांतल्यान पांडवांची सुटका, तोंड्यो राखेस आनी तार्चे कर्तूब, द्रौपद्येचें स्वयंवर, द्रौपदी पांडवांची बायल, धर्मरायाचो यज्ञ, अर्जुनाची यात्रा इत्यादी विशय हाताळल्यात. 2, 5, 8 ते 18 ह्या काणयांची सुरवात मराठी श्लोकान जाता. त्या श्लोकांचो अर्थ काणी सांगप्यान कोंकणींत दिला.

## बरौपी आनी आधारावळ

आदि पर्वांतल्यो काणयो पाद्रींक कोणें सांगल्यो हाचो उल्लेक ना. म्हाभारताच्या खंयच्या हस्तप्रतिंच्या आधारार आदि पर्वांतल्यो कोंकणी काणयो सांगल्यो हेंय कळना.

फकत अटरावी कथा स्कंद पुराणांतली घेतल्या अशें अटरावे कथेच्या शेवटाक सांगलां : "ऐसी ही कथा जन्मजयाक सुख इन्द्रान सांगिली. ती ताणें सर्व मना हाडिली आणि येकादे अग्न्यान खैंची कथा म्होणु विचारिती, तरि स्कंद पुराणाची कथा, कोउरवां पाण्डवांची उत्पति."

## हस्तग्रंथ 771, 772 आनी जेज्वितांची बरपावळ

सोळाव्या शेकड्याच्या हस्तग्रंथ 771, 772 हांतली कोंकणी भास आनी त्याच काळार गोंयांत विदेशी जेज्वितांनी बरयल्ले बरपावळिंतली कोंकणी भास जवळ जवळ एकच आसा. हस्तग्रंथ 771, 772 आनी 773 जेज्वितांनी रोमी लिपयेंत बरयले आनी हाका लागून तांणीं त्या ग्रंथांचो बारकायेन अभ्यास केलो. हांचो परिणाम जावन जेज्वितांनी हस्तग्रंथांतली कोंकणी भास आपली बरपावळ बरौंक आपणायली. जेज्वीत पाद्री आंतोनियु द सालदाञाच्या 1655 वर्सा छापल्ल्या *सांक्तो आंतोनिचीं अचर्यां* पुस्तकाची सुरवातूच हाका पुरावो दिता :

> हो ग्रंथु दों भार्गि वांटला, पैल्ये भार्गि जिं माहा उतमा अचर्यां भग्तु सांक्तो आंतोनि जिवो आसतां स्वाम्यान केललिं तिं बरयल्यांति. दुसऱ्ये भार्गि जिं माहा अबिस्टाचिं अचर्यां स्वभाग्गी भग्तु गत जाल्या उपरांतें, ताच्या पुण्यान स्वाम्या परमेस्परान सगळ्या संवूसारांतु करुनु दाखैलिं, तिं लिहिल्यांति.

## आदि पर्वाची भास

आदि पर्वाची भास सोळाव्या शेकड्यांतली गोंयची एक कोंकणी बोली. आदि पर्वाच्यो काणयो सांगपी मनीस शिकपी जाल्ल्यान ताची भास सादी, चालती आनी आकर्शक. ह्या काणयांनी एकूय पुर्तुगेज उतर मेळना. ह्यो काणयो बरयताना कोंकणिचेर पुर्तुगेज भाशेचो प्रभाव पडूंक नासल्लो हें सत उक्तें दिसता. काणयो रोमन लिपयेंत बरयताना जेज्वीत पाद्रिंनी हस्तग्रंथांच्या पानांचे कडेर वा उतऱ्रां वैर पुर्तुगेज वा लातीन भासांनी टीप वा उतरां बरयल्लीं दिश्टी पडतात. आदि पर्वाचे कच्चे प्रतींत दोगांचें हातबरप आसा. निव्वळ प्रतींत एकल्याचेंच हातबरप आसा.

मजकुरांत कांय कानडी उतरां मेळतात. देकीक : बरै, आडादेङ्ये (हे वाटेन ते वाटेन), मंचकु (खाट), तडौ (उशीर). कानडी उतरां कदंब राजांचे राजवटके वेळार गोंयांत आयलीं आनी तीं कोंकणीन आपणायलीं. फार्शी-अरबी भासांचीं जायतीं उतरां आदि पर्वांत पळौंक मेळतात. देकीक : हुजिर (समोर), कागत, हुर्मती (स्थान), कबुल, फजेति, कोत्वाल, गुन्यांवू, मनसुभी, रजा (सुटी). गोंय मुसलमान रायांचे सत्ते खाला आसताना हीं उतरां कोंकणींत आयल्लीं जायत.

आदि पर्वांत कांय कडे मराठी व्याकरणाचो प्रभाव आसा. पोरणे कोंकणींत 'माळ', 'वाट' ह्या स्त्रीलींग उतरांचें भौवचन 'माळो', 'वाटो' जाता. पूण आदि पर्वांत कांय कडे भौवचन 'माळा', 'वाटा' पळौंक मेळता. पोरणे कोंकणींत 'चित्रसाळा', 'सभा' ह्या स्त्रीलींग उतरांचें सामान्य रूप (oblique form) 'चित्रसाळे-', 'सभे-' जाता. पूण आदि पर्वांत कांय कडेन तांचीं सामान्य रुपां 'चित्रसाळा-', 'सभा-' अशीं मेळतात. मराठी भाशेच्या प्रभावाक लागून अशें जालां. पुर्तुगेज गोंयां येंवचे पैलीं मराठी, धर्मीक साहित्याच्या रुपान गोंयांत पावल्ली आनी तिच्या व्याकरणाचो प्रभाव कोंकणीचेर पडल्लो म्हण सांगूंक आदि पर्व एक पुरावो.

## लातीनवाद

पुर्तुगेज पाद्रींक कोंकणी व्याकरण नेम सारके समजले नांत हाका लागून म्हाभारत आनी रामायणाच्यो काणयो बरौन काडताना तांणीं लातीन व्याकरणाचीं कांय रुपां कोंकणींत वापरलीं असो वाद श्री लुर्दीन रोद्रीगिश हाणें मांडला. ताणें मांडल्ल्या लातीनवादाचो सारांश असो आसा : म्हाभारत आनी रामायण कोंकणींत लिप्यंतर केल्ले पुर्तुगेज पाद्री शिकपी. तांकां लातीन भास बरी येताली. कोंकणी व्याकरणाची बांदावळ आनी लातीन व्याकरणाची बांदावळ एकमेकाक लागीं आसात हें तांकां कळूंक चड वेळ लागलो ना जायत. लातीन भाशेंत विशेशणां आनी नामांचो अन्वय (agreement) सगळ्या विशेशणांक लागता. पूण कोंकणींत हो अन्वय विकारी विशेशणांक कांय कडेन मात्र लागता, देकीक : बरो पाडो, बरे पाडे, बऱ्या पाड्याक, बऱ्या पाड्यांक. अविकारी विशेशणांक नामां लागीं अन्वय लागना, देकीक : कोडू वोंवो, कडू वोंवे. हो फरक पुर्तुगेज पाद्रींक सारको कळ्ळो ना जायत. हाका लागून आदि पर्वाच्या मजकुरांत "त्यां आपुल्यां शिसां लागीं उलैलो", "समेस्तां रायां देखतें" असलीं लातीन व्याकरणाचीं रुपां कोंकणींत पुर्तुगेज पाद्रिंनी हाडलीं आनी रोमी लिपयेंत कोंकणी बरौंच्या गोंयकारांनी आपणायलीं आनी सांबाळ्ळीं (Rodrigues, L.A. 1988a : xxx). हें मत सामकें चुकिचें आसा. श्री रोद्रीगिशाक तेराव्या शेकड्यांतले मराठी भाशेच्या आनी संस्कृत भाशेच्या व्याकरणाची चडशी खबर नासल्ल्यान ताणें चुकिचो वाद मांडला जायत.

*लीळा चरित्र* ही बरपावळ मराठी उपलब्द बरपावळींत पैली. तेराव्या शतमानांत ती बरपावळ म्हाइभटान बरयल्या. तांतूं विशेशण, नामाच्या लिंगा, वचना आनी कारका प्रमाणें नामाकडेन अन्वय करता. देकीक :

1. ऐसेयां पापीयां चांडाळांचेयां गावांसि गोस्वावी कें आले?
   (लीळा चरित्र पूवार्ध 265, पान 180)

2. आपुला कोलु गोसावीयांचां श्रीकरीं ओळगविला
   (ली. च. पूवार्ध 299, पान 187)
3. गोसावीयांचां श्रीचरणांवरि अनंतु ठेविला
   (ली. च. पूवार्ध 308, पान 193)
4. पाउसाळां गांवाचां कडिसरां खांडदेउळी एकि पाहिजे
   (ली. च. उत्तरार्ध 613, पान 712)
5. मागुता बहुतांकां दीसां वसता जाला
   (ली. च. उत्तरार्ध 81 पान 389)
6. मितलां पाउलीं चालिजे
   (सार्थ ज्ञानेश्वरी 6 : 350, पान 164)
7. सजोडियां सहवरां दांत न लाविसी मा परमेश्वरा
   (ज्ञा. 11 : 397, पान 345)

संस्कृत भार्शेत सैत विशेशण नामाच्या लिंगा, वचना आनी कारका प्रकार नामा कडेन अन्वय करता. पोरणे कोंकणींत हो नेम आसल्लो, आतांचे कोंकणींत तो उणो जाला. कोंकणी इंडो-आर्यन घराण्यांतली भास. इंडो-आर्यन भासो आनी इंडो-युरोप भासो एकाच घराण्यांतल्यो. म्हणतच कोंकणी आनी लातीन व्याकरण, कांय गजालीं कडेन एकमेकाक जुळता हांतूं नवल कांय ना. पुर्तुगेज पाद्रिंनी सोळाव्या-सतराव्या शतमानांत कोंकणिची विकृती केली ना. पुर्तुगेज आनी मराठी शिकल्ल्या गोंयकारांनी पुर्तुगेज आनी मराठी व्याकरणाचे नेम कोंकणींत वापरून, कोंकणी भाशेची विकृती केली हांतूं दुबाव ना.

आदि पर्वांतलीं उतरां आनी तांचें व्याकरण *लीळा चरित्र* ह्या मराठी ग्रंथांतल्या गद्या कडेन कांय प्रमाणान जुळतात. देकून ह्या दोनूय ग्रंथांचो तुलनात्मक अभ्यास केल्यार पोरणे कोंकणिचो आनी पोरणे मराठिचो संबंद आनी फरक कळतलो.

मिरामार, पणजी — प्रताप नायक, जे. स.
फेब्रेर 1990

# आमची लिप्यंतर पद्धत

हस्तग्रंथ 771 आनी 772 हे सद्याक उपलब्द आसल्ले कोंकणी बरपावळींत प्रथम आसात. ह्या ग्रंथांनी सोळाव्या शेकड्यांतले कोंकणी भाशेची आनी बरपावळिची झळक आमकां मेळता. ही बरपावळ देवनागरी लिपयेंत लिप्यंतर जांवची, तिचें वाचप आनी तिचो खोलायेन अभ्यास जांवचो ह्या उद्देशान आमी ह्या वावराक हात घालो. लिप्यंतर करताना कांय विज्ञानीक तत्वां सांबाळचीं पडतात. ही विज्ञानीक नदर दोळ्यां फुडें दवरून मूळ मजकूर आमी आसा तसोच देवनागरी लिपयेंत लिप्यंतर केला. आमच्या लिप्यंतराची पद्धत आमी हांगा दिल्ली आसा.

पोरणे कोंकणींत ए (मोटवो) आनी ए (लांबोडो) हांचो फरक, तसोच ओ (मोटवो) आनी ओ (लांबोडो) हांचो फरक दाखौंक बरयताना कुरवो घालताले. देवनागरी लिपयेंत हो फरक दाखौंक कुरू नासल्ल्यान आमी ह्या आदी पर्वांत हो फरक दाखौंक ना.

| | | | |
|---|---|---|---|
| á | अ | bhrátâru | भ्रतारु |
| â | आ | âmy' | आमीं |
| áe | अये | bháe | भये |
| ái | ऐ | áisse' | ऐसें |
| áu | औ | báráunu | बरौनु |
| áy | अय् | dogáy | दोगय् |
| âe | आये | mâe | माये |
| âi | आय् | âilo | आयूलो |
| âo | आव् | râo | रांव् |
| âu | आउ | jâunu | जाउनु |
| b | ब् | budhy | बुधी |
| bh | भ् | bhâru | भारु |
| c | क् | locu | लोकु |
| ch | च् | vichâritâu' | विचारिताउं |
| chh | छ् | máchhe | मछे |

| | | | |
|---|---|---|---|
| d | द् | dilo | दिलो |
| dh | ध् | udhărym | उधरीं |
| dd | ड् | ddolle | डोळे |
| ddh | ढ् | ddhâmpile | ढांपिले |
| e | ए | bhále | भले |
| ĕ | ए | râzé | राजे |
| ê | ए (लांबोडो) | zâlê | जाले |
| eă | य | sáteá | सत्य |
| eâ | या | teâ | त्या |
| | एया | pălleâ | पळेया |
| ei | एय् | itulei | इतुलेय् |
| eo | एव् | udeo | उदेव् |
| eu | एउ | nedeu’ | नेदेउं |
| g | ग् | guddio | गुड्यो |
| gh | घ् | ghâtu | घातु |
| gn | ग्न् | yegnu | येग्नु |
| gu | ग् | doguy | दोगी |
| h | ह् | săhitá | सहित |
| i | इ | dilo | दिलो |
| iă | य | láqhiá | लख्य |
| iâ | या | motiâ’ | मोत्यां |
| | इया | niâllu’ | नियाळुं |
| ie | ये | râyâchie | रायाच्ये |
| ie | इये | pienă | पियेन |
| ieu | इयेउ | bhieu’ | भियेउं |
| ii | इय् | tituquii | तितुकिय् |
| iô | यो | tiô | त्यो |
| ioi | योय् | ytuquioi | इतुक्योय् |
| iu | यु | vâhiu | वाह्यु |
| iy | इय् | doniy | दोनिय् |

| | | | |
|---|---|---|---|
| l | ल् | locu | लोकु |
| lh | ल्ह् | lhȧnu | ल्हानु |
| m | म् | muqhâri | मुखारि |
| | अनुस्वार | dhumpu | धुंपु |
| | अनुस्वार | udhărym | उधरीं |
| mh | म्ह् | mhonnu | म्होणु |
| n | न् | lobâná | लोबान |
| | ण् | qhănddá | खण्ड |
| | अनुस्वार | sânddile' | सांडिलें |
| nh | न्ह् | nhânnă | न्हाण |
| nn | ण् | zănny' | जणीं |
| o | ओ | homu | होमु |
| ô | ओ (लांबोडो) | lâgálô | लागलो |
| oe | ओये | nhoe | न्होये |
| oi | ओय् | ituloi | इतुलोय् |
| ou | ओउ | bhou | भोउ |
| p | प् | putru | पुत्रु |
| ph | फ् | phuddâ' | फुडां |
| qu | क् | quite' | कितें |
| qh | ख् | qhemă | खेम |
| r | र् | râtri | रात्रि |
| s | स् | sângu' | सांगुं |
| ss | स् | áisse' | ऐसें |
| t | त् | âtâ' | आतां |
| th | थ् | thoru | थोरु |
| tt | ट् | sâtti | साटि |
| tth | ठ् | tâtthă | ताठ |
| u | उ | niropu | निरोपु |
| ŭ | उ | gheunŭ | घेउनु |
| û | ऊ | gurû | गुरू |

| | | | |
|---|---|---|---|
| u | व् | tăuă | तंव |
| | | săruă | सर्व |
| | | uelle | वेळे |
| uă | व | sáruá | सर्व |
| uâ | वा | uâre’ | वारें |
| ue | वे | uellu | वेळू |
| ui | वि | nnoui | णोवि |
| | उय् | dhuile | धुयूले |
| ŭy | उंय् | mârúy | मारुंय् |
| x | श् | xeuâ | शेवा |
| y | ई | cáry | करी |
| | इ | yndrâná | इन्द्रान |
| | य् | vâyu | वायु |
| yâ | या | măntryâ | मनूत्र्या |
| ye | ये | yecu | येकु |
| | ईये | tetuqueâchye | तेतुक्याचीये |
| yi | ईय् | donyi | दोनीय् |
| z | ज् | ze’ | जें |
| zh | झ् | zhăi’ | झैं |
| ’ | अनुस्वार | ăisse’ | ऐसें |
| ~ | अनुस्वार | nã̂ | नां |

# परिवर्ती रुपांची वळेरी

आदि पर्वांत एकच उतर दोन वा तीन प्रकारांनी बरयल्लें मेळता. तसल्या उतरांची एक अपूर्ण वळेरी आमी हांगा दितांव.

अनंदु / अनन्दु / आनंदु
अन्दळो / आंदळो
असिवर / असिंवर
आणीं / आणिं / आणि
आमंका / आमकां / आमंकां
आमीं / आमिं
उदकांतु / उदकांतुं
उबट / उभट
उबे / उभे
उब्यो / उभ्यो
कमडळ / कमंडळ / कमडाळ / कमडल / कोमडळ
किन्धमि / किन्दमि / किंदमि
कोन्ती / कोन्ति
कोर्नु / कर्नु / करुनु / कोरुनु
कोरुं / करुं
खणांचीं / खणाचीं
गर्जर / घर्जर
गर्बेस्ति / गर्भस्ति
गांदारी / गंदारी
गेलो / गेळो
घरा / घारा
चंदन / चन्दन
चिन्तन / चिंतन
जणीं / जणि / जणी
जाहालो / जाहलो
तर्नेपण / तरुणेपण

तागायूत / तगायूत
ताणीं / तानीं
ताणें / ताणे
तावळी / तावलि
तिणें / तिणे / तिनें
ती / ति
तुमंकां / तुमकां
तुमीं / तुमिं
तेणें / तेणे
दळपति / दळपती
दुर्यधन / दुर्योधन
दोगांयू / दोगैं
धनुकाक / धणुकाक / धोणुकाक / धोनुकाक
ध्यान / द्यान
नाकार / नकार
पण्डु / पंडु
पंडव / पांडव
परिमळ / परिमल
पायेदळ / पायेडळ
पांचैं / पाचै / पांचायू
पुत्रा / पुता
पोखर्लि / पोखर्ली / पोखंरि
प्रतम / प्रथम
प्रथुमिचे / प्रतुमिचे
फुडां / पुडां
भग्त / बग्त
भग्ति / बग्ति
भियेंउ / बियेउं
भोग / बोग
भ्रतार / ब्रहतार
मंत्र / मनूत्र

मन्त्री / मंत्री
मन्धिर / मंधिर
मुकुट / मकुट
मेलो / मेळो
म्हळें / म्हलें
म्होणुं / म्होणु
येम / एम
राव् / राउ
रुसी / रुशी
रेखो / रेखा / रेगो
लागी / लागीं / लागि / लागिं
वर्धनिक / वर्धणिक
व्हनु / व्हनुं
समुद्र / समंद्र
समेस्त / समस्त
सस्टंग / सास्टंग / सास्टांग
सिखैता / सिकैता
सिहांसण / सिआंसण
सुगंद / सुघंद
सृंगार / सृंघार
सोंतोसी / सोंतसीं
सोन्तोसु / सन्तोसु
सोवर्न / सोवर्ण
स्वाम्या / सावमयां
हांवें / हावें

# संक्षेपावळ

| | |
|---|---|
| अ.क्रि | अकर्मक क्रिया |
| इ | इत्यादी |
| उ | उद्गार (interjection) |
| एं. व. | एकवचन |
| क्रिवि | क्रियाविशेशण |
| न | नपुंसकलिंगी नाम |
| नि | निपात (particle) |
| प | परसर्ग (postposition) |
| पु | पुल्लिंगी नाम |
| भो. व. | भोव वचन |
| ली. च | लीळा चरित्र |
| वि | विशेशण |
| स | सर्वनाम |
| स. क्रि | सकर्मक क्रिया |
| सा. रू. | सामान्यरूप |
| स्त्री | स्त्रीलिंगी नाम |
| ज्ञा | ज्ञानेश्वरी |

# पोरणे कोंकणिचें व्याकरण

पोरणे कोंकणींत उतरां स्वरान सोंपतात. पोरणे कोंकणिचें व्याकरण आतांचे कोंकणी परस वेगळें. वाचप्यांक त्या व्याकरणाची थोडी तरी वळक जांवची ह्या उद्देशान पोरणे कोंकणिच्या व्याकरणाचीं मुखेल रुपां आमी हांगा दितांव. हांतलीं कांय रुपां गोंयांत, कर्नाटकांत नाजाल्यार केरळांत आजून आयकूंक मेळतात.

## अ) नाम

### पुल्लींग

1. इ कारान सोंपपी पुल्लींग उतरां

| एकवचन | सामान्य रुप | भोव वचन | सामान्य रुप |
|---|---|---|---|
| दळपति | दळपती– | दळपती | दळपतीं– |
| पति | पती– | पती | पतीं– |
| ब्रेस्पति | ब्रेस्पती– | ब्रेस्पती | ब्रेस्पतीं– |

2. ई कारान सोंपपी पुल्लींग उतरां

| ए.व. | सा. रू. | भो. व. | सा. रू. |
|---|---|---|---|
| दर्जी | दर्ज्या– | दर्जी | दर्ज्यां– |
| तेली | तेल्या– | तेली | तेल्यां– |
| कवी | कव्या– | कवी | कव्यां– |

3. उ कारान सोंपपी पुल्लींग उतरां

| ए.व. | सा. रू. | भो. व. | सा. रू. |
|---|---|---|---|
| किरु | किरा– | किर | किरां– |
| रुखु | रुखा– | रुख | रुखां– |
| मामु | मामा– | माम | मामां– |
| उंदिरु | उंदिरा– | उंदिर | उंदिरां– |

4. ऊ कारान सोंपपी पुल्लींग उतरां

| ए. व. | सा. रू. | भो. व. | सा. रू. |
|---|---|---|---|
| नातू | नातूवा– | नातू | नातूवां– |
| वेळू | वेळ्वा– | वेळू | वेळ्वां– |

आडवाद :

| | | | |
|---|---|---|---|
| गुरू | गुरू– | गुरू | गुरूं– |

5. ओ कारान सोंपपी पुल्लींग उतरां

| ए.व. | सा. रू. | भो. व. | सा. रू. |
|---|---|---|---|
| कोंबो | कोंब्या– | कोंबे | कोंब्यां– |
| घोडो | घोड्या– | घोडे | घोड्यां– |
| गळो | गळ्या– | गळे | गळ्यां– |

6. पोरणे कोंकणींत कांय पुल्लींग उतरां संदीस्वरान सोंपतात

| ए. व. | सा. रू. | भो. व. | सा. रू. |
|---|---|---|---|
| माटउ | माटवा– | माटव | माटवां– |
| घोउ | घोवा– | घोव | घोवां– |
| माउं | मांवा– | मांव | मांवां– |

7. व् कारान सोंपपी पुल्लींग उतरां

| ए. व. | सा. रू. | भो. व. | सा. रू. |
|---|---|---|---|
| ठाव् | ठाया– | ठाये | ठायां– |
| पाव् | पाया– | पाये | पायां– |
| राव् | राया– | राये | रायां– |

चत्राय : पोरणे कोंकणींत 'ठाव्', 'पाव्', 'राव्' ह्या उतरांचो उच्चार 'ठाओ', 'पाओ', 'राओ' असोय करूंक जाता.

8. य् कारान सोंपपी पुल्लींग उतरां

| ए. व. | सा. रू. | भो. व. | सा. रू. |
|---|---|---|---|
| ठवय् | ठवया– | ठवय् | ठवयां– |
| जांवय् | जांवया– | जांवय् | जांवयां– |
| मानाय् | मानाया– | मानाय् | मानायां– |

**चत्राय :** पोरणे कोंकणींत 'ठवय्', 'जांवय्', 'मानाय्' हांचो उच्चार 'ठवइ', 'जांवइ', 'मानाइ' करूंक जाता.

## स्त्रीलींग

1. अ कारान सोंपपी स्त्रीलींग उतरां

| ए. व. | सा. रू. | भो. व. | सा. रू. |
|---|---|---|---|
| वाट | वाटे– | वाटो | वाटां– |
| माळ | माळे– | माळो | माळां– |
| जिब | जिबे– | जिबो | जिबां– |

2. आ कारान सोंपपी स्त्रीलींग उतरां

| ए. व. | सा. रू. | भो. व. | सा. रू. |
|---|---|---|---|
| कल्पना | कल्पने– | कल्पनो | कल्पनां– |
| कृपा | कृपे– | कृपो | कृपां– |
| प्रजा | प्रजे– | प्रजो | प्रजां– |

3. इ कारान सोंपपी स्त्रीलींग उतरां

| ए. व. | सा. रू. | भो. व. | सा. रू. |
|---|---|---|---|
| चुकि | चुकी– | चुकी | चुकीं– |
| राति | राती– | राती | रातीं– |
| जाति | जाती– | जाती | जातीं– |

4. ई कारान सोंपपी स्त्रीलींग उतरां

| ए. व. | सा. रू. | भो. व. | सा. रू. |
|---|---|---|---|
| चली | चल्ये– | चल्यो | चल्यां– |
| चोळी | चोळ्ये– | चोळ्यो | चोळ्यां– |
| मुदी | मुद्ये– | मुद्यो | मुद्यां– |

5. उ कारान सोंपपी स्त्रीलींग उतरां

| ए. व. | सा. रू. | भो. व. | सा. रू. |
|---|---|---|---|
| रितु | रितू– | रितू | रितूं– |

6. ऊ कारान सोंपपी स्त्रीलींग उतरां

| ए. व. | सा. रू. | भो. व. | सा. रू. |
|---|---|---|---|
| ताळू | ताळ्वे– | ताळ्वो | ताळ्वां– |
| जळू | जळ्वे– | जळ्वो | जळ्वां– |
| वाळू | वाळ्वे– | वाळ्वो | वाळ्वां– |

7. यू कारान सोंपपी स्त्रीलींग उतरां

| ए. व. | सा. रू. | भो. व. | सा. रू. |
|---|---|---|---|
| बाय् | बाये– | बायो | बायां– |
| गाय् | गाये– | गायो | गायां– |
| मुय् | मुये– | मुयो | मुयां– |

आडवाद :

| | | | |
|---|---|---|---|
| न्हंय् | न्हंय्– | न्हंयो | न्हयां– |
| बांय् | बांय्– | बांयो | बांयां– |

घत्राय :पोरणे कोंकणींत 'बाय्', 'गाय्', 'मुय्', 'न्हंय्', 'बांय्' उतरांचो उच्चार 'बाइ', 'गाइ', 'मुइ', 'न्हंइ', 'बांइ' असोय करूंक जाता.

## नपुंसकलींग

1. अ कारान सोंपपी नपुंसकलींग उतरां

| ए. व. | सा. रू. | भो. व. | सा. रू. |
|---|---|---|---|
| घर | घरा– | घरं | घरां– |
| उदक | उदका– | उदकं | उदकां– |
| तण | तणा– | तणं | तणां– |

2. इ / ई कारान सोंपपी नपुंसकलींग उतरां

| ए. व. | सा. रू. | भो. व. | सा. रू. |
|---|---|---|---|
| तांतीं (तिं) | तांत्या– | तांत्यं | तांत्यां– |
| मोतीं (तिं) | मोत्या– | मोत्यं | मोत्यां– |

3. उं कारान सोंपपी नपुंसकलींग उतरां

| ए. व. | सा. रू. | भो. व. | सा. रू. |
|---|---|---|---|
| तारुं | तार्वा– | तार्वं | तार्वां– |
| पोर्सुं | पोर्स्वा– | पोर्स्वं | पोर्स्वां– |
| कार्लुं | कार्ल्वा– | कार्ल्वं | कार्ल्वां– |

4. ए कारान सोंपपी नपुंसकलींग उतरां

| ए. व. | सा. रू. | भो. व. | सा. रू. |
|---|---|---|---|
| राजे | राज्या– | राज्यं | राज्यां– |
| सते | सत्या– | सत्यं | सत्यां– |
| मागे | माग्या– | माग्यं | माग्यां– |

5. एं कारान सोंपपी नपुंसकलींग उतरां

| ए. व. | सा. रू. | भो. व. | सा. रू. |
|---|---|---|---|
| सुणें | सुण्या– | सुणीं | सुण्यां– |
| तळें | तळ्या– | तळीं | तळ्यां– |
| तवशें | तवश्या– | तवशीं | तवश्यां– |

आ) विशेशण

| ए. व. | सा. रू. | भो. ब. | सा. रू. |
|---|---|---|---|
| बरो, –री, –रें | बऱ्या, –ऱ्ये, –ऱ्या | बरे, –ऱ्यो, –रिं | बऱ्यां, –ऱ्यां, –ऱ्यां |
| येकु, –कि, –क | येका, –की, –का | येक, –कि, –क | येकां, –कि, –कां |
| वायूटु, –टि, –ट | वायूटा, –टी, –टा | वायूट, –टी, ट | वायूटां, –टीं, –टां |

इ) सर्वनाम

| ए. व. | भो. ब. |
|---|---|
| हांव | आमिं ( मीं ) |
| माका | आमकां |
| मजो, –जी, –जें | आमंचो, –ची, –चें |
| हांवें | आमिं ( भीं ) |
| | |
| तुं | तुमिं ( मीं ) |
| तुका | तुमकां |
| तुजो, –जी, –जें | तुमंचो, –ची, –चें |
| तुवें | तुमिं ( मीं ) |
| | |
| तो | ते |
| ताका | तांकां |
| ताचो, –ची, –चें | तांचो, –ची, –चें |
| ताणें | ताणीं |
| | |
| ति (ती) | त्यो |
| तिका | तिंकां |
| तिचो, –ची, –चें | तिंचो, –ची, –चें |
| तिणें | तिणीं |

| | |
|---|---|
| तें | तिं |
| ताका | तांका |
| ताचो, –ची, –चें | तांचो, –ची, –चें |
| ताणें | ताणीं |
| कोणु, –णि, –ण | कोण, –णी, –णं |
| कोणा, –णी, –णा | कोणां, -णिं, –णां |
| आपण | आपण |
| आपण्या | आपण्यां |

## ई) क्रियाविशेशण

**1. थळवाचक**

सकल, पैस, कडे, मुखारि, ठाउनु, खैं, भितरि, वैरि, लागी, घरीं, कुळीं, स्वर्गीं, पोटीं, मनीं, देसीं, कुसीं, ठांयू, मुळा, घरा, मुळीं, सोभवंते.

**2. काळवाचक**

आजि, कालि, फायू, सांजे, येदोळु, तुर्त, मागां, कैंतर, अवचित, आदिंचि, तागायूत, आजुनु, प्रथम, तेदोळु, तावळी, जावळी, उपरांतें, आदिं, सकाळीं.

**3. इतर**

सांगातिं, पासि, प्रकारि, पासवत, सारिखें, हुजिर, परि, निमितिं, देखतें, सरि, आड.

## उ) समुच्चय (conjunction)

जरि, तरि, पण, पुणु, म्होणु, कित्याक, म्हणौनु, सैत, आणी, वा, कि.

## ऊ) उदूगार

कटकटा, आहो, आगा, रे, आरेरे, आगे, आबा, गो, नो.

### ए) क्रिया : काळ

#### सादो वर्तमान

| | |
|---|---|
| हांव सोदितां | आमीं सोदिताउं |
| तुं सोदितासि | तुमीं सोदिताथ |
| तो, ती, तें सोदिता | ते, त्यो, तीं सोदितातिं |

#### पूर्ण वर्तमान

| | |
|---|---|
| हांवें सोदिला, –ल्या, –लां | आमीं सोदिल्याति, –ल्याति, –ल्यांति |
| तुवें सोदिला, –ल्या, –लां | तुमीं सोदिल्याति, –ल्याति, –ल्यांति |
| ताणें, तिणें सोदिला, –ल्या, –लां | ताणीं सोदिल्याति, –ल्याति, –ल्यांति |

#### सादो भूत

| | |
|---|---|
| हांवें सोदिलो, –लि (ली), –लें | आमीं सोदिले, –ल्यो, –लिं ( लीं ) |
| तुवें सोदिलो, –लि (ली), –लें | तुमीं सोदिले, –ल्यो, –लिं ( लीं ) |
| ताणें, तिणें सोदिलो, –लि (ली), –लें | ताणीं सोदिले, –ल्यो, –लिं ( लीं ) |

#### अपूर्ण भूत – 1

| | |
|---|---|
| हांव सोदिं | --- |
| तुं सोदिसि | --- |
| तो, ती, तें सोदी | ते सोदिती |

#### अपूर्ण भूत – 2

| | |
|---|---|
| हांव सोदितालों, –लिं, –लें | आमीं सोदितालेउं |
| तुं सोदितालोसि, –लिसि, –लेंसि | तुमीं सोदिताल्याथ |
| तो, ती, तें सोदितालो, –ली (लि), –लें | ते, त्यो, तीं सोदिताले, –ल्यो, –लीं |

### पूर्ण भूत

| | |
|---|---|
| हांवें सोदिललो, -लि (ली), -लें | आमीं सोदिलले, -ल्यो, -लिं ( लीं ) |
| तुवें सोदिललो, -लि (ली), -लें | तुमीं सोदिलले, -ल्यो, -लिं ( लीं ) |
| ताणें, तिणें सोदिललो, -लि (ली),-लें | ताणीं सोदिलले,-ल्यो, लिं ( लीं ) |

### अनित्शीत भविश्य

| | |
|---|---|
| हांव सोदिन | आमीं सोदुं |
| तुं सोदिसि (सी) | तुमीं सोदिशाथ |
| तो, ती, तें सोदित | ते, त्यो, तीं सोदिती |

### नित्शीत भविश्य

| | |
|---|---|
| हांव सोदितलों,-लीं, -लें | आमीं सोदितलेउं |
| तुं सोदितलोसि, -लिसि, -लेंसि | तुमी सोदितल्याथ |
| तो, ती, तें सोदितलो,-ली (लि),-लें | ते, त्यो, तीं सोदितले, -ल्यो, -लिं |

### आज्ञार्थ

#### 1. सकर्मक क्रिया

| | |
|---|---|
| --- | आमीं सोदुं (सोदुंया) |
| तुं सोदि | तुमीं सोद्या |
| तो, ती, तें सोदुं | ते, त्यो, तीं सोदुंति (ती) |

#### 2. अकर्मक क्रिया

| | |
|---|---|
| --- | आमी हांसुंया |
| तुं हांस | तुमी हांसा |
| तो, ती, तें हांसुं | ते, त्यो, ती हांसुंति |

### नामकारी (infinitive)

सोदुं, सोदुंक

# वाचप्यांक चत्राय

विसाव्या शेकड्यांत आमी देवनागरी लिपयेंत बरयल्ली कोंकणी वाचताना, बरयला तसो उच्चार करी नांत. देकीक : 'वच' बरौन 'वच्' असो उच्चार करतात. म्हणजे आमचें बरौप, उलौप आनी वाचप एक जायना. पोरणे कोंकणींत बरौप आनी उच्चार एक जातालो म्हणजे बरयतात तसो उच्चार करचोच पडतालो. पोरणे कोंकणींत सगळीं उतरां स्वरान वा संदीस्वरान सोंपतात. 'अ' चो उच्चार जंय दाखयला थंय तो करचोच पडतलो. देकीक : 'होम', 'मग', 'दान', 'पाप', 'पडलो', 'लागलो', 'वेतलों', 'आसतो' ह्या उतरांचो उच्चार 'होम्', 'मग्', 'दान्', 'पाप्' 'पड्लो', 'लाग्लो', 'वेत्लों', 'आस्तो' असो करचो न्हय. जंय 'अ' चो उच्चार जायना थंय वेंजनाचो पांय मोडला वा वेंजनां जोडून बरयल्यांत. देकीक : 'कांय्', 'लख्मि', 'ठांय्', 'इतुकेंय्', 'लाय्लें', 'स्वाम्यानो', 'समर्पिलिं', 'नास्तनां', 'द्रिबांकरू', 'पार्वत्येची', 'गायूक'. देखून हें म्हाभारत वाचताना वाचप्यांनी संस्कृत वाचपाची रीत वापरची. आतां आमी कोंकणी वाचतात ती रीत, हें आदि पर्व वाचूंक वापरची न्हयं.

# पैली कथा

अस्तानपुर[1] नांव नगर तेथीं सन्तान चक्रवती[2] राव् राजे करी. त्या रायाच्ये स्त्र्येक नांव गंगा. ती स्त्री रायान मेळैतनां दोगांकै बोलु सते सुकृत होउनु ती रायाची स्त्री जाली. "जे वेळे हांव मागन तें तुवें राया माका दिउंचें," ऐसें म्हणौनु बोलु भास रायान दिली. फुडां ती गर्बेस्ति जाली. नव मास भरले. उप्रांतें प्रसुत जाली. पुत्रु जालो. तो पुत्रु तिणें व्हर्नु उदकांतु घालो. राव् वोगोचि आस कांय् उलै नां. ऐस्या परीं पांच पुत्र तिगेरि जाले. तेवै व्हर्नु उदकांतु घाले. त्या पासवत राव् भोउ दुखेस्तु जालो, पण आपुले स्त्र्येक बोलु भास दिल्या म्हणौनु कांय् बोल नां. ऐसें आसतां मागुतेन ती गर्बेस्ति जाली. नव म्हैने पुरे जाले. प्रसुत जाली. सटवो पुत्रु जालो. तोवै घेउनु उदकांतु घालुंक वेताली, इतुक्या राव् येउनु तिचे लागीं भोउ कोर्नु विनौं लागलो, "हो पुत्रु माका तुं भिकेक दी, आमंच्या राज्याक राव् जायूत." तंव तिणें रायाचे हातीं ताका भिकेक दिलो म्होणु भिस्मु[3] नांव ठेयूलें.

तंव राया लागीं ती उलौं लागली, "हो तुका हांवें भिकेक दिलो, हांव भासेक आजि तागैत उत्रै जालीं[4]" म्हणौनु अदृस्ट जाउनु गेली. त्या पासवत रायाक भोउ दुख पडलें. राव् विकळु चिन्ताक्रांतु जाउनु अन उदक वर्जिलें. वस्त्र लुगडें न्हेसुंचें सांडिलें. सिहांसनावरि बैसुंचें सांडुनु येका कोरड्या फातरावरि बैस. ऐसें आसतां दिवसीं मासीं तो भिस्मु पुत्रु वाडलो. फुडां थां बारां वरुसांचो जालो. बापाचें मन दुचित देखुनु आपुल्यां प्रधानां, मनूत्री वर्गां लागी विचारिलें, "हो मजो बापु कोणा प्रस्तायक सदान्त असलि चिन्ता करिता तें तुमीं माका सांगा, नाथिल्यारि मजो जिउ हांव सांडिन." तंव त्यां मनूत्र्यानीं भिस्माचें उतर आयूकुनु मागां जें वर्ततलें तें इतुकेंय् ताका सांगिलें. तें आयूकुनु तो भिस्मु म्होणुं लागलो, "अस्त्र्ये विण राव् भोउ दुखेस्तु, तरि आतां मजें तर्नेपण मज्या बापाक हांव दिन, वा ताचें व्रधपण हांव घेन, आणी हांव स्त्री हे संवसारीं जरि करिन, तरि मजे माये समाने ऐसें मानिन" म्होणु निचेउ केलो.

ऐसें म्हणौनु आपुल्या बापा सन्तान चक्रवतिक अस्त्री जोडुंक देसों देसीं आपुले मनूत्री प्रधान धाडिले. इतुक्या कास्मिर देसिचो राव् कोन्तभजु ह्नैं आसिलो थैं ते गेले. ताचे घरीं येकि उपवरि कन्या वाडलली. ताणीं ताचे लागी

म्हळें, ''आमंकां भिस्मान तुमंचे लागी धाडिल्याति, आपुल्या बापाक तुमंची कन्या दिउंच्याक.'' तें उतर आयूकुनु तो तांचे लागी उलौं लागलो, ''भिस्मु व्हडल्ये स्त्र्येलो म्होणु राजे तो करित. हांवें मजी कन्या ताच्या बापाक दिउंची, तिगेरि जि कांयू सनूचति जायूत तांकां राजे फाव नां म्होणु नेदे जायूत'' ऐसें म्हणौनु कोन्तभजान त्या मनूत्र्यां लागी सांगुनु धाडिलें.

तांचें उतर आयूकुनु भिस्मु वोगोचि रावलो. मग आपणचि झां झैं कन्या जाजाचे घरीं[5] वाडलल्यो थैं सोयूरिकेक आपणचि वच. ज्याचे घरीं कन्या वाडल्याति तांचे घरीं जंव सोयूरिकेक वच, तंव ताणीं जेणे प्रमाणीं कोन्तभजान जाप दिलली तेणें प्रमाणीं जाप दिली. तंव भिस्मान आपुल्या मनांतु म्हळें, ''हांव तरि राजे सर्वता नकरीं आणी स्त्री नजोडीं, जरि स्त्री हांव जोडिन तरि ती माका मजे माये समाने, ऐसें म्होणु हांवें आदिंचि निचेउ केला. प्रतमचि हांवें मजें तर्नेपण मज्या बापाक दिलें. ताचें व्रधपण हांवें घेतलें. ऐसें आसतां हो समस्तु लोकु आपुल्यां मनांतु सोयूरिक नकरुंक ऐसलें उतर दिताती,'' ऐसें म्हणौनु थैं ठाउनु दुसरी आपुल्या अस्तानपुरा आयूलो.

ऐसी ही कथा जल्मजयाक[6] सुख इन्द्रान[7] सांगिली. ती कथा अपुर्वि देखुनु सोन्तसु पावलो.

## टीप

1. हस्तिनापूर
2. शंतनू
3. भीश्म
4. ''तुवें म्हाका कसलेच प्रस्न विचारचे न्हय आनी विचारल्यार आपूण तुका सोडून वेतलीं'' अशें गंगेन शंतनूक उतर दिल्लें. शंतनून आपलें उतर मोडल्यान गंगेक आपलें उतर पाळचें पडलें.
5. जंय कन्या जाच्या घरांत
6. जनमेजयाक. जनमेजय राजा हो परिक्षीत आनी मद्रावतेचो पूत.
7. शुक – हो व्यासाचो पूत

# दुसरी कथा

भिस्मु बोले मनूत्र्यां प्रधानां पासीं, ''राजा दुचितु, माहा मानसी, कामु नाहीं रायासि तेणें दुखि थोरु झळम्बता.''

भिस्मु मनूत्र्यां प्रधानां लागी उलैलो, ''आमंच्या बापाक अस्त्र्ये विण जिवाक सुख नां. माहा चिन्ताक्रांतु. तरि आतां हांव येकि कन्या तुर्तचि जोडिन,'' म्हणौनु आपुल्यां राज्यांतुले घोडे, हस्ती, रथ, पायेदळ, चतुरंग सहिन्या सहित भायूर पडलो. इतुक्या मागविरि वेसिं, येका समन्द्राचे तिरीं सुधन्दु परिमळु येउं लागलो. त्या परिमलाच्या लब्दान राव् वा समेस्त सहिने वेदलें. तंव रायान प्रधानां पासीं विचारिलें, ''कस्तुरी चन्दन सारिखो परिमळु जो येता तो खैंचो?'' तें उतर आयूकुनु प्रधानाऩ आपुल्यां शेवकांक निरोपु दिलो, ''कोणी कडे कोण देवस्तान आस, की बरवो सुगन्द पुस्वांचो ठाव् आस, तरि तुमीं ठांयू घालुनु वेगीं वेगीं या.''

तें उतर आयूकुनु शेवक धांवत गेले. ते समुद्रा तिरीं सोदुं लागले. सोदितां सोदितां त्या समुद्राच्या तिरावरि येकु नैंवडु[1] म्हणजे तारी, तारि उतर्तालो. ताची ती कन्या माहा स्वरुपि सुन्धरि त्यां शेवकानीं देखिली. तिचे आंगिचो सुगन्दु परिमळु येता. त्या परिमळाच्या लब्दाक भोंवरांचें रण जुणुकारु अनूत्रखे जाता. तावळि तें शेवकानीं देखुनु तिचे लागीं विचारिलें, ''तुं कोणाची कन्या हें सर्व वर्तमान आमंकां सांग.'' तावळि ती तांचे लागी उलौं लागली

> मजो बापु खारुवो हांव ताची कन्या. पैलें मजें नांव मछगन्दा. येकु गाउं भरि मजे आंगिची पोर्टाणि जैसी मासळ्येक हिंवसाणि येता तैसी येताली. तावळी ह्या मार्गान येकु रुसी परस्परु म्हळेलो तारि उतर्नु वचुंक आयूललो. तावळी मजो बापु खारुवो अरण्यांतु गेललो. हांव येकलिचि ते तारी लागी बैसललीं. माका देखुनु तो रुसेस्परु वेगीं पेलतडी उतरि म्होणुं लागलो. तावळी हांवें म्हळें, मजो बापु येउनु उतरित, हांव कन्या कैसें होडें उतरुं?
>
> तावळी येकान्त वासु देखुनु तो रुसी आपण्याक भोगु मागुं लागलो. तावळी हांव भयाभिति होउनु लाजिलीं. तावळि तो रुसी बोलुं लागलो,''वेगीं तुं माका भोगु दिसी तरि बरें, नां तरि तुका

> ग्रापुनु भस्म करिन.'' तें उतर आयूकुनु हांवें ताचे लागी बोलिलें, हांव कन्या भोगु दिउंक नेणां. तावळि ताणें म्हळें, '' तुका बरवी पनरा होउ सोळां वरुसांची सोवासिणि करिन.'' तावळि तिणें[2] म्हळें, दिसाचो भोगु दिउं तरि नये. समेस्त देव, चन्द्रु, सुरियु, समन्द्रु, व्रखे, वाउतर देखतातित हांव तुका कैसो भोगु दिउं? तावळी ताणें म्हळें,''तुं भियेउं नाका. त्यां समेस्तांची दृस्टि आमीं भोगु कर्तनां पड नांसी हांव करिन,'' म्हणौनु आटांय् दिसांक कमडळिचें उदक काडुनु उडैलें. त्या उदकान हिंवर जाउनु अन्दकारु पडलो. मनुश्याक मनुश देखुं नाये जालें.

पुडां ते मछे कनेन त्या रुसिक भोगु दिलो. फुडां तिगेरि व्यासु पुत्रु जालो, आणी तिका नांव सुगन्दा म्हणौनु ठेयूलें. ते सुगन्देचे आंगिची वासना जैसी कुंकुम, कस्तुरि, अगर चन्दन, बावन चन्दन परमळता तैसी वासना परिमळु येउं लागलो. मग तो रुसी जे तप केलले इतुकेयू वधुनु नागवलो. ऐसें हें मागिलें वर्तमान त्यां प्रधानांच्यां शेवकां लागी सुगन्देन सांगिलें. तें आयूकुनु ते[3] आपुल्या स्वाम्या लागी येउनु सांगिलें. तें सर्व वर्तमान आयूकुनु राव् प्रधान मनूत्री घेउनु ते सुगन्दे लागी येउनु समुद्राचे तिरीं बैसलो. तिच्या बापा खारुव्याक आपौंक धाडिलो. तो रायाचो निरोपु आयूकुनु धांवत येउनु पायां पडलो, ''स्वाम्या तुवें कित्या माका आपौंक धाडिलेलो तें माका सांग.'' तंव रायान म्हळें, ''तुजी ही कन्या सुगन्दा आमंच्या बापा सन्तान चक्रवतिक दी, दिल्यावरि तुका हांव देस, दुर्गां, वळितां, द्रवे, रथ, हस्ती, घोडे, सहिने, पायेदळ तुका हांव दिउनु राव् करिन. जें कांय् हांव म्हणतां तें तुं करि.'' तावळि ताणें म्हळें, ''स्वाम्या हांव तुजो शेवकु. जें कांय् ती कन्या म्हणता तें करुंचें.''

तावळि प्रधानु राव् कनेचो बापु सैत तिचे लागी पावले; राव् येता देखुनु ती उटुनु रायाक सास्टांग दोनीय् हात जोडुनु पायां पडली. रायान म्हळें, ''तुं कांय् भियेउं नाका. जें कांय् हांव म्हणतां तें तुं करि. उधण्ड भाग्या पावसी.'' तावळि तिणें म्हळें, ''स्वाम्यान निरोपु दिलो तो भोउ बरो पण हांव जि विनंती करितां ती बरें प्रमाणीं मना हाडुनु निरोपु दिसी, तरि तुवें म्हळेलें हांव करिन. तरि स्वाम्या तुं राज्याचो राव् राजे करितासि आणी तुं व्हडी बायूलेलो. तुगेरि जि सनूचति जायूत

ते राजे करिती, मगेरि जे पुत्र जाती तांकां राजे नां. तुमंची शेवा कर्नु तानीं आसुचें. तरि हे भासे हांव सर्वथा तुवें म्हळलें नकरीं. हांव जें म्हणतां तें तुं जरि करिसि तरि हांव तुज्या बापा सन्तान चक्रवतिची बायूल जायून.'' तें उतर आयूकुनु ताणें म्हळें, ''हांवें प्रतमचि नेमु ऐसो केला, स्त्री सर्वथा हांव नकरीं वा राजेयू नकरीं. हांवें मजें तरुणेपण मज्या बापाक दिलां, ताचें व्रथपण हांवें काडुनु घेतलां. तुं आमंच्या बापा सन्तान चक्रवतिची स्त्री जा. तुगेरि ताचे वरौनु जे पुत्र जाती तांकांचि राजे हें समेस्त दिलें, ऐसें मनिं हांव आजि तागायूत अस्त्री आणी राजे जरि करिन, तरि मजे माये गंगेचि माका आण. संवसारीं जितुक्यो स्त्र्यो आसति इतुक्योयू माका मजे मायेचे परी. हांव ब्रम्हचारी, परमेस्पराची बग्ति शेवा करुनु आसतलों.'' हें उतर तिणें आयूकुनु ती सोन्तोसुनु बरें म्हळें.

मागिरि थैंचि गन्धर्विव्हावू केला[4] करुनु त्या सहिन्या सहित अस्तानपुर राज्यांतु हाडुनु सन्तान चक्रवतिक आणी ते सुगन्देक येकडे बैसौनु आपुल्या हातान रत्नां मोत्यांची सेंस भर्ली. ''जें कायू तुगेरि पुत्र जाती तांकां हांव राजे मज्या बापा हुजिर समर्पुनु दिन, तुं आजि तागायूत ह्या राज्याची स्वामिणि,'' ऐसें वरुदान दोगांयूकै भिस्मान दिलें.

ऐसी हि कथा सुख इन्द्रान जल्मजयाक सांगिली. पुणतीं तो विनती कोरुं लागलो, ''आण्येकि अपुर्वि कथा तुं माका सांग.'' दुसरी कथा समाप्त.

**टीप :**

1. होडेकार
2. हांवें
3. ताणीं
4. केलो

# तिसरी कथा

ऐसीं तीं सोन्तोसीं राजे करितां भोउत काळ भरले. आतां मग समस्तु लोकु आनंदता त्या राज्याचा[1] धर्मु देखुनु. पुडां ती[2] प्रतमचि गर्भस्ति जाली. नव मास पुर्न भरले. पैलेचि दोग पुत्र जाले. येकाक नांव चित्रु, हेराक नांव विचित्रु ऐसीं नांवां सन्तान चक्रवतिन वा ताचे[3] माये सुगन्देन ठेयूलीं.

ऐसें ते दिवसीं मासीं वाडुं लागले. फुडां धां बारां वरुसांचे जाले. धनुर्विध्या शेस्त्रां अस्त्रांची विध्या सतिस दण्ड युध्यांची विध्या पुर्न सिकिले. ऐसें सिकुनु सोन्तसीं आसतां, फुडां ताचो[4] बापु सन्तान चक्रवती मेलो. ताचें सर्व जैसें परमेस्परान फर्मायूल्या प्रमाणीं क्रिया काम चालविलें. फुडां त्या चित्राक भिस्मान सिहांसणावरि बैसौनु अबिशेकु राज्याचो केलो. ''तुं आजि तागायूत हें राजे करि. प्रजेक बरे प्रकारीं पाळि. आपुल्यां शेवकांक सांभाळि. दान धर्मु बरो करि. इतुकें केल्यावरि तुका परमेस्परु बरें करित आणीं मजें उतर वा हांवें सांगिलेलें जरि करिसी, तरि चन्द्रु सुरियु आस पर्येनूत्र तुं हें अस्तानपुराचें राजे करिसी,'' म्हणौनु रत्नानीं सेंस भर्ली. हस्ती भाण्डार, घोडे रथ, देस दुर्गं, गड, ताचे हातीं वोपुनु राज मुद्रा दिली.

तेणें प्रमाणीं तो चित्रु राजे करितां, समेस्ती प्रजेक सुखी वा परमेस्पराची भग्ति बरे प्रकारीं करी. थोंटें, पांगुळें, आन्दळें, अतित भिकारें जें जें मागताति तेतुक्यांचीय् आश्या पुर्न करी. ऐसें आसतां त्या चित्राची माये सुगन्दा भोउ दुख करिता. आपुलो पति सन्तान चक्रवती मेलो म्होणु अन उदक वर्जुनु येका घरा मधें बैसुनु परमेस्पराचें सुमरण करिता. ऐसी ती आसतां येके दिवसीं आपुलो पुत्रु परस्परा रुसेस्परा पासौनु जल्मललो त्या व्यासाचो उगडासु जालो. जायूत खेवीं तो धाउनु येउनु आवैच्यां पायांक लागलो. तिणें आपुलो पुत्रु म्हणौनु खेम आळिंगण दिलें. मग दोगैं माये पुत्रु येकांत स्थानीं येका घरा मधें बैसुनु आपुलें सुख दुख उलौं लागलीं. ''पुत्रा, तुं येतिकाळ कोणी कडे आसिलेलो? जैसो मजे उधरीं होउनु जल्मलोसि तैसोचि माका सांडुनु वनिवासा परमेस्पराची भग्ति करुंक गेलोसि. आतां हांव दुखेस्ति जालीं म्होणु तुजो माका आटौ जालो.'' तावळि त्या व्यासान म्हळें, ''माये तुं ऐसी दुखेस्ति कित्या?'' तावळि तिणें सर्व वर्तमान मागिलें, जें जाललें तें इतुकेंय् आपुल्या व्यासा पुत्राक सांगिलें. तें उतर आयूकुनु पुणतीं आपुले माये लागी उलौं लागलो.

ऐसीं तीं दोगैं रातिचीं माये पुत्रु उलैतां, तो आपुले मायेक दुखेस्ति म्हणौनु सम्बोखी. "परमेस्पराची गति करणी एणेचि प्रकारीं चालली आस. तुं काये दुख करुं नाका. राव् गेला म्होणु तुं दुख करितासि तरि तुज्यां पुत्रांक राजे भिस्मदेवान दिलां. तुं कांयू आजि तागायूत दुख कोरुं नाका." ऐसें म्हणौनु आपुल्या कमंडळांतुलें उदक काडुनु तिच्यां डोळ्यांक लायूलें. एणेचि प्रकारीं रात्रिचो येउनु तिका सदान्त समजायूता. दोगांचिं उतरां रात्रिचीं त्या घरा मधें रायाच्यां घरिंच्यानीं आयूकिलीं, आयूकुनु चित्रा रायाक सांगिलें, "स्वाम्या तुमंची माये सुगन्दा ह्या घरा मधें येकलिचि आसिली थैं दुसऱ्या पुरुसाचीं उतरां सदान्त ऐसिंचि जातातिसीं आमीं आयूकिलीं." ऐसें आपुल्यां मनुशानीं सांगिलेलें तें आयूकुनु राव् ते रात्री त्या घरा लागी येकलोचि येउनु आयूकुं लागलो. "हीं उलैतातितीं कोण? मजी माये तंव येकलिचि हांगा आस. हिचे लागी कोणु येउनु उलैता?" इतुक्या भितरि तिणें आपुल्या पुता व्यासाचें चिन्तन केलें. तें आयूकुनु व्यासु भद्रकस्रामीं होउनु धाउनु आयूलो, येउनु आपुले आवै लागी बैसलो, बैसुनु नाना प्रकारीं तिका सम्बखुनु कमंडळांतुलें उदक काडुनु तिच्यां डोळ्यांक आपुल्या हातान लाउनु, "माये तुं कांयू चिन्ता दुख करुं नाका, हांव तपाक वेतां." ऐसें म्हणौनु निरोपु मागुनु गेलो.

ऐसीं हीं उतरां आयूकुनु चित्रु राव् भोउ मनांतु चिन्ता करुं लागलो,
माका थोर पाप लागलें. माये वायूट करिता ऐसी हांवें भासन भासिली. त्या पापाक आतां कोण प्राचित कोरुं? ताणें वेतनां वेळो, "माये तुं भियेउं नाका. चिन्ता कोरुं नाका." ऐसें उलैलेलें उतर हांवें तरि मज्या काननीं आयूकिलां. आतां मजे माये लागी वचुनु हांव, जें कांयू मागां जाललें वर्तमान हांव सर्व विचारिन. ती माका सकट सांगत

म्हणौनु आपुले माये लागी वचुनु पायां पडुनु विचारुं लागलो, "माये आमीं तंव तुजे दोग पुत्र. रात्रिचो तुका येउनु सम्बोखुनु वेतनां वेळो : माये चिन्ता कोरुं नाका म्हणौनु म्हणता तो कोणु तें तुं माका सांग." तें उतर आयूकुनु तिणें म्हळें, "तो मजो पुत्रु परस्परा रुसेस्परा पासवत जल्मलेलो. तो परमेस्पराचो थोरु भग्तु जाला. भद्रकस्रामीं तप करिता." हें उतर आयूकुनु चित्रु आपुल्या मनांतु

संकोचोलो. ''हांवें तंव माये वायूट करिता म्होणु भासन धर्ली. तो तंव तिचो पुत्रु. मागिलें वर्तमान माका सांगिलें. आतां असल्या पापाक हांव कोण प्राचित करुं?'' म्हणौनु भले भले जे परमेस्पराचे भग्त तांकां आपौंक धाडिले आणी राज सभांतु[5] विचारुं लागलो, ''आहो जी आपुले मायेच्या ठांय् परपुरुसाची वायूटि कल्पना धर्ल्यारि ताका कोण पाप? कोणा प्राचितान तें पाप वचत हें तुमीं माका सविस्तर सांगा.'' तें उतर आयूकुनु विनंती करुं लागले, ''येका म्हा अरण्यांतु वचुनु झैं सवणें नां, उदक नां, मृगां न्नांति, ऐसें स्थान पळेउनु, थोरा येका व्रख्याची पोखर्लि पळेउनु, आपुल्या हातान लाकुडां पुंजाउनु, त्या व्रख्याचे पोखर्ली भोवंती डाळुनु, आपण भितरि त्या[6] पोखरिंतु बैसुनु, उजो लाउंचो. त्या मधें आपण लासुनु मरुंचें केल्या पासि प्राचित जायूत, आणी परमेस्परा ठांय् मुग्ति पावसी.'' हें उतर आयूकुनु हेरा दिसा राव् चित्रु येकलोचि त्या अरण्या मधें वचुनु, थोरु ठाव् पळेउनु, व्रख्याचे पोखर्ली भोवंती लाकुडां लाउनु, आपण भितरि बैसलो. उजो लायूलो, लागत खेवीं राजा जळुनु भस्म भुतु जालो. ऐसें करितां राव् राज्याक नां.

फुडां त्या रायाक येमलोकीं येमदुतानीं व्हेलो. चित्रगुप्तु एमराया मुखारि उबो केलो. तावळि एमरायान आपुल्या शेवकांक निरोपु दिलो, ''ह्या रायान पाप पुणे कोणीं प्रकारीं संवसारीं केलां तें तुमीं पळेउनु वेगीं माका सांगा.'' तावळि ताणीं आपुलें कागत वाचुनु, एमराया लागी येउनु दोनि हात जोडुनु विनौं लागले,

> स्वाम्या, हाचें पाप आण्येक तंव आमंकां कांय् दिस्टि पड नां. हाणें आपुली प्रजा बरवे प्रकारीं पाळिली. आपुले शेवक बरवे प्रकारीं सांबाळिले. परमेस्परा ठांय् बरवें मन. जेतुकें जें जें मागताले इतुक्यांकै हो दी अनदान, उदकदान, वस्त्रदान, भुमिदान, सोवर्नदान, घोडेदान, हस्तीदान, रत्नदान ऐसीं नानां परिंचीं दानां देउनु समेस्तांक सुखी केले. ऐसो हो राव् धर्मिकु, पण हाका येकुचि दोसु लागलो तो कैसो म्हणसी तरि सांगन. हाची माये गंगा[7], तिचो पुत्रु व्यासु रात्रिची येका घरा मधें बैसुनु उलैति. जावळि सन्तान चक्रवती राव् मेलो तावळि ती दुखेस्ती जाउनु भोउ दुखान जंव जळ तंव त्या पुत्राचें सुमरण करी. तावळि तो धाउनु

येउनु आपुले माये लागी बैसुनु कांय् परमेस्पराची कथा उपदेस सांग. एणें प्रकारीं तिका समजाउनु वेतनां वेळो, "माये तुं दुख करुं नाका" म्होणु सांग. तें उतर ह्या चित्रा रायाच्यां घरिच्यां मनुशानीं आयूकुनु रायाक वचुनु सांगिलें. ते दिवसीं राव् रात्रिचो थैं पळेउं आयूलो. हांवें तंव येकलिचि ह्या घरा मधें ठेयूलेली, हांगा कोणु येउनु आण्येकु पुरुसु उलैता तें हांव आजि पळेतलों म्हणौनु पळेउं लागलो. तावळि ती गंगा[8] दुसेरीं आपुल्या पुत्रा व्यासाचें चिन्तन करुं लागली. इतुक्यां मधें तो धाउनु आयूलो, येउनु आपुले मायेक नाना प्रकारीं सम्बोखुनु कमंडळांतुलें उदक काडुनु तिच्यां डोळ्यांक लाउनु, "तुं कांय् चिन्ता करुं नाका. संवसारु एणेचि प्रकारीं चलला. ह्या संवसारा मधें कोण राये अमर जाउनु जिये नां. येक फुडें मर्तातित येक मागिरि मर्तातित. तरि आपणें रात्रि दिवसु निदेतां, उभटतां, मार्गीं चलतां, जेवितां, खातां, निदेतां देवाचें सुमरण करुंचें. केल्यारि परमेस्परु अन्तीं बरो ठाव् दित. तरि तुं माये आतां बैस हांव तपाक वेतां" ऐसें म्हणौनु निरोपु मागुनु वचुं लागलो. तें उतर चित्रान आयूकुनु सकाळिंचि राज सभेक बैसुनु आपुल्यां मनूत्र्यां प्रधानां लागी ऐसें विचारिलें, "मायेक आणी येका परपुरुसाक तिच्या पुत्रान वायूट केल्यारि ताका कोण पाप?" तावळि ताणीं सविस्तर पापाचें प्राचित सांगिलें. तैसेंचि सांगिलेल्या प्रमाणीं ह्या चित्रा रायान केलें. तरि हाका पाप कांय् नां. राव् थोरु धर्मी.

तें उतर एमरायान आयूकुनु वेगीं सिहांसनावेलो उभटाउनु चित्राच्यां पायांक लागुनु गळो आलिंगण धर्नु आपुल्या सिहांसणावरि बैसौनु बऱ्या रत्नांची वा सुगन्द पुस्वांची पुजा करुनु वस्त्रां दिलीं. "स्वाम्या मजो कांय् अपरादु मनीं धरुं नाका. तुं राव् थोरु धर्मी. परमेस्परा ठांय् तुका उदण्डि भग्ति. आपुलें येदें राजे सांडुनु आपुल्यां हातानीं तुवें कास्टां मेळौनु, तांतुं तुं बैसुनु उजो लाउनु आपुल्या धेयाक तुवें प्राचित केलें. ऐसो तुं सतेवादी. उदण्डु दान धर्मु केलो. जे भिकारी अनाथ दान मागतालें[9], इतुक्यांची आश्या तुवें पुर्न केली. अनदानांचीं सत्रां तुं

घालिसि. ऐसो तुं परमेस्पराचो थोरु भग्तु. तरि नेणतां मजे शेवक वचुनु तुका घेउनु आयूले. म्होणुंच्याक मजो अपरादु तुका एमनगराक हाडिलो म्होणु धोरुं नाका. तुं हांगा आयूलो म्होणु तुज्या पुण्यान केतिक पापी ह्या एमकोंडांतु नरक कोंडीं पडलले ते तुजे दृस्टी करुनु उधर्ले." ऐसें म्हणौनु ताका पायां पडुनु विमानावरि बैसौनु स्वर्गीं धाडिलो.

ऐसी ही कथा सुख इन्द्रान जन्मजयाक सांगिली. अपुर्वि क़था देखुनु दुशेरि विनंती करुं लागलो, "तुं माका आण्येकि कथा सांग." तिसरी कथा सुभ भवेतु[10].

## टीप

1. राज्याचो
2. सुगन्दा
3. तांचे
4. तांचो
5. सभेंतु
6. ते
7. सुगन्दा
8. सुगन्दा
9. मागताले
10. हांगा निव्वळ प्रतींत समासांत लॅटीन भार्शेत दोन अस्पश्ट टिपो आसात.

# चौती कथा

फुडां क्वणेके अवस्परीं राज्याक राव् नां ऐसें त्या नगरांतु जालें. राजा खैं कोणि कडे गेलो म्हणौनु सोदुंक लागले. देसों देसीं चाकर सोदुंक धाडिले. ते शेवक प्रथुमि समस्ति आटै दिसा हिण्डुनु येउनु आपुल्यां स्वाम्यां प्रधान मनूत्र्यांसि सांगिलें,

> स्वाम्या, तुज्या निरोपा प्रमाणीं समेस्त भुअस्तळ आटै दिसा आदि करुनु सोदिलो, पण खैं दृस्टी आमंचे पडलो नां. अस्तानपुरिचो राव् चित्रु हे कडे आयूललो तुमीं देखिला तरि आमंकां सांगा, ऐसें म्होणु आमीं विचारिलें. ते आमंकां सांगु लागले, ''राजा चित्रु आमीं हे कडे देखिलो नां.'' आतां आमंकां कोणु निरोपु?

तें उतर आयूकुनु म्हा दुखेस्त जाले वा ताची माये सुगन्दा भोउ दुखान झळम्ब. पुत्रु आपुलो कोणी कडे गेलो? राज्याक तंव राजा नां. ऐसो म्हा आकांतु राज्यांतु वर्तलो.

फुडां ताचो दाकुटो भाउ विचित्रु राजे पाटाक सिहांसणावरि बैसलो. समस्त राजे ताचे हातीं वोपुनु दिलें. ऐसो तो विचित्रु राव् राजे करितां बरे प्रकारीं प्रजा पाळन करी. जैसो आपुल्या भावा चित्रान दानु धर्मु केलेलो त्या होउनु आपण दान पुणे करुं लागलो. निरंतर परमेस्पराची भग्ति करी. एणे प्रकारीं राजे करितां भोउत काळ भरले. मग त्या रायाक ख्य रोगु शेरिराक जालो. नाना परिंचे वैद हाडुनु वोखदां केलीं, पण कांयू जिवाक सुख नां जालें. मग ताणें उदण्डु दानु धर्मु करुंक आधारिलो. येग्न होम हवन कोर्नु देउळां बांदुं लागलो. बांदुनु परमेस्पराच्या नांवान परमेस्पराची मुर्ति करुनु ठेउनु, अनदान नितें घालुनु शेवा कोरुं लागलो. आपुलो व्हडलो सवति भाउ भिस्मदेउ ताका म्होणुं लागलो, ''हें राजे तुं सांभाळि. मजो भाउ व्हडलो चित्रु राजे सांडुनु गेलो. माका तंव ऐसी शेरिराक व्यादि उपजली. पुर्वीं थोर पाप हांवें केललें म्हणौनु माका हें फळ भोगता. तुं आतां हें राजे करि.''

ताणें म्हळें, ''आरे पिश्या, हांवें प्रतमचि संकल्पु ऐसो केला कि राजे हांव नकरीं आणी बायूल नजोडीं. जरि जोडिन तरि माका मजे माये समान. ह्या राज्याची माका कांयू चाड नां. हांव परमेस्पराचीचि भग्ति रात्रि दिसु करुनु

आसतलों. राजे आणिक हें शेरिर लखूमि कोणांकै स्थिर न्होये[1] ऐसें मानुनु जे परमेस्परा ठांयू भजती तांकां परमेस्परु अन्तीं स्वरुप दरुसण दाखैत[2]. तुं आतां मजें मन पळेतासि तरि ह्या राज्याची पर्वा माका कांयू नां. येका परमेस्परा वांचुनु हें कांयू माका नाका.'' ऐसें म्हणौनु त्या विचित्रा लागी बोलिलें. तें उतर आयूकुनु तो भोउ दुखेस्तु जालो, ''आतां हो राजभारु कोण चालैत? आमंकां दोगांकै तरि पुत्र नां जाले. भस्मदेउ राजे तंव नकरीं. आतां हांव कितें कोरुं?'' म्हणौनु आपुल्यां मनूत्र्यां प्रधानांक निरोपु दिलो, ''हो राजे भारु तुमीं चालया. माका तंव जिवाक व्यादि लागल्या. सुख तंव नां[3]. आतां हांव परमेस्पराच्या नांवान थोरु होमु कर्तलों.'' म्हणौनु संकल्पु करुनु येग्नु आरमूभिलो.

समेस्त मुस्तायूती मेळौनु हाडिली. तुप, तेळ, तांदुळ, म्होउं, दुद, धैं, साकर नाना परिंचीं परिमळ पुस्वां ऐसीं हाडुनु, येग्नु कोंडा मधें ठेउनु आपुले हातीं आउति दिउं लागलो. अनदान, उदकदान, भुमिदान, घोडेदान ऐसीं नाना परिंचीं दानां ब्राम्हणांक दिलीं. अविन्द मोत्यांच्यो माळा[4] त्यां माळांक येकेकु सहस्रु मोत्यां उतमां, येकु भारु सोवर्न. एणेचि प्रमाणीं था सस्रां ब्राम्हणांक सोवर्न वा मोत्यां दिलीं. ऐसें दिउनु होमु केलो. आपण भोउ दिवस अन उदक वर्जुनु बैसलो. ऐसो भोउ कस्टवता देखुनु अनूत्रखे अस्रोनित वाचा जाली, ''आरे अस्तानपुरिच्या विचित्रा राया, तुवें पुर्व जल्मी भोउ ब्रम्ह हत्या केलेल्यो. त्या निमितीं तुका खेयू रोगु जालो. आतां कांयू केल्या हें नसुटें हे वेळे तुवें इतुकें[5] होमु हवन दानु धर्मु केललो देखुनु तुका जरि हांव बरें करिन तरि आण्येकी जल्मीं एणेचि प्रकारिं असलो फळु भोगत. अजुनु त्या रोगाचो भोगु पुरो जालो नां वा ब्रम्ह हत्या केल्यो नांति. जें तुजे कपालीं लिहिलें तितुकेंचि होतलें. तुं आतां भोउ कस्टुं नाका.'' ऐसी वाचा आयूकुनु रायान येग्नु पुर्नु केलो. उपरांतें तीं म्हैन्यानीं राजा मरण पावलो.

ऐसें करितां तें दुख ताचे माये सुगन्देक भोउ जालें. ''दोगै पुत्र माका सांडुनु गेले. येकु परदेसीं गेलो. हो तंव मरण पावलो,'' ऐसें म्हणौनु दुख करुनु रुधन करित. ''आतां हें राजे येवडें कोण चालैत? भिस्मुदेउ तंव राजे नकरी. तो परमेस्पराक सरण गेलो. आतां कितें करुं?'' म्हणौनु व्यासा पुत्राचें सुमरण केलें. तो धाउनु पावलो, ''माये तुवें कित्या माका आपैलेलो हें सर्व वर्तमान तुं माका

सांग." तावळि तिणें जाललें वर्तमान इतुकेंयू आपुल्या पुत्राक सांगिलें. तें आयूकुनु ताणें आपुले माये लागी बोलिलें, "चित्रु तुजो पुत्रु अरण्यांतु वचुनु आपुल्या हातान लाकुडां मेळौनु त्यां लाकुडांचें घर करुनु, तांतुं आपण बैसुनु उजो लाउनु, ताणें आपुल्या शेरिराक प्राचित केलें. तो जिवंतु आस जरि तुं म्हणसी तरि तो जिवंतु नां, मरण पावलो. हें राजे तंव मिस्तु नकरी. आतां राजे चालौंक राजा नां. कुळीं तंव कोणाकै पुत्रु नां." हें उतर आयूकुनु मायेरि भोउ दुख पडलें. "दोगांकै तंव ऐसी वाट घडली. आतां कोणु येकु प्रकारु हें राजे उर ऐसें करी. तुं परमेस्पराचो भग्तु. तुं जें कांयू म्हणशी तें सते. तुं आतां माका सांडुनु खैं वचुं नाका. मायेक पुत्रु जरि सांडुनु वचत तरि जितुको धर्मु कर्ता इतुलोयू वांयां वचत. ऐसें शास्त्रीं बोलिलें आस."

तावळि ताणें म्हळें, "हांव आतां हें तुजें सर्व राजे चाल सो प्रकारु करिन. कुळाक सनूचति जायूसी करिन. तुं चिन्ता कोरुं नाका." म्हणौनु कोमंडळातुलें उदक काडुनु मायेच्यां डोळ्यांक लायूलें. तेणें कोरुनु सावदि जाली. "आतां हांव फायू सकाळीं परमेस्पराचें ध्यान करुनु बैसतां. थैं तुज्यां पुत्रांच्यां दोगांच्यां बायूलांक धाडि. थैं हांव मजे अमृत दिस्टिन निहाळिन. तावळि ह्यो पुत्रवंती जाती, राज्याक रावू जायूत. तुं कांयू चिन्ता करुं नाका" म्होणु थैं ठाउनु वचुनु परमेस्पराच्या देउळांतु बैसुनु पद्मसनीं येक लखे ध्यान परमेस्परा ठांयू लायूलें. तावळि ते सुगन्देन चित्रा विचित्राच्यां बायूलेक[6] आपौनु सर्व वर्तमान सांगुनु, "जैं व्यासु ध्यानाक बैसला थैं तुमीं वचुनु ताका पायां पडा. तो अमृत दिस्टिन तुमंकां पळेत. तावळि तुमीं पुत्राक पावशात."

ऐसें आयूकुनु बरे प्रकारीं न्हाउनु तेगी जणी येउनु ताचे लागी उब्यो रावल्यो. येकिन गोपिचन्दन सर्वांगाक लाउनु रावली. दुसरी डोळ्यांक वस्त्र बांदुनु उबी रावली. तिसऱ्येन तुळसिची माळा गळ्यांतु घालुनु तांचे बराबरि रावली. त्यो दोगी विचित्रा चित्राच्यो बायूलो, येकि तिसरी त्यां स्त्र्यांची शेवा कर्तली, ऐसल्यो तेगी जणीं हात जोडुनु उभ्यो रावल्यो. मागिरि त्या व्यासाचें ध्यान सरलें, अमृत दिस्टिन पळे तरि तेगी जणी आपुले सन्मुख आसति. मागिरि ताणें म्हळें, "तुमीं जैस्यो सृंगारु कोरुनु आयूल्याति तैसेचि पुत्र तुमंगेरि जाउंति." ऐसें म्हणत खेवीं त्यो गर्भस्ती जाल्यो. मागिरि पर्तुनु आपुल्यां राउळरांतु आयूल्यो. आपण आपुले

माये सुगन्दे लागी जाउनु ग्यान उपदेस सांगुं लागलो.

ऐसें आसतां नव म्हैने पुरे जाले. मग त्यो तेगी जणी प्रसुत जाल्यो. तेगिंगेरि तेग पुत्र जाले. येकिन आपुल्या आंगाक गोपिचन्दन लाउनु आयूलेली तिगेरि पण्डु पुत्रु जालो. जिणें डोळ्यांक वस्त्र बांदिललें तिगेरि आन्दळो पुत्रु जालो. जिणें तुळसिच्यो माळा[7] गळ्यांतु घालल्यो तिगेरि पुत्रु थोरु ग्यानी परमेस्पराचो भग्तिवंचळु जालो. ऐसें तेगिंगेरि तेग पुत्र जाले. मागिरि तांकां होमु, हवन, दानु धर्मु करुनु तेगांकै नांवां ठेयूलीं. येकाक नांव पण्डु, येकाक नांव दृतरास्टरु, येकाक नांव विधुरु, ऐसीं नांवां ठेयूलीं. राज्यांतु थोरु अनंदु जालो. भिस्मान उधण्ड दान दिलें. ऐसें ते दिवसीं मासीं वाडले. आतां राजे कोणाक दिउंचें ऐसे मंत्री प्रधान भिस्मदेवा लागी विचारुं लागले, "दृतरास्टरु तंव आन्दळो. हाका तंव राजे फाव नां, ऐसें शास्त्रीं सांगिलें आस. विधुरु तंव बटिकिलो, हाका तंव राजे फाव नां. आतां आमीं राज्याक कोणाक बैसौचें[8] हें स्वाम्या तुं आमंकां वेगीं निरोपु दी. तुं जो निरोपु दिसी तेणें प्रकारीं आमीं करुं." तावळि ताणें निरोपु दिलो, "राजे पाटु पण्डुक द्या." त्या निरोपा प्रमाणीं ते प्रधान मन्त्री वचुनु, पण्डुक नव रत्नाच्या सिहांसणावरि बैसौनु, राजे वोपुनु सर्व राज्याचो धनी कोरुनु, हस्ती, घोडे, रथ, पायेडळ, कोट गड वोपुनु दिलें. राजा सिहांसणावरि बैसैलो, देखुनु समस्तु लोकु अनंदु भरितु जालो. पाटावाचीं तोरणं[9] मखरं[10] गुड्यो उबैल्यो.

ऐसी हि कथा अपुर्वि देखुनु सुख इन्द्रान जन्मजयाक सांगिली.

## टीप

1. हांगा पानाच्या समासार अशी लॅटीन टीप आसा : mundi via inconstantia (अथीरपण संसाराची चाल)
2. हांगा समासांत अशें मेळता : Visio Dei praemia (देवाचें दर्शन पुरस्कार)
3. पानाचे कडेक : Salus corporis remediis curanda (कुडिची भलायकी ओखतांनीं सांबाळची.)

4. हें मराठी भौवचन, कोंकणींत "माळो."
5. इतुको
6. बायलांक
7. माळो
8. बैसौंचें
9. तोरणां
10. मखरां

# पांचवी कथा

ऐसें पण्डु राव् राजे करितां, सर्व अनंदमये भुमण्डळ जालें आतां, तें तुमकां सांगैन आतां, चित दिउनु आयूका.[1]

ऐसें पण्डु राजे करितां, सर्व भुमंडळ अनंदमये जालें तें तुका सांगतां, चित दिउनु आयूक. कवणे एके अवस्परीं गंगा सुतु भिस्मु आपुल्या मना भितरिं पण्डुक दृतरास्टराक दोगांयू विव्हावू करुंचो प्रधानां लागी विचारिलें, ''कोणाचे घरीं कोणा नगरांतु कन्या वाडल्याति, हें तुमीं माका ठांयू घालुनु वेगीं सांगा.'' तावळि प्रधान म्होणुं लागले, ''स्वाम्या, कोन्तभोजु राव् कास्मिर देसिचो, ताचे घरीं दोगी जणी कन्या वाडल्याति. ही तांची विनवणी आयूकुनु म्होणुं लागलो, ''दोगी कन्यां ह्यां दोगांयू जणांक पण्डुक वा दृतरास्टराक जोडुंक, तुमीं वेगीं आपुले घरिंचे ब्राम्हण धाड्या आणी पत्रिका आमंचे नांविची ताका बरया'' ऐसें म्हणौनु निरोपु दिलो. त्या निरोपा प्रमाणीं दोगां जणां ब्राम्हणांक आपौनु हाडुनु सगट तांकां सांगुनु, कागत कोन्तभोज्याक बरौनु तांचे हातीं दिलें.

ते दोगैं वेगीं वेगीं वचुंक गेले. येकां चोउं दिसां मधें कास्मिर नगराक पावले. येकी ठांयू उतर्नु आपुलें जेवण खाण करुनु, सांजेच्या अवस्परा कोन्तभोजा रायाक दोगैं मेळले. नमस्कारु करुनु हातीं पत्रिका दिली. ती पत्रिका ताणें वाचिली. आपुल्यां प्रधानांक सांगुं लागलो, ''भिस्मान दोग जण ब्राम्हण कागत दिउनु मजे लागी धाडिल्याति. मजी एकि कन्या, आमंच्या भावा कोन्तरायाची आण्येकी कन्या, ऐस्यो दोगी कन्या आपुल्यां दोगां पुतण्यांक मागिल्याति. दृतरास्टरु तंव आन्दळो, पण्डुक तंव पाण्डु लागला. ऐसें देखत आमीं कैस्यो कन्या दिउंच्यो? राव् तंव थोर अस्तानपुरिचे होये, आमंचें राजे लाहान.'' ऐसें आपुल्यां प्रधानां लागी विचारिलें. ते म्होणुं लागले, ''स्वाम्या, राव् थोर जाले तरि ते आमकां नितिक कितें कर्ती? धर्मनिति शास्त्रांतु ऐसी आस. आन्दळ्याक वा व्यादि लागल्याक सर्वता कन्या दिउं नयेति. जरि माये बापु दित तरि तांकां म्हा पाप लागत, आणी परमेस्परा ठांयू बरें नां जायूत. त्यो कुमारी आपुल्या जिवाक सुख सोन्तसु जरि जालो परमेस्परा लागी आपुल्या माये बापाक बरें मागताति, नां तरि जिवाक आपुल्या दादुल्याचें सुख जरि नां तरि स्रापिताति, 'पाप्यानीं

हाका माका कित्याक दिलेली येकै पण संवसाराचें सुख भोग नां,' ऐसो हो विचारु आस, ह्या वरि स्वाम्याचो निरोपु.''

तें आयूकुनु कोन्तभोजान म्हळें, ''आमीं दोगी कन्या दिउं नये.'' ऐसेंचि म्हणौनु पत्रिका बरौनु त्यां ब्राम्हणांच्यां हातांतु दिउनु, वस्त्रां, लुगडिं, द्रवे घरच्यांक दिउनु तांकां सोन्तसु कोर्नु रवना कऱ्या म्होणु म्हळें. जैसो रायान निरोपु दिललो तैसो तानीं केलो. फुडां ते दोगै ब्राम्हण अस्तानपुराक आयूले. भिस्म देवाक भेटले. नमस्कारु करुनु पत्रिका हातीं दिली. ती पत्रिका वाचुनु पळेउनु म्हळें, ''आमीं दोगी कन्या मागिल्यारि नेदेउं म्होणु बरैता. तरि आतां चतुरंग सहिने सहित वेगीं वचा. ताचें कास्मिर नगर वेडुनु दोगी कन्या वेगीं घेउनु या. इतुकेंचि तुमीं काम कऱ्या[2]. जरि ताचो गाउं लुटिशात, मारिशात, नागैशात, तरि तुमकां वा दळपतिक गुजरी नां.'' हें रायाचें उतर आयूकुनु दळपति म्होणुं लागलो, ''स्वाम्या तुज्या निरोपा वेगळें जरि करिन तुजी आग्न्या करिसी ती आग्न्या भंगु जाउं दि नां.'' म्हणौनु रायाच्यां पायांरि माथें ठेयूलें. तावळि रायान पाठि थापटिली, ''चिन्ता करुं नाका, उभटा,'' म्होणु आपुल्या हातान कर्पुरा पानांचो विडो दिलो. आपुले आंगिचीं वस्त्रां दिलीं. तो दळपति चन्द्रशेनु सोन्तसु जालो.

सांगातीं सहिने कितुलें व्हेलें तें तुमीं आयूका. बास्तरि कोटी कुंजर, णोवि कोटी रथ, तिनि खेवणी घोडे, सात खेवणी सहिने, पांच लखे वाजनूत्रां, ऐस्या परी सहिने दळपती चन्द्रशेना सांगातीं चालिलें. वाजनूत्रांच्या गर्झरान प्रथुमि कांपली. इतुक्या अवस्परा मार्गु क्रमौनु, कास्मिर नगराक दळपती चन्द्रशेनु चतुरंग सहिने सहित मध्यान काळीं पावलो. भोंवतें कोन्तभोज्याचें राजे वेडिलें. आपुल्यां काटिकारांक निरोपु ऐसो दिलो,

> तुमीं सहिन्याक सांगा, ''नगरांतु येका जणाक किंचित मात्र वायूट जरि करिशात तरि तुमंकां हांव गुजरी नां. माका आण भिस्मा देवाचिचि आस,'' जैसो ताणें निरोपु दिला तेंचि कार्ये आमीं कर्नु वचुं. तुमीं येकायेकि धाडि घालुं नाकाति. पैलें आमीं कन्या मागुंक भट धाडिल्याति. कुमारी ताणें जरि दिल्यो तरि बरें. दिल्यो नां तरि आमीं झगडें करुनु कोन्तभोजाक जिखुनु व्हरुं. तुमीं भाराच्या

भारांतुचि रावा. आडादेड्ये वचुं नाकाति.
तें उतर आयूकुनु सहिने आपापुले कडे वोगेंचि राजभारांतु रावलें.

फुडां भट जे धाडिलले ते कोन्तभोजा राया लागी वचुनु विनौं लागले, ''आगा राया चन्द्रशेनु दळपति भिस्मा रायाचो, तो राव् अस्तानपुरिचो. हो प्रतुमिचो आदिपति. इछ्या मरणी विर तांची शेवा कर्ताती आणी परमेस्पराची थोरि भग्ति करिता. राजा आपण ब्रम्हचार्ये आचार्ला[3]. येकेका दिसाक सोळां सहस्रां ब्राम्हणांक अनदान, नाना परिंचीं खाजीं भोजीं पकुवानां पांचमृतां आपुले पंकतिक बैसौनु निते वाडिता. परमेस्पराचे नांवीं आपुले हातीं उदक भुमिवरि सोडिता. ऐसो राजा धर्मी. तरि तुमंच्यो कन्या दोगां भावांक द्या आणी जरि नेदे जाशात तरि बळान व्हर्ती, हें तुं सते जाण. रायाचो दळभारु, हस्ती, घोडे, रथ असिवर, चतुरंग, सहिने येउनु तुजें राजे वेडिलां. वोगोचि तुं बरेपणीं तुगेल्यो दोगी कन्या पालक्यांतु बैसौनु अस्तानपुराक गंगा सुता[4] लागी व्हर्नु वोपुनु दी. तो तुका बरे प्रमाणीं मानु हुर्मति देत. तुका फुडां बरें देखत, नां तरि हें तुजें राजे सर्व गेलें म्होणुं जाण.

तें उतर आयूकुनु कोन्तभोजा रायान काये केलें तें सांगतां, आयूका. त्यो दोगी कुमारी बरव्यो सूंघारुनु, सुकासणां पालक्यांवरि बैसौनु, आपुलें सहिने सांगातीं घोडे, हस्ती, रथ सैत येउनु चन्द्रशेना दळपतिक भेटलो. तावळि त्या दळपतिन थोरु मानु दिलो. आपुलें सहिने वा कोन्तभोजाचें सहिने, घोडे, हस्ती, रथ, असिंवर येकवटुनु आनंदु करित येउं लागले. वाजनूत्रांचो गर्झरु सुटलो. त्या गर्झराच्या नाधान आकास टळटळलें. ऐसो मार्गु क्रमौनु अस्तानपुराक पावतचि भिस्मदेवाक खबर गेली. ताणें प्रधानाक निरोपु दिलो, ''वेगीं नगर सूंगाऱ्या[5]. गुड्यो तोरणां, मखरां घरों घरीं बांद्या. सकट नगर सोवर्नीचीं पतकां मोत्यांचे चोउक लाउनु बरे प्रमाणीं सूंगाऱ्या,'' ऐसें रायाचें उतर आयूकुनु नगर सर्व घड्येचि मधें सूंघारिलें.

चन्द्रशेनु वा कोन्तभोजु दोगीय् कन्यां सहित अस्तानपुराक पावले. राज्यांतु थोरु अनंदु जालो. भिस्म देवाक येउनु भेटले. कुमारी दोगी हाडुनु हातीं दिल्यो. ताणें भोउ सन्तोसु जाउनु त्या कोन्तभोजाक आपण्या लागी बैसुंक ठाव् दिलो, भोउ मानु दिलो, राजे देस ताका उदण्ड दिलें. दोगांय् आपुल्यां पुतण्यांक

दृतरास्टराक पण्डुक हाडुनु सिहांसणावरी बैसैले. समेस्तु दळभारु, प्रधानु, नगरांतु लोकु येउनु रायाक हात जोडुनु पायां पडुनु आपापुल्या ठायारि बैसले. येकमेकां भितरि विचारुं लागले, ''आगा ही कोन्तभोजाची कन्या कोन्ती[6] ही तंव आंकुवारि, हिगेरि कैसो पुत्रु जालो?[7] ऐसें म्हणौनु लोकु म्हणताति. हें सते की लटिक? ही तंव आंकुवारि आजुनु तरि हिका व्हारडिक केलली नां आणी भ्रतारु तंव अजुनु मेळलो नां. हें तुमीं भले लोकु सांगा'' ऐसें म्हणौनु ते सभेच्यां म्हाजनां लागी येकामेकांतु विनौं लागले. तावळि ताणीं म्हळें, ''जें तुमीं विचारिताति ते पिशे. रायान आपुल्या पंडुक मेळौनु व्हारडिकेक तिका हांगा हाडिल्या. हें तुमीं राजसभांतु[8] विचारिताति. तरि तुमंची ही बुधि न्होये. असलीं हीं उतरां राजा जरि आयूकत, तरि आमंच्यो जिबो कातरित. थोरान जें केलें तें जाता.''

ऐसें आसतां येकु रुसेस्परु त्या अस्तानपुरा नगरांतु आयूलो. तावळि हो अविचारु नेणति ते लोकु[9] आसिले त्या रुशी लागी येकान्तीं विनौं लागले, ''स्वाम्या तुका तंव ग्न्यान जें ठांय् जें जें जाता तितुकेंय् तुका ग्न्यानान ठाउकें जाता,'' ऐसें म्हणौनु निमुगुं लागले. ''तरि आतां आमीं येक विचारिताउं तें कृपा कोरुनु आमंकां सांगा.'' तें उतर आयूकुनु तो रुसी सांगुं लागलो,

> तुमीं आतां आयूका. जें इतुकेंय् वर्तललें तें सांगन. ह्या कोन्तभोजाची कन्या कोन्ति वा ताच्या भावाची कन्या गान्धारी ह्यो दोगी जणी आंकुवारी आसतां न्हैंच्या कांटारि येकु रुसेस्परु तप करी. निते परमेस्पराचेंचि चिंतन करी. त्यो दोगी वचुनु सदान्त ताका पायां पडुनु रेंवेवरि खेळति. ऐसें भोउ काल जाले. तंव येके दिवसीं तो रुसी डोळे उगडुनु चोयूतालो. तंव ह्यो दोगी जणी हात जोडुनु सास्टांग भुमिवरी पायां पडल्यो. तावळि ताणें म्हळें, ''जें कांय् तुमंकां जाय् तें मागा.'' तावळि त्यो सुखी जाउनु विनौं लागल्यो, ''आमंकां ऐसे मंत्र दी, मंत्राचेचि पुत्र जाय् ऐसें करि.'' तावळि ताणें कोनूत्येक स मंत्र दिले, गान्धऱ्येक येकु मंत्रु दिलो. ''आतां तुमीं आपुल्या घरा वचा, मजें उतर सतेचि जायूत.'' ह्या उतरारी त्यो दोगी जणी पर्तल्यो.

मार्गीं येतां कोनूत्येन म्हळें, ''आमकां जे मनूत्र दिल्याति हांची आमीं साखि पळेउं या,'' म्होणु येके ठांयू बैसुनु प्रथम दिललो मंत्रु जपिलो. जपत खेवीं सुरियु आकासीं ठाउनु येउनु कोनूत्ये लागी उबो राविलो, ''आगे तुवें कित्या माका आपैलेलो हें तुं वेगीं सांग.'' तावळि ती भियेउनु वेगीं वेगीं सांगुं लागली, ''स्वाम्या रुसेस्परान माका स मनूत्र दिलले. ते होयू कि न्होये म्होणु पळेउंच्याक येकुचि मनूत्रु प्रथमलो जपिललो, त्या मंत्राच्या बळान तुं हांगा वेगीं धाउनु पावलोसि.'' तंव सुर्यान म्हळें, ''तुं पिसी, जे परमेस्पराची भग्ति करितात तांचें उतर सते जाता. आतां तुं चिन्ता करुं नाका'' म्होणु आपुलो हातु तिच्या मात्यारि दवर्लो. दवरित खेवीं ती गुरुवार जाली. तें देखुनु ती कोन्ती भिली. ''आतां हांव कितें करुं'' म्होणु सुर्याक पायां पडली. ''तुं भियेउं नाका, हो पुत्रु तुज्या कानांतुल्यान काडिन, आणी जैसी तुं प्रथम आसिलली तैसी करिन[10]. तुं चिन्ता करुं नाका'' म्होणु तिच्या पोटांतु पुत्रु जो आसिललो तो कानांतुल्यान काडिलो. ताका नांव कर्नु ऐसें घालें आणीं ति जैसी फुडे आसिली तैसिचि कोर्नु आपुल्या घरा वच ऐसें म्होणु तिका घरा धाडिली.

ती वेगीं वेगीं वचुं लागली, ''हांव आंकुवारी आसतां मगेरि पुत्रु जालो म्होणु लोकु जरि देखती, तरि माका कोणचि व्हर नां जाती'' म्होणु वोगिची आपुल्या घरा गेली आणी हें कोणाक सांग नां जाली. तावळि त्या पुत्राचि चिन्ता सुर्याक लागली. ''हो पुत्रु स्वर्गीं व्हरन जरि म्हळें, तरि मनुशाचे पोटीं जल्मला. हाका ठैं व्हरुं नये, परमेस्पराची अग्न्या नां. कैसो व्हरुंचो?'' म्हणौनु बरें वस्त्र हाडुनु तांतुं गुटलाउनु ते न्हैंचे कांटीं ठेयूलो आणि रात्रि दिसु ताच्या तोंडांतु अमृत हाडुनु घाली आणी आपुल्यां शेवकांक निरोपु दिलो, ''तुमीं हाका बरे प्रमाणीं जतन पांच दिस पर्येनूत्र कऱ्या. मागिरि हाका कोणै तरि देखती, तरि घेउनु वेती'' ऐसें म्हणौनु तांकां सांगिलें. ऐसें पांच दिस जाले. तावळि अस्तानपुरिच्या रायाचे भोयू

> गाडे घेउनु उदकाक आयूलेले, तानीं तें बाळक देखिलें[11], देखुनु नवल करुं लागले. राजे सुन्धर हें बाळक सुर्याचे सरिखें दिसता म्होणु आपुल्या गाड्यारि घेउनु नगरांतु व्हनु राया भिस्मदेवा लागी दिलें. ताणें दृतरास्टरा आदिन केलें. तें दिसीं मासीं वाडलें. तरि हो इतुलो विचारु मागिलो तुमंकां हांवें सांगिला, तुमी जाणा.

उपरांतें त्या दोगी कन्यांक व्हारडिकेची मुस्तायूति भिस्मान आपुल्यां प्रधानांक निरोपु दिउनु करैली. फुडां त्या निरोपा प्रमाणीं जेतुकी मुस्तायूती जायू आसिली इतुलियू हाडिली. साळि डाळि नाना प्रकारिंचीं खाजीं पकुवानां करुनु, समेस्त प्रथुमिच्यां रायांक व्हारडिकेक आपौनु हाडिले. ते समेस्त आयूले. तांकां ठाये उतरुंक दिले. सातां खणांचीं आठां खणाचीं ऐसीं नाना परिंचीं जाका जैसें दिउंचें तेणें प्रमाणीं वांटुनु दिलें. जेवणा खाणाची मुस्तायूती तितुकियू त्यां रायांक दिली. ऐसें पांच दिवस पर्येनूत्र व्हारडिक जाली. दुर्बळे लोकु आन्दळ, थोंट, पांगुळ जितुकें मागति तितुकेंयू तांकां दिउनु सुखि करिति. सातवे दिवसिं जे प्रथुमिचे राये आयूलले इतुक्यांकै रत्नां, मोत्यां, वस्त्रां दिउनु पाठविले. ऐसें राजे थोरावलें.

फुडां त्या पण्डुक पारदिचेंचि वेसन. रात्रि दिसु अरण्यांतु वचुनु पारदिचि कर्ता. नाना परिचीं सावजां मारिता. राजे चालौंचें तें ताणें सांडिलें, सांडुनु अरण्यांतुचि आस. येके दिवसीं येका पर्वतावरि गेलो. ताचें नांव रत्नागिरी. ताचेरि येक तळें आसिलें. थंय धणुक बाण घेउनु उदका लागी राखुंक बैसलो, थैं सावजां येताति म्होणु. त्या अरण्यांतु येकु रुसी किन्धमु आणीं ताची स्त्री किन्धमि दोगै जणां परमेस्पराची भग्ति करुनु आसिलीं. तावळि त्या रानांतुलीं मृगु आणी मृगि तीं दोगैं भोगितां ते[12] किन्धमिन देखिलीं, देखुनु आपुल्या स्वाम्या लागी विनौं लागली, "स्वाम्या, जैसीं हीं मृगां भोगिताति, तैसीं आमी भोगुं या." तावळि ताणें म्हळें, "ह्यां स्त्र्यांक ग्न्यान नां[13], मुडी जितुकें सांगिलें इतुकें लाग नां. आपण हिचे मनिची वासना पुरैन" म्हणौनु आपणें मृगाचें रुप धर्लें. तिणें मृगिचें रुप धर्लें. दोगैं खेळत त्या तळ्याच्या कांटारि उदक पियेउंक आयूलीं. उदक पिलीं, आणी मृगां जैसीं भोगिताति तेणें प्रमाणीं भोगु करुं लागलीं.

तें पण्डु रायान देखिलें, देखुनु धणुवाक बाणु लाउनु वोडि काडुनु विन्दिलीं. ती भालि दोगांयू मृगांक लागली, जिवाक भेदली. तेणें करुनु मुर्च्छा येउनु भुमिवरि पडलीं दोगांचो जिउ वचुं लागलो. तावळि ते मृगिन म्हळें, "आमीं तंव कोणाक कांयू वायूट केलें नां. मृगां जैसीं भोगितातति तें रुप आमीं धर्नु तैसीं भोगितालेउं. आमीं रुसेस्परां. आमंकां जाणें बाणान विन्दिलां तो आपुले स्त्र्येक भोगु दितनां, जैसो आमचो प्राणु वेता, तैसोचि ताचोयू जिउ वचुं" म्हणौनु स्रापु दिलो. तें उतर आयूकुनु पण्डु धाउनु जरि ये तरि तीं रुसेस्परां. तानीं स्रापिलें तें उतर आयूकुनु मनांतु खोंचलो, "आतां हांव कितें कोरुं? स्रापु तंव माका लागलो. आतां हें हांव कोणांक सांगुं?" म्हणौनु अरण्यांतु ठाउनु पर्तुनु अस्तानपुराक आयूलो. येउनु भिस्माक आणी बन्दवा दृतरास्टराक विधुराक सकटु जाललो विचारु त्यां मृगांचो सांगिलो, "स्रापु तंव माका लागला."[14]

तें उतर आयूकुनु ते बोलुं लागले, "तुका स्रापु रुसेस्पराचो जालो, तें जातलेंचि. कितेंयू जरि आमीं केलें तरि सुट नां. तरि तुं आतां ऐसें करि, आपुली स्त्री कोन्ती सांगातीं घेउनु समेस्ति प्रथुमि भोंव[15]. देव देवस्तान बरे परमेस्पराचे भग्त तप करितातति तांचें दरुसण करुंचें. सांगातीं कांयू द्रवे, घोडो, मनुशे येक मुखे व्हरुं नये. दोगानीं दोनि वस्त्रां न्हेसितलिंचि आणी पायांनिचि पायांक व्हाण मुखे नघालतनां प्रतुमिवरि भोउंचें. जे जे कडे परमेस्पराचे भग्त आसति तांचें दरुसण करुंचें आणी आपणें दोगानीं भिक मागुनु खाउंची, आणी रात्रि दिसु परमेस्पराचे चरण आपुले हुर्दैं सुमरुंचे. आपण राजा थोरु म्होणु मनीं गर्व धरुं नये, लिन होउनु चालुंचें[16]. तावळि परमेस्परु कृपा करिता, ताची कृपा जाल्यारि जें कांयू आपणें नेणतां केलां इतुकेंयू नासता."

तें उतर आयूकुनु तो आपुले स्त्र्येक सांगातीं घेउनु भिक्या मागत अरण्यांतु भोउं लागलो. जे जे ठांयू रुसेस्पर तप करितातति ते ते ठांयू वचुनु दोगांयू तांकां हात जोडुनु सास्टांग पायां पडतातति, "स्वाम्यानो, आमीं म्हा पाप्यां आमंचे हातीं ब्रम्हवदु जालो. नेणतांचि हांवें मृगांचि म्होणु बाणु विन्दिलो. तीं रुसेस्परां मृगांचें रुप धर्नु भोगितालीं. त्या रुसिचें नांव किन्धमु आणी ताचे स्त्र्येचें नांव किन्धमि. असलो हांव पापी," ऐसें म्हणौनु त्यां रुसेस्परांक विनौं लागलो. फुडां ते रुसेस्पर प्रथुमिचें ब्रम्हण करुंक वचुं लागले. त्यां सांगातीं तीं दोगैं जणां वचुंक लागलीं.

देव देवस्तान आसिलले कडे रुसेस्पर भेटताति, तैसीं तीं दोगैं भेटताति. ऐसीं प्रथुमि भोउनु स्वर्गीं वचुंक रुसी उबटले. तिंवै त्यां रुसीं सांगातीं वचुंक चमकिलीं. कितिकु मार्गु क्रमौनु परमेस्पराचें सुमरण करितचि स्वर्ग दारिवट्याडे[17] पावले. ते रुसी परमेस्पराचे भग्त, देखुनु ते स्वर्गिंचे द्वारपाळ आपुले हात जोडुनु सास्टांग नमस्कारु करुं लागले. ''आजि तुमंचे चरण आमीं देखिले. आमंच्या पापाक नासु जालो. तुमीं परमेस्पराचे थोर भग्त'' म्होणु तांकां वाट सोडुनु स्वर्गीं वचुंक दिली.

पण्डु आणी कोन्ती वेतालीं. हांकां वचुं नाका म्होणु अग्न्या केली. ''तुमंकां स्वर्गु नां. कित्या जरि म्हणश्यात पुत्र मुख तुमीं देखिलें नां आणी रुसेस्परु तुमीं वदिला ताचें थोर पाप लागलां. तुमीं आतां पर्तुनु वचा.'' तें उतर आयूकुनु तीं दोगांय् वोगिंचि रावलीं. पर्तुनु भुमंडळीं आयूलीं. कोनूत्येन पण्डु लागी म्हळें, ''आमंकां दोगांकै तंव भोगु नां. रुसेस्पराचो स्रापु लागला. आतां पुत्र कैसे जाती? ताणें स्रापु तरि दिला, स्त्री भोगितांचि प्राणु वच म्हणौनु. आतां आमीं कोणि बुधि करुंची?'' ऐसें मनीं चिंतितां ते कोनूत्येक मागिलो उगडासु जालो. ''आपण आपुल्या बापाचे घरीं कास्मिर नगराक आसतां, आमीं आंकुवारी न्हैंचे कांटीं खेळतनां थैं रुसी जो आसिलो, ताका पायां पडतालेउं. ताणें माका स मंत्र दिलले. तावळिचि मंत्रु दित खेवीं हांवें जपिलो. ताची माका साखि आयूली. आतां पांच मनूत्र मजेडे[18] आसति, पांच पुत्र जाती. तुमीं आतां माका निरोपु द्या. पुत्र जाये ऐसें हांव करिन,'' ऐसें म्हणौनु निरोपु मागुं लागली. तंव पण्डुन सोन्तसुनु आपुले स्त्रीये कोनूत्येक निरोपु दिलो. तिणें[19] येकी ठांय् बैसुनु मनूत्र जपुं लागली; पैलोचि मंत्रु जपिलो, एमु आयूलो, ताचो पुत्रु धर्मु जालो. दुसरो मनूत्रु जपिलो, वायूहु देउ आयूलो, ताचो पुत्रु भिमशेनु जालो. तिसरो मनूत्रु जपिलो, अमरावत्येचो इन्द्रु आयूलो, ताचो पुत्रु अर्जुनु जालो. अस्पिन देवाचे दोनि मंत्र जपिले, ताचे पुत्र दोग जण, नकुलु, सयेदेउ जाले.

ऐसे पांचै पुत्र खिणा मधें कोन्ती घेउनु आयूली. तें देखुनु पण्डु राजा सोन्तसलो. ''पुत्र आमकां तंव जाले. आतां आमंकां बरें करित.'' ऐसें म्होणु ते अस्तानीं आसतां केतिक दिवस जाले. पण्डुच्या अउख्याची मर्याद पावली. तावळि ताणें येके दिवसीं कोनूत्येरि हातु घालो. येक वासु देखुनु तिणें म्हळें,

''रुसिचो स्नापु आमंकां आस. भोगित प्राणु वचत म्होणु स्नापु दिला. तुमीं हो विचारु करुं नाकाति.'' तो कामदोरान कांयूचि आयूका नां, भोगुं लागलो. भोगितांचि पण्डुचो प्राणु गेलो. फुडां कोनूत्येन आणी पांचै पुत्रानीं बरे प्रमाणीं ताचो सुधचारु केलो.

ऐसी हि कथा सुख इन्द्रान जल्मजयाक सांगिली. हि कथा अपुर्वि देखुनु सोन्तसुनु दुसरी भारती कथा ही आदि पर्विची सांग म्होणु विनंती करुं लागलो.

## टीप

1. निव्वळप्रतींत ह्यो दोन वळी मात्सो बदल करून दोन फावटी मेळतात.
2. पानाचे कडेक : lites (विवाद) अशें बरयलां.
3. आचार्लां
4. भिश्मा
5. पानाचे कडेक : ornare civitatem (शार सजौंक) अशें आसा.
6. कुन्ती
7. समासार : loquendo (बडबडूंक) आसा.
8. राजसभेंतु
9. समासार : juges (जमलले) बरयलां
10. पानाचे कडेक : virgo et mater (आंकुवार आवय) अशें बरयलां.
11. पानाचे कडेक : Moisis inventionis historia (मोयजेस कसो मेळ्ळो ती काणी) बरयल्लें आसा.
12. तें
13. पानाचे कडेक : mulieribus non est intellectus, inclinatae ad luxuriam (बायलांक गिन्यान ना, त्यो वायट चालीक लागूं शकतात) अशें आसा.
14. समासांत : verba sanctorum certa(?) (संतांचें उतर खरें) आसा
15. समासांत : peregrinatio quomodo facienda (यात्रा कशी करची) मेळता.
16. समासांत : humilitas etiam regibus (रायांक सैत ल्हानविकाय)
17. दारवंट्याकडे
18. म्हजेकडे
19. ती

# सटवी कथा

फुडां अस्तानपुरा राज्याक राव् नां. पण्डु तंव आपुली स्त्री सांगातिं घेउनु प्रथुमिच्या ब्रम्हणाक गेलो, कित्या म्हणसी तरि किन्धमा रुसेस्पराचो स्नापु जाहालो म्होणु. तावळि भिस्मदेवान आपुले मनीं विचारिलें, "हें राजे कोणाक हांव दिउं? दृतरास्टरु तंव आन्दळो. हाका तरि राजे फाव नां, ऐसें शास्त्र धर्मीं लिहिलें आस. विधुरु तंव ग्न्यानीं; परमेस्पराचो भग्तु जाहाला आणी सेवकीं गेलो. राजे पाटु सर नां आणी येकादेवेळो राजे पाटु बांदुं जरि म्हळें तरि तो कबुल करी नां. तो येकभाउ धोर्नु परमेस्पराच्यां चरणांवरि रात्रि दिसु आपुलें मन लायूलां तें सुमरण करिता. वंसीं तंव राज कोरुं म्हळ्यारि कोण नां. दृतरास्टरागेरि तंव पुत्रु नां" ऐसी चिन्ता कोरुं लागलो. मग आपुले माये सुगन्दे लागी विचारिलें, "आतां कितें कोरुंचें? आमंचो समवंसु तंव बुडालो. कुळीं तंव कोणाकै पुत्रु नां. पण्डुक स्नापु जाहालो. तो राजे सांडुनु प्रथुमिच्या ब्रम्हणाक गेलो," ऐसें तिचे लागी म्हळें.

तावळि तिणें ते रात्री आपुल्या पुत्रा व्यासाचें सुमरण केलें. तो भद्रकस्नामीं अरण्यांतु येकी सिळेवरि बैसुनु तप कर्तालो. आपुले मायेचें उतर कानांतु पडतचि टप कोर्नु उबटालो. आमंचे मायेक काये आकांतु जाहालो म्होणु हातीं बेतकाटी कमंडळु घेउनु वेगीं वेगीं अस्तानपुराक आयूलो. माये पुत्राक भेट जाली. दोगैं एकस्तानीं गोस्टि करुंक लागलीं. ती व्यासाक म्होणुं लागली, "आमंचे वंसीं राजे करिसो कोण नां म्होणु चिन्ता भिस्मदेवाक थोरि लागल्या. आपणें तंव राजे सांडिलें. ब्रम्हचर्ये धरिलें. संवसाराचें वैरागे मनीं धोर्नु रात्रि दिसु परमेस्पराचिचि भग्ति करिता. राजे आणी हें शेरिर कोणाकै थिर न्होये. पण्डु तंव राजे सांडुनु गेलो. दृतरास्टरागेरि पुत्रु नां. ऐसें करितां वंसु आमंचो नासलो. आतां कोणु विचारु कोरुंचो, हें तुं माका सांग." तावळि व्यासु म्होणुं लागलो, "माये तुं आयक. मागिलो व्रतावन्तु तुका सांगन. कास्मिर नगरीं कोन्तभोजा रायाचे घरीं कोन्ती आणी गान्दारी ह्यो दोगियू कुंवरी न्हैंचे कांटीं खेळतनां येका रुसेस्परान कोनृत्येक सह मनृत्र पुत्र जाउंचे दिलले. येकु मनूत्रु गान्दाऱ्येक दिललो आस. कोन्ती तंव पण्डु सांगातीं ब्रम्हणाक गेली. गान्दारी घरीं आस. तो मनूत्रु तिचे लागी आस. ती पतिव्रता, आपुल्यां डोळ्यांक वस्त्राचो पाटु बांदिला. आपण

आन्दळ्याची बायूल म्होणु पर पुरुसारि दृस्टि घाली नां, आणी मजी दृस्टि अमृत संजिवनी, ऐसो विचारु आस. ती जरि तो मनूत्रु जपत तरि तिगेरि पुत्रु जायूत.'' हें उतर सुगन्देन आयूकिलें, आयूकुनु गान्दाऱ्येक आपयूली. ''तुजे लागी मनूत्रु जो आस पुत्रु जाउंचो रुसेस्पराऩ दिललो, तो तुं जप.''

तावळि तिका मागिलो आठौ मनूत्राचो जाहालो. आपुल्या ब्रह्तारा दृतरास्टरा लागी गेली. ताचो निरोपु घेतलो. येक परमेस्पराचें देउळ आसिललें तांतुं वचुनु बैसुनु परमेस्पराचें सुमरण कोर्नु मनूत्रु दिलल्याक नमस्कारु कर्नु मनूत्रु जपिलो. जपत खेवीं पुत्रु म्हा सुन्धरु जालो. मागुतेन जपु कोर्नु आपुल्या हर्ध्यावरि दोनि वेळे हातान फोपायूलें. तावळि दोग पुत्र जाहाले. ऐसे तेगै पुत्र घेउनु आपुल्या भ्रतारा दृतरास्टरा लागिं आयूली. ते पुत्र जाहाले ऐसें ताका सांगिलें. तावळि तो भोउ खोसी जाहालो, जाउनु नांवां ठेयूलिं. प्रथम जो जाहालो ताका दुर्यधनु, दुसऱ्याक दुसासनु, तिसऱ्याक सभळु ऐसीं नांवां ठेयूलीं. हे दिवसीं मासीं वाडुं लागले. ऐसें वाडतां आटां वरुसांचे जाहाले. दुर्यधनाक राजे पाटु दिउंचो ऐसें भिस्मदेवान मनीं हाडिलें.

फुडां वैसाक म्हैन्या सुध ब्ये दिवसीं बरो म्हुर्तु पळेउनु बरें राजे सृंघारुनु रणभेरि वाजिली, ''आजि राजे दुर्यधनाक देउनु सिहांसणावरि बैसैताउं.'' तें आयूकुनु प्रधानु दळपति मकुट वर्धणिक राये, घोडे, रथ, हस्ती सृंघारुनु, चतुरंग सहिने सैत रायाच्या दारवट्याकडे भार भार कोर्नु उबे रावले. तावळि भिस्मदेवान दुर्यधनाक बऱ्यां देवांग वस्त्रानीं सृंघारु केलो. नव रत्नाच्यो माळा[1] गळ्यांतु घाल्यो. हातिं सोवर्नाच्यो मुद्यो, पदकां येकावळीं गळ्यांतु घाल्यो. ऐस्या नानां परी सृंघारु कोरुनु, सिहांसणावरि भिस्म देवान बैस म्हळें. ताच्या निरोपा प्रमाणीं बैसलो. राव् म्होणु पैलो आपणें हात जोडुनु नमस्कारु केलो. मागिरि समेस्त प्रधान थोर थोर मकुट वर्धनिक राये दळादिपति ते येउनु रायाच्यां पायांवरि माथें दवरुनु दोनियू हात जोडुनु सास्टांग पायां पडले. रथां, हस्तीं, घोड्यां सैत समेस्तु लोकु पायां पडुं लागले. तावळि दुर्यधनान प्रधानांक निरोपु दिलो, ''जे हे राये सहिन्या जें येउनु भेटलां इतुक्यांकै वस्त्रां लुगडीं द्या. बरे पानांचे विडे हडप्यां करवीं द्या. गन्द गुलाबु परिमळाचिं पुस्वां नानां परिचिं ऐसीं वांटुनु द्या आणी जे कोण हे सभेक आसति तांकां हांव मज्या हातान वस्त्रां, रत्नां, कापुर्वेलिचे विडे

दिन,'' ऐसो निरोपु जाहालो. जैसें रायान सांगिललें तैसेंचि त्यां प्रधानानीं केलें. मग थोर थोर राये आपौनु हाडुनु देवांग वस्त्रां, अविन्द मोत्यांच्यो माळा[2], कुंकुम, केसर, चन्दन, कापुराचे विडे आपुल्या हातान दिले. त्यां रायांक थोरु सोन्तोसु आनंदु मनांतु जाहालो, रायाक नमस्कारु कोर्नु आपापुल्या ठायारि येउनु बैसले. ऐसो थोरु उछाव् अस्तानपुरा नगरांतु जाहालो. जेतुके मागतले भाट बन्दिजन आसिले तांकां वस्त्रां दिउनु सुखी केले. तंव भिस्म देवान म्हळें, ''दुर्यधना तुका समेस्ता राज्याचो स्वामि केला. आठेरा खेवणी सहिने इछ्या मरणीं विर तुजी शेवा रात्रि दिवसु कर्तले. तुं समेस्तांक बरें देख. प्रजेचो प्रतिपाळु करि. देवां धर्मां ठांय् बरे प्रमाणीं भज. परमेस्पराच्या चरणावरि मन तुजें लागसें करि[3]. एणें प्रमाणीं राजे जरि करिसी तरि तुका देउ बरें करित, वायूट निवारित. पुर्व जल्मीं पुणे केललें म्होणु हे जल्मिं राजत्व पावलोसि. समेस्त भुमंडळा मधें द्वापरिं तुजो सारिखो राजा आण्येकु कोणु नां. प्रथुमिचे राये जे आसति ते आमंचे आग्न्याधारक,'' ऐसें म्होणु समेस्तु विचारु ताका सांगिलो. ''मजें उतर तुं सते मानि.''

उपरांतें राजा राजे करितां था बारां वरुसां भरलिं. मग ते तेगै भाव धनुर्विध्या, शेस्त्रविध्या, सतिसां दण्ड येउध्यांची विध्या सिकुं लागले. येकु ब्राम्हणु ताका नांव कृपाचार्य तो गुरू कोर्नु विध्या अभ्यासु कोरुं लागले. ऐसी विध्या सिकत आसतनां केतिकां काळानिं ती कोन्ती आपुले पांचै पुत्र घेउनु अस्तानपुराक आयूली. भिस्मदेवाक भेटली. ताणें म्हळें, ''हे पांचै पुत्र खैंचे? तिणें पुत्र हे आपुले म्होणु सांगिलें आणी आपुल्या ब्रूहतारा पण्डुचो सर्व विचारु जालेलो सांगिलो. तें उतर आयूकुनु आणी तो गंगेचो सुतु, दृतरास्टरु, विधुरु हे तेगैं जण दुख कोरुं लागले, ''हाहा देवान काये केलें? पण्डु सारिखें रत्न गेलें'' म्होणु त्यां पण्डुच्यां पुत्रांक भिस्मान आपण्याच्या उसुंग्यारि बैसैले. तांचीं नांवां विचारिलिं. तावळि तिणें सांगिलें, ''पैलो पुत्रु धर्मु, दुसरो भिमशेनु, तिसरो अर्जुनु, चोउतो नकुलु, पांचवो सायेदेउ'' ऐसीं पांचांचीं नांवां सांगिलिं. तेणे प्रमाणीं मनां आयूलीं. फुडां कृपाचार्या गुरूक भिस्मदेवान आपाउनु हाडुनु सांगुं लागलो, ''जैसी दुर्यधनाक धनुर्विध्या सिकैतासि तैसिचि ह्यां पण्डुच्यां पुत्रांक विध्या सांग. तुका बरे प्रकारीं आमीं सांबाळुं, येक नगर देउं, तुं चिन्ता कोरुं नाका.'' त्या

निरोपा प्रमाणीं पांचै जणांक वा दुर्यधनाक विध्या सिकौं लागलो. तावळि ती कोन्ती गान्दाऱ्येक भेटुंक गेली. तिणें भोउ प्रकारीं आपुले भैणिक मानु दिलो, ''पण्डु गेलो म्होणु तुं कांय् चिन्ता कोरुं नाका. हे पांच पुत्र तुगेरि कैसे जाहाले?'' तावळि तिणें मागिलो वृतावंतु सगटु जालेलो तो सांगिलो. तावळि तिनेंय् तिचे लागी विचारिलें, ''तुगेरि हे तेग पुत्र कैसे जाहाले?'' तावळि तिणें सांगिलें त्या रुसिच्या मनूत्रा पासवत जाहाले. ऐसें येकि मेकिनीं आपुलो वृतावंतु मागिलो सांगिलो. तावळि दोगिय् जणीं मनांतु समजल्यो.

तंव गान्दाऱ्येन म्हळें, ''तुगेरि पांच जण पुत्र, मगेरि तेग जण. येकु पुत्रु मजो दुर्यधनु राजा जाहाला. आणिकै पुत्र मगेरि जाये ऐसें कर्तलीं,'' ऐसें म्होणु गान्दाऱ्येन[4] व्यासा रुसेस्पराची शेवा करुंक लागली. ऐसी केतुले दिस पर्येनूत्र शेवा करितां त्या रुसिक कृपा उमटली, ''तुका प्रसन जालों, वरु माग.'' तावळि तिणें मागिलें, ''मगेरि आठाणोवि[5] पुत्र जाये ऐसें करि.'' तावळि ताणें येकु मनूत्रु गान्दाऱ्येक दिलो. तो मंत्रु जपुंक आपुल्या ब्रह्तारा दृतरास्टराचो निरोपु घेतलो. ताणें निरोपु मनूत्रु जप म्होणु दिलो. तंव ती येकी ठांय् वचुनु बैसली आणी मनूत्रु जपिलो. जपत खेवीं आठाणोवि पुत्र जाहाले. त्यां पुत्रां सैत येउनु दृतरास्टराक सांगिलें. तावळि ताणें म्हळें, ''बरें केलें.'' कोनूत्येक सांगिलें; तिणें म्हळें, ''परमेस्परान भोउ बरें केलें.''

ऐसे ते पुत्र दिवसीं मासीं वाडुं लागले. पांचां आटां वरुसांचे जाहाले. विध्या सिखुंक कृपाचार्या आदिन केले. ऐसें ते विध्या अभ्यासु करितां भोउ काळ जाहाले. तावळि कृपाचार्यान म्हळें, ''हे कांय् धनुर्विध्या जाणति की नेणति'' म्होणु त्यां कोउरवां पण्डवांक आपौनु सांगुं लागलो, ''तुमीं धनुर्विध्या कऱ्या. हांव आस तो पळेतां'' म्होणु एका वडाच्या रुखाक येकु वांसो ताका तिनि रेगो काडल्यो. येकि रेग काळी, येकि ताम्बिडी, येकि उजळि. ऐस्यो रेगो काडुनु तो वांसो वेळु वडारि उंच व्हर्नु आकासा पाव पर्येनूत्र बांदिलो. दुर्योधनाक आपैलो, आपौनु म्हळें, ''धनुक बाण हातीं घे आणी ह्या व्रख्या खाल उबो राव आणी वांस्याक मधेंची रेखो आसती त्यो विन्दुनु भुमिवरि घालि.'' तें उतर आयकुनु दुर्योधना रायान धनुक आणी बाण हातीं घेउनु रुखा खाल वचुनु उबो रावलो. राउनु सिन्ताक बाणु लाउनु विन्दिलो. तो बाणु चुकलो. पुणतीं आण्येकु बाणु

विन्दिलो. तोवै चुकुनु आण्येकी कडेवेलो तिसरो बाणु विन्दिलो. तोवै वायांचि गेलो.

मागिरि समेस्तां कोउरवांक कृपाचारी म्होणुं लागलो, ''तुमीं येकेकु जणु हातीं धनुक घेउनु विनूद्या.'' ते त्या कृपाचार्याच्या निरोपा प्रमाणीं धनुक बाण घेउनु विन्दुं लागले. ते समेस्तै चुकले. येकै विराच्यान पुणु त्यो रेगो विन्दव नां जाल्यो. ''आतां पुरो, तुमीं विन्दुं नाकाति,'' ऐसें त्या कृपाचार्यान म्हळें. तावळि ते वोगेचि आपापुले कडे येउनु उबे राविले. तंव अर्जुनाक कृपाचार्यान आपौनु, सांगुं लागलो, ''धनुक आणी बाण हातीं घेउनु वेळुवाक वांस्याक तिनि रेखा ज्यो काडिल्याति त्यां भितरि ताम्बिडी माजावेली रेखा तुं विन्दि.'' ऐसें गुरूचें उतर आयूकुनु ताच्यां पायांरि आपुलें माथें ठेउनु, व्रख्या खाल वचुनु, परमेस्पराचें सुमरण करुनु, धनुकाक बाणु लाउनु वोडि भर्नु विन्दिलो. तो बाणु वचुनु मधेंचेचि ताम्बिडे रेखेक लागलो. हें देखुनु कृपाचारी भोउ सोन्तसु जालो. कृपाचारी सोन्तसु जालो देखुनु दुर्योधनु मनीं दुचितु जालो. ''ह्या पण्डुच्या पुत्रान ही रेखा विन्दिली देखुनु आमंचो गुरू सुखी जालो. तरि ह्यां पांचाय् जणांक कोणु येकु उपाउ कर्नु आमीं नासुनु पोरो घालुंचे,'' ऐसें मनीं घेतलें. ''हे थोर जरि प्रभळ जाती तरि समेस्त राजे आमंचें घेती.'' ऐसें म्हणौनु आपुल्या प्रधाना शेकुन्या लागी बुदि येकांतीं विचारिली. ''आतां आमीं कोणु उपाउ करुंचो, हें तुं बरें मना हाडुनु तुं माका सांग.'' रायाचें उतर आयूकुनु प्रधानु म्होणुं लागलो, ''स्वाम्या तुमंचें उतर जें आस तें सते. हे पाण्डव थोर नजतनांचि[6] कोणु येकु उपाउ कोर्नु आमीं हांकां भायूरि घालुंचे. थोर जरि जाती तरि मागिरि कामा नये.'' हें प्रधानाचें उतर राया दुर्योधनान मनीं घेतलें.

फुडां ते कोउरव आणी पाण्डव बापलभाव येकि ठांय् धनुर्विध्या अभ्यासु करितां आपण्यांतु वैर करुं लागले. अर्जुनाक थोरि विध्या, सतिस दण्ड युध्याची, शेस्त्रां अस्त्रांची, बाणांची बरी टगळि[7] येता देखुनु कोउरवांचो राव् दुर्योधनु मनीं वायूट चिंतुं लागलो. ऐसें ते समेस्त येके दिसीं न्हैंतु उदका मधें खेळतां, समस्तां कोउरवांक दुर्योधनान निरोपु दिलो, ''तुमीं अर्जुनाक धरुनु झैं भोउ उदक आस थैं तुमीं बुडौनु बोबाटि कोर्नु खेळा.'' त्या निरोपा प्रमाणीं अर्जुनाक धरुनु उदकांतु थोरु फोंडुसो पळेउनु बुडैलो. तें भिमशेनान अर्जुनाच्या भावान आपुल्यां

डोळ्यानीं देखिलें. देखुनु उडी न्हैंतु घाली, घालुनु अर्जुनाक काडिलो. समेस्तां कोउरवांक बुडौं लागलो. येकु दुर्योधनु वेगळो करुनु मागिरि ते आपणेंचि समेस्तां कोउरवांक वैरि काडिले. कोउरव पाण्डव सांगातिंचि आपुल्या राज्यांतु आयूले. दुर्योधनु आपुल्या राज मनूधिरा गेलो.

पांचै पाण्डव आपुले माये कोनूत्ये पासीं आयूले, येउनु जें वर्तललें वर्तमान सांगिलें. तें आयूकुनु ती माहा दुखेस्त जाली. तिणें वचुनु आपुल्या भाव्या दृतरास्टराक आणी भिस्मदेवाक सांगिलें, ‘‘कोउरव घातु करुंक पळेताति. आजि अर्जुनु उदकांतु येकि ठांयू खेळतनां धर्नु बुडैलो. मर्तां मर्तानां भिमशेनान वैरि काडिलो. तुमीं थोर आसतनां हे ऐसी बुधि करिताति.’’ तें उतर आयूकुनु भिस्मदेव मनीं संखिर्न जालो. दृतरास्टरु म्होणुं लागलो, ‘‘आरे दुर्योधना, तुजी बुधि आतां लेगिन नासली. आपुल्यां बापलभावांक वायूट करितासि. हें तुका बरें न्होये. ह्या वैरि तुं जाणतो आससि. आजि जी चुकि जाल्या तिचि पुरो. ह्यां फुडां ऐसें जरि आपण रावू म्होणु करिसी तरि देउ तुका बरें नकरीं.’’ ऐसें बापाचें उतर आयूकुनु वोगोचि आपुल्या मंधिरा गेलो.

ऐसी ही कथा सुख इन्द्रान जल्मजयाक आदि पर्विची भारतिची सांगिली. ती कथा आयूकुनु तो विनौं लागलो, ‘‘आण्येकि अपुर्व कथा माका तुं सांग. तुं भलो सग्न्यानु जाणतो आससि. परमेस्परु तुजे हुधैं आस. हि विनती.’’ कथा समाप्त.

## टीप

1. माळो
2. माळो
3. हांगा पानाचे कडेर officium (कर्तव्य) आसा.
4. गांदारी
5. 98
6. ल्हान आसताना
7. टगळि – abilidade (ताकत) अशें निव्वळ प्रतींत बरयलां.

# सातवी कथा

ऐसें ते कोउरव पाण्डव संवसारीं धनुर्विध्या अभ्यासु करितातिं. बरव्या परी कृपाचारु गुरू ते अवस्परिं विध्या सिकवित जाहाला. फुडां ते कोउरव पाण्डव अस्तानपुरा नगरा भायूरि वचुनु, येकि बरिसी भुमिका मैधान पळेउनु, थैं धनुर्विध्या करुं लागले. जाका जैसी विध्या सिकैल्या ती विध्या आपुल्या गुरूक दाखैति. ऐसें खेळतां खेळतां येकु सोवर्नाचो चेण्डू आकासारि उडौनु विन्दुं लागले. तो चेण्डू पडतां पडतां धनुकाक बाण लाउनु विंदिति. त्या चेण्डुवाक बाण लागुनु केत्येक सप्त गांव पर्येनूत्र उंच तो चेण्डू बाण घेउनु वच. ऐसें खेळतां खेळतां जो विंदिलेलो बाणु चेण्डुवाक चुकलो, चुकुनु तो चेण्डू अवचितचि पाड्यां[1] बांयूतु पडलो. तावळि समस्त कोउरव पाण्डव तो चेण्डू बांयूतु पडलो देखुनु ते बांयूच्या कांटारि उबे रावले. दुर्योधनु म्हण, "आरे हे बांयूतु डेउनु हो चेण्डू काड्या." येक म्हणताति "बाणांनिंचि विंदुनु काडुं." येक म्हणति, "कैसे तुमीं काडिशात? बाणु विन्दिल्यारि बांयूतुचि पडतलो, चेण्डू आणी बाण येकिचि ठांय् रावती."

ऐसें येकमेकां भितरि उलैतनां दृणु ब्राम्हणु आपुले स्त्र्ये सहित ते वाटेन अस्तानपुरा राज्यांतु येतालो. तार्णे वाटेरि दुर्योधनु राव् समस्त लोकु कोउरव पाण्डव ते बांयूच्या कांटारि उबे आसति देखुनु, थैं दृणु गेलो. आपुले स्त्र्येक येका रुखा लागी उबी केली आणी आपण तमासो पळेउं लागलो. तावळि ते कोउरव म्हणताति, "हो चेण्डू बांयूतु डेउनु वेगीं काड्या. येदोळु कितें पळेताति? आमंचो गुरू कृपाचारी आमंचेरि रागत. तो बैसुनु आमंची वाट पळेता." तावळि दृणान म्हळें, "तुमंकां विध्या अजुनु पुरी आयूली नां. हो चेण्डू बांयूतुलो आप ऐसोचि वैरि ये ऐसी विध्या सिखैलि नां." तें उतर आयकुनु दुर्योधनु त्या दृणाक विनौं लागलो, "स्वाम्या, तुमीं कोणी प्रकारीं आमकां काडुनु दाखया. हो चेण्डू आपैसो तुमीं वैरि जरि काडिशात तरि आमंकां जिवाक सोन्तोसु जायूत आणी आमीं तुमंची शेवा करुं."

ऐसें दुर्योधना रायाचें उतर आयकुनु त्या दृणान येकु मनूत्रु जपुनु हतिंचो दर्बु[2] त्यां[3] बांयूतु घालो, घालित खेवीं तो चेण्डू त्या दर्बान गुटलाउनु आपैसो वैरि येसो केलो. चेण्डू वैरि आयूलो देखुनु दुर्योधनु कोउरव पाण्डव मोउ सोन्तसु

जाहाले. ''ह्या ब्राम्हणा लागी विदेचो समन्द्रु आस, भिकारी ऐसो दिसत पण परमेस्पराची कृपा हाचेरि आस. जाका विध्या भोउ आस ताका विध्या फळ नां. अल्पि विध्या जे सिकिल्याति तांकां फळता, पण हो ब्राम्हणु परमेस्पराक शेरण गेला. हाका हें समेस्त काये लेख[4]. येकु विदेचो तमासो आमंकां दाखैलो. आतां हो कोणांच्या घराडे[5] वचुनु उतरता, ऐसें तुमीं हाचे मागिल्यान वचुनु पळेया.'' ऐसें म्होणु आपुल्यां शेवकांक कानांतु मातुनु सांगिलें.

तावळि दुर्योधना लागी निरोपु मागुनु दृणु आपुले स्त्र्ये सहित नगरांतु वचुंक गेलो. त्या सांगातीं ते शेवक हळुचि पाठी मागिल्यान गेले. तावळि तो दृणु वचुनु कृपाचार्याच्या घराडे उतरलो. थैं ठाउनु पर्तुनु येउनु त्यां शेवकानीं रायाक सांगिलें, ''स्वाम्या, तो दृणु कृपाचार्याच्या घराडे उतरलो.'' तावळि कोउरव पाण्डव समस्त मेळुनु झैं आपुलो गुरू कृपाचारी बैसललो थैं ते आयूले. येउनु समस्त जें जाललें इतुकेंय् सांगिलें. तावळि कृपाचार्यान म्हळें, ''तो आमंचो दृणु मेउणो थोरि विध्या जाणतो. आतां तो बरो मानु पावत.'' ऐसें म्हणौनु कोउरवां पाण्डवां सहित नगरांतु आयूलो. गुरून निरोपु दिलो, ''तुमीं आपापुले घरीं वचा.'' तावळि ते समस्त आपापुले घरीं गेले. कृपाचारी आपुले मनूधिरीं गेलो. ताणें दृणु देखिलो. खेम आलिंगण जाली[6]. तस्त हाडुनु ताचे स्त्र्येचे वा ताचे पाये धुयूले. मग येके ठांय् बैसुनु गोस्टी करुं लागले.

तावळि दृणान दृपदा रायाची वेवस्ता सांगिली, ''ताणें माका भोउ गांजिलो. त्या निमितीं हांव अस्तानपुराक पावलों. फुडां देउ जें करित तें सते. आमंचे आदिन कांय् नां.'' तावळि कृपाचार्यान म्हळें, ''तुं ह्या कोउरवां पाण्डवांक धनुर्विध्या सतिसां दण्डा युध्यांची विध्या शेस्त्रां अस्त्रांचें निवारण सिखै. हो दुर्योधनु राव् हे प्रथुवी मधें थोरु. हाचे सारिखो राजा ह्या भुमण्डळा मधें आण्येकु नां. ज्या रायाक अठरा खेवणी दळभारु हस्त, रथ, पायेदळ, घोडे अगणित, ह्या वरौनु तुजें कार्ये सर्व होयेत. तुं विध्या अभ्यासु सिखै.'' तावळि दृणान म्हळें, ''तुं विध्या सिखैत आसतां हांवें विध्या सांगुची निति न्होये.'' तावळि ताणें म्हळें, ''हांव सोन्तसुनु सिकौं सांगतां. तुं तंव आण्येकु भायूलो न्होये, मजो मेउणो. तुं आणी हांव वेगळो न्होये.''

ऐसें ते येकमेका भितरि उलौनु जेवणा खाणाक उभटले, न्हाले, बरीं देवांग वस्त्रां न्हेसुनु परमेस्पराचें सुमरण केलें. जें कांय् खाजीं पकुवानां रांदिललें तें परमेस्पराचे नांवीं समर्पिलें[7]. समर्पुनु दोगैं जेविले. गन्द पुस्वां दृणाक दिलीं. आपुले हातीं कापुर्वेलिचो विडो दिलो. ऐसें तो कृपाचार्याचे घरीं आसतां, दुर्योधना रायान आपुल्या बापा दृतरास्टराक वा भिस्मदेवाक विधुराक त्या चेण्डुवाचें वर्तमान सांगिलें. तें उतर गंगा सुतान आयूकुनु दृणाक वा कृपाचार्याक आपौंक शेवकांक निरोपु दिउनु धाडिले. शेवकानीं वचुनु कृपाचार्याच्या घराडे सांगिलें, "तुमकां दोगांय् जणांक भिस्मदेवान आपैल्याति." ते दोगैं वेगीं उबटौनु सूंघारु करुनु भिस्मदेवाच्या मनूधिराडे[8] शेवकां सहित आयूले, येउनु भेटले. तांकां बैसुंक निरोपु दिलो. ते त्या निरोपा प्रमाणीं बैसले. तावळि भिस्मान म्हळें, "कृपाचार्या हो ब्राम्हणु कोणी कडे होउनु आयूलो? दुर्योधनान वा पाण्डवानीं चेण्डुवाचो समाचारु माका सांगिलो. बांयूतु पडललो चेण्डू आपसोचि मनूत्रानीं वैरि येसो केलो, तरि ह्या दृणा ब्राम्हणा लागी धनुर्विध्या पुर्न आस ऐसें माका दिसता. तुं आतां कृपाचार्या हाका ऐसें म्हण, ह्यां कोउरवां पाण्डवांक सतिस दंड येउध्यांची विध्या, गदांची विध्या साधना कोरुंची, धनुर्विध्या विन्दुची ऐसी नाना परिची विध्या हांकां सिखौं सांग. ऐसें म्होणुं तुं दृणा लागी उलै."

तावळि तो कृपाचारी दृणाक येकान्तीं व्हनु उलौं लागलो, "भिस्मदेउ ऐसें म्हणता : ह्यां कोउरवां पाण्डवांक विध्या सिकौं सांगता." तें उतर आयूकुनु दृणाचारी म्होणुं लागलो, "आमीं ब्राम्हण भिकारी. आमंकां हें कार्य खें टांकत?" ऐसें म्होणुं उलौं लागलो. तें उतर गंगा सुताक सांगिलें. तावळि ताणें दृणाक आपण्या लागी आपौनु बैसुंक ठाव् दिलो. हें आपण ताचे लागी उलौं लागलो, "हाव् जी गोंसांवी[9], तुमंचे लागी हांव एकि विनंति करितां. ती तुमीं बरी मनां हाड्या." ऐसें म्होणुं उलैलें. तावळि तो जाप देउं लागलो, "आमंचो मेउणो कृपाचारी ह्यां कोउरवां पाण्डवांक विध्या सिखैता. ताका न्होये कोर्नु हांवें विध्या सिखौंची निति न्होये. लोकाचें उतर लागता." तावळि ताणें म्हळें, "ताका आमीं सांगुं. तो भोउ सुखी." तावळि कृपाचार्याक म्हळें, "ह्या दृणाक आजि लेगिन तुमीं ऐसो निरोपु द्या, कोउरवां पाण्डवांक विध्या सिकौंक."

तावळि ताणें म्हळें, "स्वाम्या, भोउ बरें. हें उतर हांवें ताका पैलेंचि बरें मनां हाडिललें. हें होये की न्होये म्होणु तुमीं ताचे लागी विचाऱ्या. पण त्या दृणाचे मनीं येक आस. राया दृपदान ताका उणीं उतरां उलैल्यांति. त्यां उतरां निमितीं तो हांगा पावला. त्या दृपदाक दृणु आपण येकाचि बाणान तेचि सभांतु[10] मार्तो. ताचें सर्व राजे हस्ती, घोडे, रथ जिखतो. पण तें ताचें सारिखें न्होये. ताणें येक उतर उलैलां की आपुल्या सिस्या करवीं घोड्याच्या पायांक[11] उपराटो, मान सकल पाये वर्से कोर्नु तुका बांदुनु हाडैन. हें उतर मजें तुं सते जाण. ऐसें म्होणु थैं ठाउनु हो हांगा आयूला. हें इतुकें कार्य तुमिं होउनु कोरुंचें." तावळि त्या भिस्मान म्हळें, "हें दृपदाचें कार्य थोडें आस. येका जणा करवीं बांदुनु हाडुं तुं ताका सांग आणी तुं ताका विध्या सिखौंक निरोपु दी." ताणें म्हळें, "हांव भोउ सोन्तसु." भिस्मान दृणाचार्याक आपौनु आपुल्या हातान देवांग वस्त्रां दिलिं. नगर खण्ड्यां पानांचे विडे दिले. "तुमंचो सर्व समाचारु कृपाचार्यान आमंकां सांगिला. तें कार्य अवसे आमीं करुं. तुमीं हांकां विध्या अभ्यासु सांगा."

तावळि दृणान म्हळें, "कृपाचार्याचो निरोपु सिखौंक आमंकां तुमीं घेउनु द्या. तावळि कृपाचार्याक म्हळें, "ह्या दृणाक विध्या सिखौंक निरोपु द्या. ताणें म्हळें, "स्वाम्या, भोउ बरें." त्या उतरारि गंगा सुतान सोन्तसुनु जाउनु वस्त्रां कृपाचार्याक दिलिं आणी पांच गांव इनाम दिलें. फुडां तो दृणु कोउरवां पाण्डवांक विध्या नाना परिची सिखौंक लागलो आणी तांकां म्हळें, "धनुर्विध्या, सतिस दंडां येउध्याचें, गदेची साधना कोरुंची विध्या कोण कैसे सिकिल्याति ती विध्या कोर्नु माका तुमीं दाखया." तावळि ते कोउरव पाण्डव दोनियू हात जोडुनु दृणागुरूक पायां पडुनु धोणुवाक बाण लाउनु विन्दुं लागले. येक गदा हातिं घेउनु येकी हातिं वोडण घेउनु सादन कोर्नु दाखौं लागले. तावळि ताणें म्हळें, "तुमंकां अजुनु विध्या पुरी लागली नां." ऐसें म्होणु रात्रि दिसु तांकां आपण्यां लागिं ठेउनु धनुर्विध्या, गदेची विध्या, सतिस दण्ड येउध्यांची विध्या, नाना परिच्यां शेस्त्रां अस्त्रांची विध्या मारुंची, सोडुंची, पर्तुनु हाडुंची ऐसी विध्या अभ्यासु रात्रि दिसु तांकां सिखौनु निपुण[12] केले.

फुडां येके दिवसीं नगरा भायूर बरें मैधान पळेउनु, थैं येका रुखावरि गघन चुंबितु वेळु बांदिलो. ताका तिनि रेखा काडिल्यो. येकि तांम्बिडी, येकि काळी, येकी पाण्डरी. ऐस्यो तिनी रेखा काडिल्यो आणी त्या रुखा मुळा उजो केलो. ताचेरि तांब्याची कायूली ठेयूली. तेल तांतुं घालें. तें तेल घालित खेवीं उज्याच्या बळान कायूलिंतु खळ खळेउं लागलें. समेस्तां कोउरवांक आपैले. दुसासनाक वा सभळाक म्हळें, ''तुमीं तेलांतु रुप पळेउनु उपराटें धनुकाक बाण लाउनु हें लख्य भुमिवरि पाड्या.'' तावळि त्या गुरूच्या निरोपा प्रमाणीं धोनुक बाण घेउनु त्या तेलाचे कायूली लागी उभे राउनु, त्या तेलांतु रुप पळेउं लागले. तावळि दृणान म्हळें, ''तुमंकां तांतुं कितें दिसता?'' तावळि ते म्होणुं लागले, ''स्वाम्या, आमंकां हांतुं कांयू दिस नां.'' तावळि तो दृणु हांसुं लागलो, ''नुसुदेचि तरि तुमीं विनूद्या.'' तावळि ते बाण विन्दुं लागले. ते बाण फुंकटचि गेले. तावळि ताणें म्हळें, ''आतां पुरो. तुमीं विन्दुं नाकाति.''

तावळि दुर्योधना रायाक आपैलो, ''हे तिनि बाण तुं हातिं घे आणी तेलाच्या कड्या लागी वचुनु, तांतुं तुजें रुप पळेउनु हें वेलें लख्य विन्दुनु पाडि.'' तावळि तो दुर्यधनु हातिं तिनि बाण घेउनु, गुरूक नमस्कारु कोर्नु, तेलाच्या कड्या लागी वचुनु, तेलांतु रुप पळेउं लागलो. तावळि दृणान म्हळें, ''आगा दुर्यधना राया, तेलांतु तुका कितें दिसता तें तुं माका सांग.'' तावळि तो तेलांतु रुप पळेउनु गुरूक सांगुं लागलो, ''येकु वेळु ह्या व्रख्यारि बांदिलो ताका तिनि रेखो काडिल्याति.'' तें आयूकुनु ताणें म्हळें, ''माजावेली रेखा तांम्बिडी विन्दुनु भुमिरि पाडि.'' तावळि धोणुकाक बाण लाउनु विन्दिलो. तो बाणु चुकुनु आकास पर्येनूत्र गेलो. दुसरो बाणु विन्दिलो तो मधेंचि रावलो. तिसरो विन्दिलो तो लागतां लागतां चुकलो. ऐसे तिनियू बाण फुंक्याचि गेले. समेस्तां कोउरवानीं विन्दिले, पण तें लख्य मोडिलें नां.

तावळि पण्डुच्या पुत्रा अर्जुनाक आपैलो. तिनि बाण ताचे हातीं दिले. तो नमस्कारु कोर्नु, धोणुकाक बाणा सैत कड्या लागी वचुनु उबो रावलो. तेलांतु रुप पळेउनु परमेस्पराचें सुमरण केलें. उपराटें सन्दान कोर्नु माजावेली तांम्बिडी रेखा विन्दुनु भुमिरि पाडिली. तावळि दृणु सोन्तोसुनु आपुल्या गळ्यांतुली अविन्द मोत्यांची माळा भिस्मदेवान दिलेली ती अर्जुनाच्या गळ्यांतु घाली. तें देखुनु

दुर्यधनु आपुले मनीं भोउ क्रोदांतु काळु जालो. म्हणे, ''धनुर्विध्या अर्जुनु बरी सिकिलो. शेस्त्रां अस्त्रांचो मारु बरो जाणतो जाहालो. त्या निमितिं समेस्ता लोका देखतें, आमंच्या गुरू हातीं हाका मानु भोगता. हांव तंव राजा. आतां हाका कोणु विचारु कोरुं?''

ऐसें म्हणौनु आपुलो प्रधानु शेकुनी आपैलो. तो[13] धांवत येउनु हात जोडुनु नमस्कारु केलो, ''स्वाम्या काये निरोपु माका?'' तावळि दुर्यधनु म्होणुं लागलो, ''हे पण्डुचे पुत्र पांचै जण विधेन परिपुर्न जाहाले. त्यां मधें अर्जुनु थोरु धनुर्धरु जालो. भिमशेनु गदेचे विदेन थोरु सादनिकु जाहालो. हे दोगैं अतुळ बळी जाहाले आसति. आतां हांकां आमीं कोणु उपाव् कोरुंचो तें तुं माका सांग.'' प्रधानु म्होणुं लागलो, ''राया प्रथमंचि तुमंचे लागी हांवें विनति केल्या. ह्यां पांचैं जणांक आमीं कांयू येकु उपाव् कोर्नु नासुचे. हांचे लागी तंव सहिने नां. घोडे, हस्ती, रथ नांति. तुं समेस्तांचो राजा. तुं जें करिसी तें आजि जायूत.'' ऐसें त्या प्रधानार्चे उतर रायान मनीं मानिलें. फुडां ते पण्डुचे पुत्र पांचैं जण कोउरव येकातोर्सें[14] त्या आपुल्या गुरू दृणाचार्या लागी विध्या अभ्यासु सिखिले, पुरी विध्या सिखिले.

फुडां त्या दृणाचार्यान त्यां आपुल्यां सिसां लागी उलैलें, ''तुमंचे लागी हांव येक मागतां तें तुमीं माका कोर्नु द्या. तें कार्य केल्यावरि हांव भोउ सोन्तोसु.'' तावळि दुर्यधनान म्हळें, ''स्वाम्या तुमचे मनीं जें आस त्या कार्याक आमंकां निरोपु द्या. तें कोरुं, तुमीं मनीं चिन्ता कोरुं नाकाति.'' तें उतर आयूकुनु त्यां पांचैं जणांक आपण्या लागी आपैले. ''तुमीं कोउरव पाण्डव म्हा विर. सतिस दण्ड येउध्यांची विध्या, शेस्त्रांची विध्या, धनुर्विध्या, गदांची विध्या ऐस्या परिच्यो नानां विध्या तुमीं सिखिले. तरि तुमंचे लागी हांव गुरू दखिणा[15] मागतां, तुमीं माका द्या.'' तावळि दुर्यधना रायान आणी त्यां पाण्डवानीं म्हळें, ''जी कांयू आमंकां टांकता इतुकियू शेवा तुमंची आमीं कोरुं, तुमीं मागा.'' तावळि दृणाचार्यान म्हळें, ''येका रथान, येका जणान वचुनु दृपदु राजा जिवोचि धोर्नु घाउ, फातरु नलगतां, घोड्याच्या पायाक उपराटो बांदुनु मजे लागी हांगा हाडुंचो. हें इतुकें तुमीं माका द्या.''

तावळि दुर्यधनान म्हळें, ''स्वाम्या, हें तुमीं कितें म्हणतातिं? दृपदा रायालागी हस्त, रथ, घोडे, सहिने अगणित. ताका येकल्या विराच्यान वचुनु धोर्नु हाडवता? आणी तो नुसुदोचि सांपडता? हें तुमंचे मनीं जरि आस तरि ताचेरि आमीं सहिने, रथ, हस्त, घोडे मुकुट वर्दनिक राये, हो आमंचो भाउ दुसासनु ह्या सांगातीं इतुकें देउनु थैं धाडुनु तो दृपदा लागी येउधे कोर्नु जिखुनु हाडुं. हें इतुकें कार्य हांव करिन आणी जरि तुमंकां जायू, राजे, देसु, दुर्गां दिन.'' तावळि ताणें म्हळें, ''हें कांयू हांव तुमंचे लागी माग नां.'' तें उतर आयूकुनु रावू वोगोचि रावलो.

तावळि त्यां पण्डुच्यां पुत्रां पांचैं जणांक आपैले. ''हें मजें कार्य तुमंचे हातिं जायूत की नजायूत हें माका सांगा.'' तावळि ते पांचैं जण एकी ठांयू येकांत स्तानीं बैसुनु उलौं लागले. धर्मा व्हडल्या भावान म्हळें, ''दृपदु रावू भोवां वरुसांचो नांनां परी राया लागी येउधे कोर्नु मग घरा आयूलो आणी खेत्री थोरु. तुमीं अद्याप रणांतु येउधे केलें नां. तुमीं बाळकां कोणे प्रकारीं येउधे कोरुंचें हें तुमंकां ठावें नां. विध्या परिपुर्न सिकिल्यातिं आणी येकल्या विरान वचुनु ताका धोर्नु हाडुंचो हें काये लाहान कार्य न्होये.'' तावळि अर्जुनान म्हळें, ''हांव येकलोचि वचुनु ताका धोर्नु हाडिन. मजे सांगातिं सहिने, घोडे, हस्ती, रथ, कोण नाका. जें मज्या गुरून मागिलां तें ताका देउंचें, नां तरि संवसारी जिउनु कोणु फळु? आमीं तंव राये खेत्री. मरणाक भियेउं नये.'' हें उतर धर्मा रायाक मानलें. तावळि ते पांचै जण उबटाउनु दृणाचार्या लागी आयूले. ''स्वाम्या, निरोपु दी.'' तावळि ताणें म्हळें, ''तुमीं पांचै जण वचुंक कामा नयेतिं. येकल्यानचि वचुनु ताका धोर्नु घोड्याच्या पायाक उपराटो बांदुनु जिवोचि घाउ फातरु नलागतनां हाडुंचो. ऐसें उतर ताका माका झगडें जाहालें ते वेळे हांवें ताका उलैलां. तें उतर मजें सते कोरुंचें. हें इतुकें तुज्यान जरि जाता, तरि तुं फुडे सर.''

तावळि अर्जुनान म्हळें, ''स्वाम्या, हें कोण कार्य? माका तुं निरोपु दी,'' म्होणु आपुल्या गुरूच्यां पायांरि माथें दवलें. ताणें आपुल्या हातान पाटि थापिटिली. ''भियेउं नाका उबटा. तुजें मनिचें देउ करित,'' ऐसें म्होणु आपुल्या हातान कापुर्वेलिच्या पानांचो विडो दिलो. ''त्या दृपदाक तुं वेगीं धोर्नु हाडि.''

त्या निरोपा प्रमाणी रथावरि अर्जुनु बैसलो. सारथ्याक म्हळें, ''रथु हांकारि.'' तावळि दृणाक येक आटवलें, ''ह्या लेंकृवाक हांव धाडितां. सहिने, रथ, हस्ती, घोडे सांगातिं तंव कोण नांति,'' म्होणु आपुलो येकु बिजमनूत्रु कानांतु सांगिलो. ''तो दृपद राव् तुजेरि सहिन्या सैत येउथे जरि करित, तरि तुं हो मंत्रु जपुनु बाणु सोडि. तावळि तें जितुकें सहिने मकुट वर्धानिक राये येती, इतुकेय् निद्रेस्त जाउनु रथा खाला पडती. हातिचे धणुक बाण पडती. निद्रेन समेस्त सहिने भुमिरि लोळत. तावळि तुं दृपदाक धोर्नु घोड्याच्या पायाक बांदुनु उपराटो, घाउ नलगतनां घेउनु यो. ह्या मनूत्राचें नांव म्होयूनी.'' ऐसें म्होणुं ताच्या माथ्यारि हातु ठेयूलो. फुडां अर्जुनु रथ सैत दृपदाच्या नगरावरि चालुनु गेलो.

ऐसी ही कथा सुख इन्द्रान जन्मजयाक सांगिली. तावळि ताणें पुणतीं विनंती केली, ''त्या दृणा दृपदाक कित्या वैर जालें? ते तंव दोगैं बाळइस्ट येका गुरू लागी विध्या सिखताले. वैर कित्या निमितीं जालें, हें बरें तुं मनां हाडुनु सांग. हांव बरें कोर्नु आयूकतलों.'' त्या उतरारि ताणें भोउ बरें म्हळें. ''तुका हांव मागिली समुळि कथा सांगन. तुं चित देउनु आयूक. ही विनंती.'' कथा समाप्त.

## टीप :

1. पाड्चे
2. हस्तलेखांत ह्या उतरा वैर पुर्तुगेजींत certa erva (एका प्रकारचें तण) अशें बरयलां. दर्बु हें हतिचे आवडिचें खाण.
3. ते
4. हें समेस्त काये लेख – हें सर्व कित्याक गरजेचें. हांगा पानाचे कडेक लॅटीन भाशेंत scientia (गिन्यान) अशें बरयलां.
5. घराकडे
6. जालें
7. जीं काय् खाजीं पकुवानां रांदिललीं तीं परमेस्पराचे नांवीं समर्पिलीं.
8. मंदिराकडे
9. हो गुरूजी

10. सभेंतु
11. पायाक
12. हांगा फिरंगी शब्द dextras (तज्ञ) दिला.
13. तार्णे
14. 101
15. हांगा 'भीक' असो अर्थ दिला.

# आटवी कथा

फुडां त्या दृणा दृपदाची वेवस्ता तुमां सांगतां. चित देउनु आयूक जें मीं सांगैन तुज पासिं.

मागां दृणु दृपदु येका गुरू लागी ते दोगैं विध्या सिखताले. ऐसे बारा वरुसां पर्येनूत्र विध्या गुरून खेत्र धर्माची सिखैली. विधेन दोगैं परिपुर्न जाहाले. दृपदु जो तो रायाचो पुत्रु. दृणु जो आसा तो ब्राम्हणाचो पुत्रु, ऐसे दोगैं ते इस्ट भाव. दृपदु दृणाक म्होणुं लागलो, ''हांव हांगा ठाउनु मज्या राज्यांतु जरि वचन, तरि तुं थैं यो. जी माका टांकता शेवा इतुकी करिन.'' फुडां दोगांकै विध्या पुरी आयूली देखुनु गुरून तांकां निरोपु दिलो. ''तुमीं आपुल्या राज्याक वचा.'' त्या गुरूच्या निरोपा प्रमाणी घरिं गेले. फुडां मार्गीं वेतनां दृपदु दृणाक म्होणुं लागलो, ''आमंच्या राज्यांतु यो.'' तावळि ताणें म्हळें, ''ही वेळ न्होये. आणिके वेळे वेगिंचि तुजे भेटेक हांव येतां. आमीं भोउ काळ गुरूची शेवा केली. ताणें आमकां बरे प्रकारिं विध्या लायूली. तुं आतां आपुल्या राज्याक वच. माका तुं निरोपु दी, हांव मजे घरिं वेतां.'' ऐसे येकमेकां लागी निरोपु मागुनु आपापुले घरिं गेले.

ह्या उपरि भोउ काळ जाले. तावळि त्या दृणा ब्राम्हणाची अस्त्री प्रसुत जाली. तिगेरि येकु पुत्रु जाहालो. ताका नांव असोथमा ठेयूलें. पण तो दुदा विण कस्टवता. ताचे मायेक दुद नां. तावळि ती आपुल्या भ्रतराक म्होणुं लागली, ''आहो जि स्वाम्या, हें बाळक जाललें दुदाविण कस्टवता. तरि तुमीं येकि गाय् हाड्या आणी हें बाळक दुदान वांचसें कऱ्या.'' तें उतर आयूकुनु तो दृणु आपुले अस्त्र्ये पासिं सांगुं लागलो, ''राजा दृपदु मजो इस्टभाउ, आपुल्या राज्यांतु माका आपैतालो. पण हांव गेलों नां. आतां ह्या कार्या निमितीं वचवें पडता.'' ऐसें म्होणुं आपुले अस्त्र्येक सांगुनु दृपदाच्या राज्यांतु वचुंक लागलो. केतिकु मार्गु क्रमौनु त्या राज्यांतु पावलो.

रायाच्या दार्वट्याकडे उबो राविलो. राजद्वारा भितरि वेतां, द्वारपाळानीं वायूलो म्हळें, ''तुं वचुं नाका.'' तावळि दृणु थैंचि थांबलो. त्यां द्वारपाळांक सांगुं लागलो, ''तुमीं रायाक दृपदाक सांगा : तुमंचो बाळपणिचो इस्टभाउ दृणु ब्राम्हणु दार्वट्याडे येउनु उबो आस. तुमंच्या निरोपाची वाट पळेता.'' तावळि ते द्वारपाळ रायाक सांगुंक राज मनूधिरीं गेले. तावळि राजा दृपदु सर्व सुंघारु कोरुनु

आपुल्या सिहांसणावरि बैसला. समेस्तु परिवारु रायाक जुंवर कोर्नु आपापुल्या ठायारि उबे रावले. मकुट वर्धनिक राये राज सभांतु[1] बैसले. इतुक्या ते द्वारपाळ येउनु दोनियू हात जोडुनु विनौं लागले, "स्वाम्या, तुमंचो इस्टभाउ बाळपणिचो येका गुरू लागी आपण आणी तुमीं विध्या अभ्यासु कर्तालें म्होणुं सांगता. ताका नांव दृणु. ताका दार्वट्याडे आमीं थांबिला. आतां स्वाम्याचो काये निरोपु?" तें त्यां काटिकारांचें उतर आयूकुनु राजा दृपदु म्होणुं लागलो, "आरे, तो कोणी प्रमाणीं आयूला? सांगातीं कितुलो लोकु आस खैं? घोडे सुकासणा पालकी आस की नां?" तावळि ते म्होणुं लागले, "तो येकलोचि आसा, सांगातिं येकु माणुसु सैत नां."

तंव दृपदान आपुल्यां प्रधानांक सांगिलें, "तुमीं वचा आणी तो ब्राम्हण जें मागता इतुकेंयू तुमीं ताका द्या. पण मजे भेटेक हांगा हाडुं नाकाति." त्या निरोपा प्रमाणीं प्रधान ज्ञैं दृणु आसिलो थैं दार्वट्याडे आयूले. "आहो जी गोंसांवी, तुमकां रायाचो ऐसो निरोपु जाला : जें कांयू तुमकां जायें तें आमीं तुमकां देउं. तुमंचे मनिचें आमकां सांगा." तावळि त्या दृणान म्हळें, "हांव रायाचे भेटेक आयूललों. जरि तुमीं माका कांयू दिलें तरि राया दृपदाक देखिल्या वांचुनु तुमंगेलें कांयू नर्घे. हें तुमीं रायाक वचुनु सांगा." तावळि ते प्रधान पर्तुनु आयूले. जें तार्णे उलैललें इतुकेंयू रायाक सांगिलें. तावळि दृपदान म्हळें, "ताका भितरि येउं सांगा." तावळि तो दृणु ब्राम्हणु राया सन्मुख येउं लागलो. सिहांसणा लागी उबो राउनु रायाक नमस्कारु केलो. पण रावू ताका प्रतिउतर नेदे आणी उबटालो नां. तावळि दृणा ब्राम्हणान म्हळें, "राज्याचें म्हैमान ऐसेंचि आस. जरि येकाद्यान नमस्कारु केलो तरि आपण ताका मान हालै नांति. ऐसे राजमधान मातल्याति. आपपर खिणाचि मर्धे विसरताति. राज्याचें म्हैमान ऐसेंचि आस. मान वांकुडी करिताति[2]."

ऐसें दृणा ब्राम्हणाचें उतर आयूकुनु म्हा कोपारुडु जाहालो, "आरे, हो भिकारी ब्राम्हणु भिक मागुंक मजे लागी आयूला आणी तोंडान राजसभांतु[3] बडबडता." तें उतर आयूकुनु दृणा ब्राम्हणान म्हळें, "तुं माका भिकारी करितासि. तुज्या राज्यांतु कांयू हांव भिक मागुंक आयूललों? तुवें माका बळ्यां जाउनु कितुली मिनति कोर्नु आपैललो गुरूभाउ म्होणुं. आतां कां कैंतर[4]

राजमधान राजे तुजे हातीं आयूलां म्होणु आगळें उणें तुवें माका उलैलें. बरें, परमेस्परु समस्तु आस. तुका आतां हांव साखि दाकैतों. पण मजे हातिं तुका वायूट करी नां इस्टभाउ म्हणौनु. तरि आतां मज्या सिस्या करवीं मोकळ्यां केंसानीं तुका घोड्याच्या पायाक उपराटो बांदुनु जरि हांव व्हरैन, तरि हांव दृणु ब्राम्हणु. हें तुं सते जाण. तुजे सभेच्यां मकुट वर्धनिकां रायां देखतें उलैलां. ह्या उतराक तुं उगडासु करि.'' ऐसें म्होणुं आपुले मनीं म्हा कोपरुडु जाउनु दार्वट्या भायूर सर्लो. आपुले घरिं येउनु अस्त्र्येक सांगिलें. बाळक आणी स्त्री सांगातिं घेउनु जो राजा थोरु आस ताची शेवा कोरुं म्होणुं, राज्यान राजे भोंवत अस्तानपुराक आयूलो. ताका भिस्मदेवान सांबाळिलो. ही इतुकी आड कथा तुका हांवें विचारिली म्होणुं सांगिली.

ह्या उपरांतें तो अर्जुनु येका रथा सैत दृपदाच्या राज्यांतु पावलो. राजे द्वाराडे उबो राउनु त्या दृपदाच्या परिवरा लागी सांगुं लागलो, ''आरे तुमंच्या रायाक ऐसें सांगा ''पण्डुचो पुत्रु अर्जुनु दृणाचार्या ब्राम्हणाचो सिसु तुका धोर्नु व्होरुंक आयूला. तुं वेगीं दृणाचार्याक शेरण वच. नां तरि तुजी फजेति समेस्तां भुमण्डळिच्यां रायां देखतें जायूत.'' हें उतर आयूकुनु लोकु म्होणुं लागले, ''हो पिसो खैंचो? हिं ऐसलीं उतरां रायाक कोणु सांगत? हो पापी मोरुंक आयूला. येका रथान रायाक धोर्नु व्हर्तलों म्हणता. हाची बुधि थोडी.'' हें उतर ताणें उलैललें राज्यांतुल्या कोत्वालान आयूकिलें. आयूकुनु आपुले चाकर विस पंचविस जण धाडिले. ''तुमीं वचुनु जें कांयू रायाक आगळें उणें उलैता ताका तुमीं धोर्नु हाड्या. ताची जिब, नाक वोंट कातर्नु, रायाक नसांगतांचि श्यारा भोंवतो भोंवडाउनु आमंच्या राज्या भायर घाल्या.'' हें उतर आयूकुनु ते चाकर धांवत गेले. ते धांवत येताति देखुनु अर्जुनान धोणुक बाण हातिं घेतले. ''आरे, तुमीं कित्याक आयूलले रे?'' तावळि तानीं म्हळें, ''तुका धोर्नु व्हरुंक आयूललेउं. कोतुवालान आमंकां धाडिलले.''

तें उतर आयूकुनु धोणुकाक बाणु लाउनु अर्जुनान विन्दिले[5]. येकाचि बाणान त्यां विसैं जणांचीं नाकां कान कातर्नु सोडिले. ''तुमकां हांव जिवीं मारी नां. तुमच्या रायाक वचुनु तुमीं सांगा आणी हिं नाकां कातर्ललीं दाखया. तावळि ताका खबर जायूत.'' ते कोतुवाला लागीं बोब घेउनु गेले. कोतुवालु दळपति

भद्रशेना लागीं घेउनु गेलो. भद्रशेनु प्रधाना लागिं गेलो. समेस्तु विचारु ताका सांगिलो आणी जे नाकां कातर्लले ते ताका दाखैले. आतां हो विचारु असो जाहालो. "हें उतर तुमीं रायाक सांगतले की आमकां तुमीं निरोपु दितातिं?" त्या वरि प्रधानु म्होणुं लागलो, "असलें उतर रायाक आमंच्यान सांगवता? येका रथान येउनु असली करणी तो कर्ता. तुं वचुनु धोर्नु घेउनु यो." तावळि भद्रशेनु आपुल्या सहिन्या सैत भायूर सर्लो. सांगातिं कितुलें सहिने गेलें तें तुका सांगतां आयूक. विस सहस्र पायूदळ, पांच सहस्र घोडे, दोनि सहस्र रथ, येकु सहस्रु कुंजर. ऐसें सहिने घेउनु चालिलो. वाजानूत्रां नानां परिचिं वाजैतातिं.

ऐसो भद्रशेनु सहिन्या सैत वचुनु भोंवतो वेडिलो. माजारि ताका घालो. घाल्नु आपुल्या सहिन्याक म्हळें, "तुमीं कांयू हाचेरि विन्दुं नाकातिं. हो येकलो येका रथनचि आयूला. येकल्यान येकल्यारिची जुझुचें. साबारां मधें येकुजणु सांपडला म्हणौनु ताका धोरुं नये आणी मारुंयू नये, हो खेत्र्यांचो खेत्रि धर्मु न्होये[6]. हो कित्याक आयूला ऐसें हाचे लागिं विचारितां. तुमीं वोगेचि सभोवंतें पळेया. हो विरु थोरु आसत. येकलो येका रथान ह्या राज्यावरि जंव आयूला, हो कांयू लाहानु न्होये." ऐसें म्हणौनु आपुल्या समेस्ता परिवाराक सांगुनु, त्या रथ्या लागिं उलौं लागलो, "आगा रथ्या, तुं कोणे कडे ठाउनु आयूललो? तुवें आमंच्यां सहिन्याचीं नाकां वोंट कातर्लें ते कित्या? वा आमंच्या रायाक चुकुनु आगळें उणें उलैलेंसी तें कित्या? तुका आपुलो जिउ जावू की नाका?" ऐसें म्होणु भद्रशेनान म्हळें.

तें उतर आयूकुनु तो अर्जुनु म्होणुं लागलो, "आरे भद्रशेना, तुं माका येउनु दाटायूतासि, तरि तुका हांव सांगतां. तुं चित देउनु आयूक, : तुं अजुनु माका वळखुनु नेणसि. तरि हांव पाण्डुचो पुत्रु सोमवंसिचो, मजें नांव अर्जुनु, दृणा ब्राम्हणाचो शिसु. तुमंचो रावू दृपदु आमंच्या गुरूक शेरण दांतिं तण धोर्नु जरि वचत, तरि आपुलो जिउ राखत. नां तरि समेस्तां रायां देखतें आपण्याक हांसें हाडुनु घेत." हें उतर आयूकुनु दळपति भद्रशेनु म्हा कोपारुडु जालो. हातिं धोणुक बाण घेउनु उबो राविलो. अर्जुनाक म्हळें, "आपुले हातिं धोणुक बाण घे." तावळि अर्जुनान हातिं धोणुक बाण घेतले. भद्रशेनु विन्दुं लागलो. ते मधेंचे मधेंचि बाण मोडुनु पण्डुच्या पुत्रा अर्जुनान घाले. आणिक सात बाण धोणुवाच्या

सिन्ताक लाउनु दळपती भद्रशेनावरि विन्दिले. दों बाणानीं रथु सारथी, द्वजस्तंभु मोडुनु घालो. पांच भद्रशेनाक लागले. ते लागत खेवीं मुर्छ्या येउनु भुमिरि पडलो. दळपति पडलो देखुनु हस्ती, घोडे, रथ, सहिने विन्दुं लागलें. तावळि अर्जुनान चाकेक विध्या सुमरुनु त्या बाणाक लाउनु त्या सहिन्यावरि सोडिली. बाण पाताळिं होउनु येउं लागले, आकासा होउनु येउं लागले, आटांय् दिसां होउनु येउं लागले, ऐसो बाणाचो थोरु मारु जाहालो. येकेका विराक पांपांच बाण हुर्थें खोंचले. सहिने समेस्त व्याकुळ जाउनु पडलें दळपति भद्रशेनु रणांतु पडलो. सहिने, समेस्त घोडे, हस्ती, रथ, पर्तुनु रणभुमि सांडुनु पळुं लागले.

तावळि अर्जुनान वचुनु भद्रशेनु दळपति धर्लो. धर्नु ताच्या आंगाक लागलले बाण आपुल्या हातान काडिले. काडुनु ताका येका रथावरि बैसैलो. बैसौनु ताका कागत दृपदाक बरौनु ताचे हातीं दिलें. ''हें कागत व्होर्नु रायाचे हातीं दी, राव् वाचुनु पळेत.'' तांतुं ऐसें बरैलें, 'हांव पण्डुचो पुत्रु सोमवंसीं, मजें नांव अर्जुनु, दृणाचार्या ब्राम्हणाचो सिसु. तुका धोरुंक मज्या गुरूचो निरोपु माका आस. त्या कार्या निमितीं हांव हांगा आयूलां. तुं दांतिं तण धोर्नु आमंचो गुरू अस्तानपुरा आस थैं तुं शेरण वच. नां तरि आपण राव् थोरु खेत्री ऐसें म्होणुं मनांतु गर्व धोर्नु जरि रावसी, तरि तुजी हांव विटंबणा करिन.' ऐसी त्या भद्रशेनाचे हातीं पत्रिका बरौनु दिली आणी ताची एकि मिसी अर्द खाड कातर्लें. ''हें तुं तुज्या रायाक दाखै. हें खाड मिसी तुजी जरि कातर्ली म्हणसी तरि तुजी न्होये, तुज्या राया दृपदाची कातर्ली ऐसी तुं जाण. ऐसें हांवें म्हळें म्होणुं तुं रायाक सांग. आतां तुं वच.''

तावळि भद्रशेनु येउनु प्रधानाक भेटलो. जें अर्जुनान सांगिललें इतुकेंय् प्रधानाक सांगिलें. कागत जें बरैललें तें दाखैलें. ''मजी तंव ऐसी विटम्बणा जाल्या, खाड मिसी तंव कातर्ली. तुमीं रायाक सांगा, अर्जुनु खेत्री थोरु विरु. ताचे हातीं येकादी विटम्बणा जरि जायूत तरि समेस्तां प्रथुमिच्यां रायां खेत्र्यां मधें हांसें येत.'' तावळि त्या प्रधानान भद्रशेनाक सांगातिं घेउनु राया दृपदाक भेटैलो. सर्व समुळ विचारु जाललो इतुकोय् रायाक सांगिलो आणी पत्रिका हातीं दिली. ती पत्रिका वाचिली. ती वाचुनु आपुल्या मनांतु भोउ अपमानलो आणी दळपतिची खाड मिसी कापिलली देखिली. तें देखुनु राव् दृपदु थोरु कोपारुडु

जाहालो. "आरे भद्रशेना, तुका विटम्बिलो आसतनां तुं मजेरि दिस्टि घालुंक आयूलासि. इतुकें सहिने, हस्ती, घोडे, रथ आसतां येकल्या अर्जुनान तुमकां विटम्बुनु मार्नु मोकळ्या केंसानीं धांय् दिसपट[7] कोर्नु तुमकां पळैले. तुं दळादिपति. तुं जिवो आसतनां मज्या सहिन्याक ऐसी वाट जाहाली. तुवें थैंचि मोरुंचें. तें न्होये कोर्नु तुं माका खबर घेउनु आणी त्या अर्जुना हातिचें कागत घेउनु तोंड आपुलें दाखौंक आयूलासि. तरि आतां हाका दार्वट्या भायूर वेगीं घाल्या.

तावळि काठिकार येउनु धांवडायूत व्हेलो. राव् म्हा काळु जाहालो, जाउनु उबटालो आणी थोरां थोरां रायांक म्हळें, "तुमीं आपापुलें सहिने घोडे हस्ती रथ सैत नगरा भायर वचुनु भार कोरुनु उभे रावा." तें उतर आयूकुनु ते मनूत्री प्रधान भले भले लोकु आपुले दोनिय् हात जोडुनु रायाक विनौं लागले म्हणती, "स्वाम्या, तुं राव् खेत्री थोरु. पुर्वीं कितुले राये तुवें जिखुनु आपुले शेरणागत कोर्नु रावैल्याति. ऐसी तुजी ख्याति त्रिलोकांतु जाल्या. तरि तो अर्जुनु येका रथान आयूला तो दृणाचार्या ब्राम्हणाचो सिसु जाहाला. जे वेळे दृणाचारी तुमकां भेटुंक आयूलो, तावळि तुमीं ताका कांय् मानु दिलो नां. तुमीं आणी तो इस्टभाव. ताका देखुनु तुमीं उबटले नांति. ताणें हो अर्जुनु धाडिला. हो खेत्री थोरु. कांय् येकु मनूत्रु उपदेसु रण जिकुंचो दिला. हसैं तरि हो बाळकु, हाचे हातिं येकादो अपमानु जरि जायूत तरि समेस्तां खेत्र्यां रायां मधें हांसें येत. आतां स्वाम्याचो निरोपु."

तावळि तो दृपदु म्होणुं लागलो, "येका रथान येकलो येउनु ऐसें ताणें केलें. तरि ताका आतां हांव जिवोचि धोर्नु हाडिन." ऐसें म्होणु म्हा खंकाळु जाउनु आपुल्या कोटांतुलो भायर सर्लो. सांगातिं सहिने मेळलें ताका गणित नां. साटि कोटि कुंजर, णोवि कोटि घोडे, चाळिस कोटि रथ, पांच खेवणीं सैने, ऐसो सैन्याचो मेळु येके ठांय् मेळलो आसतां, वाजानूत्रांचो घरझरु जाहालो. रणभेरी, संकु काळा, पिनकाळा, मोगर्शिंगां, ब्रूहुंगां ऐसिं नानां परिचिं वाजानूत्रां वाजुं लागलिं. त्यां वाजानूत्रांचो सन्धु आयूकुनु असिवार[8] घोड्यांक येकांची पायान नाचैताति. ऐसो विनोदु त्या कटकांतु जालेलो अर्जुनान देखिलो. देखुनु आपुली मान हालौं लागलो. 'इतुकें सहिने, हस्ती, घोडे, रथ, राव् दृपदु सांगातिं घेउनु

येता, तरि जल्म मजें सुफळ. येकल्यान येकल्यारिचि जुझुचें तें न्होये कोर्नु इतुक्या दळभारा सैत येता. तरि परमेस्परु जाका येस देउंचें ताका दित. अनातांचो सारथी देउ, ऐसें म्होणु शास्त्र सांगता. हांवें ह्या दृपद रायाक सहिन्या सैत जरि जिखिलो तरि मजी किर्ति प्रथुमिच्यां रायां खेत्र्यां मधें जायूत[9] आणी हाचे हातिं मरण जरि पावलों तरि देवांचीं विमानां स्वर्गीं होउनु येतीं आणी मजो प्राणु घेउनु वेतीं. इतुकें माका आसतनां आतां हांवें मनीं भें धोरुं नये. परमेस्परु करित तें सतेः खेत्र्यांचो धर्मु ऐसोची आस. रण सांडुनु पळुं नये.'

म्होणुं आपुलो रथु सह्जु कोर्नु बैसलो. शेस्त्रां अस्त्रां बाण जे जे ठांय् रथारि ठेउंचे थथैं ठेयूले आणी सारथ्याक म्हळें, "घोड्यांक वेगिं चाबुक मारि, रथु चालुं दी." तावळि सारथ्यान वेगु केलो. जैसें अनूत्रखे पख्यो उडता तैसो रथु भुमण्डळीं धाउं लागलो. तें दृपदा रायान देखिलें. देखुनु समेस्त परिवाराक निरोपु दिलो, "तुमीं कांय् हाचेरि विन्दुं नाकाति. भोंवतोचि वेड्या. हाका घाउ बाणु नलगतां जिवोचि धरुं." ऐसी अग्न्या आपुल्या परिवाराक केली. रायाच्या निरोपा प्रमाणीं अर्जुनाक सातां परवडिनीं[10] सोभवंतोचि वेडिलो. ताका माजारि केलो. दृपदु राव् म्होणुं लागलो, "आरे अर्जुना, आतां तुं कितें करिसी? तुका तंव भोंवतो वेडिलो. खैंच्यान पळुनु वेसी? आतां तुं माका शेरण यो. तुका हांव राखन. नां तरि मजे हातिं नासु पावसी. येकी वेळे तुवें जिखिलें. भद्रशेनाक विटम्बिलो. तैसेंचि कोरुंक तुं पळेतासि." तावळि अर्जुनान म्हळें, "तुमंच्या तोंडांतुलें उतर जें आयूलां तें परमेस्परु सतेचि करित. आतां तुं ऐसें करि. आमंच्या गुरू दृणाचार्या ब्राम्हणाक दांतिं तण घेउनु अस्तानपुराक आस थैं शरण जरि वेसी, तरि आपुलो जिउ राखसी. नां तरि मजे हातिं विटम्बणा पावसी. तुका हांव जिवीं नमारीं, तुका जिवोचि धोर्नु हाडुंक आयूलां. आंगाक घाउ फातरु नलगतां हें तुका सांगतां. तुं आयूक."

हें उतर अर्जुनाचें आयूकुनु राव् दृपदु कोपलो. "आरे अर्जुना, हातिं तुं धोणुक बाण घे. तुज्या बाणाक जरि हांव बाणु घालिन तरि खेत्र्यां रायां मधें माका उणें." तावळि अर्जुनान म्हळें, "हेंचि तुजें उतर तुं पाळि. आतां हांव विन्दितां. तुं आतां सास. मज्या बाणान तुजी येकि लोंव तुंट नां. तुं खेत्री राउ थोरु भोवंकाळांचो जुनटु, हांव नेणारु बाळकु. मज्या बाणाक वोडन जरि फुडे

करिसी, तरि आपुल्या वंसाक उणें हाडिसी. आतां हांव तुजेरि विन्दितां तें सा.'' तीं दोगांचियू उतरां आयूकुनु आणी येउधे करितातित देखुनु देव आपुल्या विमानारि बैसुनु अनूत्राळीं पळेउं लागले. तावळि अर्जुनान कितें केलें, सात बाण आपुल्या धोणुवाच्या सिन्ताक लायूले, लाउनु वोडि भर्नु विन्दिले. च्यारि बाण रथाच्या चोउं घोड्यांक लागले. येकु बाणु सारथ्याक लागलो. येका बाणान द्वजस्तम्बु रथाचो मोडिलो. येकु बाणु दृपदाक हुर्दें भेदलो. तेणें रावू व्याकुळ जाहालो, जाउनु भुमिवरि पडलो.

अर्जुनान म्हळें, ''तुजेरि आतां हांव विन्दी नां. सातां बाणां मधें तुजो रथु, रथाचो द्वजस्तम्बु, घोडे, च्यारियू रथांचे सारथी सैत मार्लो[11]. रथु मोडुनु शेतचुर्न केलो. तुका येकाचि बाणान विन्दुनु भुमिवरि पाडिलो. हें इतुलेंयू कित्याक केलें जरि म्हणसी, तरि तुवें मजी भोउ बेपर्वा केली म्होणु. तरि आतां आण्येका रथावरि बैस. हातिं धोणुक बाणु घे. तुं मज्या गुरू दृणाचार्या ब्राम्हणाचो इस्टभाउ, हांव ताचो सिसु. आतां सवचित होउनु हातिं धोणुक बाण घे. जेतुकी शेस्त्रां अस्त्रांची विध्या तुजे लागिं आस इतुकियू तुं मजेरि विन्दि, इतुकियू हांव भंगितां.'' ऐसें म्होणुं अर्जुनान दृपदाक उलैलें. तें उतर आयूकुनु रावू दृपदु रथावरि चडलो. धोणुक बाण हातीं घेउनु अर्जुनारि विन्दु लागलो. ते बाण येतातित देखुनु अर्जुनान बाण सोडिले. बाणानं बाण निवार्ले. ते बाण निवार्नु अर्जुनु दृपदाक म्होणुं लागलो, ''तुवें आपुलें उतर जें उलैलें तें तुवें सते केलें[12]. आपुले तोंडीं उतर जें उलौनु चुकतातित[13] तांकां परमेस्परु अन्तीं बरो देखनां. तरि तुं खेत्री म्हा विरु, मजेरि बाण विन्दी नां म्होणुं आपुले तोंडी उलौनु आतां आपणचि मजेरि विन्दितासि. तरि खेत्री धर्मु हो न्होये. तुवें आपुल्या वंसाक उणें हाडिलें.'' ऐसें म्होणुं दृपदाक अर्जुनान बोलिलें.

तें उतर आयूकुनु तो भोउ कोपलो. ''आरे, कितें उलैतासि. हातिं धोणुक बाण घे. येउदे कोरुं या.'' तावळि अर्जुनान हातिं धोणुक बाण घेतले. सिन्ताक तिनि बाण लायूले. दृपदाक सोडिले. ते तिनियू बाण येतातित देखुनु, दृपदा रायान हातिं गदा घेउनु ते तिनियू बाण कातर्नु भुमिरि पाडिले. तें देखुनु अर्जुनान हातिं गदा घेउनु रथा खाल उडी घालुनु दृपदारि धाउनु आयूलो. तावळि दृपदानै रथा खाल उडी घाली. येकमेकारि गदेन हाणुं लागले. ऐस्यो दोनि घटिको

पर्येनूत्र गदेचें येउधे केलें. तें कवतुक स्वर्गीं होउनु देव पळेताति. ऐसें येउधे करित आसतां गदा, मुदगुल, त्रिसुल येकमेकारि सोडिले. येकु येकाक आटाप नां. तावळि दृपदाक अर्जुनान म्हळें, ''खिणु येकु थांब.'' तावळि थांबिलो. ''आतां आमीं ऐसें कोरुं या, जीं कांय् अस्त्रांची विध्या आस ती रथारि चडुनु येकमेकांरि सोडुं या.''

तें उतर आयूकुनु दृपदु आपुल्या रथारि बैसलो. अर्जुनु आपुल्या रथारि अरुडलो–चडलो. मग येकमेकांक नमस्कारु कोर्नु, अर्जुनान अग्निशेस्त्र सोडिलें. उजो येउनु दृपदाचें कटक जळुं लागलें. कटकांतु बोबाटु जाहालो. तें देखुनु दृपदान प्रजन्विशेस्त्र सोडिलें. च्यारिय् मेघ वरुसुं लागले. उदकाच्या बळान उजो वाडवलो. तावळि पार्थान[14] वाहूयुशेस्त्र सोडिलें. वाउतरान पाउसु उबौनु आकासीं व्हेलो. वाउतर म्हा प्रचण्ड व्हाउं लागलें. तावळि ताणें पर्वतास्त्र सोडिलें. फातरांचो मारु जाहालो. तें देखुनु हेरान वज्रस्त्र सोडिलें. ऐसिं नाना परिचिं शेस्त्रां अस्त्रां येतीं येकमेकांरि सोडिताति, पण येकु येकाक आटाप नां. ऐसें कवतुक देखुनु दृपदाचें सहिने पळेता म्हणति, ''भलो भलो अर्जुनु विरु. इतुकें कटक रायालागिं हस्ती, घोडे, रथ, सहिने अगणित आसतनां इतुल्याचेंय् में नधर्ता, येकलोची दृपदा रायाक पाचारुनु विन्दिता. बाणान बाणु निवारिता. तरि आजि हो रणांतु रायाक जिखत. राव् जिखुंचे फुडेची कांय् येकु उपाउ कोर्नु आमीं धोरुं या. चुकि जाहाल्यारि कामा नये.'' ऐसें म्होणुं तानीं प्रधाना लागी विचारिलें. तावळि मणीभद्रान म्हळें, ''आतां तुमीं ऐसें कऱ्या. जि जी विध्या ज्या लागी आस इतुकिय् बोबाटि कोर्नु तुमीं सोड्या. नां तरि हो येकादी अवकाळा–अपमानु राया दृपदाक करित.'' तें उतर आयूकुनु सहिने विन्दुं लागलें. तुम्बळ विधेचो मारु भोउ जाता देखुनु अर्जुनान आट चक्रां काडुनु रथा भोंवतिं मनूत्रुर्नु आटांय् दिसांक ठेयूलीं. जे बाण सहिन्याचे येताति इतुकेय् चक्रांबाण मोडुनु भायूर घालिताति. जैस्यो पाउसाच्यो धारो पडताति तैसे बाण अर्जुनारि येउनु पडताति. येक[15] म्हणताति, ''बाणानीं चुरु जालो.'' येक म्हणति, ''मेलो.'' येक म्हणति, ''पण्डुचो पुत्रु अर्जुनु फुंक्या साटी येउनु मरण पावलो. इतुको दळभारु, हस्ती, घोडे, चतुरंग सहिने रथ इतुक्यांतुलो रायाक धोर्नु व्हरन म्होणुं आयूललो, हो पिसो न्होये?'' ऐसें येकमेकां भितरि सहिने दळपती उलौं लागले.

तें उतर अर्जुनु वोगोचि आयूकता. तावळि अर्जुनान कितें केलें, येकी चखेक विधेचें सुमरण केलें. धोणुकाक बाणु लाउनु सोडिलो. त्या बाणाचो विस्तारु सात खेवणी बाण जाहाले. जेतुके त्या सहिन्याचे बाण, इतुकेय् ह्या अर्जुनाच्या[16] बाणानीं मोडुनु भायूर घाले. येकेका विराक सात सात बाण हुर्थें खोंचले. तेणें कोरुनु सहिने समेस्त व्याकुळ जालें. घायेवट भोउ जाहाले. येक रणांतुचि मेले. येक रथा, हस्ती घोड्या सैत पळुं लागले. ऐसें दृपदाचें सहिने बारांय् वाटां येकामेकांक सांग नासतनां पळताति. ऐसें हें नवल स्वर्गीं देव देखताति, म्हणताति, "श्याबास श्याबास रे अर्जुना, तुवें आपुलो सोमवंसु उधर्लो. येतुको राया दृपदाचो दळभारु तुवें येकल्यान पळैलो. तरि तुजें जल्म सुफळ. धने जिवित्व. तुं खेत्र्यां माजारि सिरोमणी." ऐसे येकमेकांतु देव अर्जुनाची गोस्टि करुनु मान हालौनु म्हणताति, "थोरु विरु, पुर्वीं आमीं कैंचि आयूकिलें नां आणी डोळ्यानिं देखिलें नां." ऐसें आसतां दृपदान काये केलें, सहिने आपुलें बाराय् वाटां पळता देखुनु प्रधाना मकुट वर्दनिक रायांरि[17] रागलो. म्होणुं लागलो, "आरे, तुमीं सवंसारी भुमिक भारु जाउनु जल्मल्याति. जैसें आमीं आमंचीं बाळकां पाळितार्उ तैसें तुमकां आमीं राजे देस दुर्गां दिलिं. येकि वेळे आमंच्या कार्याक जातले म्होणुं. तरि माका ह्या रणांतु सांडुनु तुमीं जिउ घेउनु पळताति मजें देखतांचि, तरि तुमीं आतां बरें केलें. तुमकां जिवाची आशा जरि आस तरि तुमीं पर्तुनु सुखी आपुले घरीं वचा."

ऐसें दृपदा रायाचें उतर निस्टुर आयूकुनु जें नांव नांवाचे राये आसिले इतुकेय् पर्तुनु राया दृपदा लागिं उबे राविले. म्हणताति, "स्वाम्या, आतां आमीं कोणु विचारु कोरुंचो हें तुमीं आमकां सांगा. हाका जिवोचि तरि धरुं म्हळें तरि हो आमकां आटाप नां. हो येकाचि रथान येउनु इतुकें आमचें सैने मार्लें वा पळौनु घार्लें. हो खेत्री थोरु. आतां आमीं अर्जुनारि विन्दुंक राया लागी निरोपु मागुं या." ऐसें बोलुनु त्या राया सन्मुख उभे रावले. तंव रायान हां ऐसें म्होणु निरोपु दिलो. तावळि ते मकुट वर्दनिक राये हातीं धोणुक धोर्नु सिन्ताक बाण लाउनु आपुले रथ फुडे कोर्नु येकल्या अर्जुनारि बाण विन्दुं लागले. त्यां बाणांच्या धुंदुकारान[18] आटै दिसो कांपुं लागल्यो. आकासा होउनु बाण येताति, अनूत्रखे होउनु बाण येताति, ऐसो बाणांचो म्हा मारु जालो. जैस्यो पावसाच्यो

धारो पडताति तैसे बाण येउं लागले. तावळि अर्जुनान म्हळें, "हे म्हा राये दृपदु सैत निर्वणारि पर्वतुनु विन्दिताति. तरि आमंच्या दोगां मधें येकादुलो नासत. मागिरि कामा नये" म्हणौनु, लागु वेगीं धोंयू हातीं सन्दाण कोरुं लागलो. सन्दाण करित खेवीं दृपदाचे बाण तिनि आयूले. द्वजस्तम्बु रथाचो अर्जुनाचो मोडिलो.

तावळि अर्जुनान काये केलें? सन्दाण कोर्नु त्यां विरांचे बाण येताति ते निवारुं लागलो. तावळि मनांतु येक आटौं लागलो, 'आतां झगडेंचि जरि कोरुंक वचुं तरि बाण दृपदा रायाचे आंगीं नां तरि, मजे आंगीं भेदती. मागिरि जें मज्या गुरू दृणाचार्यान उलैलें उतर फुंकटची वचत. आंगाक घाउ फातरु नलगतां रथाच्या द्वजस्तम्बाक बांदुनु हाडुंक माका निरोपु दिला. तो येकलो तंव मजे लागीं येउधे करी नां. विस सहस्रं रायां मकुट वर्दनिकां रायां सैत सन्दाण करिता. हे इतुके बाण निवारिन जरि म्हळें, तरि आतां कामा नये. थोरु बाणाचो मारु जाता.' तावळि सारत्याक म्हळें, "रथु थापटि – चालै." तंव सारथ्यान रथु थापटिलो. ती भुमिका सांडुनु आण्येकि कडे रथु उबो केलो. जे बाण मकुट वर्दनिक राये सोडित ते वायांचि गेले. तावळि अर्जुनान म्हळें, "राया दृपदान वा त्यां समेस्तां रायानीं मजो रथु आतां देखिलो नां. प्रथम ज्या ठायारि उबो राउनु हांव विन्दितालों थैंचि हांव आस म्होणु विन्दिताति. म्हा काळ क्रोदान्त जाल्याति. रणाच्या योउगिंणिनीं रणा पिसें लायूलां. तेणें कोर्नु हे आप पर विसरल्याति. डोळ्यांक रगत येउनु कोपारुड जाउनु कांयू नदेखति. आतां मनूत्रु जो गुरून दिललो तो मनूत्रु जपुनु सोडुं" म्होणुं म्होउनी मनूत्रु जपुनु बाणाक लाउनु दृपदा रायारि वा समेस्ता ताच्या दळारि घालो. त्या मनूत्राच्या बळान रायाक वा समेस्ता दळाक निद्रा आयूली. जांबयो[19] तोंडीं देउनु रथांरि घोड्यांरि आंग मोडुं लागले. धोणुक बाण शेस्त्रां हातिचिं पडलीं. ऐसे निद्रेन व्यापिले. येकमेक येकमेकाडे उलौंक विसर्ले.

तावळि अर्जुनान कितें केलें? राजा दृपदु वा समस्त ताचें सहिने निद्रेस्त कोर्नु घालें आणी आपुले मनीं ऐसें विचारिलें, 'मकुट वर्दनिक रायांक मार्नु तांचीं सिंसां जरि व्हरन म्हळें तरि हो मजो खेत्री धर्मु न्होये. निदेल्यांक जागौं नये आणी मारुं नये. ऐसो श्यास्त्र धर्मु आस. जरि निदेल्याक मारित तरि तो अन्तीं

एमलोकिं नरककोंडी चन्द्रु सुर्यु प्रथुमि आस पर्येनूत्र आसत. ऐसें आसतां हांवें कोणाक मारुं नये. आतां तंव मजें कार्य सर्व परमेस्परान बरें केलां. दृपदु तंव निद्रा येउनु पडला. हाका धोर्नु रथाच्या द्वजस्तम्बाक बांदिन' म्होणु रथु आपुलो फुडे केलो. दृपदाक रथावेलो काडुनु आपुल्या रथा लागीं हाडिलो. मागिलातिं बांदुनु रथाच्या द्वजस्तम्बाक उपराटो बांदिलो. बांदुनु आपुल्या रथाक दवडुं दिलो. म्होअनम्र जें घाललें तें आपणें काडिलें. समस्त राये दळ सवचित जाहालें. तांची निद्रा गेली. येकमेकांक चोयूति तरि राव् दृपदु रथावरि नां.

तावळि त्या दळभारांतु आकांतु वर्तलो. "राव् अर्जुनान धोर्नु आपुल्या रथाच्या द्वजस्तम्बाक उपराटो बांदिला. आतां आमीं कितें कोरुंचें? येउधे जरि कोरुं म्हळें, तरि राव् ताचे हातीं[20] सांपडला. राव् सांपडलो आसतां आमीं येउधे कोरुं नये. पण आमंच्यान येउधे कोर्नु आमंचो राव् दृपदु सोडुन हाडव नज." तावळि अर्जुनान दृपदाच्या सहिन्याक म्हळें, "तुमंचो राव् मजे हातीं सांपडलो म्होणुं तुमीं कांयू चिन्ता कोरुं नाकाति. ताका हांव वायूट करि नां. येका उतरा निमितीं अस्तानपुराक व्होर्नु दृणाचार्या भ्रमणाक[21] भेटौनु मागुतेन राया दृपदाक राज्यांतु राजे कोरुंक धाडितां. तुमीं कांयू चिन्ता कोरुं नाकाति. पर्तुनु आपुल्या राज्यांतु वचा." ऐसें म्होणु आपुल्या रथाक वेगु दिलो. रथु घड घडां चालुं लागलो. ऐसो मार्गीं रथु वेतां दृपदु अर्जुना लागी म्होणुं लागलो, "तुं[22] माका रथाच्या द्वजस्तम्बाक उपराटो तोंड सकल पाये वर्से कोर्नु बांदिला, येदो थोरु अपमान कोर्नु माका तुं व्हरुं नाका. मजें शिर कापि आणी त्या दृणाचार्याक दाखौंक व्हर." ऐसें म्होणुं दृपदु काकुल्ती आयूलो.

तावळि अर्जुनान ताचें उतर आयूकुनु म्हळें, "तुजें सिर मज्यान कापव नां. मज्या भावा धर्माचो वा मज्या गुरूचो ऐसो निरोपु नां. आतां हांव कितें कोरुं?" तावळि तो दृपदु म्होणुं लागलो, "तुं माका द्वजस्तम्बाचो सोडि. हांव मजे पोटिं सुरी घालुनु मरण. मेल्या उपरांते रथाच्या द्वजस्तम्बाक बांदुनु तुं घेउनु वच. तें उतर आयूकुनु अर्जुनान म्हळें, "हिं असलीं उतरां काकुल्तिचीं तुमीं उलौं नाकाति. जें परमेस्परु करित तें सत्य. खेत्र्यांचो धर्मु ऐसोचि आस. येकु जिखता येकु हारता करुं नाकाति. आतां एक दों घड्यां भितरि अस्तानपुराक आमीं वचुं. आमच्या गुरू दृणाचार्याक ब्राम्हणाक आणीं तुमकां भेट कोरुं आणी तैसेचि

पर्तुनु तुमंच्या राज्याक धाडुं. आपण सौंसारीं जिवंतु आसतां येकाच्या उणेपणान आयूकुंचें आणीं जे वेळे आपण्याक फावत तावळि उसिणें घेउंचें. आपण मेल्या उपरांतें कोणुं उसिणें घेणारु नां[23] तुमीं कांय् चिन्ता कोरुं नाकाति. वोगेचि रावा. परमेस्पराचें सुमरण कऱ्या. तो तुमका बरें करित.'' तें उतर आयूकुनु राव् वोगोचि रावलो. परमेस्परारिचि आपुलो सर्व भारु घालो.

फुडां रथु अस्तानपुराक चाल्नु पावलो. दृणाचार्या ब्रामणाक[24] खबर जाली. अर्जुनान दृपदु राव् धोर्नु हाडिलो. तावळि दृणु ब्रामणु म्हा अनंद भरित जाउनु भिस्मदेवाक सांगुंक गेलो. तेणेंचि प्रमाणीं दृतरास्टराक विधुराक कोउरवां पण्डवांक सांगिलें. ती खबर आयूकुनु राव् दुर्योधनु आपुले मनीं भोउ दुख पावलो. तावळि दृणाचार्यान राया दुर्योधनाक म्हळें, ''समेस्त तुजें राज्य सृंघारुंक प्रधान वर्गांक निरोपु दी.'' राजे सृंगारुंचें, दुर्योधनाचे मनीं नासिलें, पण दृणु गुरूचो कोपु जायूत देखुनु राज्य सृंघारुंक निरोपु दिलो. घरां घरीं गुड्यो तोरणां राज बिधिक मखरां ऐसें नाना परीं वस्त्रानीं राजे सृंघारिलें. फुडां भिस्मदेउ, दृतरास्टरु, विधुरु कोउरव, पाण्डव समेस्त सृंघारु कोर्नु, मकुट वर्धनिक राये, सहिने, दळभारु, समेस्त हस्त घोडे, रथ सृंघारु करुनु आपापुल्या ठायारि येउनु उभे राविले.

फुडां दुर्योधनु राउ सृंघारु कोरुनु सिहांसणावरि बैसलो. भिस्मदेउ आपुल्या ठायारि बैसलो. तेणे प्रमाणीं विधुरु दृतरास्टरु कोउरव पाण्डव आपापुले ठांय् बैसले. मकुट वर्दनिक राये दोनिय् आपुले हात जोडुनु रायाक पायां पडुनु आपापुल्या ठायारि बैसले. समेस्ता सहिन्यान दुर्योधना रायाच्यां चरणां पडुनु[25], फोउज कोर्नु उभे राविले. तावळि भिस्मदेवान म्हळें, ''सहिने वाजानूत्र वाजित तुमीं मुखारि वचुनु अर्जुनाक राज सभांतु[26] हाड्या.'' तें उतर दुर्यधना रायान आयूकुनु आपुल्या सहिन्याक वचुंक निरोपु नेदे जाहालो. तावळि सहिने आपापुले कडे वोगेंचि उभें राविलें. इतुक्या अर्जुनाचो रथु राज सभांतु[27] पावलो. अर्जुनु रथावेलो उतार्नु येउनु भिस्मदेवाच्यां पायांवरि आपुलें माथें ठेयूलें. तेणेचि प्रमाणीं दृतरास्टराच्यां वा विधुराच्यां आणी आपुल्या भावा धर्माच्यां चरणाक[28] नमस्कारु केलो. राया दुर्यधनाक जुंवारु केलो. आपुलो गुरू दृणाचारी ताका येउनु सस्टांग पायां पडलो. समेस्त रायांक मकुट वर्दानिक आणीं अर्जुनाक खेम

आळिंगणां जालीं. ऐसें करितां दोनि घड्यो जाल्यो.

रायें दृपदु रथाच्या द्वजस्तम्बाक उपराटो बांदिललो तैसोचि आस. तावळि अर्जुनु सभांतु[29] उबो राउनु दोनिय् हात जोडुनु भिस्मदेवाक वा समेस्तां मकुट वर्दनिक रायांक आणी आपुल्या गुरू दृणाचार्याक विनौं लागलो, "हो राव् दृपदु रथाक जो बांदिला, ताका सोडुनु हाडुनु सभांतु[30] बैसया." तावळि भिस्मदेवान म्हळें, "ताका वेगीं सोडुनु हाड्या." त्या उतरावरि दृणाचारी ब्राम्हणु सभांतुलो[31] उबटाउनु अर्जुनाक सांगातिं घेउनु रथा लागीं वचुनु, आपुले हातिं रथाक जो बांदिललो तो सोडुनु हातिं धोर्नु राज सभांतु[32] हाडिलो. तावळि राया दृपदान मान उमतिचि केल्या, कोणाकै लाजेन पळे नां. तें भिस्मान जाणुनु म्हळें, "खेत्र्यांचो धर्मु ऐसोचि आस," म्होणुं ताका आपौनु वस्त्रां लुगडीं दिउनु आपण्या लागीं बैसैलो. इतुक्यां दोनि प्रहार जाले. दुर्यधनु राव् उबटलो. अर्जुनु भिस्मदेवा लागी विनती कोरुं लागलो. "हो राजा दृपदु तुमीं माका द्या. हाका हांव हाच्या राज्याक धाडितलों." तंव भिस्मु म्होणुं लागलो, "भोउ बरें. पण तुमीं दृणाचार्या ब्राम्हणाचो निरोपु घ्या. हें इतुकेंय् ताचे निमितीं जालेलें." तें उतर आयकुनु दृणु भोउ सोन्तोसलो आणी म्हळें, "थोरांची थोरि बुधि," म्होणुं त्या राया दृपदाक आपुले हातिं वस्त्रां लुगडीं देउनु अर्जुनाचे हातिं दिलो. "तुवेंचि हाका हाडिललो आतां तुंचि हाका राज्याक पाय्."

तावळि तो अर्जुनु राया दृपदाक आपुल्या घराडे हाडुनु न्हाण माखण कोर्नु बरीं खण्डरोस पोकुवानां वाडुनु, पांचै भाव वा दृपदु राव् येकी पंकतीं बैसुनु जेविले. जेउनु उबटले आणी आंउनु एकी ठांय् बैसुनु धर्मरायान आपुले हातिं कापुर्वेली पानांचो विडो दृपदाक दिलो. गन्द पुस्वां दिलिं. आविन्द मोत्यांच्यो माळा[33] रत्नां देउनु सुखी केलो. पण आपुली मान सकल केलली उंच ब्रम्हादिक[34] काडिली नां. फुडां धर्मान अर्जुनाक निरोपु दिलो. "ह्या दृपदाक व्होर्नु ताच्या राज्याक बैसौनु यो." त्या निरोपा प्रमाणीं सुर्यकन्तीं तेजाच्या रथावरि बैसुनु त्या रायाक अर्जुनान व्होर्नु ताच्या राज्यांतु सिहांसणारि ताका बैसौनु, आपुल्या राज्या अस्तानपुरा पर्तुनु आयलो. हें इतुकें दुर्यधना रायान देखुनु भोउ आपुले जिवीं अपमानलो. 'ह्या येकल्या अर्जुनान असल्या रायाक जिखुनु आपुल्या रथाक बांदुनु धोर्नु हाडिलो, तरि पांच जण कितें करिती?

सन्धेवाविण आमंचें राजे सर्व घेती. कोणा एका उपाया निमितीं हांकां विभाडुनु परो घालुंचे, नां तरि राजे भस्ट[35] कोर्नु भिक्या मागत वचसें कोरुंचें.' हें इतुकें दुर्यधनान आपुले मनीं घेतलें.

ऐसी ही कथा सुख इन्द्रान जन्मजयाक सांगिली. कथा अपुर्वि देखुनु पुणती पुणती सांग म्होणुं विनंती केली. कथा समाप्त.

## टीप

1. सभेंतु
2. हांगा समासार लॅटीन भार्शेत regis superbia (रायाचें गर्व) अशें बरयलां.
3. राजसभेंतु
4. कां कैंतर – जाग्रूत
5. विन्दिलो
6. समासार unus (एक)
7. धांयू दिसपट – सगळ्या वाटांनी पसरप
8. ह्या उतरा वैर फिरंगी उतर cavaleiros (घोडेस्वार) बरयलां.
9. हांगा पानाचे कडेर एक अस्पश्ट लॅटीन टीप आसा.
10. ह्या उतरा वैर पुर्तुगेज उतर fileira (वळ) बरयलां.
11. मार्ले
12. केलें ना
13. समासांत लॅटीन : menda (उणाय, चूक) आसा.
14. अर्जुनान
15. कांय
16. अर्जुनाच्यां
17. समासार लॅटीन भार्शेत : milites reges (झुजारी राजा)
18. ह्या उतरा वैर पुर्तुगेज : zunido (आवाज) उतर आसा.
19. ह्या उतरा वैर फिरंगी : bocejo (जांबय) बरयलां
20. हांगासून "चरणां पडुनु" मेरेन एक पान मसुद्यांत ना, पूण निव्वळ प्रतींत आसा.
21. ब्राम्हणाक

22. तुवें
23. हांगा समासांत एक अस्पश्ट लॅटीन टीप आसा.
24. ब्राम्हणाक
25. मसुद्यांत हांगाच्यान काणयेचें फुडलें पान मेळता.
26. राजसभेंतु
27. राजसभेंतु
28. चरणांक
29. सभेंतु
30. सभेंतु
31. सभेंतुलो
32. सभेंतु
33. माळो
34. ह्या उतरा वैर फिरंगी भाशेंत : de nenhuma maneira (कशीच)
35. ह्या उतरा वैर पुर्तुगेज : desterro (देसांतर) अशें बरयलां.

# नवी कथा

फुडां रायें दुर्यधनें, शेकुनी प्रधानु हांकारिला तेणें, मन्दिरा यावें तत्व घेणें कांय् येकु विचारु करणे असे.

मागां दुर्यधना रायान आपुलो प्रधानु शेकुनी आपौनु हाडुनु येकान्त स्तानीं दोगैं गोस्टिक बैसले. रायान म्हळें, ''प्रधाना आतां आमीं कोणि बुधि कोरुंची हें तुं माका सांग. हे पांचै पाण्डव धर्मु, भिमशेनु, अर्जुनु, नकुलु, सायेदेउ हे धनुर्विधेन शेस्त्रां अस्त्रांचे विधेन बरे निपुण जाहाले. त्या मधें भिमशेनु गदेचि विध्या पुर्न सिखिलो. अर्जुनु धनुर्विध्या[1] भोउ चोखटु जाहालो. अठेरा खेवणी सहिने, रथ, कुंजर हस्ती, घोडे, इतुलें मजे लागीं आसतां दृणान दृपदाक धोर्नु हाडुनु दी म्हळ्यारि मज्यान नज जाहालें. येकलो अर्जुनु येका रथान वचुनु, इतुके त्याचे हस्ती घोडे परिवार आसतां संग्रामु कोर्नु आंगाक घाव् नलगतां धोर्नु हाडिलो. ताची किर्ति त्रिलोकांतु जाली. आमकां हें इतुकें टांक नां जाहालें. आतां आमीं कोणि बुधि कोरुंची?'' तावळि प्रधानान म्हळें, ''स्वाम्या ऐसी बुधी कोरुंची. हे आमीं येकी ठांय् मेळुनु खेळाच्या निबान जरि आमकां मेळती तरि हांकां मार्नु घालुंचे.'' तें रायाक मानलें.

येके दिवसीं ते कोउरव पाण्डव खेळुं लागले. खेळतां खेळतां राया दुर्यधनान आपुल्यां भावां कोउरवांक सांगिलें, ''हो अर्जुनु येकलोचि येके ठांय् जरि मेळत, तरि हाचो गळो मोडुनु घाल्या.'' ऐसें रायाचें उतर तानीं आयूकिलें. तावळि ते येकमेका भितरि वांटुनु दों कडे गेले. फुडां धां जणानीं मेळुनु, अर्जुनाक धोर्नु मार्तां मार्तां पैस ठाउनु भिमशेनान देखिलें. पावन वेगीं धाउनु येउनु त्या अर्जुनाक सोडिलो आणी त्यां कोउरवांक हातिं धोर्नु म्होणुं लागलो, ''हांकां जरि मारुं, तरि आमंच्या भिस्मादेवाचो, दृतरास्टराचो, विधुराचो बोलु माका लागत. हाणीं तरि आजि अर्जुनु मारुंचो केलेलो. हे कोउरव घातु करुंक वर्तले.'' म्होणुं कोउरव हातिं जे धर्लले ते सोडिले.

अर्जुनाक सांगातीं घेउनु पांचै जण आपुल्या नगरांतु आयूले. येउनु भिस्मदेवाक, विधुरा, दृतरास्टराक आणी दुर्यधनाच्ये आवयेक गान्दाऱ्येक सांगिलें, ''तुमीं म्हालगडीं थोरां बुदवंतां आसतनां, हो दुर्यधनु आपण राव् म्होणु आमकां पांचैं जणांक मार्ता,'' म्हणौनु अर्जुनाक दाखैलो. ''मार्तां मार्तां

परमेस्परान सोडैलो. ह्यां कोउरवांक आणी दूर्यधनाक मारुंचें ऐसें आमचे मनीं जरि आसत, तरि एका खिणा मधें ह्यां समेस्तांक हांव मार्नु घालिन. ही बुधि आमकां परमेस्परु नेदे. हे तरि आमंचे बापलभाव येकमेकांतु घातु करुंक जरि वर्तले, तरि आमीं हांगा रावनाउं. आतां तुमीं आमकां निरोपु द्या.''

तें उतर आयूकुनु दृतरास्टरु, गान्दारी, दुर्यधनारि रागलीं. ''आरे हें समेस्त राजे पण्डुचें. हें राजे तुका दिलें म्होणुं ह्या पाण्डवांक तुं वायूट कर्तासि. ही तुजी करणी भिस्मदेवाच्या मना नये[2], विधुराच्या मना नये, जे थोर थोर म्हालगडे आसति तांच्या मना नये. तुका येकि वेळे आमीं सिखैलें आसतां तुं ऐसें कर्तासि? मागां तुवें येकि वेळे अर्जुनाक उदकांतु बुडौनु मारुं केलोसि. थैं परमेस्परान राखिलो. आजि तुवें समेस्त मेळुनु खेळुंक म्होणु व्हर्नु ताका तुवें मार्लो, मारित आसतां भिमशेनान ताका येउनु सोडैलो. ऐसें येकि दोनि वेळे तुवें तांकां घातु करुंक केलो. हें विधुराच्या मनाक आयूललें न्होये वा समेस्तां राज्यांतुल्या लोकाक ही तुजी बुधि मना न्होये. हें राजे तंव पण्डुचें, तांकां फाव. तुका भिस्मदेवान राव् कोर्नु सिहांसणारि बैसैलो. तावळि तुका हें आटवता. त्यां पाण्डवां आणी तुमकां येके ठांय् नपड. राजे आतां तांकां वांटुनु देउंचें लागत. अर्द राज्याचे धनी ते, अर्दाचो तुं. ऐसें आसतनां तुका ऐसली बुदी आटवली. तुका ही बुधि कोण सिकैता ऐसें आमकां कळ नां. तरि तुं आतां ऐसें करि. जें कांय् भिस्मदेउ कोउरवां पाण्डवांक जें सांगत हें तुं दुर्यधना वोगोचि आयूक.'' ऐसें म्होणुं दृतरास्टरु गान्दारी, त्या दुर्यधनाचो माये बापु सिखौं लागलिं. तें उतर आयूकुनु तो वोगोचि राविलो.

फुडां ते पाण्डवांचे मायेन वचुनु भिस्मदेवाक जें वर्तमान वर्तललें इतुकेंय् सांगिलें. ''दुर्यधनु राव् मज्यां पांचैं पुत्रांक बरें देख नां. घड्ये घड्ये वायूटचि कर्ता. कांय् बरें चिंती नां. हें राजे तंव आमंचें, मज्यां पुत्रांक फाव. तुमीं व्हडानीं ह्या दुर्यधनाक राजेपाटु बांदुनु राव् केलो, देखुनु आमीं वोगेंचि आपुले कडे आसाउं. कित्या जरि म्हणश्यात तरि तुमंच्या थोरांचें उतर आमीं मोडुं नये म्होणु. जें कांय् तुमीं तुमच्यां मना येउनु केलां, तें इतुकेंय् सतेसें मानुनु तुमंची शेवा कोर्नु तुमंच्या चरणाडे आमच्यां पाण्डवानीं आसुंचें.'' तें उतर आयूकुनु भिस्मदेउ कोनूत्येक म्होणुं लागलो, ''हो राउ दुर्यधनु बरें नकरीं हाची करणी येकि दोनि

वेळे मजे दृस्टी पडली. आपण्याचि भितरि घातु कोरुंक लागला. तरि आतां समेस्त राजे इतुकें आस तितुकेंय् पाण्डवां आणी कोउरवांक देउं. तुं आतां वचुनु दृतरास्टराक वा विधुराक हें सांगुनु तांकां वेगीं हांगा धाडि. आमीं तेगैं तांकां तुमकां अर्दादी राजे वांटुनु देउं.'' तें उतर आयूकुनु ती[3] कोनूत्येन भाव्या दृतरास्टराक वा विधुराक सांगिलें, ''तुमकां वेगीं भिस्मदेवान कांय् कार्य आस म्होणुं आपैल्याति.''

तें उतर आयूकुनु ते दोगैं जण भिस्मदेवाच्या मन्दिराडे आयूले. भिस्मदेवान हातिं धोर्नु येकांत स्तानीं व्हेले. ''ह्या दुर्यधनाची बुधि तुमंकां मना येता? हे पण्डुचे पुत्र आपुले बापलभाव, तांकां घड्ये घड्ये घातु कोरुंक वर्तला. तुमीं ताका बरी बुधि सिखै नांति.'' तावळि दृतरास्टरान म्हळें, ''स्वाम्या, कितुले वेळे म्होणु ताका बुधि सांगूं? मागां कोणें असल्यो करण्यो केल्योचि नांति. ऐसल्यो करण्यो आपुले बुधिन कर्ता. आपुल्या घरा भितर्ले आपुले बापलभाव, तांकां वायूट करुंक कर्ता. मजो पुत्रु म्होणु हांव कांय् ताका बरें देख नां. आतां जैसें तुमंच्या विचारा येता तें तुमीं कऱ्या. आमचे लागीं विचारुं नाकाति.'' तावळि तेणेंचि प्रमाणीं विधुरानै म्हळें, ''सते हो दुर्यधनु त्यां पाण्डवांक ह्या राज्या निमितीं वायूट करिता खरें. अठेरा खेवणी सहिने, रथ, हस्त कुंजर घोडे इतुकें ह्या दूर्यधना लागी आसतनां, ताच्या गुरू दृणान दृपदु धोर्नु हाडि म्होणु मागिल्यारि नेदेव जालो[4]. येकल्या अर्जुनान येका रथान वचुनु, त्या दृपदा राया लागी अगणित सहिने आसतां, येकल्यान इतुकेंय् जिकुनु दृपदाक धोर्नु रथाच्या द्वजस्तम्बाक बांदुनु, अस्तानपुराक हाडुनु, आपुल्या गुरू दृणाचार्या हातिं दिलो. ऐसी त्या अर्जुनाची ख्याति भुमण्डळिच्यां खेत्र्यां मधें जाल्या. त्या निमितीं दुर्यधनु थोरु अपमानला. आपण्या पासिं अर्जुनु खेत्री थोरु जालो. दृपदु राव् खिणा मधें धोर्नु हाडिलो. तें देखुनु दुर्यधनु वायूट कर्ता. आपुल्या वंसा भितरी येकल्यान ख्याति जरि केली, तरि ताणें सोन्तोसु घेउंचो. तें न्होये कोर्नु आपुले मनीं थोर दुख घेता[5]. तो पापि, ताका परमेस्परु बरें नकरिं. तरि तुमीं दुर्यधना वा पाण्डवांक आपौनु हाडुनु, ह्याचि सभांतु[6] तुमीं म्हालगडे बैसले आसतां, समेस्त राजे सहिने, घोडे, रथ हस्त जें भाण्डरांतु द्रवे आस इतुकेंय् अर्दादी वांटुनु दिवया. दिउनु येकमेकाक समजाया आणी हें इतुकें जरि नज तरि येकमेका

भितरि मार्नु मार्ती. जें उतर हांवें[7] उलैलां तें दृतरास्टराच्या मना येता कि नये.'' ऐसें विधुरान भिस्मदेवाक सांगिलें. तें उतर आयूकुनु दृतरास्टरु म्होणुं लागलो, ''जेतुकें तुवें उलैलां[8] तेतुकें माका मानलें. हें राजे तंव पण्डुचें. समेस्त राजे तांकांचि फाव. तें न्होये कोर्नु तुमीं अर्दादी राजे समेस्त वांट्नु दितातात. हें तुमीं भोउ बरें करितातात. मज्या मना येता.'' हें उतर भिस्मदेवाक मानलें.

तावळि दुर्यधनाक वा पांचै पाण्डवांक आपौनु हाडुनु त्यां सभांतु[9] बैसैले. बैसौनु भिस्मदेउ म्होणुं लागलो, ''तुमकां येकमेकांक आतां पड नां. तुमीं येकमेकां भितरि घाताक वर्तल्याति. तरि तुमकां हांव सांगतां. ह्या विधुरा, दृतरास्टरा देखतें उतर तुमीं दोनियू वर्ग बरें मान्या आणी जरि मानिं नां जाश्यात तरि हाचें फळ तुमीं पावश्यात, आमंचेरि बोलु नां तें[10]. आतां हें राजे, समेस्त द्रवे, मोत्यां, रत्नां, रथ, हस्त, घोडे, सहिने इतुकेंयू तांकां आणी तुमंकां अर्दादी वांट्नु दितां. तें तुमीं घेउनु आपापुले कडे वोगे रावा.'' तें उतर आयूकुनु दुर्यधनु जैसें तेल घाल्यारि उजो जळता तैसो रागान जळुं लागलो[11], ''बरें तुमीं व्हडानीं वांट्नु दिलें. समेस्त राज्याचो धनी हांव. राजे माका फाव. तुमच्या हातान राजे पाटु तुमीं बांदुनु, राजे समेस्त हस्त, घोडे, सहिने, भाण्डारां, गड, कोट वोपुनु मजे हातीं राजे मुद्रा देउनु माका रावू केलो. तेदुसुचि तुमीं माका निरोपु देउंचो आसिलो कि अर्दाचि राज्याचो धनी तुं. अर्द राजे पण्डुच्यां पुत्रांक आपण ठेयूतां ऐसो निरोपु माका जरि दिलेलो तरि हांव वोगोचि रावतों. हें ऐसें आसतनां भिस्मदेवा हें तुमंच्या मना येता तरि तुमीं द्या हांव येका तिळा येतुकी भुमिका पाण्डवांक नेदें.''

ऐसें दुर्यधनाचें उतर आयूकुनु ती सभा समेस्ति वोगिचि राविली. भिस्मदेउ म्होणुं लागलो, ''तुं मजें उतर मानीं नांसि. तरि ते पाण्डव खेत्री थोर. खिणा मधें हें भुमण्डळ जिखती. तुं रावू जाला म्होणुं अठेरा खेवणी सहिने, इछ्या मरणीं विर तुजी शेवा करितातात. हस्त, रथ, घोडे अगणित देखुनु तुं तांकां बळ कोर्नु राजे नेदे म्हणतासि आणी मज्या उतराक मानु नेदेसि. परमेस्परु राजे जरि देउंचें तरि ह्यां पाण्डवांक दित आणी आपुले धनुर्विधेच्या बळान हें समेस्त त्रिभुवन जिखति.''

हें उतर दृतरास्टरान आयूकुनु आपुल्या पुत्रा दुर्यधनारि कोपलो. ''हें राजे

समेस्त तांच्या बापा पण्डुचें, पाण्डवांक फाव. तुं जो नेदे म्हणतासि तो काये विचारु तरि तुजी बुधि न्होये. जो कांय् भिस्मदेवान निरोपु दिला, तो मस्तकारि धोर्नु सते मानि. हें राजे शेरिर आणी लखमि कोणाकै स्थिरि न्होये. सवंसारीं प्राण्यान जल्मल्या परउपकारु, दानु धर्मु कोरुंचो. परमेस्पराची भग्ति कोरुंची. तावळि परमेस्परु बरवें कर्तलो[12]. तरि तुं राव् म्होणु आपुल्यां घरिंच्यां बापलभावां पाण्डवांक गांजुनु राजे नेदे ऐसें म्होणुं तुं म्हणतासि. तरि तुजीं उतरां कोणाकै मना नायेति. तांचें अर्द राजे तांकां दी." ऐसें म्होणुं दुर्यधना लागिं उलैलें[13]. आपुल्या बापा दृतरास्टराचें उतर आयूकुनु, ताका विनौं लागलो, "जें कांय् तुमीं म्हणताति इतुकेंय् मन्या मना नये. हांव तंव कांय् नेदें आणी जें तुमंच्या मना येतें तें तुमीं कऱ्या." ऐसें रागान बोलुन आपुल्या राज मन्धिरीं गेलो. राजसभा उठिली. समेस्त आपापुले घघरा[14] गेले.

फुडां त्यां पाण्डवांक भिस्मदेवान आपौनु म्हळें, "हो दुर्यधनु तंव अधर्मान चालता. आमंचें उतर, आपुल्या बापा दृतरास्टराचें, विधुराचें, आपुले माये गान्दाऱ्येचें इतुक्यांचेंय् उतर हो मानीं नां. हो फुडां बऱ्या भल्याक पाव नां. तुमकां राजे देउंचें तें परमेस्परु दित. तुमीं कांय् चिन्ता कोरुं नाकाति. परमेस्पराची कृपा तुमचेरि जायूत. येकु जरि आपण्याक वायूट करिता तरि भल्यान वायूटसें म्होणुं मानुं नये. ऐसें हें धर्मीं श्यास्त्रीं आस. तरि तुमकां येक नगर राउंक वरुणावत तुमकां आमीं घेउनु दिताउं. थैं तुमीं वचुनु रावा आणी राजे तें तुमीं कऱ्या." ऐसें भिस्मदेवान पांचैं पाण्डवां लागिं उलैलैं. तावळि ते विनंती कोरुं लागले, "स्वाम्या, हें राजे तंव समेस्त तुमगेलें. तुमीं आमंच्या बापा पण्डुक दिललें. तो पण्डु परमेस्पराच्या digo[15] रुसेस्पराच्या स्रापा निमितीं अरण्यांतु गेल्या उपरांतें, तुमीं होउनु हें राजे दुर्यधनाक दिलें. आतां तो तुमंचें उतर मानीं नां. ह्या वरि स्वाम्याचो निरोपु." ह्या उतरारि भिस्मदेवान म्हळें, "तुमंकां वरुणावत नगर दिलां थैं तुमीं वेगीं वचा."

फुडां ते माये कोनूत्येक सांगातिं घेउनु पांचैं जण पाण्डव वरुणावता नगरा गेले. धर्मु व्हडलो भाउ, ताका सिहांसणावरि बैसैलो. चोउगैं जण शेवा कोरुं लागले. नगरांतुलो लोकु समेस्तु येउनु भेटलो. ऐसें ते राजे करितां भोउत काळ भरले.

फुडां त्या दुर्यधना रायान येकि बुधि आपुल्या मनांतु आटैली. 'हे पांचै पाण्डव धनुर्विधेन थोर जाल्याति. मजें समेस्त राजे जिखुनु बळान घेत. येकि घडी नलग, तरि वैर केलेल्यान माका हे सांपडनांति. हांकां मेळौनु इस्टागति करुनु भिमशेनाक वा अर्जुनाक ह्यां दोगांकै मारुंचे. तावळि हें अस्तानपुर माका थिर जायूत' म्होणु आपुल्या रथारि बैसुनु थोडेंचि सहिने, हस्ती, घोडे सांगातिं घेउनु वरुणावताक आयूलो. दुर्यधनु येता देखुनु पांचै पाण्डव फुडे गेले. वरुणावत नगर सृंघारिलें. वाजनूत्राच्या विनोदान अनन्दु उछावू कोर्नु आपुल्या सिहांसणावरि हाडुनु बैसैलो. बरे प्रकारिं पुस्वां रत्नां हाडुनु फुडें ठेयूलीं[16]. आपण पांचै जण उभे राउनु शेवा कोरुं लागले. ऐसि शेवा करितां सांज जाहाली. फुडां दुर्यधनाक हातिं धोर्नु आपुल्या राजे मनूधिरांतु व्हेलो. कोन्ती येउनु भेटली. पाये धुयूले. बरे प्रकारीं सन्मानिलो. नानां परिचिं खाजिं, खण्डरोस, पोकुवानां ताठां भोर्नु हाडिलीं. दुर्यधनु राव् वेले पंकतिक बैसैलो. आपण पांचैं जण पाण्डव सकल बैसले. समेस्त लोकाक बैसुंक निरोपु दिलो. समेस्तु लोकु जेउंक बैसलो. कोनूत्येन वाडिलें. ऐस्या परीं जेउनु समेस्तांक आउंक, दुर्यधनाक आउंक धर्मान आपुल्या हातान उदक हातारि घालें. कर्पुर पानाचे विडे दिले. चन्दन कुंकुम कस्तुरि गुलाबु नानां परिचीं परिमळ पुस्वां देउनु, सुख सयेन्ी भोंवर पालकावरि निद्रा केली. च्यारियू प्राहार रात्रि सार्ली. फुडां सुर्यु उदेवू जालो.

तावळि ताणें आपुलें स्थानु सारुनु परमेस्पराचें सुमरण केलें. सर्व सृंघारु कोर्नु राजा सिहांसणावरि बैसलो. तावळि दुर्यधनु म्होणुं लागलो, "धर्म राया, तुमीं आमंचे ठांयू भोउ निस्टुर जाहाले. तुमीं आमकां सांडिले. कोणु अपरादु मजो तुमीं देखिलो तरि ताचो कांयू विसेसु नां. तरि तुमकां देखूंक उमळशिक लागली. देखुनु तुमंचे भेटेक हांव हांगा आयूलों. आतां तुमीं पांचै जण आमंच्या राज्यांतु या. तुमंच्या म्हाताक वा म्हावेक तुमकां देखुंचें दिस नां? ऐसे तुमीं निस्टुर जाहाले[17]." तावळि धर्मान म्हळें, "आमकां पांचैं जणांक खैं येउंक जाता?" "तुमकां पांचांक जरि येउंक नज, तरि भिमशेन वा अर्जुनाक धाडि." त्या उतरारि अर्जुनान म्हळें, "माका थैं वचुंक नज. कांयू कार्य आस." तावळि भोउतेकां प्रतिचिं उतरां दुर्यधनान धर्मा लागी उलौनु, भिमशेनाक निरोपु मागुनु, कोनूत्ये लागी विचार्नु, ताका अस्तानपुराक घेउनु आयूलो. फुडां विधुरा वा

भिस्मदेवाक भेटैलो. तानीं बरो सन्मानिलो. "दुर्यधनु आणी तुमीं पाण्डव येकचि जाले. दुर्यधनु राव् तुमंच्या नगरांतु वरुणावताक गेलो. तुमीं ताका बरो सन्मानु केलो. आतां तो तुका सांगातीं घेउनु आपुल्या राज्यांतु आयूलो. हिचि बुधि तुमकां परमेस्परु देउं." तावळि भिमशेनु भिस्माचो, विधुराचो निरोपु मागुनु दुर्यधनाचे राजभुवनीं गेलो. दृतरास्टराक, गान्दाऱ्येक दोनियू हात जोडुनु सास्टांग पायां पडलो. तानीं म्हळें, "तुका परमेस्परु बरें कोरुं." ऐसें आसतां जेवण खाण जालें. रात्रि जाली. दुर्यधनान आपुल्या प्रधानाक आपैलो. "येकलोचि वैरी आमंचे हातिं मेळला. आतां ताका मारुंचो. हाका आमीं कोणी बुधि कोरुंची?[18]" तावळि ताणें म्हळें, "स्वाम्या, तुमंच्या मना जें येता तेंचि कऱ्या. हाका शेस्त्रानीं हाणुनु मारुं जरि म्हळें, तरि आंगाक घाये लागती आणी पोटळुनु धर्नु मारुं जरि म्हळें, तरि बळान अदिकु कोणाक आटाप नां. आतां येक कोरुंचें. विख घाल्नु हाका मारुंचो. बरिं खण्डरोस पोकुवानां आजि रात्रि रांदुचिं आणी तिं हाका वाडुंचीं. खाज्यां भितरि लाडुवांरि भोउ प्रति ह्या भिमाक आस. तरि त्यां लाडुवांतु विख घालुंचें. लाडु बरे मोउ मोवाळ कोरुंचे. तो ते खातां हाका रुचि लागत. ते खेल्या उपरांतें विखाच्या बळान मरत. मेल्या उपरांतें लासुनु गोबरु कोर्नु घालुं." ऐसी बुधि दुर्यधना रायान मना हाडिली. "आजि आमंचे घरीं खण्ड रोस, पोकुवानां कऱ्या. भिमशेनु आमंचो बापल भाउ आमंचे घरिं जेवणाक हाडिला. नानां प्रकारिचीं खाजिं कऱ्या. लाडुवांचिं खाजिं कर्तनां आमकां सांगा." ऐस्या परीं आपुल्यां घरिंच्यां समेस्तांक निरोपु दिलो.

फुडां विख प्रधाना शेकुनिच्या हातीं दिउनु त्या पिटांतु घालें. बरे लाडु केले. मोवाळ केले. खण्ड रोस, पोकुवानां वोगोर्नु – वाडुनु ताटां भोर्नु हाडिलीं. दोगैं भिमशेनु वा दुर्यधनु येके पंकती बैसुनु जेउं लागले. नानां परिचिं खाजिं पोकुवानां वाडिलीं. लाडु भोउ भिमशेनाक वाडिले. दुर्यधनाक दोनि च्यारि लाडु वाडिले. पण तो खायू नां जालो. ते लाडु मोवाळ रुचिकारसे देखुनु भिमशेनान भोउ खेले. जंव जंव ताटांतुले लाडु सारिति, तंव तंव भोउ हाडुनु वाडिति. तावळि तो खाये. ऐसे जेउनु उबटले. कापुर्वेलिच्या पानांचो विडो दुर्यधनान आपुल्या हातान दिलो. पण ताच्या जिवाक सुख नां डोळ्यांक निद्रा भोउ येता. तावळि दुर्यधनु म्होणुं लागलो, "भिमशेना तुं आजि ऐसो कित्या?" तावळि तो म्होणुं लागलो,

''आजि मज्या जिवाक सुख नां. डोळ्यांक निद्राचि येता.'' तावळि दुर्यधनान आपुल्यां शेवकांक म्हळें, ''चित्र साळ्यांतु[19] भोंवरु पालकु मंचकु बरे परि सृंघारुनु भिमशेनाक निद्रेक ठाव् वेगीं कऱ्या.'' रायाच्या निरोपा प्रमाणीं मंचकु सृंघारुनु आयूले. येउनु रायाक सांगिलें. त्या भिमाक हातीं धोर्नु दुर्यधनान ते चित्रसाळ्यांतु[20] त्या मंचकावरि ताका पोउडैलो. आपण पर्तुनु आपुले राजे मनूधिरीं आयूलो.

फुडां मध्यानि रात्रि जाहाली. भिमशेनाचो प्राणु गेलो. सांगातिं जे शेवक आसिले तानीं जागैलो. पण तो कांय् उलै नां ऐसी चारिय् प्राहार रात्री क्रमविली. सुर्यु उदेव् जाहालो. राजा दुर्यधनु उठुनु सर्व सृंघारु कोर्नु आपुल्या सिहांसणावरि येउनु बैसलो. समेस्तु परिवारु मकुट वर्दनिक राये येउनु दोनिय् हात जोडुनु जुंवार कोर्नु पायां पडले. रायान आपापुल्या ठाया बैसुंक निरोपु दिलो. फुडां आपुल्यां शेवकांक दुर्यधनान पाचारिले, ''आरे, भिमशेनु चित्र साळ्यांतु[21] निदेललो आजुनु उबटौनु आयूलो नां. वेग्रीं वचुनु पळेउनु या.'' हें रायाचें उतर आयूकुनु काठिकार धा पनरा जण चित्र साळ्यांतु[22] धाउंनु गेले. वचुनु येकि ठांय् उबे राविले. भिमशेनाच्यां शेवकांक आपैले. ''आजुनु हो निदेलेलो कित्या उबटालो नां?'' तावळि ताणीं म्हळें, ''हाका प्राणु नां. मध्यान रात्री हाचो जिउ गेलो. इतुकेंचि आमीं जाणाउं. वेलो विचारु कांय् आमकां कळ नां.'' तावळि चित्र साळ्यांतु[23] ठाउनु पर्तुनु येउनु रायाक सांगिलें, ''स्वाम्या, भिमशेनाक कुडिंतु प्राणु नां. जिउ गेलो, इतुकें ताच्यां शेवकानीं आमकां सांगिलें. तें होये कि न्होये म्होणुं आमीं आपुल्या हातान जागैलो. तरि तो कांय् नेण. मोर्नु पडला.'' हें उतर दुर्यधनान आयूकुनु त्या राज सभांतु[24] समेस्त मकुट वर्दनिक रायां देखतें आपुल्यां दोनिय् हातानीं कपाल पेटुं लागलो. ''हाहा थोर वायूट जाहालें. हांवें हाडिलो म्होणुं मजेरि अपेस पडलें. भिमशेनु तंव नुसुदोचि मेलो. आतां हांव कितें करुं?'' तंव सभेच्या लोकान म्हळें, ''राया तुं कितें करिसी? जें होण्यार जाउंचें आसिलें तें जालें.''

तें उतर राज मन्धिरीं दृतरास्टरा गान्दाऱ्येन आयूकिलें. आयूकुनु आपुलें हर्धें दोगांय् जणां पेटुनु घेउं लागलिं. ''आरे पाप्या दुर्यधना, हें कितें तुवें घराडे आपौनु हाडुनु भिमा सारिखें रत्न नासिलें.'' ऐसें म्होणुं तीं दोगांय् जणां रुधन

कोरुं लागलिं. ही खबर भिस्मदेवान आणी विधुरान आयूकिली. आयूकुनु थोर दुख केलें. "ऐसो हो पापी दुर्यधनु आपुल्या घराडे आपौनु हाडुनु विख घाल्तु मार्ता. आमीं तांकां येक वरुणावत देउनु थैं रावैलले आणी समेस्त राजे आपण्या आदिन आसतनां, आपण तांच्या घराडे वचुनु, बरीं प्रतिचिं उतरां उलौनु, त्या भिमशेनाक सांगातिं हाडुनु, दोगैं येके ठांय् जेउनु, ऐसो घातु केलो. असल्या पाप्यावरि आमंची दृस्टि पडुं नये." ऐसें भिस्मदेवान म्हळें. तें उतर आयूकुनु विधुरु म्होणुं लागलो, "आतां थोर विग्न[25] ह्या अस्तानपुरांतु जायूत. अर्जुनु म्हा कोपारुडु जाउनु येत. दुर्यधनाक वा समेस्त सहिन्याक मारित. ऐसो विचारु आतांचि जायूत." तावळि भिस्मदेवान म्हळें, "विधुरा झैं भिमशेनु मेला थैं तुं वच. ते कोउरव ताका लासुंक जरि व्हर्ती, तरि तांकां व्हरुं दिउं नाका. कित्या म्होणुं दुर्यधनु विचारित, तरि तुं ताका ऐसें म्होणुं म्हण : आमीं वरुणावताक पत्रिका धर्माक बरैल्या. तो वा ताची माये कोन्ती, अर्जुनु वा नकुलु, सायूदेउ येउनु, आपुल्या भावा भिमशेनाक डोळ्यानीं पळेती. होउ भिमशेनु निदेलेलो कडे सर्पान चाबिलो की कोणें विख घाल्तु मार्लो, ऐसे आपुल्यां डोळ्यानीं पळेउनु हाका लासिती. ऐसें म्होणुं तुं ताका उतर दी."

तें उतर आयूकुनु विधुरु चित्रसाळ्यांतु[26] बैसलो. थैं दृतरास्टरु आणीं गान्दारी आयूलीं. तानीं विधुरु देखिलो. देखुनु म्हा बोबाटि रुधन कोरुं लागलिं. दुर्यधनु आपुल्या प्रधाना सैत आयूलो. म्हा रुधन कुळाळु कोरुं लागलो[27] तावळि समेस्तां वोगिंचि राविलीं. कोण कोणा लागी उलै नां. तावळि प्रधानु शेकुनी म्होणुं लागलो, "राया, कितुलें दुख म्होणुं कर्तासि? जें कांय् जाउंचें जालें. आतां आमीं ऐसें कोरुं या. नगरा भायूर व्होर्नु हाका जळुं या. तडौ केललो कामा नये." तें आयूकुनु विधुरु, दृतरास्टरु वा गान्दारी म्होणुं लागलिं, "हाका लासुंक व्होरुं नये. हाचि माये कोन्ती धर्मु वा अर्जुनु, नकुलु, सायेदेउ येउनु हाका पळेती. मागिरि जें कांय् आपण्याक टांकत तें कर्ती. हो कांय् सर्पान चाबिलो कि विखान हाचो जिउ गेलो, ऐसीं तिं पळेती. तुमीं हाका लासुंक व्हरुं नाकाति. तुमकां कस्ट नाकाति." ऐसें विधुराचें उतर आयूकुनु दुर्यधनु मनीं खोंचलो. आपुल्या प्रधान मनूत्री वर्गां सैत पर्तुनु आपुले राजे भुवनीं आयूलो. समेस्त आपुल्या सहिन्याक मकुट वर्दनिक रायांक निरोपु दिलो, "तुमीं समेस्त

मुस्तायूती जाउनु, आपुलीं शेस्त्रां अस्त्रां, रथ, घोडे, हस्त, इतुकेंय् तुमीं सांगातिं घेउनु, राज द्वाराडे बैसा.'' ऐसो रायाचो निरोपु जालो. तेणे प्रमाणीं समेस्त विर येउनु राज द्वाराडे बैसले.

ऐसी कथा सुख इन्द्रान जन्मजयाक सांगिली. विनोदाची कथा देखुनु दुसेरि आण्येकि सांग म्होणु विनंती कोरुं लागलो.

## टीप

1. धनुर्विध्येन
2. मना प्रमाणें न्हय
3. ते
4. दिना जालो
5. समासांत लॅटीन भार्शेत : invidia etiam inter parentes (सोयऱ्यां भितर सैत दुस्वास) आसा.
6. हेचि समेंतु
7. हांव
8. तुं उलैला
9. ते समेंतु
10. आमकां गुन्यांवकारी करुं नये
11. समासांत : ira magna (क्रोध) बरयलां
12. पानाचे कडेक : bonis opus premium (बऱ्यांक इनाम)
13. उलैलो
14. घरा
15. पुर्तुगेज बरयताना उतरांत चूक जाली जाल्यार तें उतर कातरनांत, पूण digo (हांव म्हणतां) अशें बरयतात आनी चुकलां थंयथावन नव्यान बरयतात. देखून हांगा 'परमेस्पराच्या' हें उतर सोडपाचें.
16. पानाचे कडेक : exypere hospitem (सोयऱ्याक येवकार?) अशें आसा.
17. पानाचे कडेक : verba lenia fraudulenta (मोवाळ फटकिरिं उतरां) बरयलां.

18. पानाचे कडेक :ouix (?) idoneum consilium (कसलो उपाय करचो) अशें बरयलां.
19. साळेंतु
20. चित्रसाळेंतु
21. साळेंतु
22. साळेंतु
23. साळेंतु
24. सभेंतु
25. 'विग्न' ह्या उतरा बदला मसुद्यांत 'अनर्थ' उतर आसा आनी ताचे वैर 'विग्न' बरयलां. पानाचे कडेक 'अनर्थ' ह्या उतराचो अर्थ पुर्तुगेजींत असो दिला : trabalho, tribolação, mal infortunio, desventura (त्रास, कस्ट, वायट, दुर्भाग्य, फुटकें नशीब)
26. चित्रसाळेंतु
27. पानाचे कडेक एक अस्पश्ट लॅटीन टीप आसा.

# धावी कथा

फुडां भिस्मदेवें विधुरें । पत्रिका लिहिली धर्मा अर्जुनार्थे । भिमशेनु अस्तानपुरातें । मृत्यु हौनु पडलासे ।

फुडां भिस्मदेवान वा विधुरान ऐसी पत्रिका आपुले नांविची बरौनु, धर्मा, अर्जुनाक, कोनूत्येक लिहिली. ''भिमशेनु कालिचे दिवसीं दुर्यधना सांगातिं अस्तानपुराक आयूलेलो. त्या भिमाचो प्राणु वचुनु पडलो. कोणु विचारु ताका जाहालो हें तंव आमकां नकळ. तरि तुमीं आतां तुमंची माये कोन्ती सैत तुर्त येउनु भिमाक पळेया. हाका कांय् सर्पान मार्लो कि विख घालल्या प्रसंगीं मेलो, कोणा प्रस्तायान मेलो. आतां हें कागद देखत खेवीं उटाउटीं येउनु पळेउनु वचा.'' लिहुनु एसें म्होणुं पत्रिका आपुल्यां शेवकां हातीं दिउनु, वरुणावता नगराक पाण्डवांक धाडिली. ती पत्रिका शेवकानीं धर्मा रायाक दिली. फुडां वाचुनु जरि पळे, तरि भिमशेनु मेलो म्होणुं लिहिलां. तें आयूकुनु कोन्ती वा अर्जुनु, नकुलु सायेदेवु भोउ रुधन कोरुं लागले. फुडां धर्मान म्हळें, ''तुमीं रडुं नाकाति. आमीं आतां अस्तानपुराक या. थैं गेल्यारि समेस्तु विचारुं मना येत.'' ऐसें म्होणुं चौगैं जण पाण्डव तांची माये कोन्ती सांगातिं घेउनु अस्तानपुराक आयूले. दुर्यधनाच्यां शेवकानीं रायाक सांगिलें, ''अर्जुनु, धर्मु, नकुलु, सायेदेउ, कोन्ती भिमशेनाक पळेउंक आयूल्यांति. तुं वोगोचि आपुले कडे राव. अर्जुनाचे दृस्टी पडुं नाका.'' हें उतर राया दुर्यधनाक मानलें. सांगातिं थोर थोर[1] विर घेउनु आपुल्या राज मन्धिरांतु बैसलो. फुडां ते चौगैं पाण्डव कोन्ती झैं भिमशेनु चित्रसाळांतु[2] मेललो थैं वचुनु पळेउं लागलिं. भिमशेनाचें मडें देखुनु भुमिरि लोळुनु रुधन कोरुं लागलिं. तिं रुधन कर्तांति देखुनु दृतरास्टरु, गान्दारी, विधुरु, भिस्मदेउ जे थोर थोर म्हातारे येउनु त्यां पाण्डवांक समजाउं लागले, ''जें होण्यार जाउंचें आसिलें तें जालें. आतां तुमीं रडल्यान कांय् हो पर्तुनु येता? तुमंच्या फुडाराक दिस्टि देउनु चाला.''

तावळि धर्मा कोनूत्येन म्हळें, ''आगाये भिस्मदेवा, गान्दाऱ्ये, दृतरास्टरा, विधुरा, हो दुर्योधनु आमंच्या घराडे वचुनु प्रतिचिं बरिं उतरां लाउनु भिमशेनाक सांगातिं हाडुनु, आपण दोगैं येके पंकती जेउंक बैसुनु, बरीं पोकुवानां कोर्नु भिमशेनाक वाडिलीं तांतुं विख घालें. तिं हाणें खेलिं. खातचि हाचो प्राणु गेलो.

ऐसलो हो पापि घातकी. येकि दोनि वेळे अर्जुनाक जिविं मारुंक केलो थैं परमेस्परान राखिलो. येकलोचि भिम हाचे हातिं सांपडलो. हाणें आपुलें वैर सादे केलें," ऐसें म्होणुं रुधन कोरुं लागलिं. फुडां भिस्मदेवान विधुरान तांकां समजायूलिं, "तुमीं कांयू चिन्ता कोरुं नाकाति. आतां ह्या भिमशेनाक वेगीं व्होर्नु जाळ्या आणि तो[3] दुर्यधनाक ह्या धर्माच्यां पायांवरि घाल्या." तें उतर आयूकुनु दुर्यधनु आपुल्यां पायांनिचि येकलोचि धांवत येता. तो येता देखुनु अर्जुनान धोणुकाक बाण लाउनु विन्दुचो. इतुक्या मधें विधुरान सास्टांग धर्निरि आड घाल्नु घेतलें. "अर्जुना, थांबा. तुं अविचारु करुं नाका." तें विधुराचें उतर आयूकुनु अर्जुनान धोणुक बाण आपुल्या शेवका हातिं दिले.

उपरांतें विधुरु त्यां चौगैं जणा भावांक आणी कोनूत्येक येकांतीं घेउनु गेलो आणीं तांकां सांगुं लागलो, "तुमीं ह्या भिमशेनाक लासुं नाकाति. हाका असोचि उखल्नु हाडुनु जाचेरि निदेललो तो माचो सैत हे बांगे[4] रात्रीं न्हैं माजारि घाल्या. हो मागुतेन येका वरुसान जिवो जाउनु येत. ऐसो विचारु आस." तें उतर सते तांकां मानलें. 'हो आमकां लटिक सांग नां सतेचि सांगता आणी हो जो आस तो परमेस्पराचो बग्तु. रात्रि दिवसु देवाचेंचि सुमरण कर्ता. हाचें उतर आमीं सतेचि मानुचें.' ऐसें मनीं मानिलें. फुडां त्या भिमशेना निदलल्या माच्या वा आंगिच्या सृंघारा सैत त्यां[5] न्हैंतु गालो. तो व्हाउनु वचुं लागलो. जंव पर्येनूत्र आपुले दृस्टिन ताका देखतालिं तंव पर्येनूत्र ताका चोयूतालिं. नेदेक जालिं, मग पर्तुनु आपुल्या वरुणावताक आयूलीं. हेर समेस्त अस्तानपुराक आयूले. फुडां तो भिमशेनु मंचका सैत व्हांवत वेता, पाताळ विव्हारांतु पडलो. तांतुल्यान व्हांवत वचुं लागलो. तो भोगावत्ये न्हैंतु पावलो. ते नैंच्या कांटारि सेसा रायाची कुमारि तिका नांव पद्मवती, ती पार्वतिचें ध्यान करी. तिका पार्वति प्रसन जाउनु अमृत तिचे हातीं दिलें. "जो कोणु मेलेलो येकु पुरुसु हे न्हैन[6] व्हाउनु येता ताका तुं तडीं काडुनु आपण्या लागिं बैसौनु च्यारि दिस ताका सेंस भरि. पांचवे दिवसीं हे[7] अमृत ताच्या मस्तकावरि घालि. तो जिवो जाउनु तुजो ब्रहतारु जायूत." ऐसें पार्वत्येन पद्मावत्येक सांगुनु तिचे हातिं अमृताची कुपी दिली. ती घेउनु ते न्हैंचे कांटीं आपुल्यो सख्यो सांगातिं घेउनु, बरें येक रायाच्या घरा सारिखें घर कोर्नु, तांतुं आपण बैसुनु रात्रि दिसु वाट पळे. तावळि त्या जन्मजयान म्हळें,

''तुवें सांगिललें मज्या मना आयूलें. पण एक तुजे लागी विचारितां. ती पद्मवती कोणि, कोणा रायाची कन्या, कित्या इतुले काळ थंय् आसिली? हें तुं माका बरें मना हाडुनु सांग.''

तावळि तो सांगुं लागलो. ही शेसांची कुमारि पद्मावती आपुल्या बापाचे घरिं आसतां येकु रुसेस्परु दोनि प्रहारांचो भिक मागुंक[8] आयूलो. ताणे हे पद्मावत्येक भिक मागिली. टप कोर्नु हाडुनु तिणें भिक दिली नां. ताका तडौ जाहालो. तावळि तो रुसेस्परु कोपुनु तिका स्नापु दिलो, ''जो ब्रूहतारु तुका मेळत तो मरों.'' स्नापु आयूकुनु ती थर थरां कांपिली. ''स्वाम्या, हांवें तरि अपरादु केलो नां. हांव कांय् नेणां तुं थोरु रुसेस्परु. तुवें तरि आतां माका स्नापु दिलो म्होणु माका कोणाचेय् बायूलेपणाक व्हर नांति. तरि तुं आतां माका उस्नापु दी'' म्हणौनु ताका सास्टांग पायां पडली. तावळि ताका कृपा उबटली. ''आरे[9] पद्मावत्ये, तुं आतां पार्वतेची शेवा करि. ती तुका निर्जिउ भ्रतारु दित आणी अमृताची कुपी[10] दित. तावळि तुं भ्रतारु पावसी[11]. तुं आतां कांय् चिन्ता कोरुं नाका. सुखी आपुले घरिं वच.'' ऐसी ती पनरां वरुसांची जाहाली. पण कोणागेरि सोहिरिकेक येउनु माग नांति, त्या रुसेस्पराच्या स्नापाच्या भ्यान. ऐसी ती आसतां पार्वत्येची शेवा करी. फुडां पार्वती प्रसन जाउनु अमृताची कुपी दिली आणी ''निर्जिउ भ्रतारु तुजो दादुलो जायूत'' म्होणु म्हळें. हें इतुकें पार्वत्येन सांगिलेल्या निमितीं घर बांदुनु न्हैंचे कांटीं आपुल्यां सख्यां सैत राविली.

फुडां त्या भिमशेनाचें मडें त्या माच्या सैत व्हांवत व्हांवत न्है माजवेल्यान ते पद्मावत्येच्या घरा सामुखें पावलें. तावळि तिणें आपुल्यां डोळ्यानीं येकु मेलेलो पुरुसु व्हांवत येतालो देखिलो. देखुनु हातीं तांदुळ घेउनु त्या मड्यारि उडैले. 'सते जरि माका पार्वत्येन हो भ्रतारु दिलो तरि ह्मैं हांव उभीं आस थैं हो आपणचि येत. नां तरि आपुले वाटे वचत' म्होणुं आपुले हातिचे तांदुळ तिनि वेळे ताचेरि उडैले. तावळि तो टप कोर्नु ह्मैं पद्मावती उभी आसिली थैंचि आयूलो. तिणें देखुनु आपुल्यां सांगातिण्यां[12] सैत उखल्नु वैरि काडिलो. ताचीं लखेणां जरि पळे तरि राजा लखेण. आंगावरि समेस्तां रत्नां भुसणां. ऐसो तो पुरुसु देखुनु आपुल्यां सख्यां लागीं उलैलें.[13] ''हो कोणी एकी देसिचो राव् म्होणु इतुक्यां आळंकारा सहित ह्मा[14] न्हैंतु घालो. तरि होचि मजो भ्रतारु

पार्वत्येन माका दिलेलो," म्होणु आपण ताच्ये अर्दांगीं बैसली. त्यां सख्यांक[15] म्हळें, "सेंस भऱ्या." तिच्या निरोपा प्रमाणीं समेस्तिनीं सेंस भर्ली. मागिरि आपुल्या बापाक सेसाक सांगुनु धाडिलें. "आपण ज्या कार्याक कश्टवतालीं तें परमेस्परान सिधी पायूलें" म्होणु येकि पत्रिका लिहुनु आपुल्या शेवका लागी देउनु बापाक धाडिली. ताणें कागत व्होर्नु शेसा लागी दिलें. तें ताणें वाचिलें. वाचुनु भोउ सोन्तसु जाहालो. आपुल्या प्रधाना लागिं म्होणुं लागलो, "जो पार्वत्येन दिलेलो बोलु पाळिलो. आतां आमीं व्हारडिकेची आयूतिका वेगीं कोरुंची," म्होणु प्रधानाक निरोपु दिलो. त्या शेसा रायांच्या निरोपा प्रमाणीं सर्व आयूतिका केली. जेतुले आपुले सोहिरे समन्धी सर्प नाग कुळां नानां परिंचीं आसिलीं इतुक्यांकै कागतां लिहिलीं. ते सकट व्हारडिकेक आयूले. झैं पदूमावती आसिली थैं सेसान माटौ[16] घालैलो. समेस्ति मुस्तायूती थंयू व्हेली. समेस्त सर्प नागकुळां थैं गेलीं. नानां परिचीं खाजिं भोजिं व्हारडिकेक केलीं.

फुडां त्या भिमशेनाक आणी पदूमावत्येक येके ठांयू बैसुनु[17], सख्यांक सेंस भऱ्या म्होणु निरोपु दिलो. निरोपा प्रमाणीं नानां परिच्यां नागांच्या अस्त्र्यानीं सेंस भर्ली. येणेचि प्रमाणीं च्यारि दिस पर्येनूत्र निर्जिउ भिमशेनु बैसौनु सेंस भरिति. पांचवे दिवसीं जि पदूमावत्येक अमृताची कुपी दिलली ती ताच्या मस्तकारि घाली आणी पदूमावती डावे कडे बैसली. तावळि जैसो निदेलेलो जागे तैसो तो डोळे उगडुं लागलो. दुशेरी डोळे आपुले डांपिले. दुशेरी शेसान आपुल्या हातान अमृत ताच्या मस्तकारि घालें. दुशेरी चोउनु डोळे ढांपिले. आपुल्या मनांतु म्होणुं लागलो, 'हांव भ्रमितु जालों काये. खैंचे हे सर्प? खैंची ही अस्त्री मजे लागिं बैसल्या? हांव सप्नेलों काये' म्होणुं भ्रमितु जाउनु डोळे उगडुनु डांपिले. तावळि सेसान म्हळें, "अगाये विरा, हें स्वप्न न्होये. हें पाताळ विवर. हें सर्पाचें नगर. तुजे लागी बैसल्या ती पदूमावती. आतां तुं बरो कोर्नु चोयू. तुं भ्रमुं नाका." तें उतर आयूकुनु भिमशेनु चोउं लागलो. तावळि ताणें भोंवतें देखिलें सर्प विसां फडांचे, चाळिसांचे, पनासांचे, श्याचे, दोनिश्यांचे, तिनिश्यांचे. ऐसे म्हा भयंकर सर्प आपापुल्या ठायारि बैसुनु धुंदुकारु कर्ताति आणी माटौ[18] चोकटु घाल्नु सृंघारिला आणी आपुले लागीं म्हा सुन्धरि अस्त्री बैसल्या. ऐसें ताणें समेस्त देखिलें. देखुनु आपुल्या मनांतु म्होणुं लागलो, 'खैं येउनु हांव पडलों? हें तंव

सर्पां नागांचें राजे. मजे डावे कडे येकि अस्त्री बैसल्या. नानां परिंचीं वाजांत्रां वाजताति. व्हारडिक तंव जाता.' ऐसें आपुले मनीं चिंतिता. सेसान म्हळें, ''आहो म्हा विरानो, तुमीं खैंचे, कोणाले, कोणु राजे तुमंचें, कोणु वंसु तुमंचो, कोणाचे पुत्र? तुमीं तरि म्हा स्वरुप सुन्थर. तुमंचे आंगावरि रत्नां, भुसणां, तुमीं कोण माका सांगा.'' तें उतर आयूकुनु तो भिमशेनु उलौं लागलो, ''आमंचें राजे अस्तानपुर. वंसु सोमवंसु. हांव पण्डुचो पुत्रु.'' तें तार्चे उतर आयूकुनु, सेसु राव् भोउ सोन्तोसलो. आपुल्यां समेस्तां नागांक सांगिलें. ''हे राये थोर राजकुळ्येचे बरी आमकां सोहिरिक मेळली.''

फुडां भिमशेनाक म्हळें, ''ऐसो विचारु कित्या जालो तें माका समुळ सांगा.'' तावळि भिमशेनान म्हळें,

> तुमीं बरें कोर्नु आयूका. आमीं पाण्डव पांचै आमंची माये कोन्ती सहित वरुणावता राज्यांतु राजे कोर्नु आसिलेलेउं. दुर्यधनु आमंचो बापलभाउ तो समेस्ता अस्तानपुरा नगराचो राजेधारु. तार्णे आमंचेरि वैर नानां परिचें केलें. तावळि त्या वैरा निमितीं ताका आमीं सांपडव नाउं. तें तो जाणुनु येके दिवसीं आमंच्या घराडे वरुणावताक आयूलो आनी भोउ सन्मानिलो. सिंहासणावरि बैसौनु नानां परीं रत्नानीं पुजिलो. आमीं पांचै जण ताची शेवा कोरुं लागलेउं. एणेचि प्रमाणीं आमच्या घराडे आसिलो. भोउ प्रतिचीं उतरां उलै आणी आमकां पांचै जणांक आपुल्या घराडे आपै. तावळि आमंच्या भावा धर्मान म्हळें, ''आमकां राजे सांडुनु पांचांकै खैं येउंक जाता?'' ''तुमकां जरि येउंक नज तरि भिमा अर्जुनाक धाड्या,'' ऐसीं भोउ दुखिंचीं उतरां उलौं लागलो, तिं धर्मान आयूकुनु माका येकल्याकचि निरोपु दिलो, ''तुं ह्या दुर्यधना राया सांगातिं अस्तानपुराक वच. तो आमंचेरि भोउ सिणता.'' तावळि हांव दुर्यधना सांगातिं अस्तानपुराक आयूलों. दोनि च्यारि दिवस पर्येनूत्र नानां परिंचीं खाजिं भोजिं मानु सन्मानु जैसो आपण्याक टांकता तेणे प्रमाणीं केलो. येकिचि पंकती दोगै आमीं बैसुनु जेउं ऐसें म्हळें. येके दिवसीं रात्रिचें उदण्डां खाजिं केलीं. मोतीलाडु,

शेवैलाडु, ऐसे लाडु भोउ केले आणी दोगैं आमीं जेउंक बैसलेउं, आणी जेतुकें केललें इतुलेंय् ताटां भोर्नु वाडिलीं. तिं खाजिं हांवें खेलिं. लाडुवांरि मजी प्रति थोरि जाहाली. जेतुके लाडु वाडिले इतुलेय् हांवें खेले. ऐस्या परी जेउनु उबटलेउं. बरे कापुर्वेली पानांचे विडे रायान आपुल्या हातान माका दिले. ते हांवें खेले. नानां परिचें गन्द परिमळ पुस्वां गुलाबु मज्या आंगावरि आपुल्या हातान घालो. इतुक्या भितरि मज्यां डोळ्यांक झेमै आयूली. हांव उबटाउनु[19] वचुनु पलंगावरि निदेलों. इतुकेंचि हांव जाणां, वेलें कांय् हांव नेणां.

तें उतर ताचें आयूकुनु सेसान म्हळें, "लाडुवांतु ताणें तुमकां विख घालें." तें आयूकुनु भिमशेनान म्हळें, "तुमकां हांवें मजो समुळ वृतावन्तु सांगिलो. आतां तुमीं तुमंचो सांगा."

तावळि सेसान म्हळें,

तुमीं चित देउनु आयूका. आमंचें घरिं ही पदूमावती आंकुवारि आसतां, येकु रुसेस्परु दोनि प्रहारांचो भिक मागुंक आयूलो. ताणें हिचे लागिं भिक मागिली. हिणें ताच्या उतराची बेपर्वा केली. तावळि तो रुसेस्परु कोपुनु हिका स्रापु दिलो. "जिवन्तु जो भ्रतारु मेळत इतुकोय् मरत." तें उतर आयूकुनु ही भोउ भिली. आमीं हे पदूमावत्येक सांगातिं घेउनु सास्टांग भुमिरि ताका पायां पडलेउं. "स्वाम्या, ही नेणारि. ही कांय् नेणा. तुमीं तंव स्रापु दिलो. हिका आतां कोणै बायूलपणाक तुमंच्या स्रापाच्या भ्यान व्हर नांति. ही तंव आमंचि कन्या. कोणे प्रकारीं हिका दादुलो मेळसो कऱ्या." तें उतर आयूकुनु त्या रुसेस्पराक कृपा उठली. हिका निर्जिउ भ्रतारु मेळों म्होणुं उस्रापु दिलो आणी "हे पदूमावत्येन पार्वत्येची शेवा कोरुंची, ती हिका प्रसन जाउनु अमृत दित. ही मजी वाच्या सते. तुमीं वचा भियेउं नाकाति." तावळि हे पदूमावत्येन न्हैंचे कांटीं घर बांदुनु भोउ काळ पर्येनूत्र पार्वत्येची शेवा केली. तावळि तिणें प्रसन जाउनु अमृत दिधलें. इतुक्या मधें तुमकां जिउ नाथिलले व्हांवत न्हैंतुल्यान वेताले ते देखुनु हिणें उबी राउनु ते पार्वत्येचें सुमरण

केलें. 'तुवें जरि हो भ्रतारु दिलेलो तरि व्हांवत जो वेता तो हांव उभी आसं थैं येत,' ऐसें म्होणुं हात जोडुनु उभी रावली. तावळि तुमीं पर्तुनु हांगा आयूले. तुमकां देखुनु हिर्णे सख्यां सहित वैरि काडुनु आपणा लागी बैसौनु सेंस भर्ली. माका मज्या राज्यांतु सांगुंक धाडिलें. नाग कुळां सहित हांवें येउनु माटौ घाल्नु व्हारडिक केली. च्यारि दिस निर्जिवचि तुमंकां सांगातीं बैसौनु सेंस भर्ली. पांचवे दिवसीं पदूमावती अर्दांगीं बैसौनु अमृत तुमंच्या मस्तकारि घालें. तावळि तुमीं सवचित जाउनु चोयूलें. दुसरी अमृत तुमंच्यां[20] तोंडांतु घाल्नु सिंपितां जिवन जाले.

ऐसें सेसान भिमशेनाक सांगिलें. तावळि तार्णे निमिगिलें, ''हें अमृत तुमंचे लागी खैंचें?'' तावळि सेसान म्हळें, येकु अमृताचो डोंगरु आस. ताच्या मस्तकारि नव कोंडां अमृताचीं आसति. थैं म्हा नाग तखेक[21] सर्प तिं कोंडां राखताति. त्यांचो धनी हांव. तीं अमृताचीं नवै कोंडां मजे आदिन म्हादेवान केल्यांति. आपुल्या निरोपा वेगळें कोणाक अमृत देउं नये. ऐसी राखेणा कोर्नु माका थैं ठेयूलो. ह्मे मजे कनेन पदूमावत्येन भोउ पार्वत्येची शेवा केली. तावळि ते पार्वत्येन म्हादेवा लागी मागुनु येकि अमृताची कुपी दिली.'' तावळि भिमशेनान विचारिलें : तो अमृत गिरी[22] खैं आसा माका दाखया. तावळि सेसान म्हळें, ''अमृत गिरी हांगा होउनु दिस्ता. तुमकां दाखैन'' म्होणु आपुल्या हातान दाखैलो. ''हांगा ठाउनु चाळिस गांव भुमिका आस.'' ऐसें म्होणुं त्या भिमशेनाक सांगिलें. तावळि तार्णे आपुल्या मनांतु म्हळें, 'हीं नवै अमृताचीं कोंडां पियेन आणी हे सर्प माका अमृत पियेउं नेदे जरि जाती तरि सर्प तखेकांक मारिन.' ऐसें मना हाडुनु वोगोचि रावलो.

ऐसी ही कथा जन्मजयाक सुख इन्द्रान सांगिली. ती कथा अमृत कोंडाचीं अपुर्वि आयूकुनु पुणती सांग म्होणु विनंती कोरुं लागलो. कथा समाप्त.

## टीप

1. मसुद्यांत हांगा थावन दोन पानां सांडल्यांत.
2. चित्रसाळेंतु

3. त्या
4. भागे
5. ते
6. न्हैंतु
7. हें
8. मसुद्यांत हांगाच्यान काणयेचीं फुडलीं पानां मेळतात.
9. 'आरे' हो आकार पुल्लींग आनी स्त्रीलींग दोनीय लिंगाच्या मनशांक लागू जाता.
10. मसुद्यांत 'कुपी' उतरा वैर पुर्तुगेज bule (शिसली) बरयलां
11. मसुद्यांत पानाचे कडेक : nubes sereis casada tereis marido (तूं लग्न जाशी, तुका घोव मेळत)
12. सांगातिणीं
13. उलैली
14. हे
15. मसुद्यांत : स्त्र्यांक
16. मसुद्यांत : मंटपु
17. बैसौनु
18. मसुद्यांत : मंटपु
19. उबटुनु
20. तुमंच्या
21. मसुद्यांत 'तखेक' हाचे वैर पुर्तुगेज उतर basalisco (सरोप) अशें बरयलां.
22. मसुद्यांत "गिरी" ह्या उतरा वैर पुर्तुगेज : oiteiro (दोंगर) बरयलां.

# इकरावी कथा

भिमशेनु बोले पद्मावतिसि : आमीं जाउं पाहुं अमृत गिरिसि, ती म्हणे सांगैन मीं तुमंसि, येक चितीं आयूकावें.

भिमशेनु पद्मावत्ये आपुल्ये अस्त्र्ये लागी विचारुं लागलो, ''आगे आमीं पेलो अमृत गिरिचो पर्वतु पळेउंया.'' तें उतर आयूकुनु ती विनती कोरुं लागली, ''स्वाम्या, थैं आमीं वचुं नये.'' तावळि ताणें कित्या म्होणुं विचारिलें. तावळि आपुल्या भ्रतारा भिमशेनाक सांगु लागली, ''त्यां अमृत कोंडां लागी तखेक म्हा सर्प राखताति. ते मनुश्याक थैं गेल्यारि चाबुनु मार्ताति. तावळि त्यां सर्पांच्या भ्यान कोण वच नांति आणी त्यां अमृत कोंडाचो धनी मजो बापु सेसु राव्. आमीं थैं सर्वथा वचुं नये.'' ऐसेंचि म्होणुं पांच आट दिस काडिले. तावळि भिमशेनान येके दिवसीं आपुले पद्मावत्ये अस्त्र्येक नसांगतांचि उबटौनु ते[1] अमृतगिरी लागी गेलो. ताणें थैं तीं नवै कोंडां अमृताचीं देखिलीं आणी भोंवते सर्प तखेक[2] राखताति. तावळि त्यां सर्पांक म्होणुं लागलो, ''तुमीं हांगा कित्या राखताति?'' तावळि तानीं जाप दिउनु म्हळें, ''आमीं अमृत राखताउं. तें आमंचे आदिन आमंच्या स्वाम्या सेसा रायान केलां. सेसा आदिन म्हादेवान केलां. ह्या अमृताचो धनी पार्वत्येचो पति.'' ऐसे ते सर्प भिमशेनाक सांगुं लागले. तें उतर आयूकुनु ताणें म्हळें, ''तुमकां समेस्तांक मार्नु हें अमृत येकादो पियेउनु वचत तरि तुमीं कितें करिश्यात?'' तावळि त्यां सर्पानीं म्हळें, ''तुका रायागेलो जांवय् म्होणुं आमीं गुजर्लों. हें उतर आण्येकु जरि उलैतो तरि ताका आमीं हांगाचि मार्तेउं. तरि तुं भलो मनुशु असलें उतर तुमीं उलौं नये. आजिचि उलैलें पुरो. आजि लेगिन ऐसलीं मरणांचीं उतरां कोणा लागी उलौं नाकाति. तुमीं आपुल्या सोन्तसाक हो अमृत गिरी पळेउंक जरि आयूल्याति तरि सोन्तोसीं पळेया. पण अगळिं उणीं उतरां उलौंचीं न्होये. हिं उतरां आमंचो स्वामी शेसु राव् तुमंचो माउं आयूकत तरि तुमकां कितें म्होणु म्हणत आणी हिं तुमंचीं आमंचीं उतरां म्हादेउ जरि आयूकत, तरि आमकां समेस्तांक वा सेसाक वा तुमकां गुजरी नां. आतां तुमीं वोगेचि पर्तुनु आपुल्या राजभुवना वचा झैं पद्मावती आस थैं.''

तें उतर भिमशेनान आयूकुनु आणीं त्यां नवय् कोंडांचो ठाव् फलाणे कडे आस, ऐसें बरें मना हाडुनु वोगोचि पर्तुनु आयूलो. येउनु पद्मावत्येक सांगिलें,

तुज्या बापान जे आपुले शेवक अमृत राखुंक ठेयूलले थैं आजि हांव गेलेलों. तें समेस्त चरित्र हांवें देखिलें. त्यां राखतल्यां सर्पांक आणी आमकां उदण्डां उतरां जालिं. हांवें तांकां म्हळें, "तुमीं अमृत कोंडां राखताति होये, तुमकां मार्नु हें अमृत पियेउनु गेल्यावरि तुमीं कितें करश्यात?" तावळि तानीं ऐसी जाप दिली, "तुं रायालो जांवय् म्होणु तुका आमीं पाळो दिलो. आण्येकु भलतो असलीं उतरां जरि उलैतो तरि आमीं ताका हांगाचि मार्तेउं." ऐसिलीं उणीं उतरां त्यां सर्पानीं तखेकानीं उलैल्यांति. तरि ह्यां उतरांच्या उण्यान हांव आस. आतां येकु दिसु हांव वचुनु ते सर्प मारुनु नवय् कोंडां अमृताचीं पितलों. तेणें कोरुनु अमरत्व पावन.

ऐसीं हिं वर्माचीं उतरां पद्मावत्येक सांगिलें[3]. तिं उतरां आयूकुनु तिका थोरि चिन्ता लागली, 'हो येकु दिसु थैं वचत, त्यां सर्पांक हो मारित, अमृत पियेत. ती खबर म्हादेउ जरि आयूकत, तरि ह्या भिमशेनाक मारित आणी मज्या बापा सेसाक कितें करित म्होणुं कोणु जाण.' ऐसें म्हणौनु आपुले मनीं चिन्ता कोरुं लागली[4]. 'परमेस्परा हें तुवें कितें केलें? येकाद्याक द्रव्याचो ठवो दाखैलो तो ताचे हातीं चडलो. ती खबर आयूकुनु राव् घेउनु गेलो[5] तैसें तुं माका कोरुं पळेतासि. माका निर्जिउ भ्रतारु दिलो. ताका केतिक कस्ट कोर्नु पार्वती प्रसन जाउनु अमृत तिणें देउनु हाका जिवन आमीं केलो. ऐसें आसतां हो दुसरी आपुल्या जिवाक विग्न हाडुंक कर्ता. ऐसली बुधि हाणें मनीं घेउनु रात्रि दिसु ते[6] अमृत गिरिचें सुमरण कर्ता. केदळां तें अमृत पियेन, तरि ही बुधि हाका परमेस्परा तुं देउं नाका. माका जरि तुवें भ्रतारु दिला तरि जल्माजल्मीं मजें अयावपण उरुसें करि.' ऐसें म्हणौनु परमेस्पराची प्रार्थना केली आणी झैं तो भिमशेनु वच ताच्या मागिल्यान ती वच आणी ताका बरे प्रकारीं सिखौनु आपुल्या राजभुवना घेउनु ये. जैसें आपुले मनीं आस ऐसें इछ्या भोग वा ताची खोसी करी आणी ताका आपुल्या बापा सेसाचे राज सभेक व्हर्नु बैसै आणी जेतुकें हें जाललें वर्तमान सेसाक पद्मावत्येन सांगिलें. तें आयूकुनु तो म्हा चिन्ताकृतु जाहालो, 'हो भिमशेनु अमृत कोंडां लागीं अख्यान जरि करित तरि आमकां दोनिय् प्रकारीं उरि नां[7]. हो तरि आमंचो जांवै हाणें वायूट बरें जरि आमकां

केलें तरि हाका आमंच्यान वायूट करव नां आणी हें वर्तमान कविळासिचो राउ सादासिउ जरि आयूकत तरि आमकां ठाउ नां. हें समेस्त राजे सांडुनु वचुं जरि म्हळें तरि खैंचि वचुंक स्वात नां. स्वर्गु मृतु पाताळिचें तिहीं लोकिंचें[8] ग्न्यान ताका ठाउकें आस. असल्या सदासिवाक फटौनु हांव खैं वचुं?' ऐसें आपुल्या मनांतु आठौनु चिन्ता कोरुं लागलो[9].

फुडां येके दिवसीं त्या भिमशेना लागीं उलौं लागलो, "जें कांय् तुमीं मागताति इतुकें तुमकां हांव दिन. रत्नां, भुसणां, मोत्यां, बावन्या चन्दन दिन. पण तुमीं अमृत गिरी पर्वतावरि वचुं नाकाति. अमृतां कोंडां नव थैं आसति. परमेस्परान त्यां कोंडांचे राखणेक सर्प तखेक म्हा भयांकर थैं ठेयूल्याति. थैं जो कोणुं वचत तो विखाच्या धुंदुकारान नासत. तुमीं थैं वचुं नाकाति. सुखी हांगा राउनु जें तुमंचे मनीं आस इतुकी[10] सुख सोन्तसु भोग्या." ऐसीं उतरां त्या भिमशेना लागीं उलैलीं. तीं उतरां आयूकुनु भिमशेनान विनंती केली, "आमीं थैं गेल्यारि कितें जाता? सोन्तसाक आमीं वेताउं आणी भोंउनु तीं कोंडां वा डोंगरु पळेउनु येताउं. ऐसें आसतां तुमीं आमकां वचुं नाकाति म्होणुं म्हणताति कित्या? तुमंच्या निरोपा वेगळें आमीं सर्वता थंय् वचनाउं. जो तुमकां सोन्तोसु तें आमकां सुख." ऐसें म्होणु पांच आट दिस एणेचि प्रमाणीं काडिले. फुडां येके दिवसीं सकाळिंचि उबठाउनु, पद्मावत्येक वा शेसा रायाक नसांगतांचि, त्या अमृताच्या पर्वतारि गेलो. राखण्यानीं देखिलो. समेस्तां सर्पांक वा तखेकांक सांगणें केलें, "भिमशेनु आमंच्या रायाचो जांवय् आयूला. तुमीं आपापुल्या ठायावरि सुसेन आस[11]." तें उतर आयूकुनु ते आपापुल्या शेस्त्रां सैत येउनु राखुं लागले. भिमशेनान देखिलें. तांकां म्होणुं लागलो, "आरे, माका देखुनु समेस्त तुमीं गजबजुनु आपापुली सामग्री घेउनु येउनु उभे रावले. हांव सोन्तसाक भोउंक आयूलेलों. तुमीं आमकां वायूट चिंतिताति. जें तुमंच्या मनांतु आस तें परमेस्परु सिधी पायूत. तुमीं हांव येकलो देखुनु मजेरि झगडें कोरुंक पळेताति. तरि तुमकां कोण राखत आतां हांव पळेन. तुमीं सर्प तखेक माका शेरण या. आयूल्यारि तुमकां हांव राखन. नां तरि समेस्तांक मार्नु नवै अमृताचीं कोंडां पियेउनु सुखी आसन."

ऐसीं भिमशेनाचीं उतरां आयूकुनु ते समेस्त फुडे चाल्नु आयूले. येउनु भार

कोर्नु उभे रावले. दोनिश्यां फडांचे सर्प, च्यास्याँ, पांयूश्याचे ऐसे नानां परिचे सर्प तखेक आयूले. भिमशेनान तांकां देखुनु येकु रुखु हुमळूतुनु धाउनु सर्पांरि गेलो. तावळि त्यां सर्पानीं पायांक हातांक चाबिलो. इतुक्यांकै नमानितां[12] अमृत कोंडां लागी पावलो. येक[13] सर्प पायांनिचि मार्ले येक सेंपेक[14] धोर्नु मार्ले. ऐसे परी कोल्हाळु जालो. तो बोबाटु आयूकुनु समेस्त सर्प गिरी कन्दरीं आसिले इतुकेय् आयूले. येक येउनु आंगाक झोम्बिले. ऐसे झोम्बत आसतां अमृत कोंडिंचें अमृत हाताक लागलें. तें अमृत तो पिलो. जितुके सर्प आसिले इतुकेय् मार्ले. येक जिव घेउनु पळले. तावळि त्या भिमशेनान नवै अमृत कोंडिंचें अमृत पिलो[15]. अमृताच्या आनंदान ढोलुं लागलो आपण अमरत्व पावलो म्होणुं. तावळि येक सर्प बोब घेउनु शेसा राया लागी गेले. सर्व वर्तमान सांगिलें. तें आयूकुनु तो भोउ दुचितु जाउनु पद्मावत्येक आपौनु सांगुं लागलो, "तुज्या भ्रतारान आमकां बरें केलें. अमृताच्यां कोंडां लागी वचुं नाका म्हळ्यारि आमकां नसांगतां थैं वचुनु समेस्त राखेणायूत सर्प मार्नु नवैं कोंडिचें[16] अमृत पिलो. आतां आमीं कितें कोरुंचें? ताक़ा आमंच्यान कांय् नज. आमचो स्वामि म्हादेउ आस थैं आतां आमीं वचुनु सांगुं या" म्होणुं कविळासी गेलो. वचुनु सास्टांग आपुल्या स्वाम्याक पायां पडुनु सांगुं लागलो, "येकु म्हा विरु येउनु नवैं कोंडां अमृताचीं पिलो. सर्पानीं ताचे लागीं येउधे केलें पण तो तांकां आटाप नां जाउनु समेस्तांक मार्ले. तें देखुनु हांव बोब घेउनु तुमंकां सांगुंक आयूलां."

तें ताचें उतर आयूकुनु कविळासिचो राव् म्हा कोपारुडु जालो. शेसाक म्होणुं लागलो, "तुजे आदिन हांवें नवैं अमृत कोंडां केलेलिं. नानां परिंचे सर्प राखुंक ठेयूलेले. इतुक्यांकै मार्नु अमृत पिलो म्होणुं खबर घेउनु आयूलासि, तरि तुवें थैंचि मरुंचें आसिलें. माका तोंड दाखौंक आयूलासि." ऐसें म्होणुं म्हा कोपारुडु जाउनु उबटलो. तावळि पार्वत्येन हातिं धर्लो, "स्वाम्या, तुमीं खैं वेताति माका सांगा." तावळि तिका सांगुं लागलो, "पाताळीं अमृत गिरी डोंगरु ताचेरि नव कोंडां अमृताचिं आसिलीं. थैं नानां परिचे सर्प राखेणेक ठेयूलले तांकां समेस्तांक मार्नु, येकु म्हा विरु अमृत कोंडिचें अमृत पियेउनु बैसला. ती खबर शेसु राव् माका घेउनु आयूला." तावळि पार्वत्येन म्हळें, "स्वाम्या, आतां हांवें थैं तुमंचे सांगातिं यावें लागलें." तावळि ताणें कित्या म्होणु विचारिलें. तिणें म्हळें,

"पद्मावत्येक हांवें वरुदान दिलेलें निर्जिउ भ्रतारु वरु पावसी म्होणु. जो अमृत पिला तो भिमशेनु तिचो भ्रतारु. ताका तुमंकां थोर येउथे जायूत. येकादे तो जरि मरत तरि मजें उतर लटिक जायूत. तें देखुनु तुमंचे सांगातिं हांव येतां." तावळि म्हादेवान म्हळें, "कोणाचें रुप धोर्नु आमीं वचुंचें?" तावळि पार्वत्येन म्हळें, "स्वाम्या, तुं जा वागु, हांव जातां कामधेनु."

तावळि दोगांयू ऐसीं रुपां धोर्नु आयूलिं, गायू फुडे पळत वागु पाठी लागत. ऐसीं धांवत धांवत अमृत गिरिवरि आयूलीं तीं, भिमशेनान देखिलें. गायूचे पाठी वागु बोबाटि कोर्नु धांवत येता, देखुनु येकु रुखु हुमळूतुनु ते गायक[17] पाठी घाल्नु त्या वागारि धाउनु गेलो. तावळि ताणें बोबाटि केली. ते बोबाटि सरिसिचि हाणें आपुले हातिचो रुखु त्या वागारि घालो. तो रुखु येता देखुनु थैंचो उबटाउनु आण्येके कडे वचुनु गर्झना कोरुं लागलो. तावळि आण्येकु रुखु हुमळूतुनु बोब कोर्नु वागारि धाउनु गेलो. तावळि ताणें थोरि बोबाटि केली. ते बोबाटिन तिनियू लोक टळटळले. तेणें कोरुनु भिमशेनाक मुर्च्छा आयूली. तावळि वागान[18] येउनु आपुल्या चाबुक्यान ताच्या पोटारि मार्लो. पोट फाळुनु जेतुकें अमृत पिललो इतुकेंयू काडिलें आणीं घेउनु वेतां इतुक्या मधें भिमान उटुनु दोहीं मागिल्यां पायांक धर्लो. धर्नु अनूत्राळीं घर्गरां भोंवडाउं लागलो. भुमिवरि धाडाउंचो, इतुक्या मधें पार्वत्येन आपुलें निज रुप धर्लें. "आरे म्हा विरा, हें तुं किर्तें कर्तासी? वैरि पळे." तो जंव पळे तावळि ताणे पांचा वगत्रु इस्परु[19] पार्वत्ये सहित देखिलो. तावळि दोनियू हात जोडुनु सस्टंग भुमिवरि पायां पडलो. "स्वाम्या, तुज्या हाताच्या घायान मज्या पोटांतुलीं आंतां तुंटलीं. आतां कोणु येकु उपाउ कोर्नु तुं मजो जिउ राख. तुका हांव शेरणां आयूलों." ऐसें काकुल्तिचिं उतरां आयूकुनु म्हादेवान त्या भिमशेनाक आपण्या लागिं आपौनु पोटावेल्यान तिनि वेळो हातु काडिलो. तावळि तो घाउ पेखलो. तें देखुनु पद्मावती धांवत येउनु पार्वत्येक पायां पडली. "स्वामिणी, तुं जरि आजि आयूलेली न्होये तरि मजो भ्रतारु मरणा पावतो. तुज्या धर्मान आजि मजें जल्म सुफळ. तरि आतां हो भ्रतारु आपुल्या राज्याक वचत हांव पाताळिं हाका माका कैसी भेट जायूत? तुमीं हांगा आसतनां हाका माका येकु उतराचो निर्धारु कोरुनु सोड्या."

तावळि पार्वत्येन म्हादेवा लागी म्हळें, "हो भिमशेनु पद्मावत्येक भ्रतारु हांवें दिलेलो. हो हिका सांडुनु आपुल्या राज्याक जरि वचत तरी ही पाताळीं तो मृतलोकिं ह्यां दोगांक कैसी भेट जायूत हाचो उपाउ तुमीं माका सांगा." तें उतर आयूकुनु म्हादेउ म्होणुं लागलो, "हे पद्मावत्येक आणी भिमाक येके ठांय् बैसौनु आमंच्या हातान सेंस भोर्नु येका बोलाचो निर्धारु कोर्नु ह्या भिमशेनाक आमीं धाडुं." ऐसें म्होणुं दोगांकै बैसौनु वस्त्रां लुगडीं दिउनु भिमाक म्हळें, "तें[20] आपुल्या नगरा जरि वेसी आणी थैंचि जरि रावसी, तरि हि पद्मावति पाताळिंची तुका हिका कैसी भेट जायूत? तरि तुका हांव सांगतां आयूक, जे वेळे ही पद्मावती तुजें सुमरण करित ते वेळे तुं पाव." ऐसें म्होणुं भिमशेनाक येकु वाउतराचो मनूत्रु दिलो, "जे वेळे तुका ही पद्मावती सुमरित ते वेळे वाउतर तुका उसुंग्यारि धोर्नु हाडित." ऐसो मनूत्रु दिउनु त्यां दोगांकै आपुल्या घरा धाडुनु पार्वती आणी म्हादेउ कविळसा गेलीं.

फुडां भिमशेनान आपुले स्त्र्ये पद्मावत्ये लागीं विचारिलें, "माका हांगा येक वरुस भरि जालें. हांव तंव जिउ नाथिलेलो[21] हांगा आयूलेलो[22], तुमीं अमृतां मज्यां[23] तोंडांतु घाल्लु जिवन केलो. आतां हांव आमंच्या राज्या वरुणावताक वेतां. आमंचे मायेक वा चोउगैं भावांक भेटन, ते माका देखुनु भोउ सोन्तोसु जाति मेलेलो भाउ आयूलो म्होणुं, त्रिलोका मधें किर्ति जायूसी कर्ती. तरि तुं आतां माका निरोपु दी. हांव वचुनु भेटुनु येतां." तें उतर आयूकुनु ती विनौं लागली, "स्वाम्या तुमीं थैं गेल्यारि, समेस्त माये भाव सोहिरे समन्दी सुखी थैं नंदुनु राजे करितातिं. तुमीं थैं पावल्यारि मजो आठौ तुमकां जाये नां. हांव पाताळिं आसं. तुमीं मृतलोकिं वेश्यात. तुमकां आमकां खैंची भेट?" हें उतर आयूकुनु तो म्होणुं लागलो, "तुं कांय् चिन्ता करुं नाका. जे वेळे तुका मजि इछ्या जायूत तावळि तुं मजें सुमरण करि. येका खिणा मधें हांव पावन आणी जैसी तुजि मना कामना आस इतुकिय् पुर्न करिन. तुं कांय् भियेउं नाका. आमकां पार्वत्येन मनूत्रु दिला, त्या मनूत्राचो प्रतेउ थोरु. वाउतराच्या उसुंग्यारि बैसुनु खिणाचि मधें येउचें वचुचें. ऐसें आसतां तुं कांय् चिन्ता करुं नाका." तावळी तिणें म्हळें, "जे वेळे तुमंचें हांव सुमरण करिन ते वेळे तुमीं धाउनु येउचें, ऐसें म्हणौनु तुमीं माका बोलु द्या." तावळि ताणें तिका बोलु सते सुकृत दिलें.

मागिरि तिचो निरोपु घेउनु वाहूयु देवाचें सुमरण केलें. सुमरत खेविं ततुखेणी आयूलो. तुवें कित्याक माका आपैलेलो हें माका सांग.'' तावळि भिमशेनान म्हळें,''स्वाम्या तुं माका आतां वरुणावताक घेउनु वच. तुज्या[24] धर्मान मायेक भावांक भेटन.'' तें उतर आयूकुनु ताणें बरें म्हळें आणी ताका उसुंग्यारि धोर्नु येकि घड्ये मधें हाडिलो.

नगराच्या लोकान भिमशेनु देखिलो, देखुनु धर्माक सांगुंक गेले. फुडां धर्मु, अर्जुनु, नकुलु, सायेदेउ आणी तांची माये कोन्ती धांवत फुडे येउनु ताचो गळो धर्नु हातीं धोर्नु ताका नगरांतु वाजनूत्रां वाजुनु घेउनु आयूले. सिहांसणावरि बैसौनु थोरु सन्मानु केलो. रण भेरिक घाउ दिलो, मेलेलो भिमशेनु जिवो जाउनु आयूलो म्होणु. हें दुर्यधनान आयूकुनु म्हा दुखाच्या समुद्रांतु पडलो. 'जें हांवें केललें इतुकें निर्फळ जाता. कितें कोरुंचें' ऐसें म्होणुं चिन्ताकृत जाहालो.

ऐसी ही कथा सुख इन्द्रान जन्मजयाक सांगिली. कथा अपुर्वि देखुनु विनंती करुं लागलो, ''फुडां त्या[25] कोउरवां पाण्डवांक कैसी इस्टागति होउनु राविले हें तुं माका सांग.'' कथा समाप्त.

## टीप

1. त्या
2. 'तखेक' ह्या उतरा वैर पुर्तुगेज भार्शेत : basalisco (सरोप) बरयलां.
3. सांगिलीं
4. पानाचे कडेक : mulieris bonum maritus (बायलेची गिरेस्तकाय म्हणजे तिचो घोव)
5. ही एक ओपार. आपणाक देवान दिल्लो घोव पैस केलो म्हण पद्मावती शिणता.
6. त्या
7. समासांत : remedium nullum (उपाव ना) बरयलां.
8. त्रिलोकिचें
9. समासांत : cogitat (खोलायेन विचार करता)
10. इतुकें

11. सुसेन आस = रावा
12. बेपर्वा करून
13. कांय
14. मसुद्यांत 'सेंपेक' हाचे वैर rabo (शेंपडी) आसा.
15. पिलें
16. कोंडिंर्चे
17. गायेक
18. हांगा थावन मसुद्यांत दोन पानां सांडल्यांत.
19. पांच तोंडांचो देव म्हणजे म्हादेव
20. तुं
21. नाथिलेलों
22. आयूलेलों
23. मज्या
24. मसुद्यांत हांगाच्यान काणयेचीं फुडलीं पानां मेळतात.
25. त्यां

# बारावी कथा

निमाला भिमु आला । ऐसा नगरीं उछ्याउ जाहाला । हें आयूकुनु दुर्यधनु पडला । चिन्ता समुद्रीं पही ।

फुडां मेललो भिमशेनु आयूलो. ऐसें दुर्यधनान आयूकुनु भोउ दुखांतु पडलो. देखुनु आपुल्या प्रधानाक आपौनु म्होणुं लागलो, ''आरे शेकुन्या, आमीं ह्या भिमाक विख घाल्नु मार्लेलो. मडें व्हर्नु उखल्नु न्हैंतु घाललें. ह्या बोलाक वरुस भरि जालें. मागुतेन जिवो जाउनु तो आयूलो. आतां आमीं कोणि बुधि कोरुंची? त्यां पाण्डवांक मज्या उतराचो विस्वासु तंव नां. आतां कोणे प्रकारीं ताका[1] आमीं भेटुंचें?'' तावळि त्या शेकुन्यान म्हळें, ''स्वाम्या, विधुराक आणी भिस्मदेवाक आमीं शेरण वचुंचें, तांचे वरौनु आमीं मेळुंचें, ते पाण्डव तांच्या उतराक मानु दिताति.'' हें उतर आयूकुनु दुर्यधनु राव् भिस्मदेवाक वा विधुराक शेरण गेलो. ''तुमीं आमकां पाण्डवांक व्हर्नु मेळया. तांकां आमकां बरें जायूसे कऱ्या.'' तावळि भिस्मदेवान वा विधुरान म्हळें, ''दुर्यधना तुं जें उलैतासि तें सते, पण ते आमंच्या उतराचो विस्वासु धरी नांति तें तुं बरें जाणसि. तानीं आमकां तुजे वासे घाल्याति. येकि दोनि वेळे तांकां जिवाक घातु जाहालो. आजि मेलेलो भिमशेनु जिवो जाउनु आयूलो, ही परमेस्पराची करणी. देउ तांकां श्याकारी जाहाला.'' ऐसें तानीं उलैलें. तें उतर आयूकुनु दुर्यधनु खोंचलो. ''आतां हांवें सहस्त्रु अपरादु जरि केलो आणी तुमंच्या उतरा ठांय् हांव जरि चुकलों, तरि तो गुन्यांव् तुमीं म्हाका भगश्या'' म्होणु, सास्टांग दोनिय् हात जोडुनु पायां पडलो.

तावळि भिस्मदेवान म्हळें, ''उबटा आतां तुं ऐसें करि. येक राजे इन्द्रप्रेस्त त्यां पाण्डवांक दी, कित्या जरि म्हणसी तरि मेलेलो भिमु जिवो जाउनु आयूला म्होणु.'' तावळि तार्णे म्हळें, ''स्वाम्या, भोउ बरें. तुं जें म्हणता तें इतुलेंय् करिन.'' तावळि भिस्मदेवान दुर्यधनाक निरोपु दिउनु आपुले राज मनूधिरीं धाडिलो. फुडां विधुराक आपौनु ह्रैं पाण्डव आसिले थैं धाडिलो. ऐसें आसतां दुर्यधनान काये केलें? पुराचनु ब्राम्हणु आपौनु हाडुनु ताका सांगुं लागलो, ''आमकां आणी ह्यां पाण्डवांक भेट जाये पर्येनूत्र तुं इन्द्रप्रेस्ताक वचुनु येक उतम येकविस माळ्यांचें घर बांदि. घर बांदितनां माळ्येच्यां[2] चोउकाक चित्रसाळ्येक

राव् जैं निदेता थैं लाख मेण तिळ तेल भोर्नु घर बांदि. घरारि दृस्टि पडल्यारि आपुल्या मनाक भोउ सोन्तोसु जाये आणी त्या घरांतुचि राउंचें दिस ऐसें तुं करि. फटिकांचे[3] खांबे, पोंवळ्यांचे[4] खांबे रत्न जडित, ऐस्या परिचें घर बांदुनु वेगीं माका सांगुंक यो.'' तावळि त्या पुराचनान रायाक पायां पडुनु निरोपु घेउनु इन्द्रप्रेस्ताक गेलो. जैसें रायान सांगिललें तैसेंचि येकेविसां माळ्यांचें घर बांदुनु येउनु राया दुर्यधनाक भेटलो. दुर्यधनान म्हळें, ''आरे पुराचना, हें मजें मनिचें कार्य जरि जायूत तरि तुका राजे दिन,'' म्होणु तें घर पळेउंक इन्द्रप्रेस्ताक आपण राव् आयूलो. तें घर देखिलें. रायाचें मन भोउ सोन्तसु जाहालें. आपण थैंचि विनोदाक आपुले अस्त्र्ये सैत नाना परिचो खेळु[5] खेळ आणी समेस्त नगरिचो लोकु येउनु दिवसाच्या दिसा येउनु भेटति आणी म्हणति, ''स्वाम्या, हें असलें घर[6] कोणेंय् बांदिललें आमीं देखिलें नां. म्हा विनोदाचें. हांगा आयूल्यारि पर्तुनु वचुचें मन नां. हांगाचि राउंचें दिसता.'' तें दुर्यधनु आयूकुनु सुखि जालो. शेकुनी आपुलो प्रधानु आपौनु येकि ठांय् दोगैं बैसुनु उलौं लागले, ''हें राजे इन्द्रप्रेस्त पाण्डवांक आमीं उछेवांक देउंचें कित्या जरि म्हणसी तरि मेलेलो भिमशेनु आयूला म्होणु. हें राजे इन्द्रप्रेस्त दिल्या उपरांतें ते हांगा येउनु ह्यां गरांतु[7] रावती, निद्रा करिती. तावळि उजो लाउनु ह्यां सहीं जणांक लासुनु मारुचे, नां तरि येकल्याक मारिल्यारि जिवे जाउनु येताति. लासुनु जरि मारिलिं तरि आमंचो किन्तु गेलो. सुखि आमीं राजे करुं.''

ऐसो विचारु मनीं हाडुनु अस्तानपुराक आयूलो. येउनु भिस्मदेवाक भेटलो. ''भिमशेनु आयूल्यारि भोउ दिस जाले. अद्याप तांकां आमकां भेट नां. तरि आतां वेगीं तांकां आमकां भेट जायूसी कऱ्या.'' तें उतर आयूकुनु भिस्मदेवाक[8] म्हळें, ''वरुणावता तुजे भेटेच्या कार्या निमितीं गेलेलो विधुरु तों आजुनु आयूललो नां. येतचि काये ते पाण्डव ताचे लागी उलैल्याति तें तुका हांव सांगन. तुं आतां आपुले राजे मनूधिरीं वच.'' निरोपा प्रमाणीं आपुले भुवनीं गेलो. इतुक्या मधें विधुरु आयूलो. येउनु भिस्मदेवाक भेटलो. जें त्यां पाण्डवानीं उलैललें इतुकेंय् विधुरान सांगिलें. तें आयूकुनु भिस्मदेउ म्होणुं लागलो, ''हो दुर्यधनु घातकि. हाका ते कैंसे विस्वासतले? घराडे आपौनु हाडुनु, भिमशेनाक विख घाल्नु मार्लो. तो सत्यारि आसिलो म्होणु परमेस्परान जिवन कोर्नु मागुतेन

हाडिलो[9] असलें हें पुर्वीं आयूकिलें नां, मेलेलो मनुशु जिवो जाउनु येउंचें, ह्यां पाण्डवाचें[10] थोर भागे.'' म्होणु दुर्यधनाक आपौनु हाडुनु सांगुं लागलो, ''आमीं विधुराक वरुणावताक पाण्डवां लागी धाडिलेलो तो पर्तुनु आयूलो. ते म्हणतातित : आमीं दुर्यधनाक सर्वथा भेट नेदेउं. आतां आमीं कितें कोरुचें,'' ऐसें भिस्मदेवान उलैलें. तें उतर आयूकुनु दुर्यधनु म्होणुं लागलो, ''स्वाम्या, तुमीं थोर आसतां माका कोणियू चिन्ता नां. कोणि एकी प्रकारिं त्यां पाण्डवांक आणीं माका भेट जायूसी कऱ्या'' म्होणुं पायां पडलो. तावळि भिस्मदेवान म्हळें, ''तुं चिन्ता करुं नाका. उबट हें कार्य तुजें हांव करिन.'' म्हणौनु उबटौनु रथावरि बैसुनु विधुराक सांगातिं घेउनु वरुणावताक आयूले.

पाण्डव फुडे आयूले. समेस्त नगर सृंगाऱ्या म्होणु सांगिलें. तेणे प्रमाणी समेस्त सृंघारिलें. गुड्या[11] तोरणां मखरां, हाट हाटवट्यांक पाटवांचीं तोरणां, बिदी गुलाबान सेंपिल्यो[12]. ऐसी रचना थोरि करुनु त्या भिस्मदेवाक हातीं धर्नु आपुल्या राज्यांतु हाडुनु सिहांसणारि बैसौनु बऱ्या परिमळाच्या उदकान पाये धुयूले. पांचै जणानीं तें उदक आपुल्या मस्तकारि घालें. कोन्ती येउनु सास्टांग पायां पडली. सही जणां माये पुत्र उभे राउनु शेवा करुं लागले. ऐसें करितां दोनि प्राहार जाहाले. उठुनु राज मनूधिरीं गेले. बरव्या हुन उदकान स्नान केलें. बरि परमेस्पराक पुजा केली. धुंपु अगर लोबान ऐसें ताचे मुखारि जळिलें. बरीं खंड रोस पोकुवानां ताठां भोर्नु समर्पिलीं. कापुर्वेलिच्यां नगर खांड्यां पानांचे विडे समर्पिले. ऐस्या परि पुजा केली. कोर्नु फुडां गायेन, नृते आरमूभिलें. ऐसें गायेन सारुनु सस्टंग परमेस्पराक पायां पडुनु आपुले राज मनूधिरीं जेउंक गेले. पांचै जण भिस्मदेउ येके पंकतीं बैसले. कोनूत्येन नानां परिचीं पोकुवानां वाडिलीं. ऐस्या परि जेउनु खाउनु सोन्तोसी उबटले. बरे विडे धर्मान आपुले हातिं दिले. गन्द गुलाबु परिमळाच्यो पुस्वा माळा[13] भिस्मदेवाच्या गळ्यांतु घाल्यो. ताणें पाण्डवांक, कोनूत्येक आपौनु येकि ठांयू गोस्टि करुंक बैसलिं. धर्मान म्हळें, ''स्वाम्या, आजि मजें जल्म सुफळ. तुमंचे चरण आजि आमंच्या घरांत लागले. तेणें कोरुनु आमकां आजि भोउ सुख सोन्तोसु[14] जाहालो. तरि तुमीं आजि कोणा कार्याक आयूलेले हो आमकां निरोपु द्या.''

तावळि भिस्मदेवान म्हळें, ''भिमशेनु मेलेलो जिवो जाउनु आयूला म्हणौनु

तुमकां भेटुंक आयूलेलों आणी भोउ काळ तुमकां पाण्डवांक वा तुमंचे माये कोनूत्येक देखिली नां. तुमकां देखुंचें दिसलें, देखुनु हांव आयूलों. तुमीं सतेवादी. तुमंचेरि परमेस्पराची कृपा आस. तरि तुमकां जें-कांय् हांव सांगतां तें उतर म्हजें आयूका. हो मेलेलो भिमशेनु आयूलो देखुनु दुर्यधना रायाक तुमकां भेटुंक भोउ उतकण्ठा लागल्या. तरि तुमीं आतां भेट द्या." तावळि धर्मान म्हळें, "स्वाम्या, येकि दोनि वेळो मागां अर्जुनाक जिविंचि मारुंचो केलेलो थैं परमेस्परान राखिलो. आमीं वरुणावताक आयूलेउं आसतां, अस्तानपुराक ठाउनु आमच्या घराडे येउनु दोनि च्यारि दिस राउनु भोउ प्रति दुखिचीं उतरां उलौनु भिमशेनाक सांगातीं व्हनु दोगैं येके पंकतिक जेउंक बैसुनु लाडु विखाचे दिउनु मार्लो. हें तरि तुमकां पुरें ठाउकें आस. पुर्विल्या पुन्या पासवत परमेस्परान आमंचे वरि कृपा करुनु मागुतेन ह्या भिमाक आणी आमकां भेट जायूसी केली. तरि आतां आमीं दुर्यधनाक कैसी भेट देउंची? हें तुमंच्या मना जरि एता तरि आमीं करुं. तुमंचो निरोपु माथ्यारि घेउं." ऐसिं धर्माचीं उतरां आयूकुनु विधुरान म्हळें, 'आगा ये पाण्डवानो, आणी कोनूत्ये तुमीं भिस्मदेवाच्या उतराक मानु द्या. थोराचें उतर मोडुं नये[15]. ते जे कांय् सांगती परमेस्परारि भारु घाल्नु तांचें उतर पाळुंचें. तांकां देउ पावत. तरि तुमीं आतां ऐसें कऱ्या, ह्या भिस्मदेवा वरौनु दुर्यधनाक भेट द्या. तो वैरी जरि जालो तुमंचो बापल भाउ आणी समेस्ता राज्याचो धनी. तुमकां देखुंक ताका भोउ उमळसिक लागल्या, ताका तुमीं भेट द्या. दिल्या उपरांतें तुमकां बरें जरि करित तरि देउ ताका बरें करित. वायूट जरि करित तरि वायूटचि फळ पावत. आतां भिस्मदेवाच्या आणी मज्या उतराक मानु द्या."

तावळि पाण्डवानीं म्हळें, "स्वाम्या भोउ बरें." ऐसें तांकां मनीं हाडुनु दुर्यधनाक पत्रिका अस्तानपुराक धाडिली. "तुं आपुलें सहिने घोड्यां सैत वरुणावताक यो आणी समेस्त तुजें नगर सृंगारुनु थोरु उछ्याव् अस्तानपुराक करि. जेतुके मागते जागते भाट बन्दिजन थोंट पागुंळ आन्दळे भिकारी इतुक्यांकै द्रवे वस्त्र देउनु सुखी करि. हें कित्या जरि म्हणसी तरि मेलेलो भिमशेनु जिवो जाउनु मागुतेन आयूलो म्हणौनु. ऐसो तुं उछ्याव् करुनु वरुणावताक तुं यो. तुका आणी पाण्डवांक भेट जायूसी करुं." ऐसी पत्रिका लिहुनु अस्तानपुराक

धाडिली. ती वाचुनु जेणें प्रमाणीं करुं सांगिललें तेणें प्रमाणीं राजे आपुलें संघारुनु समेस्तांक सुखी केले. कोर्नु वरुणावताक आपुलें चतुरंग सहिने रथ हस्ती घोडे आणी आपुले माये बापु सांगातिं घेउनु वाजानूत्रां वाजित वरुणावता नगरा भायूर पावले. दुर्यधनु राव् एता देखुनु भिस्मदेउ विधुरु पांचै पाण्डव वा कोन्ती फुडे येउनु दुर्यधनाक, गान्दाऱ्येक, दृतरास्टराक भेट दिली. सर्व आपुलें राजे संघारुनु रायाक हातिं धोर्नु सिहांसणावरि बैसौनु पाये धुले. गन्द गुलाबु पुस्वां नानां परिंचीं रत्नां वा मोत्यानिं वा माणिकानीं सेंस भर्ली. दृतरास्टराक, गान्दाऱ्येक, भिस्मदेवान हातिं धर्नु आपण्या लागिं बैसैलीं. मकुट वर्दनिक राये सभेचे आपापुल्या ठायारि बैसले. समेस्त लोकु परिवारु फोउज करुनु राया फुडे उबे राविले. ऐस्या परी अनंदु उछ्याउ जाहालो.

तावळि दृतरास्टरु गान्दारी उबटाउनु भिस्मदेवाचो निरोपु घेउनु दुर्यधनाक हातिं धर्नु भिमशेनाचो गळो धरैलो[16]. एणेचि प्रमाणी धर्मा, अर्जुना, नकुला, सायेदेवाक खेम आळिंगण दिली[17]. कोनूत्येच्या पायांवरि हाडुनु घालो. "जरि दुर्यधनान सहस्रु अपरादु केलो तरि आमकां चोउगैं जणांक खेमा[18] कऱ्या. चोउगं जणं कोण जरि म्हणश्यात तरि भिस्मदेउ विधुरु दृतरास्टरु आणी हांव गान्दारी इतुक्यांकै आमकां हो गुन्यांव् भगश्या. तुमीं मनांतु वायूट घेउं नाकाति जें कांयू होणार तें जाहालें[19]." हिं उतरां पाण्डवानीं आणी कोनूत्येन आयूकिलीं. आयूकुनु उबटाउनु दृतरास्टराक गान्दाऱ्येक हातिं धोर्नु बैसैलीं. "तुमीं बैसा. हाचो आमकां कांयू सिणु नां. जें भिमशेनाचे कपाळीं बरैललें तें जालें. आतां आमीं तुमीं समेस्तानीं येकामेकाचें दुख मनीं नधरितां सुखी आपापुलें राजे कोर्नु राउंचें." हें उतर पाण्डवांचें आयूकुनु भिस्मदेवा विधुरान आयूकुनु म्हळें, "सते तुमीं बापलभाव, येकमेकाक वायूट कोरुं नये. हें उतर समेस्तां व्हडांच्या मना जरि येता, तरि सते म्हण, न्होये तरि न्होये म्हण." ऐसें भिस्मदेवाचें उतर आयूकुनु दृतरास्टरान, गान्दाऱ्येन, दुर्यधनान म्हळें, "सते, आजि तागायूत आमीं येकामेकांक वायूट करुं नये. जरि आमीं येकमेका भितरि वायूट जरि कोरुं, जो कोणुं वायूट करित ताका परमेस्परु नासित." ऐसिं उतरां उलौनु त्यां कोउरवा दुर्यधनाक पाण्डवांक खेम आळिंगण देउनु, सते सुकृत येकमेकांक देउनु वस्त्रां लुगडिं देउनु येकि ठांयू जेवण खाण करुनु सोन्तोसीं त्या वरुणावतांतुचि राविले.

तावळि दुर्यधनान म्हळें, "मजे मनीं ऐसें आस, ह्या[20] पाण्डवांक हें वरुणावत थोडें, आतां इन्द्रप्रेस्त राज्य हांकां देउंचें." ऐसें उतर उलैलो तें समेस्तांक मानलें. भिस्मदेउ म्होणुं लागलो, "जें इन्द्रप्रेस्त राज्य तुमकां दुर्यधनान दिलां त्या राज्याचो तुमीं अंगिकारु कऱ्या. हें राजे तुमकां कित्या दिलें जरि म्हणशात, तरि मेलेलो भिमशेनु जिवो जाउनु आयूला म्होणु तुमकां उछ्यावाक दिलें." हें उतर विधुरा, दृतरास्टरा, गान्दाऱ्येन आयूकुनु म्हळें, "ह्या दुर्यधना रायाक परमेस्परु बरिचि बुधि देउ." फुडां तें इन्द्रप्रेस्त राज्य पाण्डवांक दुर्यधनान दिलें. ही खबर आयूकुनु नगरिचो लोकु, थोर थोर पाटेल तानीं नगर बरें प्रकारीं सृघारिलें.

फुडां दुर्यधनु राव् पाण्डवां सैत त्या राज्यांतु येउनु धर्माक सिहांसणावरी बैसौनु पाटा अबिशेकु केलो. समेस्त राजें ताचे हातिं वोपुनु दिलें. देसु दुर्गां गड कोटां इतुकेंय् दिउनु आपण ताचो काटिकारु जाउनु शेवा कोरुं लागलो. समेस्त राज्याचे लोकु देसाय् पाटेल इतुक्यांकै धर्माक भेटैं आणी त्या समेस्त लोकाक सांग, "आजि तागायूत इन्द्रप्रेस्त राजे पाण्डवांचे[21]. तुमंचो बरो प्रतिपाळु हे कर्ती. तुमीं समेस्त ह्यां पाण्डवांच्या उतरा खाल चाला." ऐसें समेस्तांक सांगुनु वस्त्रां लुगडिं देउनु समेस्तांक आपापुले घरीं धाडिले. फुडां राज सभा उठिली. पाण्डवांचो हातु धर्नु राजे भुवनीं प्रवेसले. आपुलें जेवण सारिलें. गन्द पुस्वां विडे[22], बावन चन्दन आंगाक लाउनु धर्मा रायाचो हातु धोर्नु जें पुराचना ब्राम्हणा करविं येकेविसां माळ्यांचें घर बांदिलालें तें पाण्डवां वा तांचे माये कोनूत्येक दाखौंक व्हेलीं. त्या गराचीं[23] रचना देखुनु धर्माचें अन्तस्करण भोउ अनन्दलें सोन्तसलें. दुर्यधनाक म्होणुं लागलो, "आगा राया, थोरि रचना ह्या मनूधिराक केली. असली करणी पुर्वीं आमीं देखिली नां आणीं कानानीं आयूकिलिचि नां. फटिकांचे खांबे पोंवळ्यांचे खांबे रत्न जोडित भिंती. ऐसें हें अपुर्व देखुनु भोउ सोन्तोसलेउं[24]." तावळि दुर्यधनु म्होणुं लागलो, "हें राज मनूधिर मजे कारणे हांवें बांदिलालें. हें तुमकां कित्या दिलें म्हणशात तरि भिमशेनु मेलेलो जिवो जाउनु आयूलो म्होणु. त्या उचिताक हें इन्द्रप्रेस्त राज्य आणी हें राजे मनूधिर तुमकां हांवें दिललें. आतां ह्या घरांतु राउनु सुखि राजे कऱ्या." ऐसें म्होणुं तांचे लागीं निरोपु मागुनु आपुल्या राज्या अस्तानपुरा आयूलो.

ऐसी ही कथा अपुर्वि जन्मजयाक सुख इन्द्रान सांगिली. तावळि जन्मजयान म्हळें, ''मजे मनीं येकि तुमंच्या चरणाडे विनंती करुंची आस. बरी तुमीं मना हाडुनु माका निरोपु द्या.'' तेरावी[25] कथा समाप्त.

## टीप

1. तांकां
2. माळ्येच्या
3. मसुद्यांत ''फटिकांचे'' हाचेर : cristal (खडो) बरयलां.
4. मसुद्यांत ''पोंवळ्यांचे'' हाचेर : coral (पोंवळें) आसा.
5. मसुद्यांत हांगा पासून दोन पानां चुकल्यांत.
6. पानाचे कडेर लॅटीन उतर : aedificium (भवन) आसा.
7. ह्या घरांतु
8. भिस्मदेवान
9. समासांत : resurrectio (जिवंतपण)
10. पाण्डवांचें
11. गुड्यो
12. समासांत : regis et hostis exceptio (राजाक आनी दुस्मानाक येवकार)
13. माळो
14. मसुद्यांत हांगाच्यान काणयेचीं फुडलीं पानां मेळतात.
15. समासांत : obediendum majoribus (वडिलांच्या उतराक मान दिंवचो)
16. वेंग मारूंक लायली.
17. दिलें
18. मसुद्यांत ''खेमा'' वैर 'गुन्यांव माप' अशें आसा.
19. मसुद्यांत हांगा थावन निमाणीं पानां सांडल्यांत.
20. ह्यां
21. पांडवांचें
22. विडे दिले
23. घराची
24. समासांत : एक अस्पश्ट टीप आसा.
25. बारावी

# तेरावी कथा

पाण्डव आले इन्द्रप्रेस्ती । राहिले राजमनूधिर स्तिति । आयूकुनु कृस्ट्णु[1] द्वारके आपुले चिति । भोउ दुखित जाहाला ।

पाण्डव इन्द्रप्रेस्ताक आयूले. दुर्यधनान बांदिलल्या घराडे राविले. ही खबर आयूकुनु कृस्ट्णु म्होणुं लागलो, ''दुर्यधनान बरी बुधि केली. पाण्डवांक त्यां[2] घरांतु लासुनु मारुंचें, ऐसो उपाव् ताणें उप्रासिलो. आतां आमीं ह्यां पाण्डवांक कोणी येके प्रकारीं राखुंचें? हे परमेस्पराचे थोर भग्त. हांचे वाचेक असते बोलणेंचि नां[3]. सतेचि उलैताति. कोण्येक विग्न जरि हांचेरि आयूलें तरि आमीं हांकां राखुंचे,'' म्हणौनु विस्वकर्माक[4] आपैलो. तो धाउनु येउनु सास्टांग पायां पडलो. ''स्वाम्या, कित्याक तुमीं माका आपैलो तो निरोपु माका द्या.'' तावळि कृस्ट्ण नाथान म्हळें, ''आरे विस्वकर्मा, तुं इन्द्रप्रेस्ताक वेगीं वच. त्यां एकेविसां माळ्यांच्यां[5] घरांतु कोनूत्ये सहित पाण्डव आसति तांकां दुर्यधनान लासुनु मार्नु समेस्त राजे कोरुंचें ऐसें ताचे मनीं जालां. तरि त्यां पाण्डवांक आमीं राखुंचे. त्या घराक लाउनु येक भुंयार मधेंचि खणुनु व्हर्नु हिडम्बाच्या वनाक लायू आणी त्या विवराच्या मुखाक सिळा येकि लायू. हें ऐसें केलां म्होणु पाण्डवांक वा कोणाकै जाणुं देउं नाका.'' हें उतर आयूकुनु, स्वाम्या भोउ बरें म्हणौनु दोनियू हात जोडुनु पाबां पडुनु इन्द्रप्रेस्ताक येउंक आयूलो. जेणें प्रमाणीं कृस्ट्णान निरोपु दिलालो तेणें प्रमाणीं विवर कोर्नु विवराच्या मुखाक सिळा दाटुनु द्वारके येउनु स्री कृस्ट्णाक पायां पडलो. ''स्वाम्या, तुमीं जो निरोपु दिलालो तो हांवें केलो.'' तावळि त्या स्वाम्यान म्हळें, ''भोउ बरें. ह्या विस्वकर्माक पानांचो विडो द्या.''

ऐसें आसतां फुडां अस्तानपुरा विधुराक कृस्ट्णान आपुले नांविचें कागत ऐसें बरैलें, ''कोनूत्ये सैत पाण्डवांक दुर्यधनान त्यां[6] घरांतु जाळुनु मारुंचे केल्याति तरि तुवें इन्द्रप्रेस्ताक वचुनु तें घर एकेविसां माळ्यांचें बरें कोर्नु पळेउनु ज्या विवराक थोरि सिळा एकि दाटिल्या तें विवर येकल्या भिमशेनाक दाखै. हेरांक सांगुं नाका आणी तुं पर्तुनु अस्तानपुराक वच.'' ऐसी पत्रिका द्वारकेची विधुराक आयूली ती ताणें मस्तकिं घेउनु वाचिली.

तैसोचि उठुनु इन्द्रप्रेस्ताक आयूलो. ज्या घरांतु पाण्डव आसति तें राज मनूधिर सभवंतें पळेउं लागलो. पळेतां त्या विवराक सिळा दाटिलाली देखिली.

तावळि भिमशेनाक आपौनु हाडुनु तें विवर आणी सिळा दाखैली आणी "जे वेळे तुमकां आकांतु पडत ते वेळे ही सिळा फडुनु ह्या विवरांतुल्यान वचा," ऐसें वर्म[7] सांगिलें. फुडां ताचो हातु धोर्नु विधुरु धर्मा लागीं घेउनु आयूलो. "तुमकां हांव येक सांगतां. ह्या दुर्यधनाक तुमीं विस्वासुं नाकाति." ऐसें उतर सांगुनु अस्तानपुराक येउनु भिस्मदेवाक भेटलो. जी द्वारके ठाउनु कृस्ट्णान पत्रिका धाडिली ती वाचुनु दाकैली. अजुनु पर्येनूत्र दुर्यधनु त्यां पाण्डवांक वायूट कर्ता हें तुमीं जाण. तावळि भिस्मदेवान म्हळें, "हें वर्माचें[8] उतर तुवें तांकां सांगिलां कि नां?" तावळि ताणें म्हळें, "स्वाम्या, सर्व मना हाडुनु आयूलां" ऐसें हें उतर सुख इन्द्रान जन्मजयाक सांगतां, ताणें विचारिलें, "आगा ते पाण्डव जिवंतचि आसतनां विधुरान तरि तांकां सांगिलें, तुमकां ह्या घरांतु लासुनु मारुंचें केल्याति म्होणु, ऐसें आसतां थैं ते कित्या राविले?[9]" तावळि ताणें म्हळें, "ह्या दुर्यधना रायाचो उधण्डु गुन्याव् केल्या वेगळें, हाचेरि अपरादु लायूल्या वेगळें, त्यां पाण्डवानिं संव्हार्येचो नां[10], म्होणु त्या कारणें त्या घरांतु रावले, परमेस्परारि भारु घाल्नु. जें परमेस्परु करित तें सते." हें त्या सुख इन्द्राचें उतर आयूकुनु जन्मजया समंजलो.

फुडां दुर्यधना रायान त्या पुराचना ब्राम्हणाक आपौनु, सांगुं लागलो, "आरे ब्राम्हणा, तुं एकेविसां माळ्यांचें घर इन्द्रप्रेस्तांतु बांदुनु आयूलोसि त्या मनूधिराची रचना देखुनु पाण्डव कोनूत्ये सैत राजे करितात. तरि आतां तुं थैं वचुनु मध्यान रात्रिचें[11] समहीं, ह्रैं तुवें लाखेक तेलाक दारुवेक उजो लाउंची स्वात ठेयूल्या ते स्वाते वचुनु उजो लाउनु पाण्डवांक कोनूत्येक वा तें घर जाळूनु भस्म कर्नु यो. हें तुं जरि करिसी, जेतुकें तुं मजे लागीं मागत इतुकेंयू दिन. हें अवशे[12] आमंचें कार्य[13] करि. आतां तुं थैं वच." ऐसें म्हणौनु कापुर्वेलिच्या पानांचो विडो आपुले हातिं ताका दिलो, वस्त्रां लुगडीं दिलिं, ताची पाठि थापटिली. तावळि राया दुर्यधनाचो निरोपु घेउनु आपुले मनीं सोन्तोसु जाउनु इन्द्रप्रेस्ताक येउनु पाण्डवांक भेटलो. तावळि धर्मान म्हळें, "पुराचना कोणा कार्या निमितीं आयूलासि?" तावळि ताणें म्हळें, "स्वाम्यानो तुमंचें चरण देखुंचें दिसलें म्होणु हांव हांगा आयूलों." हें उतर आयूकुनु धर्मान म्हळें, "तुं सुखी हांगा राव. तुका बरे प्रमाणीं सांबाळुं." ह्या उतरारि तो ब्राम्हणु सुखी जाउनु रात्रि दिवसु शेवा कोरुं लागलो.

ऐसी शेवा करित आसतनां भोउ काळ जाहाले. येके दिवसिं सुर्यु अस्तमान वचुंचे समैं, पांच जण परदेसी त्या धर्मरायाच्या घराडे येउनु रावले. इतुके समहिं मध्यान रात्रि जाहाली. पाण्डवानीं जेवण खाण सार्ले. जेतुके परदेसी अनाथ इतुक्यांकै अन उदक दिलें, देउनु सुखी केले. निद्रेक आपुले ठांयू गेले. तावळि भिमशेनान म्हळें, "हो पुराचनु ब्राम्हणु येउनु धर्मरायाची शेवा करिता. हाचो आमकां विस्वासु नां. हो आमंचो घातु करित म्होणु आस." तो रात्रिचो राखुं बैसलो. ते चोउगैं भाव धर्मु, अर्जुनु, नकुलु, सायेदेउ आणी तांची माये कोन्ती पलंगावरि निदेलीं आसतां पुराचनु ब्राम्हणु भायूर वचुनु उजो घेउनु आयूलो. ताकां भिमशेनान देखिलो, "आगा पुराचना, उजो कोणा कार्याक तुवें हाडिलेलो रात्रिचो?" तावळि ताणें म्हळें, "माका भोउ सीं खाता देखुनु तापुंक हाडिलेलो." तावळि भिमान म्हळें, "तुवें ज्या कार्याक उजो हाडिला तें हांव जाण." हें तार्चे उतर आयूकुनु तो कडकडेउं लागलो. तावळि त्या पुराचना ब्राम्हणाक भितरि घरांतु वोडुनु काडुनु विचारुं लागलो, "ह्या घराक कोणी कडे उजो लाउंची स्वात ठेयूल्या ती तुं माका दाखै. तुं कडकडेउं नाका." तंव ताणें स्वात उजो लाउंची दाखैली. भिमशेनान ताच्या हातांतुलो उजो घेउनु आपणेंचि दारिवट्याक लायूलो. उजो लायूत खेवीं तेलाक, लकेक, मेणाक दारुवेक लागलो. म्हा जाळ तेणें करुनु उजो प्रज्ञळलो.

तें देखुनु भिमशेनु धाउनु वचुनु धर्माक, अर्जुनाक, नकुला, सायेदेवाक कोनूत्येक जागैलीं, "वेगीं तुमीं उबठाया. घराक कोणें उजो लायूलो." तें उतर आयूकुनु तीं गजबजुनु उबठलीं. उज्याचे जाळ थोर गघनाक पर्येनूत्र प्रज्ञळुं लागले. तावळि त्या भिमान त्यां पांचै जणांक घेउनु, विधुरान जें विवर दाखैललें त्या मुखारि दाटिलेली सिळा फोडुनु, त्यां पांचैं जणांक खांदारि घेउनु त्या विवरांतुल्यान वचुंक गेलो. ऐसें आसतां तें घर जळता देखुनु त्या नगरांतुलो लोकु म्होणुं लागलो, "आरे पाप्या दुर्यधना, हें तुवें कितें केलेंसी? पांडव बापुडे सतेवादी. हांकां तुं परमेस्परा राख." तावळि येकानीं म्हळें, "ह्या घरांतु ते निदेलेले, मध्यान रात्रिचो तरि उजो लागला. ते कैसे उरतले? तांकां वचुंक वाट तंव नां." त्यां भितर्ले ब्राम्हण म्होणुं लागले, "जरि परमेस्परु राखतलो आस तरि कोणी येकी प्रकारीं ह्यां पाण्डवांक जिवन्तु राखत."

ऐसें आसतां फुडां सुर्य उदेउ जालो. पाण्डव त्या घरांतु जाळले ऐसें आयकुनु दुर्यधनु राय् म्हा सोन्तसु करुं लागलो. त्या रायाची माये गान्दारी वा बापु दृतरास्टरु, भिस्मदेउ, विधुरु जे थोर थोर म्हालगडे लोकु इतुकेय् दुख करुं लागले, ''पाप्या दुर्यधना, तुका काय् बुधि परमेस्परान दिली? आपुले बापलभाव तांकां इन्द्रप्रेस्त राजे देउनु बरवें येकविसां खणांचें राज मन्दिर बांदुनु, भिमशेनु मेलेलो जिवो जाउनु आयूलो म्होणु त्या उछ्याक दिउनु, पांचैं पाण्डवां कोनूत्ये सैत लासुनु मारिले. असल्याक तुका परमेस्परु कदांचि बरवें नकरी. राज मधान मातलोसि. आप पर विसर्लोसि. मार्गां असल्यो करण्यो कोणेचि केल्यो नांति, असलें तुं करितासि.'' म्हणौनु आपुले मनीं भोउ दुख करुं लागलीं.

त्या उपरांतें दुर्यधनु भोउ सन्तोसु जाउनु आपुले मनिची कामना सिधी जाली म्होणु, चतुरंग सहिने, रथ, हस्ती, घोडे अठरा खेवणीं पायेदळा सैत वाजांत्रां वाजत इन्द्रप्रेस्ताक आयूलो. येउनु ज्या घरांतु पाण्डव लासलले त्या घरांतु येउनु पळेउं लागलो. तावळि ते निदेलेले परदेसी पांच जण येकी कडे लासल्याति आणी तो पुराचनु ब्राम्हणु येकी कडे लासला. ऐसिं स जणां देखिलीं, देखुनु भोउ सोन्तसलो. मग आपुल्या प्रधानाक म्होणुं लागलो, ''ह्यां सहीं जणांचीं[14] हाडांचो गोबरु भर्नु घे. आमीं समेस्त न्हैंचे कांटीं वचुनु तांची क्रिया आचारुं. आतां पाण्डव आमंचे वैरी तंव नांति. आतां आमीं सुखी राजे करुं.'' ऐसें म्हणौनु त्यां परदेस्यां पांच जणांचीं वा पुराचना ब्राम्हणाचीं हाडां व्हर्नु न्हैंतु घालीं. बरी क्रिया केली[15] दान धर्मु केलो. जेतुके भिकारी मागते जागते तेतुक्यांकै अन दान, उदक दान वस्त्रां दान, द्रवे दान ऐसीं नाना परिंचीं दानां दिउनु सुखी सोन्तसी केले आणी रणभेरिक घाउ दिलो. 'पाण्डव संवसारीं नांति. आतां आमीं कोउरव सुखी राजे करुं,' ऐसो डांगिरो आपुल्या राज्यांतु पेटुनु अस्तानपुराक आयूलो, येउनु सुखी राजे करुं लागलो.

इतुक्या मधें ते पाण्डव वा तांची माये कोन्ती विवरांतुल्यान वेतां वेतां फुडां येकु गाउं भुंय् पावलीं. थैं थोरु अन्दकारु, मुखारि वचुंच्याक मार्गु दिस नां. तावळि भिमशेनान आपुल्या वायुदेवाचें सुमरण केलें. तें आयकुनु तो ततुखेणीं येउनु त्यां सहि जणांक आपुल्या उसुंग्यारि धर्नु खिणाचि मधें येका अरण्यांतु व्हर्नु पायूलीं. फुडां सुर्य उदेउ जालो. वायुदेउ अदृस्टु जाउनु गेलो. ऐसीं त्या अरण्या

मधें आसतां पांच दिवस पर्येनूत्र तांकां अन उदक नां. तावळि धर्मान म्हळें, ''भिमा, ह्या अरण्यांतु उदक तंव नां. आमीं ह्रैं उदक आस त्या पर्वतारि या.'' तें उतर आयूकुनु भिमशेनु सोदित सोदित अरण्यांतु गेलो. फुडां ताणें येका पर्वतावरि उदक देखिलें. थैं थाउनु परतुनु येउनु त्यां पांचै जणांक उदक ह्रैं आस थैं घेउनु गेलो. तें उदक देखुनु धर्मु, अर्जुनु, नकुलु, सायेदेउ, कोन्ती भोउ सोन्तसलीं. त्या उदकान बरें न्हाण[16] कर्नु परमेस्पराचें सुमरण केलें. फुडां खाउंक कांयू नां देखुनु भिमशेनान वचुनु रुखाचीं कन्द मुळां फळां घेउनु आयूलो. तीं सहियू जणांनीं येकि कडे बैसुनु खेलीं. उदक सुखी जाउनु पिलीं.

तो बरो आस्रमु देखुनु धर्मु भोउ सोन्तसलो. कित्या जरि म्हणसी तरि नाना परिंच्यां रुखांची साउळी, सकल असतें बरें उदक, वैरि पख्ये नाना परिंचे स्वर करितातिं. तें देखुनु आपण पांचै जण बरवें नृते गायेन करुं लागले. तें गायेन समेस्तां पख्यानीं आयूकिलें, आयूकुनु म्होणुं लागले, ''काये परमेस्पराचें नाम सुमरण हे पाण्डव करितातिं. सपनां रागानीं बरवें गायेन करितातिं. असल्या बापुड्या परदेस्यांक परमेस्परान थोर राजे देउंचें. ह्या अरण्यांतु बापुडे कस्टवतातिं. कोणा कार्या निमितीं हे हांगा पावले हें तरि आमकां नकळ. हांगाचि जरि हे धा आट दिस रावती, तरि परमेस्पराचें सुमरण आमंच्या कानांतु पडत. तेणें करुनु आमीं उधारुं,'' ऐसे ते पखी येकमेकां भितरि उलैतिं. येणेचि प्रमाणीं कन्द मुळां खाउनु ते पाण्डव कोनूत्ये सैत धा आट दिस त्याचि आस्रम्याडे राविले. तावळि त्या अरण्याचो स्वामि ताचें नांव हिडम्बु राखेसु आपुले भैणी हिडंबिणिक म्होणुं लागलो, ''आगे, ह्या अरण्यांतु मनुश्याची आणि[17] येता. आजि धा आट दिस पर्येनूत्र मनुश्याचि आणि मज्या नाकाडे येता. तरि तुं वच समेस्त अरणें सोदि. कोणी कडे मनुशां आसति ऐसें पळे आणी पळेउनु येउनु तुं माका सांग. मागिरि आमीं दोगैं जणां वचुनु तीं मनुशां जरि आसति, तरि सुखी खाउं.''

हें आयूकुनु ती हिडम्बिणि तें अरणें सोदित सोदित त्या रत्नागिरी पर्वतारि पावली. त्यां व्रख्यां लागीं हीं पांचै जणां निदेल्यांतिं. भिमशेनुचि हातीं गदा घेउनु बैसला. ताच्या स्वरुपाक देखुनु ती राखेसि भुलली, भुलुनु म्होणुं लागली, ''आगा परमेस्परा असलो येकु भ्रतारु जरि तुं माका दिसी तरि तुज्या धर्मान

मजी मन कामना सुखी जायूत.'' ऐसें तें रुप देखुनु भुलली. फुडां मनुश्यांचें रुप धर्नु येउनु माहा सुन्धरि लावणे पुतळी जाउनु त्या भिमशेनाक विनौं लागली, ''आहो माहा पुरुसानो तुमीं खैंचे कडेचे? कित्याक ह्या अरण्यांतु आयूल्याति? तुमंकां समेस्तांक राज लखेणां दिसताति. आतां तुमीं मजे मनिची कल्पना सिधी पाउंची. तुमीं मजे भ्रतार जाउंचे, ऐसी वासना माका उठिल्या. तुमीं आतां माका आपुली स्त्री म्होणु मान्या.'' तें उतर आयूकुनु भिमशेनान म्हळें, ''मजो व्हडलो भाउ धर्मु वा आमंची माये कोन्ती तीं निदेल्यांति. तांच्या निरोपा वेगळें तुका मज्यान वासे करवें नां.'' तें उतर तिणें आयूकुनु विनौं लागली, ''तुमंकां सांगतां तें आयूका. ह्या अरण्याचो स्वामि हिडम्बु राखेसु. ताची भैणि हांव. मजें नांव हिडम्बिणि. तरि त्या राखेसान तुमंची आणि येता म्होणु माका पळेउंक धाडिलली, ठांय् घालुनु वेगिं यो म्हणौनु. तरि आतां हांवें तुमंकां पांचांकै देखिले. तुमंच्या रुपाक देखुनु हांव भुललीं. आतां तो हिडम्बु मजो भाउ माका कळावलें म्होणु सोदुंक येतलो. तो माकाय् आणी तुमंकांय् खायूत. आतां आमीं हो ठाव् सांडुनु आण्येका अरण्यांतु या. तुमंकां हांव व्हरन. थैं आमीं सुखी राउं.''

ऐसीं भिमशेनु आणी हिडम्बिणि गोस्टि करितां पैस ठाउनु त्या हिडम्बा राखेसान तांकां देखिलीं. देखुनु आपुले भैणिक म्होणुं लागलो, ''तुका वेगीं सोदुनु यो म्होणु हांवें धाडिलेली. तुं हाच्या रुपाक भुलुनु हांगा राविलिसि. तरि प्रथम तुका गिळन मागिरि ह्यां सहिंय् जणांक गिळन.'' ऐसें म्होणु तोंड आंकार्नु गिळुंक तिका आयूलो. तावळि ती हिडम्बिणि आपण्याक राख म्होणु त्या भिमशेनाक शेरण येउनु ताचे पाठी आड उबी रावली. तावळि त्या भिमशेनान त्या राखेसाक पाचारिलो, ''आरे हिडम्बा, ही तंव माका शेरण आयल्या. सर्वता हिका हांव वोपुनु नेदें. शेरणागताक जरि वोपुनु दिन तरि अंतीं नरया वचन[18] आणी हिका जरि हांव राखन तरि परमेस्परु माका बरें करित. आतां जें कांय् तुजे मनीं आस तें तुं करि.'' हें उतर भिमशेनाचें आयूकुनु त्या राखेसाक कोपु सनूचरलो. तोंड आंकार्नु गिळुंक आयूलो. तावळि ते चोउग भाव धर्मु, अर्जुनु, नकुलु, सायेदेउ, तांची माये कोन्ती तीं आसतीं, पांचै जणां निदेल्यांति. कांय् नेणंति.

इतुक्या मधें राखेसान धाउनु येउनु त्या भिमाक मानेवरि[19] मुठि मार्ली. तें

देखुनु भिमशेनु म्हा कोपारुडु जालो. जाउनु त्या राखेसाचे केंस धरिले. धर्नु उजुव्या हातान मुटी मारुं लागलो. तावळि राखेसान माहा विदेन आपणपें चुकैलें. पुणतीं भिमशेनारि धाउनु येउनु येकु रुखु हुमटाउनु त्या रुखान मारुं लागलो. तंव भिमशेनान आपुले गदेन हाणुनु तो रुखु शेतचुर्न केलो. ऐसें दोनि घड्यो पर्येनूत्र नाना परिंचें युधें करुं लागले. इतुक्यारिचि अर्जुनु जागो जालो. "धर्म राया, नकुला, सायेदेवा, वेगीं तुमीं उबटाया. येकु अद्भुतु राखेसु येउनु भिमशेनावरि युधे करिता." ऐसें म्होणु धणुकाक बाणु लाउनु त्या राखेसाक विन्दुंचो, इतुक्या मधें भिमशेनान ताका आण घाली. "तुं जरि बाणु विन्दिसी तरि तुका आमंच्या बापा पण्डुची आण. आमीं दोग युधे करित आसतनां तिसऱ्यान बळ कर्नु विन्दुं नये. जरि येकाक दोग जरि मारिती तरि ताचे पुर्वज नरया पडती. येकल्यारि येकल्यानचि झुजुंचें. येकाचे हातीं हत्यार आस आणी येकाचे हातीं हत्यार नां, तरि ताका मारुं नये, ऐसें खेत्री धर्मीं आस. हें तुं बरवें जाणुनु हो विचारु कित्या करितासि? हातिचें धणुक भुंयू दवरि. ह्या राखेसाचो आणी मजो घडी भरि तमासो पळे."

हें उतर आयूकुनु ते चोउगै जण वा तांची माये कोन्ती वोगिंचि रावलीं. फुडां त्या हिडम्बा राखेसान मुटी भिमशेनाच्या हुर्ध्यारि मारिली. ते मुटिच्या बळान भिमु रग्त बडबडां वोंकुं लागलो. रग्त आपुल्या तोंडांतुल्यान पडता देखुनु माहा कोपुनु धाउनु वचुनु त्या राखेसाचे दोनियू पाये धोर्नु अनूत्रळीं उखळुनु गरगरां भोंवडाउं लागलो. तें कवतुक धर्मा, अर्जुना, नकुला, सायेदेवा वा तांचि माये कोनूत्येन देखुनु अचर्ये कोरुं लागलीं. "हो भिमशेनु नवनाग सहस्र बळी[20]. हाणें साम्पुचे दिवसीं म्हयेसु जिकिलो." ऐसीं तीं येकमेकां भितरि भिमाक वर्नित आसतां येकि थोरि सिळेवरि त्या राखेसाक आपुटिलो. तेणें करुनु तो शेतचुर्न जालो. भिमशेनु धर्माच्यां वा आपुले माये कोनूत्येच्यां पायां लागलो. हेरां तेगांयू भावांचो गळो धर्लो.

ऐसें आसतनां फुडां हिडमूबिणि येउनु त्यां पांचै जणांच्यां पायां पडली. तावळि धर्मान म्हळें, "ही कोणि खैंची?" तावळि ती म्होणुं लागली, "स्वाम्या, ह्या अरण्याचो स्वामि मजो भाउ हिडम्बु राखेसु. ताची हांव भैणि. मजें नांव हिडमूबिणि. ताणें माका ह्या अरण्यांतु मनुश्यां आयूल्यांति म्होणु पळेउंक

धाडिलेली. तुमकां हांव देखुनु हांगाचि उबीं रावलीं आणी ह्या भिमशेनाच्या रुपाक भुललीं. ह्या राखेसाचो समुळ व्रतावन्तु ह्या भिमशेनाक हांवें सांगिलां : तुं मजो पति जा. हांगा ठाउनु आण्येका अरण्यांतु तुमकां सहियू जणांक हांव व्हरन. थैं राखेसांचें भये कांयू नां. ऐसें आमीं येकमेकां उलैतां, हिडम्बु राखेसु तोंड उगडुनु आमंकां सातांयू जणांक गिळिन म्होणु आयूलो. ताका देखुनु हांव भिलीं आणी ह्या भिमशेनाक शेरण आयूलीं. तावळि हाणें माका पाठी घालुनु ह्या राखेसाक तुमंचे देखतें मार्लो. आतां ह्या भिमशेनाक निरोपु द्या मजो भ्रतारु जाउंक." तें उतर आयूकुनु धर्मा रायान म्हळें, "तुजो भाउ हाणें मार्ला. तुं ताची भैणि आणी हो भ्रतारु जावू म्होणु तुं म्हणतासि, तरि हें नितिक आसतें घड नां. तुं बरें जाणसि."

तें उतर आयूकुनु ती त्या धर्मा लागी विनौं लागली, "तुमीं ह्या भिमशेना लागी विचाऱ्या. हो जरि जायू म्हणत, तरि तुमीं हाची बायूल कऱ्या." तावळि ताणें मोउ बरें म्हळें. भिमशेना लागी विचारिलें, "ही जें म्हणता तें सते की लटिक?" तें आयूकुनु भिमान[21] "हें उतर सते." तावळि त्यां दोगांकै येका पाटारि बैसौनु पांचैं जणानीं सेंस भर्नु गन्धर्विव्हावू केलो. फुडां ते हिडम्बिणिन त्यां पांचैं पाण्डवांक पाठिरि बैसौनु जो हिडम्बु राखेसु मार्ललो ताच्या घराडे व्हर्नु बरो मानु सन्मानु केलो आणी नाना प्रकारिंचीं खण्ड रोस पोकुवानां खाजीं भोजीं करुनु तांकां सोन्तसी केले आणी येके दिवसीं धर्मा लागी निरोपु मागुनु त्या भिमशेनाक आपुले पाठिवरि बैसौनु अरण्यान अरणें पर्वतान पर्वतु भोंवडायू आाणी जैसी आपण्याक इछ्या आस तैसे भोग त्या भिमशेना करवीं भोगी. त्या पर्वतारि आसतनां त्या भिमान आपुले स्त्र्ये हिडमूबिणिक म्हळें, "ह्या पर्वता सकल राजे येक तंव बरवें दिसता, थैं आमकां आणी आमंचे मायेक व्हर्नु पायू." तें उतर आयूकुनु ती म्होणुं लागली, "स्वाम्या, ह्या अरण्यांतु ह्या हिडम्बा राखेसा निमितीं तुका कस्ट भोगले, ह्या पासि अदिक कस्ट तुमीं ह्यैं माका पाउं सांगताति थैं आसति."

तें उतर आयूकुनु भिमशेनु म्होणुं लागलो, "थैं कसले कस्ट आसति तुं माका सांग." तावळि ती सांगुं लागली,

त्या येकचक्रा राज्याक बारां गांवाचे माने[22] रुंदी दिग्ये

इतुक्यांचोय् धनी येकु तोंड्यो राखेसु. तो दिसाच्या दिसा उधंड लोकाक खायू. तांकां सांबाळतलो कोणुं नां देखुनु समेस्त लोकु तोंड्या राखेसाक शेरण आयूले. "तुं ह्यां फुडां लोकाक ऐसें करुं नाका. दिसाच्या दिसा तुका एकु मानु दिताउं तो घेउनु समेस्तांचो प्रतिपाळु करि." म्होणु पायां पडले. तें उतर आयूकुनु ताणें म्हळें, "भोउ बरें तुमीं जरि माका शेरण आयूले, तरि तुमकां वायूट नकरीं. जो कांयू मानु माका दिन म्हळां तो हांवें कोबुल केलो. आतां तुमीं माका सांगा." तावळि त्यां समेस्तानीं म्हळें, "स्वाम्या, दिसाक येक माणुस आणी बारां खाण्ड्यांचें अन[23] दिसाच्या दिसा आमीं तुका देउं." घर सर्ते प्रमाणीं येक माणुस बारां खाण्डूयांचें अन देउंचें ऐसो बोलु सर्त कोर्नु त्या तोण्ड्या राखेसाक थाम्बिलो. ऐसलो विचारु त्या राज्याक आस. तुमीं थैं वचुं नाकाती.

ऐसें म्होणु हिडम्बिणिन भिमशेनाक सांगिलें. तिचें उतर आयूकुनु तो भोउ सोन्तसलो. "तुं आमकां थैं व्हर्नु पायू, त्या राखेसाचें बळ पळेउं" ऐसें म्होणु दोगांयू पर्तुनु झैं पाण्डव आसति थैं आयूलीं. ही खबर भिमशेनान तांकां सांगिली. तें आयूकुनु ते म्होणुं लागले, "आतां आमीं सकाळिंचि उबटाउनु येकचक्रा राज्याक वचुं." ऐसें मना हाडुनु येकि रात्रि थैं तानीं क्रमविली. फुडां सुर्यु उदेउ जालो. भिमशेनाचे अस्त्ये हिडम्बिणिक ताणिं म्हळें, "दोनपारां भितरि येकचक्राक पायू." तावळि तिणें म्हळें, "स्वाम्यानो, भोउ बरें." म्होणु येके राखेसिचें अदूभुत रुप धोर्नु सहियू जणांक आपुले पाठिरि बैसौनु अनूत्रखे चालुं लागली.

ऐसी ही कथा सुख इन्द्रान जन्मजयाक सांगिली. कथा अपुर्वि देखुनु जन्मजय म्होणुं लागलो, "त्या तोण्ड्या राखेसाची कथा तुं माका सांग ही विनंती."
चोउदावी[24] कथा समाप्त.

**टीप:**

1. कृश्ण
2. त्या
3. ते केन्नाच फट उलय नांत
4. मसुद्यांत 'विस्वकर्माक' हाचेर carpenteiro de Deus (देवाचो सुतार)
5. माळ्यांच्या
6. त्या
7. मसुद्यांत 'वर्म' हाचेर कोंकणी उतर 'बुधि' आनी फिरंगी उतर : segredo (घूट) बरयलां
8. मसुद्यांत 'वर्माचें' हाचेर : sagredo (segredo घूट) आसा.
9. समासांत : malas quore (quare?) Deus expectet (कित्याक देव पातक्यांक शिक्षा दिंवक कळाव करता.)
10. पाण्डवांक संहार येंवचो ना.
11. रात्रिचे
12. मसुद्यांत 'अवशे' हाचेर : em todo o caso (कशेंय करून) बरयलां.
13. मसुद्यांत 'कार्य' हाचेर : negocio (वेव्हार) आसा.
14. जर्णांच्या
15. समासांत एक अस्पश्ट टीप आसा.
16. मसुद्यांत 'स्नान' हें उतर बरयललें तें काडून ताचे स्वातेर 'न्हाण' बरयलां.
17. वास
18. दुसऱ्या जल्मांत हांव पडतलों
19. मसुद्यांत 'मानेवरि' हाचेर tontiço (मान) मेळता.
20. 9000 हतिंचें त्राण आसल्लो बळवंत आनी धैर्यवंत मनीस.
21. भिमान म्हळें
22. मसुद्यांत 'माने' हाचेर espaço (सुवात) आसा.
23. मसुद्यांत 'अन' हाचेर : arros cozido (शीत) बरयलां.
24. तेरावी

# चोउदावी कथा

फुडां ती हिडम्बि राखेसि । पुस्टी व्हाउनु पाण्डवांसि । घेउनु आली येकचक्रासि । तें तुमां सांगैन ।

फुडां ते हिडम्बी राखेसिन त्यां पाण्डवांक आणी कोनूत्येक आपुले पाठिरि बैसौनु आकास मार्गी येकचक्राक हाडुनु उतर्ली. तावळि परमेस्पराच्या घरा थांय् तीं सहिय् जणां वचुनु राविलीं आणी ब्राम्हणाच्या रुपान पांचै जण भिक मागुनु आपुली माये झैं आस थैं हाडुनु जेउनु खाउनु सुखी आसिले आणी राति दिसु परमेस्पराचें सुमरण पुजन ध्यान चिन्तन करितातिं. हाचे वेगळें दुसरी[1] तांकां आणी कांय् नां. ऐसें आसतां हिडम्बिणि येउनु धर्माक कोनूत्येक पायां पडुं लागली, "ह्या भिमशेनाक चोउं दिसांचे मातु आमंच्या घराडे तुमीं धाड्या." तावळि ताणीं म्हळें, "भोउ बरें. तुजे सांगातीं व्हर. पांचव्या दिसा सकाळिंचि हांगा आमकां आणिकडे वचुंचें आस." ऐसें म्होणुं भिमशेनाक निरोपु दिलो. तावळि तिणें म्हळें, "स्वाम्यानो, भोउ बरें. तुमंच्या निरोपा प्रमाणीं आमीं चालुं." तंव तिणें आपुले पाठिरि ताका बैसौनु आकासा मार्गी आपुल्या घराडे घेउनु आयूली. नानां परिंचीं पुस्वां, वस्त्रां, लुगडीं, खण्ड रोस, पोकुवानां, खाज्य भोज्य कोर्नु खाउनु आपण्याक जैसी इछ्या आस तैसी आस्या भोग च्यारि दिस पर्येनूत्र रात्रि दिस भोगिति. फुडां पांचवे दिवसीं सुर्यु उदेउ जाउंचे फुडे, येक अद्भुत राखेसिचें रुप धोर्नु, ताका आपुले पाठिरि बैसौनु आकास मार्गि उडुनु, डोळ्यांच्या पात्याक पातें लाग पर्येनूत्र येकचक्राक घेउनु आयूली. कोनूत्येक पाण्डवांक भेटली. तानीं भोउतां परिं सन्मानिली. तावळि हिडम्बिणि उटुनु दोनिय् आपुले हात जोडुनु विनौं लागली, "स्वाम्यानो, येकु पुत्रु तुमीं माका द्या." तावळि धर्मान म्हळें, "भोउ बरें." म्होणु तिच्या मात्यावरि हातु दवर्लो. "तुगेरि जो पुत्रु जायूत ताका नांव घट्यद्वजु." ऐसो तिका निरोपु देउनु आपुल्या मन्थिराक धाडिली. "जे वेळे तुका इछ्या जायूत ते वेळे तुं ह्या भिमाचें सुमरण करि. हो तुका ततु खेणीं पावत आणी तुजी मन कामना सर्व सिधी पायूत" ऐसो तिका निरोपु दिलो. ती ततु खेणी आपुल्या घरा आयूली.

ऐसिं येकचक्रा नगरांतु आसतां नकुलु, सायेदेउ दोगै भिक मागुंक गेलेले ते भिक मागत येका ब्राम्हणाचे घरिं पावले. तावळि त्या समेस्ता नगरांतुल्या

लोकान येकु आपुलो काठिकारु त्या ब्राम्हणांच्या घराडे धाडिलो. तो येउनु त्या ब्राम्हणाक सांगुं लागलो, ''आहो भटा, आजि तुमगेली पैरी. बारा खाण्ड्यांचें अन आणी येक माणुस गाड्यारि घाल्नु ह्नैं तोंड्यो राखेसु आस थैं वेगीं धाडुनु द्या. नां तरि तो आमकां गुजरी नां. हें तुमीं बरे प्रकारिं जाणति.'' हें उतर आयूकुनु त्या ब्राम्हणाक आकांतु वर्तलो. चोउगांयू जणां रुधन करुं लागलिं. येकमेकां भितरि म्होणुं लागलिं, ''बारां खाण्ड्यांचें अन रांदपिणिक आपौनु हाडुनु आमीं रांदुचें. आतां आमीं रडललें कामा नये. माणुस जरि देउं म्हळें तरि आमीं चोउग जण. द्रवे देउनु माणुसु जरि घेउं म्हळें तरि ह्यां[2] राज्यांतु मेळ नां.'' ऐसी त्यां चोउगांयू जणांक म्हा चिन्ता जाहाली. तावळि त्या ब्राम्हणाची बायूल म्होणुं लागली, ''हांव म्हातारी, हांव वचन[3].'' तें आयूकुनु तो ब्राम्हणु म्होणुं लागलो, ''तुज्या पुत्राक आणी तुजे सुनेक सांबाळुनु तुं राव. हांव वचन.'' पुतु म्हणता, ''तुमीं म्हातारीं वचुं नाकाति. हांव वचन[4]. तुमीं दोगांयू माये बापु म्हातारीं. हांव पुतु आसतां तुमीं वचुं नये. तुमकां धाडुनु हांवें घरिं राउं नये. तुमंकां पुर्विली कथा सांगतां ती आयूका, आपुल्या बापा दसरथा रायाचें वचन पाळुंक चोउदा वरुसां पर्येन्त्र वन रामचन्द्रान वसैलें. एणेचि प्रमाणीं कित्येकां पुत्रानीं आपुल्या माये बापाचें वचन पाळुनु तांची शेवा करुनु ते बरव्ये मुग्ती पावले आणी जे कोण आपुल्या मायेबापारि वा आपुल्या कुटंबारि आकांतु पडलो आसतनां, ते वेळे आपणापें चुकौनु जिउ राखताति तांकां अन्तीं नरक वासु, मुग्ति नां, ऐसें शास्त्र धर्मीं सांगिलां. शास्त्र तंव आमीं रात्रि दिसु वाचिताउं.''

ऐसें त्या देवस्रमा ब्राम्हणाचें वचन आयूकुनु तीं दोगैं म्हातारीं माहा रुधन करुं लागलीं. तावळि त्या देवस्रमाची स्त्री येउनु दोनि हात जोडुनु आपुल्या मांयू मांवा लागी वा आपुल्या भ्रतारा लागी विनौं लागली, ''हांव आसतनां तुमकां कसली चिन्ता? तरि तुमीं कांयू चिन्ता करुं नाकाति. हांव गाड्यारि बैसुनु बारां खाण्ड्यांचें अन व्हर्नु त्या राखेसा तोंड्याक सुखी करिन. हें अन आणी मजें मास तो जरि खायूत तरि उपकारा पडत. हें शेरिर नासवंत, मरुंचें तंव कदां चुक नां. ऐसें आसतां तुमीं कांयू चिन्ता करुं नाकाति.'' ऐसें ते सुनेचें उतर मांयू मांवान वा तिच्या भ्रतारान आयूकुनु रडुं लागलीं. ऐसें करितां तीं चोउगांयू रडताति. घरांतु रांदपिणिनीं मुस्तायूती कोर्नु ठेयूला. घरिंचीं मनुश्यां चोउगां जणां येक विण

येक राउं नसक म्होणुं चोउगांयू जणां मरुंक पळेताति. ऐसो तांचो आकांतु नकुला, सायेदेवान देखिलो; देखुनु भिक मागुंचि सांडुनु आपुले माये कोनूत्येक वा तेगांयू भावांक धर्मनाथाक, भिमशेनाक, अर्जुनाक सांगिलें. तावळि आपुले माये कोनूत्ये लागिं पाण्डवानीं विचारिलें, "आगे माये कोनूत्ये ह्या तोंड्या राखेसान हें राजे समेस्त विभाडिलें. समेस्त लोकाक अपजायूता. दिसाच्या दिसा बारां खाण्ड्यांचें अन आण्येक माणुस गाड्यारि घाल्नु धाडिताति. तो तें खाता आणी सुखी आपण हे नगरिचो रावू ऐसें मनांतु गर्व गेता. तरि तुं आमकां निरोपु दी, ह्या तोंड्या राखेसाचो आमीं संव्हारु करुं."

तें आयूकुनु अर्जुनान म्हळें, "हाका मारुंक आमीं पांच जण जाये? येकाचि बाणान खिणा भितरि ताचो संव्हारु करिन." तें उतर आयूकुनु भिमशेनान म्हळें, "हाका बाणान वा खर्गान मारुंचो हो आमंचो धर्मु न्होये. हाताचे मुठिनचि मार्नु शेतचुर्न कोर्नु घालुंचो." हें भिमाचें उतर कोनूत्येक वा चोउगांयू भावांक मानलें आणी धर्मान म्हळें, "आमीं हांगा पावलल्याक ह्या राखेसाक जरि आमीं मार्लो तरि ह्या येकचक्रिच्या समेस्ता लोकाक उपकारु जायूत. परउपकारा सारिखें आणीक पुने नां. येकु भोवा लोकाक जरि कस्टैता आणी तसल्याक वायूट जरि केलें तरि परमेस्परा ठांयू बरें आस. तरि आतां ह्या राखेसा तोंड्याक मारुंचो. आतां माये तुं देवस्रमा ब्राम्हणाच्या घराडे वच. तांकां ऐसें म्होणुं सांग : मगेरि पांच जण पुत्र आसति त्या भितर्लो येकु जणु परउपकाराक दिन." ऐसें तांचें उतर आयूकुनु त्या देवस्रमा ब्राम्हणाच्या घराडे गेली. तावळि तीं चोउगांयू जणां म्हा रुधन करिताति. गाडो हाडुनु भायूल्यान आंगणांतु[5] उबो केला, बारां खाण्ड्यांचें अन गाड्यारि भर्ताति. नानां परिचीं खाजिं भोजिं भर्ताति. तें कोनूत्येन आपुल्यां डोळ्यानीं देखिलें, देखुनु त्या देवस्रमा ब्राम्हणाक म्होणुं लागलीं, "हें तुमीं कितें करिताति गा?" तावळि तो म्होणुं लागलो, कितें सांगुं मजे आये, जें कपलांतु बरैललें तें माका जाता. आजि आमंगेली पैरी[6]. येक माणुस आणी बारां खाण्ड्यांचें अन गाडो भर्नु देउंचें. मोल देउनु माणुस जरि घेउं म्हळें तरि गांवांतु मेळ नां. आमीं तरि घरांतु चोउग माणुसां. पुत्रु म्हणता आपण वेतां. सुन म्हणता हांव वेतां. आमंची अस्त्री व्रधि ती म्हणता हांव वेतां. ऐसें करितां आजि चोउगांयू जणांक मरण पावलां. हे वेळे आमकां राखतले कोण

मेळत? येका परमेस्परानचि आमकां राखुंचें[7]. ताचे वेगळें आमकां राखतले कोण नां.'' ऐसें म्हणौनु म्हा धळधळां रडुं लागलो. कोनूत्येन तांचो आकांतु देखुनु म्होणुं लागली, ''भटा, तुमीं भियेउं नाकाति. मगेरि पांच जण पुत्र आसति त्या[8] भितर्लो येकु जणु तुमकां हांव दिन.'' हें कोनूत्येचें उतर आयूकुनु तीं चोउगांय् जणां पायां पडलिं, ''दातान्ये, हे वेळे सारिखी वेळ नां. आमंचो चोउगांय् जणांचो जिउ तुं राख. जरि हे वेळे तुं राखसी, तरि परमेस्परु तुका अन्तिं मुग्ति दित. हें आमंचें उतर तुं सते मानि. सवंसारिं येउनु प्राण्यान परमेस्पराची भग्ति करुंची, बरवो दानु धर्मु करुंचो, आपपर वळखुंचें, भिकाऱ्यां चोकाऱ्यां थोंटां पांगुळां अनाथांक आन्दळ्यांक सांबाळुचें, परउपकारु कोरुंचो[9], तरि तें सौंसारीं आयूलल्यांचें फळ. इतुक्या मधें येक्क जरि नकरव, तरि गोरुवाच्या आंगाक किरटी[10] रग्त पियेउनु थैंचि जैस्यो आसति तैसो तो प्राण्यो त्यां किरटीं सारिखो आणी सौंसारीं तो प्राण्यो भुमिक भारु. ह्या कारणें माणुसान परउपकारु कोरुंचो, तरि ताचें फळ[11].''

ऐसीं ताचिं उतरां कोनूत्येन आयूकुनु म्होणुं लागली, ''भटा, तुमीं इतुकें माका सांगताति हें हांव सर्व जाणां. म्हजे तोंडिची वाचा जरि आयूल्या ती हांव सते करिन.'' तें उतर आयूकुनु देवाम्रमा ब्राम्हणु म्होणुं लागलो, ''दातान्ये, आतां माका सांग कितुलें द्रवे देउं? जें तुजे मनीं आस इतुकेंय् हांव दिन.'' तावळि कोनूत्येन म्हळें, ''भटा, तुमीं पिशे. द्रवे घेउनु तुमकां हांव मजो पुत्रु दितां? परउपकाराक तुमकां हांव ऐसोचि दितलिं.'' तें उतर आयूकुनु तिचे पाये धर्ले. तावळि तिणें म्हळें, ''पाये धर्लले कामा नयेति. आण्येकां बारां खाण्ड्यांचें अन, बरिं पोकुवानां वेगीं जाउं द्या.'' तें उतर ताणें आयूकुनु गांवांतुल्यो धा विस ब्राम्हणी हाडुनु अन वर्न खण्ड रोस पोकुवानां नानां परिंचीं केलीं. ऐसें सर्व मुस्तायूती कर्नु कोनूत्ये सांगातीं तो देवम्रमा ब्राम्हणु येउनु पांचै पाण्डवांक पायां पडलो आणी त्यां समेस्तांक आपौनु आपुल्या घराडे व्होर्नु बरो मानु कोर्नु माखण न्हाण केलें. गन्द गुलाब हाडुनु तांच्या आंगाक लायूलें. बऱ्यो परिमळांच्यो पुस्व माळा[12] तांच्यां गळ्यांतु घाल्यो.

जेउंक येके पंकतिक बैसले. नानां परिंचीं खाजिं मोजिं वाडिलिं. इतुकें येकाचि मुद्या[13] भितरि भिमु जेवि. धा विस रांदपिणी कृपण्यानीं अन भर्नु

हाडुनु वाडितातिं. तो[14] पर्तुनु वचुनु आण्येक हाडी पर्येन्त्र हाच्या पानावेलें सगट सरता. ऐस्यो वाडपिणी घस्तावस्ती[15] जाल्यो. घरांतुलें सर्लें देखुनु आपापुले कडे उभ्यो रावल्यो. पानावेलें सर्लें देखुनु जिबेन आपुले हात वा वोंट[16] लेउं लागलो. तें देखुनु देवश्नमा ब्राम्हणान म्हळें, ''वेगीं हाडुनु वाड्या.'' तें उतर आयूकुनु ताची अस्त्री म्होणुं लागली, ''रांदिललें तंव सर्लें. पोकुवानां सर्लिं. तांदुळ धुउंक धाडिल्याति. रांदणिरि हांडे [17] तापलले आसति. खिणा मधें अन जायूत.'' तें उतर भिमशेनान आयूकुनु पस्ट्या वेलो उबटालो. तें देखुनु चोउगानीं पाये धर्ले. तावळि तार्णे म्हळें, ''अनाची आतां माका चाड नां. ह्या राखेसाच्या कार्य निमितीं गाडो भर्ललो अन आस तें हांव जेविन. तुमीं चिन्ता करुं नाकाति, उबटया.'' ही खबर नगरांतुल्या लोकान आयूकुनु जेवी खायू नासतनां नगरांतुलो लोकु त्या भिमशेनाक पळेउं लागले. तावळि तानीं मनांतु म्हळें, ''हाका राखेसाचें दुण्येचें बळ आस. आजि हो ताका मारित. आमकां समेस्तांक परउपकारु करित. हें इतुकें परमेस्परान अवशे करुंचें.'' ऐसे ते येकमेकां भिंतरि उलैत आसतनां, भिमशेनु आंउनु पानाचो विडो हातांतु घेउनु आपुले माये कोनूत्येक वा धर्माक पायां पडलो. अर्जुना, नकुला, सायेदेवा लागी निरोपु मागुनु गाड्यारि येउनु बैसलो. गाडो आसतो आम्बुडिलो.

फुडां येकी कडे तळ्याच्या कांटारि गाडो उभो कोर्नु त्यां बारांयू खाण्ड्यांचें अन जेउनु, उदकांतु हातु धुउनु, पानांचो विडो खाउनु, मिस्यांक वळु भर्नु, गाड्यारि सुखी बैसलो. हें इतुकें तोंड्या राखेसान देखुनु म्हा कोपारुडु जाउनु म्होणुं लागलो, ''सदान्त दोनपारां भितरि ह्या नगरांतुलो लोकु आपापुले पैऱ्ये प्रमाणीं बारां खाण्ड्यांचें अन वा येक मनुश गाड्यारि घाल्नु धाडिति. आजि सांज जाली. हांव येदोळु उपवासीं. आतां हे समेस्तु नगरांतुलो लोकु इतुलोयू खायून. जो कोणु गाड्यारि बैसुनु येता हाका वा हें अन प्रथम आतां भुकेक खायून. उपरांतें नगरांतु वचुनु समेस्ता ल्हाना व्हडाक इतुक्यायू लोकाक खायून. आयूच्यान हांव बोलाक उत्रै जालों.'' ऐसें म्हणतनां गाड्या लागी पावत गेलो. तावळि त्या तोंड्या राखेसान भिमशेनाक हांसतां हांसतां देखिलो. तें देखुनु राखेसान[18] आपुल्या मनांतु म्होणुं लागलो, 'माका देखिल्यारि सदान्त मनुश गाड्यारि मर्नु पड. आजि हो हांसता. काये विचारु?' ऐसें म्हणतनां गाडो लागी

पाउनु सर्लो. तोंड आंकार्नु तो राखेसु येदो वेळु कित्या लायूलो म्होणुं भिमशेनाक गिळुंक आयूलो, येउनु गाड्यारि चडलो. पळे तरि अन नां. येकलोचि हो बैसला. देखुनु रागान धाउनु वचुनु मानेरि मुठी मारिली. ऐस्यो मुठी मारितां मारितां भिमान ताका हातीं धर्नु गाड्या सकल घालुनु आपणैं भुंय् डेउंलो आणी दोगैं येकमेकांक मुठी मारुं लागले.

हे दोगैं झुजताति. समेस्तु नगरांतुलो लोकु पैस ठाउनु पळेता आणी आपुले मनीं म्हणताति, 'आगा परमेस्परा सतेवंता, आजि ह्या भिमशेनाक तुं जैत दी. हाचे हातीं हो तोंड्यो राखेसु मारिसो करि. तुवें आमकां मनुशांक संवसारीं रचिलले, दिसाक येकि वेळे पण तुजें सुमरण आमीं करताउं. ह्या राखेसान आमकां भोउ कस्टायूले. आमंच्या समस्ता लोकाच्या उपकाराक हो भिमशेनु ताच्या लागी युधे करिता. तुं हाका उधण्ड बळ सक्ति दी ह्या राखेसाक मारुंच्याक.' ऐसे ते आपुले मनीं समेस्त चिन्ता करिताति. देखुनु आकासीं अस्रोणित वाचा जाली. ''तुमीं कांय् चिन्ता करुं नाकाति. हो भिमशेनु ह्या राखेसाक आतां खिणा भितरि मारित.'' ऐसे ते दोगैं युधे करित आसतनां राखेसु भिमशेनाच्या केंसाक धोर्नु मानेवरि मुठी मारुं लागलो[19]. केंस सांडुनु जंव गळ्याक म्होणु धाउंक वच तंव आवचितचि हातांतुलो सुंटलो. तावळि भिमान रागान धाउनु येउनु येकि मुठि त्या राखेसाच्या कपलारि मारिली. ते मुठिन ताका मुर्च्छा आयूली. ती भिमान देखुनु ताच्यां दोंय् पायांक धर्नु गरगरां अंत्रकीं भोउंडाउं लागलो आणीं आपुल्या बळान सिळेवरि आपटिलो. तेणें करुनु त्या राखेसाचो प्राणु गेलो. भिमशेनु जैतवंतु जालो.

तें देखुनु समेस्तु नगरांतुलो लोकु येउनु पायां पडुं लागले. ''असले बळकट पराक्रमी ह्या राज्याचे धनी जाउनु जरि आमकां राखति, तरि हांची आमीं शेवा बरवे प्रमाणीं करुं. आजि कितिक वरुसां त्या तोंड्या राखेसान समेस्तु आमचे नगरिंचो लोकु कस्टायूलो. दिसाक आमीं बारां खाण्ड्यांचें अन आणी येक मनुश घरा सर्ते प्रमाणीं देउंचें. आयच्यान आमां समेस्तांचो किन्तु गेलो.'' ऐसें म्हणौनु समेस्तु लोकु मेळुनु येउनु धर्माक प्रार्थुं लागले, ''हें राजे आतां तुमीं कऱ्या. तुमंचे वांचुनु आण्येकु समर्थु कोणु नां. तुमीं हांगा पावले म्होणु आमंचेवरि कृपा करुनु तो तोंड्यो राखेसु तुमीं मार्लो, नां तरि केतिक वरुसां आमकां कस्टायूतो

म्होणु कोणु जाण? तरि आमंचेरि परमेस्परान कृपा करुनु तुमकां हे वाटेंन येउंक केलें. तुमीं हांगा पावल्या निमितीं आमंची चिन्ता खण्डली. आतां तुमीं हें राजे कऱ्या आणी आमकां सांबाळ्या.'' तें तांचें उतर आयकुनु धर्मान म्हळें, ''आमकां कांय् ह्या राज्याची चाड नां. आमीं परदेसी ब्राम्हण. आजि हांगा आसिलेउं फाल्यां आण्येकी कडे गेलेउं. तुमचें कार्य परमेस्परान सर्व बरवें केलें. जो तुमकां उपद्रा दितालो ताचें मरण आपसें जालें. ऐसें आसतां तुमीं कांय् चिन्ता करुं नाकाति. ह्या फुडां परमेस्परु तुमकां बरवें करित.'' ऐसें त्या धर्माचें उतर त्या समेस्त लोकान आयकुनु दोनी आपुले हात जोडुनु विनौं लागले, ''तुमचो तरि आमकां थोरु उपकारु. येकि म्हात्यावेलि काडि काडिल्यारि भले मनुश ताचो उपकारु मानितातिं. तुमी तरि थोर आमचें कार्ये केलां. तरि तुमकां आमीं येका फुला सारिखें धा बारा सोवर्न दिताउं. हाचें तुमीं आंगिकारु कऱ्या.''

तें उतर आयकुनु पांचै जण भाव आणी तांची माये कोन्ती हांसु लागली, ''आहो समेस्त म्हा जनानो तुमचें द्रवे आमकां कित्याक जाय्? आमीं परदेसी परमेस्पराचें सुमरण कर्ताउं. तरि तुमकां आतां आमीं जें सांगताउं तें आयका, जें तुमीं आमकां द्रवे दितातिं इतुकें तुमीं धर्माक वेच्या, जितुकें थोंटें, पांगुळें, आन्दळें, दुर्बळें, अनाथ इतुक्यांचोय् तुमीं बरो प्रतिपाळु कऱ्या. येकचित परमेस्परारि ठेउनु भग्ति कऱ्या. हें इतुलें जरि तुमीं करिशात तरि तुमकां हेय् लोकी बरें आणि परलोकी त्या पासी सज बरें.'' ऐसें तांचें उतर आयकुनु ते समेस्त म्हा जन खोसी जाले आणी आपापुले मनी म्हणति, ''हे केवल परमेस्पराचे भग्त. इतुकें द्रवे आमीं देउं म्हळ्यारि हे घेनांति. तरि असले पुरुस ह्यां तिंय् लोकां मधें नांति.'' ऐसे ते बोलत आसतनां सांज वेळु जालो. समेस्त लोकाक निरोपु दिउनु आपापुल्या घरा धाडुनु दिले.

फुडां ते पांचै पाण्डव वा तांची माये कोन्ती त्या देउळांतु रावलीं. इतुक्या दोग जण परदेसी रात्रि जाली देखुनु त्यां[20] देउळांतु राउंक आयूले. फुडां त्यां पाण्डवांक आणी तांकां भेट जाली. अर्जुनान विचारिलें, ''आहो जी गोंसाव्यानो, तुमीं कोणी कडे ठाउनु आयूले तें आमकां सांगा.'' तावळि तानीं म्हळें, ''आमीं परदेसी देसांतर हिंडत हिंडत जे जे ठांय् परमेस्पराच्यो मुर्ती आसति ते ते ठांय् पळेत पळेत दृपदा रायाच्या नगरांतु पावलेउं. थैं येक आमीं अपुर्व देखिलें. थैं

दृपदा रायाचे कुमारिचें सहिंवर मांडिलां. थैं द्वारके ठाउनु कृस्टूनुनाथु सपन कोटी यादवां सहित आयूला. सांगातिं बळभद्रु आयूला. समेस्त प्रथुविचे राये आयूल्याति. दुर्योधनु अठरा खेवणी सहिन्या सैत आयूला आणी ते विलातेचो लोकु म्हणति तें हावें आयूकिलें. दृपदा रायाचे मनीं हि दृपदी आपुली कुमारि अर्जुना म्हळेल्याक[21] दिउंची, ऐसें ताचे मनीं आसिलेलें म्होणु लोकु म्हणताति. ते पाण्डव तरि दुर्योधनान घराक उजो घाल्तु लासुनु मारिले. ते तंव जिवन्त नांति. तें देखुनु दृपदाक सांगुनु कृस्टूणनाथान ते पाण्डव आसति कि नां ऐसें कवतुक पळेउंक सहिंवर मांडिलां आणी ती दृपदी रात्रि दिसु दुर्योधनु राव् आपण्याक मागुंक धाडिता तें देखुनु ताका दिउंचें तरि मन हाका नां. तो तरि राव् थोरु. येकाद्या वग्ता बळान व्हरत म्होणु शास्त्र धर्माची निति काडुनु संहिवरु मांडिलां." ही खबर पाण्डवानीं आयूकुनु आपुले मनीं सुखी जाले. जाउनु येकमेकां भितरि म्होणुं लागले, "आतां आमीं रात्रिचेचि व्रचुं या." ऐसें म्हणौनु उबठाले.

ऐसी ही कथा सुख इन्द्रान जल्मजयाक सांगिली. तें आयूकुनु ताणें विनंती केली, "फुडां संहिवराची रचना कैसी जाली तें तुं माका सांग, ही विनंती." कथा समाप्त.

## टीप

1. दुसरें (?)
2. ह्या
3. समासांत : etiam vitam marito dare debeo (म्हज्या घोवा पासत हांवें म्हजो जीव सैत दिउंक जाय.)
4. समासांत : filius pro parentibus (पूत आपले आवय बापाय पासत).
5. मसुद्यांत 'आंगणांतु' हाचे वैर terreiro (आंगण) आसा.
6. मसुद्यांत ' पैरी ' हाचे वैर sorte (सॉर्त) आसा.
7. समासांत : adjutor in necessitate Deus solus (गरजेच्या वेळार देव एकलोच पावता)

8. त्यां
9. समासांत : bona opera facienda (बऱ्यो करण्यो करच्यो)
10. मसुद्यांत 'किरटी' हाचे वैर carrapatos (किरट) बरयलां.
11. हें वाक्य पूर्ण ना म्हणून मसुद्यांत हांगा एक खुरसाची कुरू आसा.
12. माळो
13. मसुद्यांत 'मुद्या' हाचे वैर bocado (कुडको) आसा.
14. त्यो
15. मसुद्यांत 'घास्तावस्ती' हाचेर estafados (थकल्यो) आसा.
16. मसुद्यांत 'वोंट' हाचेर beiço (वोंट) आसा.
17. मसुद्यांत 'हांडे' हाचेर caldeirão (हांडो) आसा.
18. राखेसु
19. मसुद्यांत हांगा थावन दोन पानां सांडल्यांत
20. त्या
21. मसुद्यांत हांगाच्यान काणयेचीं फुडलीं पानां मेळतात.

# पनरावी कथा

इतुके अवस्परीं पांचै पाण्डव उठिले. झडकरी भिमशेनु बोलाउनु ते अवस्परीं काये बोलिलें धर्म राये.

इतुके अवस्परीं पांचै जण पाण्डव वेगीं वेगीं उभटाले. भिमाक धर्मान आपौनु, सांगुं लागलो, ''आतां हे आमंचे माये कोनूत्येक तुं खांदारि बैसै.'' ऐसें ताचें उतर आयूकुनु भिमशेनान म्हळें, ''भोउ बरें स्वाम्या, हाका आण्येकु विचारु आस. हें कार्ये हांव अवसे करिन.'' ऐसें म्होणु आपुले मायेक खांदारि घेउनु वाट चमकुं लागले. चमकतां चमकतां येका अरण्यांतु पावले. इतुक्या मध्यान रात्रि जाली. त्या पासवत वाट दिस नां जाली. तावळि धर्मान म्हळें, ''अर्जुना, नकुला, सायेदेवा अपरात्रि थोरि जाली. मार्गु तरि आमंकां दिस नां. आमीं तरि टांकुनु वचुंचें आस. आतां तुमीं ऐसें कऱ्या. हिं सुकललीं कारवां आसति, हीं वेगीं मोडुनु हांच्यो चुली बांघा आणीं तांकां उजो लाया. ताच्या उजुवाडान आमीं मार्गु क्रमौनु हळु हळु फुडे वचुं.'' ऐसें धर्माचें उतर आयूकुनु तानीं जें फर्मायूलालें तें वेगीं वेगीं करुं लागले. कारवां कास्टां येके ठांयू बांदुनु ताका अग्नि[1] लाउनु त्या[2] चुलिच्या उजुवाडान येकु गाउं भरि भुमि चमकिले. ऐसे चमकतां वाटेवरि येकि न्हैं आस थैं स्वर्गीं गन्धर्वा रायाचे राखते मार्गु राखुंक धाडिले ते थैं वाट धोर्नु राखताले तांकां ऐसो निरोपु तांच्या स्वाम्यान फर्मायूलेलो, ''अपरात्रिचें अरण्यांतुल्यान चुली लाउनु जे कोण वेती तांकां तुमीं धर्नु हाड्या.'' ऐसो निरोपु तांकां दिलो. त्या निरोपा प्रमाणीं त्या गन्धर्वा रायाचें सहिने मार्गु धर्नु राखतालें.

इतुक्या मधें पाण्डव चुली सैत थैं पावले. तो उजुवाडु देखुनु सहिने धांवत ह्यां पांचांयू जणांक धोरुंक आयूलें. येउनु नकुला, सायेदेवा हातीं धर्ले. तें देखुनु धर्मान म्हळें, ''तुमीं आमकां कित्या धर्ताति गा? आमीं मार्गीं पऱदेसी कोणा एका कार्याक ताकिति आस म्होणुं अपरात्रिचे आमीं वेतालेउं. तुमीं आमकां कित्या आडवार्ताति? आतां आमकां सोड्या. वचुं द्या.'' तें आयूकुनु ताणीं म्हळें, ''तुमकां सोडुंक आमंच्या स्वाम्याचो निरोपु नां. जे कोण अपरात्रिचे चुलिच्या उजुवाडान मार्गान वेती तांकां धोर्नु हाडुंक आमकां रजा दिल्या. तेणे प्रमाणीं तुमकां आमीं स्वर्गीं व्हरतलेउं.'' हें उतर आयूकुनु भिमशेनान म्हळें,

"तुमीं वोगेची आमकां मार्गु सोडुनु द्या. नां तरि तुमकां समेस्तांक हांव मारिन."
ऐसें त्या पाण्डवा भिमाचें उतर आयूकुनु सभवंते धाउनु येउनु सिंताक बाण
लाउनु विन्दुं लागले. ते बाण येताति देखुनु अर्जुनान आपुलें धोणुक चडौनु बाण
लाउनु विन्दिले. ऐसे येकमेकांचे बाण तांकांयू हांकांयू चुकले. तावळि भिमशेनान
आपुली गदा हातिं घेउनु धाउनु वचुनु गन्दर्वा रायाचें सहिने मारुं लागलो.
केतिक सहिने जिविं मार्ले.

मार्लेल्यांक देखुनु येक शेरण आयूले. जें उर्लालें तें जिउ घेउनु पळाले.
आपुल्या स्वाम्याक वचुनु सांगुं लागले,

> पांच जण पुरुस येकि अस्त्री म्हातारी आजि अपरात्रिचिं चुली जळुनु
> त्या उजुवाडान मार्गान वेतालीं. आमीं समेस्तानीं तांकां वार्ली, तुमीं
> मध्यान रात्रिचीं वचुं नाकाति म्हणौनु. आमचें उतर मडुनु ते फुडे
> वचुं लागले. तावळि आमंच्या थोड्या लोकान वचुनु दोग जण
> धर्लले. तावळि तांतुलो येकु जणु उलौं लागलो, "आमकां तुमीं
> सोड्या. वचुं द्या. कांयू येका कार्या निमितीं वेतालेउं." तावळि
> आमीं म्हळें, आमच्या स्वाम्याचो निरोपु आमकां सोडुंच्याक नां. तें
> उतर आयूकुनु ते म्हा कोपारुड जाले. कांयू येकां उणीं उतरां
> आपुल्या तोंडाक येताति तिं उलौं लागले. तें देखुनु आमीं तांचेरि
> बाण विन्दिले. ते तांकां चुकले. तावळि तांतुलो म्हा विरु धाउनु
> येउनु आपुल्या खर्गान आमंचें सहिने मारुं लागलो. भोउ लोकु
> रणांतु आटलो. थोडो "राख राख" म्होणुं शेरण गेलो. आमीं जे
> उर्लेउं ते तुमकां खबर घेउनु आयूलेउं स्वाम्या.

ऐसें तांचें उतर आयूकुनु गन्धर्वु रावू आपुल्या सहिन्या सहित धाउनु
आयूलो, येउनु आपणापेंचि पाचारी नासतनां विन्दु लागलो. जैस्यो पाउसाच्यो
शेणो भुमिवरि पडति तैसे बाण त्यां पाण्डवारि बैसुं लागले. तावळि अर्जुनान
म्हळें, "हो जो कोणु आमंचेरि विन्दिता तो खेत्री रावू न्होये. पाचारी नासतनां
आमंचेरि बाण जो मार्ता हो खेत्र्यांचो खेत्रि धर्मु न्होये." ऐसें म्होणु आपणै बाण
तांचेरि सोडुं लागलो. भिमशेनु गदा घेउनु धाउनु वचुनु साटि लखे सहिने मार्ले.
तावळि समेस्ता सहिन्याक पळापळु सुंटलो. तावळि त्या गन्दर्वान म्हळें, "हे

कोण म्ह पुरुस लाहान न्होयेति.'' म्होणु आपण फुडे सर्नु विन्दुं लागलो. तो विन्दिता ऐसो देखुनु अर्जुनान म्हळें, ''हो येकलोचि आमंचेरि विन्दिता. तुमीं वोगे रावा. हांव येकलोचि विन्दितां.''

तें उतर आयूकुनु धर्मान म्हळें, ''आमीं दृपद्येच्या सहिवराक रात्रिचे टांकुनु वेतालेउं. मार्गारि तंव हानीं आमकां आडायूल्याति. मार्गु सोडुनु नेदेति. संहिवर जरि आमकां चुकत तरि आमीं थैं वचुनु कोणु फळु? तरि आतां कोणेके प्रकारीं ह्या गन्धर्वाक धोर्नु मार्गु मेकळो कोर्नु वेगीं आमीं वचुंचें.'' हें उतर धर्माचें अर्जुनान आयूकुनु जी कास्टांची चुलि बांदिलाली तिचि मन्तुर्नु गन्धर्वारि घाली. चोंय् कडेच्यान उजो जळतचि आयूलो. तें देखुनु तो थोरु गजबजलो. ''आतां इतुकेंय् मजें सहिने मजे संहित लासुनु मरत. आतां आमकां कोण राखत? हाका निवारण करिन म्हळ्यारि मजे लागिं तंव कांय् नां.'' ऐसीं काकुळूतिचिं उतरां उत्रौं लागलो. सहिने सभवंते लासुनु मर्ता देखुनु, ''आगा ये म्हा विरानो, तुमकां हां शेरण आयूलों. तुमीं माका राखा राखा.'' हें धर्माच्या मनांतु पडलें. ''अर्जुना, वेगिं प्रजन्यास्त्र सोडि आणी पाउसु पडसो करि. हो तरि आमकां शेरण आयूला. हाचो जिउ आमीं राखुंचो, ऐसो तंव आमंचो खेत्रि धर्मु आस. जो कोणु शेरण आयूला ताका आमीं मारुं नये. ताचे निमितीं जें कांयू आमंचेरि पडलें इतुकेंय् देउंचें. पण आपुलो शेरणागतु पाठी घाल्नु राखुंचो[3] आणी येका रायाचें थोर विग्न आपण्याक लागत, शेरण आयूलल्याक कोणुय् जरि वोपुनु दी म्होणु. तरि ताका अन्तीं नरक वासु[4].'' ऐसें अर्जुनान आयूकुनु प्रजन्यास्त्र सोडिलें. ताणें पाउसु पडुं लागलो. पाउसु पडता देखुनु सांगातिंचि वारें आयूलें. वाऱ्याच्या बळान उजो जो उडिलो त्या गन्दर्वा रायाच्या आंगिच्या[5] वस्त्रांक वचुनु झोम्बिलो. तें देखुनु अर्जुनान येउनु हातीं ताका धरिलो. धर्मु[6] वेगीं वेगीं ताचेरि उदक उडौनु ताच्यां आंगिच्यां वस्त्रांक लागलेलो उजो वाडैलो. उदकाचो माहा पुरु चोविं दिसां होउनु आयूलो. त्या पासवत उजो वाडवलो.

फुडां अर्जुनान ताका हातीं धर्नु धर्मा राया लागी हाडिलो. तावळि ताणें विचारिलें, ''तुमीं खैंचे कोण?'' तावळि तो आपुलो समुळ व्रतावंतु त्यां पाण्डवांक सांगुं लागलो, ''हांव स्वर्गिंचो गन्धर्वु. आमकां परमेस्पराचो निरोपु ऐसो आस, जे कोण आपुलें सुमरण नकरितां अपरात्रिचे मार्गान चुली जरि जळुनु

वेती, तरि तांकां तुं धर्नु हाडुनु धाडि. त्या निरोपा प्रमाणीं मजे सेवक वचुनु मार्गु राखताले.'' तावळि त्यां पाण्डवानीं म्हळें, ''हें उतर सते. आमीं सहिंवरारिचि लखे ठेउनु वेतालेउं. परमेस्पराचें सुमरण ध्यान विसर्लेउं. ह्या संवसाराची माया आमकां थोरि लागली.'' ऐसें त्या धर्माचें उतर आयूकुनु तो गन्धर्वु म्होणुं लागलो, ''तुमीं कोण हें तुमीं माका सांगा. तुमंचो पुरुसार्थु तंव थोरु.''

तें उतर आयूकुनु अर्जुनु सांगुं लागलो, ''आमीं पण्डुरायाचे पुत्र पांचै जण. हो आमंचो व्हडलो भाउ धर्मु, दुसरो हो भिमशेनु, तिसरो हांव अर्जुनु, चोउतो ही नकुलु, पांचवो हो सायेदेउ आणी ही कोन्ती आमची माये,'' ऐसें त्या गन्धर्वाक सांगिलें. तावळि ताणें म्हळें, ''पुरो आतां सांगणें नलग. आतां तुमंचे लागीं येकि विनंती हांव करितां ती तुमीं मना हाडुनु माका सांबाळ्या. आमचें घर पर्येन्त येका खिणाच्या बोला[7] तुमीं येउनु आमच्या आस्रम्याक चरण लाउनु आमकां पवित्र करुंचें, कित्या जरि म्हणश्यात तरि तुमीं परमेस्पराचे थोर भग्त आणी आपुले तोंडिची वाच्या कदांचि असते बोल नांति.'' तावळि त्यां पाण्डवानीं म्हळें, ''आमीं येउंच्याक भोउ खोसी आसिलेउं. पण आमकां संहिवर पळेउंची थोरि उतकण्ठा लागल्या. त्या निमितीं आमीं रात्रि न्हमणतां वेताउं आणी जें कांय् तुजे मनीं आस तें आमकां सांग. आमीं परमेस्पराचे कृपेन सिधी पाउं.''

तें उतर आयूकुनु त्या गन्धर्वान म्हळें, ''आगा अर्जुना तुजे लागी मनूत्रु जो आस अग्निशेस्त्र घालुंचो तो तुं माका दी. हांव तुका येकु मनूत्रु दिन. आतां तुर्तचि तुका फळत. तो कैसो जरि म्हणसी तरि तुमकां हांव सांगतां आयूका. तुमीं आतां दृपद्येच्या संहिवराक वेतातिति थैं दृपद रायान व्हडि येकि तांब्याची कायूलि तेल भर्नु दवर्ल्या. मुळा उजो जळता. उज्याच्या बळान तेल सळसळता. त्या वैरि येक येनूत्र कोर्नु बांदिलां. त्या तेलांतु रुप पळेउनु तीं[8] बाणां भितरि येनूत्र विन्दुनु भुमिरि पाडुंचें. जो कोणु विन्दुनु पाडित ताका दृपद्येन माळ घालुंची आणी तिनिय् बाण जरि चुकत तरि ताका उखळुनु त्या तेलांतु घाल्नु लासुनु मारुंचो, ऐसो पुणु केला. तरि तुका ऐसो आतां मनूत्रु दितां, तो मनूत्रु जपुनु तुं तेलांतु जरि पळेसी तरि उदका पासि सैत तापलेलें तेल दिसत आणी येकाचि बाणान तें येनूत्र मोडुनु तुं पाडिसी. तावळि दृपदी हस्तारि बैसलेली धाउनु येउनु माळा घालित. ऐसी तुं ही मजी विद्या घे'' म्होणु अर्जुनाचे हातीं दिली. अर्जुनान

अग्नि गोत्र दिलें आणी मोउ सोन्तसु जालो. उपरांतें त्या गुन्धर्वा रायान देवांग वस्त्रां मणिकां अविन्दां मोत्यांची माळा[9] तांच्यां गळ्यांक घालुनु तांकां नमस्कारु करुनु वर्गी आपुल्या निज नगरा आयूलो.

फुडां पाण्डव मार्गु क्रमौनु कित्येकां दिवसानीं दृपदाच्या राज्यांतु पावले. पावत खेवीं विपरित भेसु कोण वळख नां सो धर्लो. हातिंचीं धनुश शेस्त्रां धनुश बाणसांडुनु पांचै जण वागाची काति पांगुर्ले. हातिं नार्लाचो कोमण्डळु उदक भर्नु घेतालो. परदेस्यांचीं रुपां धर्ली. नगरांतु वचुनु येका ब्राम्हणाच्या घराडे आपुले मांक बैसौनु येकमेकांक आपण्यांक पळटुनु नांवां घालीं. धर्माक नांव सतेवन्तु, भिशेनाक जयेवन्तु, अर्जुनाक येसवन्तु, नकुलाक खेत्री, सायेदेउ जोतिसिवन्तु ऐसें नांवां ठेउनु नगरिचें वर्तमान पळेउं लागले. फुडां ताणीं समेस्त नगर संगरिलां देखिलें. बिदिंक बरवीं तोरणां मखरां उबैल्यांति. घरां बरव्यां वस्त्रानीं श्यारिल्यांति. बिदी बरव्या गुलाबान सिंपिल्याति. ठांय् ठांय् मोत्यांच्यो माळा[10] ल्याति. बरवो रंगु दिउनु हाट हाटवट्यो चीताल्याति. बरव्यो फोपळ माड्यो ळी हाडुनु थैं थैं उब्यो केल्याति[11]. ऐसें देखुनु माहा सोन्तसले. तें पळेउनु जरि मुखारि वचति तरि समस्त भुमंडळिच्यां[12] रायांची सभा बैसल्या. सपन कोटी यादवां वा बळभद्रा सहित कृस्ट्न नाथु देखिलो. अठरा खेवणी सहिने रथ हस्त घोडे, ऐसें चतुरंग सहिन्या सैत येकि ठांय् दुर्योधनु बैसललो देखिलो. खेत्री राव् थोर थोर आपापुल्या सहिन्या सैत येकेकि ठांय् उभे आसति. ऐसी समेस्त रचना देखुनु ते पांचै जण सुखी जाले.

इतुक्या सांज वेळु जालो. थैं आपुली माये आसिली थैं पर्तुनु आयूले. सर्व वर्तमान तिका सांगिलें. एणे प्रमाणीं रात्रि क्रमविली. फुडां सुर्य उधेउ जालो. समेस्त राये उठुनु आपापुल्या सहिन्या सहित येउनु राज सभांतु[13] बैसले. समेस्त नगरांतुलो लोकु विनोदु पळेउंक आयूले.

तावळि दृपदान आपुले कुमारी दृपद्येक हस्तारि बैसौनु, बरो सृंघारु करुनु, तिचे हातिं माळा दिउनु, तिचे सांगातिं चतुरंग आपुलें सहिने दिउनु, हस्तु ऐसोचि भोंवडाउं लागलो आणी ऐसीं वाजनूत्रां वाजुं लागलीं, ''हें येनूत्र जें मांडिलां तें तीं बाणानीं जो कोणु मोडुनु भुमिवरि पाडित ताका दृपदी आपुले हातिची माळा ताच्या गळ्यांतु घालुनु ताची स्त्री जायूत.'' एणे प्रमाणीं वाजानूत्रां

वाजितातित आणी काठिकारु एणेचि प्रमाणीं सांगणें करित गेले. तें उतर आयकुनु कोणुय् उबट नां. आपापुले ठांय् वोगेचि बैसल्याति. येकमेकां भितरि ते राये उलैताति, ''आगा, हें येन्त्र तीं बाणानीं विन्दुनु पाडुंचें[14]. ताची बायूल द्रुपदी जातली म्हणता आणी हे तिनि बाण जरि चुकति तरि ताका धर्नु तापलल्या तेलांतु घालुंचो ऐसो तरि पुणु केला. ऐसें आसतां कोणाक गर्ज पाडल्या आपुलो प्राणु दिउंक हे दृपद्ये पासवत? कितें आमचें सांडवत? आमकां रायांची राजकुमारी आमीं मेळौनु आपापुल्यो[15] स्त्री करुनु सुख सन्तोसु भोगुनु आपापुले कडे कित्या आमीं राजे करुं नये?'' ऐसें म्होणु येकमेकां भितरि उलौ लागले.

थोर म्हालगडे आसिलेले ते म्हणति, ''पुर्वीं असलिंचि संहिवरां थोर थोर जाल्यांति. जे किर्तिवंत राये आसिले ते जिकुनु घेउनु गेल्याति, कित्या जरि म्हणश्यात तरि आपुलें नांव त्रिलोकांतु जाउंक. ऐसें आसतां तुमीं कित्याक हांगा आयूलेले? आपापुले कडे रावले नांति? कित्या होड्यारि बैसुनु न्हैंतु पावले आणी होडें तडि पावत कि नां पावत, ऐसी आपुले मनीं चिन्ता करित, तैसें तुमकां समेस्तांक घडलां. संहिवराक येउंचे न्होये आसिले ते आयूले. आतां ही दृपदी कोणुय् तरि आपुले धनुर्विद्येच्या बळान, येकादो राव् जाउं अथवा कोणुय् जाउं हें येन्त्र मोडुनु व्हरुं[16] तंव पर्येन्त्र तुमीं आपापुले कडे वोगेचि बैसा. हें येन्त्र निर्वाण कोर्नु तुमच्यां रायां मधें येकादो जरि जिकत, तरि किर्ति तुमची त्रिभुवनाक जायूत. संहिवर हांगा जाता आसतनांचि तुमीं जरि सांडुनु आपापुल्या राज्या वचत, तरि हे सभेक बैसलेले थोर थोर खेत्री राये तुमकां हांसती, हे राये कितें पळेउंक आयलले? संहिवर जाता आसतनांचि आपापुले कडे गेले. तरि ह्या रायाच्यान[17] आपापुलें राजे सांभाळव नां.'' ऐसें म्होणु येका म्हालगड्या रायान त्यां रायांक सांगिलें. तें उतर समेस्तां रायानीं आयूकुनु आपापुल्यो मानो उमत्यो कर्नु वोगेचि सभांतु[18] बैसले.

फुडां दृपदान दृपद्येक सृंघारु बरो करुनु हस्तारि बैसौनु बरि रत्नांची माळा तिचे हातिं दिली आणी आपुलें सहिने, चतुरंग रथ, घोडे, हस्ती दिउनु त्यां रायांचे सभे माजारि भोंवडाउं लागलो. दृपद्ये सांगातीं इतुकें सहिने कित्या दिलें जरि म्हणश्यात, तरि दुर्योधनु राव् अठरा खेवणी सहिन्या[19] त्यां सभांतु[20]

बैसला तो येकादे वेळे बळ कर्नु घेउनु वचत म्होणु. इतुकी राखेण तिका करुनु ते सभे माजारि तिका भोंवडायूता. ऐसें करितां पांच आट दिस जाले. कोणुय् येकादो राजा उठ्ठुनु, तें येनूत्र मोड्डुनु दृपद्येक जिखुनु व्हर नां.

तावळि कृस्ट्णनाथान म्हळें, "आगा दृपदा, हे समेस्त भुमण्डळिचे राजे धर ह्या सभांतु[21] बैसल्याति. दृपदी माळा घेउनु तंव भोंवता. कोणुय् येकु जणु पण उभटाउनु हें येनूत्र मोड्डुनु दृपद्येक तरि हाच्यान जिकुनु व्हरव नां. हे वेळे पण्डुचो पुत्रु अर्जुनु जरि आसिलेलो तरि येकाचि बाणान हें येनूत्र मोड्डुनु दृपद्येन[22] जिकुनु व्हर्तो. ह्यां समेस्तां रायांचो मानु राखतो[23]. आतां तुं ऐसें करि. हे दृपद्ये करवीं ह्यां थोरां रायांक पाचारि." "आपण माळा घेउनु हस्तारि बैसुनु कितुले दिवस पर्येनूत्र भोंवतां. तुमंचे भितर्लो येकुय् जणु पण जाप नेदे. वोगेचि आपुले कडे सभांतु[24] बैसुनु पळेताति. तुमीं खेत्री राये तंव थोर. आतां उभटाया. तिनिचि बाण हातीं घेया. तीं बाणां भितरी येनूत्र जो मोडित ताका हांव माळा घालुनु ताची स्त्री जायून आणी हे तिनि बाण विन्दुनु चुकत ताका धर्नु ह्या तेलाच्या[25] कायूलिंतु घालुंचो, ऐसो पुणाचो निर्धारु आस. हें तुमीं तंव समेस्तानीं आपुल्यां डोळ्यानीं देखिलां. आतां ज्या कोणाक निर्वाण आस ताणें सन्धान करुनु येनूत्र मोडुंचें" ऐसें दृपद्ये करवीं उलैलें. तिचें उतर आयूकुनु समेस्त राये तटास्त जाउनु आपापुले कडे वोगे रावले. तावळि दृपद्येन म्हळें, "हे तंव जाप नेदेति. आतां आण्येके कडे या." ऐसें म्होणु समेस्ति सभा भोंवली. कोणुय् येकु जणु उभटाय् नां.

तावळि दुर्योधनान[26] धनुक बाण सहित आणी आपुल्यां मकुट वर्धनिकां रायां सहित येनूत्रा लागी येउनु उबो रावलो. धनुकाक बाणु लाउनु त्या तेलांतु आपुलें रुप पळेउनु तें येनूत्र नियाळुं लागलो. तापलेलें तेल तांतुं कांय् येनूत्राची समख्या दिस नां उज्याच्या बळान तेल आसतें सळसळेता. तावळि वोगोचि धनुकाक येकु बाणु लाउनु विन्दिलो. तो चुकलो. दुसरो बाणु विन्दिलो तोवै चुकुनु गघनारि गेलो. तें देखुनु कृस्ट्ण नाथान म्हळें, "आगा राया दृपदा, हो दुर्योधनु दोनि बाण तंव येनूत्राक चुकलो. येकु बाणु हाचे हातीं उर्ला. तुं आतां ऐसें करि, आपुलें चतुरंग सहिने हाचे सभवंते उबें करि." तें उतर आयूकुनु दृपदान म्हळें, "स्वाम्या, आमंचें बळ तरि थोडें. तो रावू थोरु. ताची शेवा इछ्या

मरणी विर करितातित आणी अठरां खेवणीं सहिन्या सैत तो आयूला. आतां आमीं कोणु विचारु करुंचो तुमीं आमकां सांगा.''

तें दृपदा रायाचें उतर आयूकुनु कृस्टूण नाथान आपुल्यां सपन कोटी याधवांक निरोपु दिलो, ''तुमीं येनूत्रा लागी वचुनु उबे रावा. येकु बाणु ह्या दुर्योधना लागी उर्ला. हो विन्दुनु जरि चुकत तरि ताका धर्नु त्या तेलाचे कायूलिंतु घाल्या.'' तें उतर कृस्टूणाचें आपुल्यां कानानीं आयूकुनु माहा कोपारुडु जाउनु धनुकाक बाणु लाउनु विन्दुंक वेतालो. इतुक्या मधें ताच्यां मनूत्र्यां प्रधानानीं हातिं धर्लो, ''राया तुं ऐसो अविचारु कोरुं नाका. हांगा तंव बोलाचो निर्धारु ह्या संहिवराक आस. समेस्त खेत्री भुमण्डळिचे आयूल्याति. हांचे देखतें येकादे अवकळा तुका जरि जायूत तरि आमकां समेस्तांक उरि नां. तरि येकु बाणु तुमंचे हातिं आसतनां आमीं वोगेचि वचुनु आमंच्या सभांतु[27] बैसुं या. आमंचे लागी सहिन्याचें उदण्ड बळ आस. आमंचेरि कोणायू रायाच्यान पडव नां[28].'' हें उतर प्रधानाचें[29] मानलें. वोगोचि येउनु सभांतु[30] आपुल्या सहिन्या सैत बैसलो. तें देखुनु कृस्टूणु नाथु यादवां सैत हांसिलो. तावळि दुर्योधनु अपमानलो.

तंव कृस्टूणनाथान दृपदाक म्हळें, ''आगा ह्यां समेस्तां रायांच्यान तंव जिखव नां. आतां हस्ती पेले पुर्व दिसे व्हर. थैं ब्राम्हण सन्यासी परमेस्पराचे भग्त बैसल्याति दृपद्ये करवीं तांकां पाचारि. जो कोणु ह्या सवंसाराचें सुख भोगितलो तो हें येनूत्र मोडुनु दृपदेक जिखुनु व्हरत.'' त्या निरोपा प्रमाणीं[31] हस्ती सहित त्या सभातु[32] गेली, जैसें तिका सांगिललें तेणे प्रमाणीं उलैली. तें उतर आयूकुनु तानीं जाप दिली, ''आमीं ब्राम्हण भिकारी. आमंचे पाये धुउनु कने दान देउंचें. ह्या पुन्या पुरुतें आण्येक सौंसारीं पुणें नां.'' हें त्या ब्राम्हणांचें उतर आयूकुनु समेस्त सभांतु[33] बैसललो लोकु हांसिले [34]. तावळि टप कोर्नु अर्जुनु उबटालो. उबटाउनु कृस्टूणनाथाक नमस्कारु केलो. समेस्ती सभेक हात जोडिले. धनुक बाण घेउनु येनूत्रा लागी उभो राविलो. समेस्तु लोकु म्होणु लागलो, ''हो ब्राम्हणु भिकारी आपुलो जिउ दिउंक वेता पळेया.'' तंव त्या अर्जुनान धोणुं आपुलें चडौनु सिन्ताक बाणु लाउनु त्यां तापलल्यां[35] तेलांतु रुप पळेउं लागलो. तावळि तें तापलेलें तेल सळसळेता. येनूत्रयू दिस नां, नां

म्होणु आपुलें रुपै दिस नां. गन्धर्वा रायान मार्गि येंतां मनूत्रु जो दिललो तो ताणें जपिलो. जपत खेवीं जैसें सेळ उदक जायू तैसें तें तापललें तेल जालें. तंव निहाळुनु जरि पळे तरि वेलें येनूत्र देखिलें आणी आपुलें रुपै देखिलें. उपराटो बाणु विन्दिलो. येकाचि बाणान तें येनूत्र मोडिलें.

तावळि दृपद्येन धांवत येउनु माळा घाल्नु ताका हस्तारि आपण्या लागी बैसैलो. तें देखुनु दुर्योधनु राव् थोरु अपमानलो. "आमंचे देखतें हो ब्राम्हणु भिकारी हे दृपद्येक जिखुनु व्हर्ता. तुमीं कितें पळेताति? विनूद्या," ऐसें म्होणु आपुल्या सहिन्याक निरोपु दिलो. तें देखुनु दृपदाचें सहिने फुडे सलैं. सपन कोटी यादव फुडे आयूले. तावळि अर्जुनान म्हळें, "तुमीं कित्याक मुखारि येताति? येका बाणान येनूत्र मोडुनु दृपद्येक व्हर्तां. आतां दोनि बाण उर्ल्याति, येका बाणान हे समेस्त खेत्री राये जिखन. तिसऱ्यान अठेरा खेवणी सैत दुर्योधनु मारिन." ऐसें हें अर्जुनाचें उतर खेत्र्यां वा दुर्यधनान आयूकिलें, आयूकुनु सोंभवंते विन्दुं लागले. तावळि अर्जुनान येकुचि बाणु विन्दुनु दुर्यधनाचो रथु वा द्वजस्तंबु मोडिलो आणी चखेक विध्या सुमरुनु तुंबळ युदे कोर्नु राये जे विन्दिताले तांचे बाण अनस्वर कोर्नु[36] तांकां भंगिले. तावळि दुर्योधनान म्हळें, "हो खेत्री थोरु अर्जुना सारिखो दिसता." म्होणु आपुलें सहिने घेउनु म्हा दुखान जळत कर्पत गेलो. "पाण्डवांक लाखेच्यां[37] घरांतु घाल्नु हांवें जळिले. मागुतेन जिवन जाउनु आयूले," ऐसें म्होणु म्हा दुख कोरुं लागलो. फुडां अर्जुनु ते दृपद्ये सैत आणी आपुले[38] चोउगांयू भावां सांगातिं आपुली माये कोन्ती झैं आसिली थैं आयूले, येउनु तिका पायां पडले. "माये आमीं भिख्या मागुंक नगरांतु गेललेउं. आजि आमकां बरी भिक्या मेळल्या. पांचै मधें कोणाक फाव सांग." तिणें म्हळें, "तुमीं पांचै जण वांटुनु घेया." तें उतर आयूकुनु तें संखले[39]. माये बापाचें उतर तंव मोडुं नये आणी जो कोणु आपुल्या मायेबापाचें उतर मोडित ताका अन्तीं नरकवासु ऐसें जाणुनु त्यां पांचायू पाण्डवानीं दृपदी आपुली अस्त्री केली.

ऐसी ही कथा सुख इन्द्रान जन्मजयाक सांगिली. तावळि ताणें विनंती केली, "आगा येकि अस्त्री पांचं जणां भावानीं भोगिली. हें माका थोर नवल दिस्ता. तुं हें बरें मना हाडुनु सांग." तावळि ताणें म्हळें, "पुर्वीं जें वर्तलें तें तुका सांगन." कथा समाप्त. ही विनंती.

## टीप

1. मसुद्यांत 'अग्नि' हाचे वैर उजो अशें बरयलां.
2. ते
3. समासांत auxilium petentem succurrendum (आधार मागतल्याक तो दिंवचो)
4. मसुद्यांत 'नरक वासु' हाचे वैर inferno (नरक) बरयलां.
5. रायाच्यां आंगिच्यां
6. धर्नु
7. येका खिणाच्या बोला = मात्शें
8. तीन
9. मोत्यांच्यो माळो
10. माळो
11. समासांत: ornatus civitatis (शाराची नटौणी)
12. हांगा मसुद्यांत दोन पानां सांडल्यांत
13. सभेंतु
14. हांगा बरौप्याचें चुकीन मसुद्यांतलीं कांय उतरां बरौंचीं उरलिंशीं दिसता आनी मसुद्यांत दोन पानां सांडल्ल्यान तीं पळौंक मेळनांत.
15. आपापुली
16. हांगा मसुद्यांतलें नकल करतना कांय उतरां चुकल्यांत.
17. ह्यां रायाच्यानीं
18. सभेंतु
19. सहिन्या सैत
20. ते सभेंतु
21. हे सभेंतु
22. दृपद्येक
23. मसुद्यांत हांगाच्यान काणयेचीं फुडलीं पानां मेळतात.
24. सभेंतु
25. तेलाचे
26. दुर्योधन
27. आमंचे सभेंतु

28. कोणाय् रायाच्यान पडव नां = खंयच्याच रायाच्यान आमचेर आक्रमण करूंक जाय ना.
29. हांगा 'दुर्योधनाक' हें उतर घालचें चुकलां.
30. सभेंतु
31. हांगा 'दृपदी' उतर जाय.
32. ते सभेंतु
33. सभेंतु
34. हांसिलो
35. त्या तापलल्या
36. मसुद्यांत "अनस्वर" हाचेर inevitaveis (निवारूं नजो अशे) बरयलां, पूण निव्वळ प्रतींत "अनस्वर" उतर नां.
37. लाखेच्या
38. आपुल्यां
39. खंचले

# सोळावी कथा

अर्जुने दृपदी प्रणिली । ही किर्ति त्रिभुवनीं विस्तारिली समेस्तां खेत्र्यां रायां देखतें जिखिली तें तुमीं पर्येसा ।

अर्जुनान दृपदी जिखिली. समेस्तां रायां खेत्र्यां देखतें हस्तारि बैसौनु आपुले घरिं घेउनु गेलो. हें दुर्योधनान देखुनु पाण्डवचि ऐसें ताका कळलें. येका बाणान येनूत्र मोडणारु ह्या त्रिभुवनांतु कोणु नां येका अर्जुना वेगळें, ऐसें ताका बरे प्रकारीं मना आयूलें. तेणें करुनु म्हा दुखाच्या समुद्रांतु पडलो.

फुडां दृपदा रायान व्हारडिकेची मुस्तायूती केली. साळि, डाळि, तुप, साखर नानां परिंचीं पोकुवानां गुळेऱ्यो सौदिरफेण लाडू, शेवैलाडू, मोतीलाडू, तिळलाडू, ऐसें खण्डरोस पोकुवानां[1] कोर्नु समेस्ता लोकाक सांगणें केलें, ''तुमीं व्हारडिकेक या.'' तेणें प्रमाणीं समेस्तु लोकु जेउंक आयूलो. हेरु दिसु सकाळिंचि व्हारडिकेक लग्न लायूलें. पांचैं पाण्डवांक आणी दृपद्येक येके ठांयू बैसुनु[2] पाये धुउनु सेंस भर्ली. वस्त्रां लुगडिं रत्नां भुसणां दिलीं. तावळि ब्राम्हणानीं म्हळें, ''कने दान कऱ्या.'' तांचें उतर आयूकुनु पंचेविस कोटी सोवर्न कन्या दान दिलें आणी अर्द राजे अनण[3] दिलें. ऐस्या परी सोन्तोसु जाउनु पांचै दिवस दान मान भुमि दान, वस्त्र दान, रत्नां दानां, रथ दानां, हस्ती दानां, अस्व दानां, ऐस्या नानां परिंचीं दानां जीं शास्त्रीं सांगिल्यांति तीं त्या राया दृपदान आपुले कनेक वा पाण्डवांक दिलिं. हें कित्या दिलें म्हणश्यात तरि परमेस्परान श्यास्त्र धर्मि फर्मायूलां, येकारि कुंवरि उपवरि जरि जाली तरि ती येका ब्रूहताराक दितनां, इतुकें दान मान कोर्नु जरि दी, तरि त्या सारिखें पुने आण्येक नां. ऐसें आसतां त्यां पाण्डवांक अर्द राजे दृपदा रायान वोपुनु दिलें. दुर्गीं, गड, हस्ती, घोडे, रथ पदाति वोपुनु देउनु सर्वा राज्याच्या[4] धनी कोर्नु पाण्डवांक राज पाटु बांदिलो होये. पण धर्माक सिहांसणावरि बैसैलो. आपण ताचे मुखारि काटिकारु जाउनु शेवा कोरुं लागलो.

ऐसें आसतां त्या सुख इन्द्रान जन्मजयाक सांगिलें, आगा, तुं मजे लागिं विचारितासि पांचां जणां भावांक येकि अस्त्री जाली म्होणु तुं म्हणतालो आपण्याक नवल दिसता, तरि तुका जें वर्तमान जाललें सांगतां तें चित देउनु आयूक. पुर्वीं कविळास भुवनीं म्हादेउ आणी ताची अस्त्री पार्वती दोगांयू जणां

येकि कडे बैसुनु सारिपाटानीं खेळतालीं. पार्वत्येची शेवा कर्ताली एकि राज कुमारि. इतुक्या पांच बैल येकी गायूचे पाठिक लागले. तावळि ती हांसिली. तें देखुनु गाय् तिचेरि कोपली. "तुं माका हांसतासि पांच बैल मजे पाठी लागले म्होणुं. तुका आण्येके जल्मीं पांच भ्रतार जाती आणी ते तुका भोगिती[5]." हें उतर आयूकुनु घळबळली. पार्वत्येक प्रार्थना कोरुं लागली, "स्वामिणी हांवें अग्न्यानपणीं हे गायूचे पाटिक पांच जण बैल लागल्याति देखुनु हांव हांसिलीं. कोणें प्रकारिं माका उश्चापु जायूसो करि." ऐसें म्होणुं सिलोकु म्हळो, "अरी मैत्र विस पथ अधर्मं धर्मा जायते प्रसन पार्वती पती विपरित सुपरित भवेत[6]." अर्थु - आगा हे म्हादेवा पार्वत्ये तुजी कृपा जरि मजेरि जायूत तरि मजो वैरी इस्टु जायूत आणी येकाद्या वैऱ्यानीं जेवणांतु विख जरि घालें तरि तें अमृत सारिखें जायूत. अधर्मु जरि हांवें केला तो तुजे कृपेन धर्मु होयेत[7] आणी तुमीं दोगांयू प्रसन जरि जाश्यात तरि विपरित होण्यार जें कांयू आस तें सुपरित करश्यात.

ऐसें हें ते राज कुमारिचें उतर आयूकुनु पार्वती म्होणुं लागली, "गायूचें उतर आमंच्यान लठिक करावें नां. पण आमीं तुका येक करुं. सर्व सभागे देउं आणी पांच जण भ्रतार देउं आणी तुका आणी तुज्यां भ्रतारांक निरांतर परमेस्पराची भग्ति, हें इतुलें आमीं अवसे करुं. तुं कांयू चिन्ता करुं नाका. तुं आतां अवतारु[8] घे. राया दृपदाचे राण्येचें[9] कुसीं जल्मा. ते जल्मीं पांच पाण्डव तुजे भ्रतार जाती. तिच्या निरोपा प्रमाणीं ती जल्मली. फुडां दिवसिं मासीं[10] वाडुं लागली. त्या गायूच्या[11] सर्पा[12] प्रमाणीं पांचांयू पाण्डवांची अस्त्री जाली. जें तुवें विचारिललें तें तुका हांवें बरें कोर्नु सांगिलें. त्या स्रापा पासावत इतुलें घडलें.

ऐसें आसतां फुडां पाण्डव कृस्टूणाक शेरण वचुनु पायां पडले. "स्वाम्या, आमंचें सर्व राजे दुर्योधनान व्हेलें. लाखेच्या घरांतु घाल्नु आमकां लासुनु मारुंक केले. थैं तुवेंचि आमकां राखिले. तो तरि आमंचो वैरी जाला. आतां कोण्येके प्रकारीं राजे अस्तानपुर आमंच्या हाता चडसें करि." तें तांचें उतर आयूकुनु कृस्टूणु म्होणुं लागलो, "त्या दुर्यधना रायान तुमंकां पाण्डवांक देसत्याग करुनु राज्या भायूर घाले. समेस्ता राज्याचो धनी आपण जाला. तुमंकां जिं दोनि नगरां वरुणावत आणी इन्द्रप्रेस्त दिलेलीं तीं दोनियू नगरां आपणेंचि काडुनु घेतलीं. कित्या जरि म्हणश्यात तरि तुमीं संवसारीं नांति, लासुनु मार्ले ऐसें दिसुनु ताणें

दोनियू नगरां व्हेलीं. आतां आमीं ऐसें करुं या. ह्या दृपदा रायाचें सहिने हस्त रथ घोडे वा आमंचे सपन कोटी यादव इतुलेंयू सांगातीं घेउनु वचुनु वरुणावत इन्द्रप्रेस्त काबिज कऱ्या. कोटां गड घेउनु तुमीं आपुल्या राज्यांतु सुखी बैसा. दुर्योधनाच्यान येउनु तुमकां बळ करुनु भायर तंव घालव नां. कित्या जरि म्हणश्यात तरि हें समेस्त राजे अस्तानपुर तुमंच्या बापा पण्डुचें. हें राजे ताका फाव नां. तुमंच्या सोमवंसा भितरि कोणुयू जावळि नां तावळि ह्या दृतरास्टराच्या पुत्रा दुर्योधनाक भिस्मान राजे पाटु बांदिलो. तुमंचे मनीं ताकायू राजे फाव नां ऐसें जरि दिसत, तरि तो तुमंचो बापल भाउ, ताकायू अर्द राजे फाव. आतां जाका बळ आस ताणें राजे करुंचें.'' ऐसें त्यां पाण्डवांक कृस्टूणनाथान सांगिलें. तें त्यां पाण्डवानीं सते ऐसें मानिलें.

जैसें सांगिललें तेणेचि प्रमाणीं सहिन्या यादवां सहित वचुनु वरुणावत वा इन्द्रप्रेस्त काबिज करुनु बैसले. समेस्त देस दुर्गं गड इतुकेयू पाण्डवांचे हातीं चडले. समेस्तु नगरांतुलो लोकु, थोर थोर देसायू तांकां भेटुंक आयूले. नाना परिंचीं रत्नां सिंहासणा सकल ठेउनु धर्म रायाच्यां पायांवरि माथें दवरुं लागले. आपुले हातीं रायान त्यां समेस्तांक वस्त्रां लुगडीं पानांचे विडे दिउनु बरिं उतरां उलौनु सुखी केले. तावळि ते समेस्त म्होणुं लागले, ''स्वाम्यानो, तुमंकां ह्या घरांतु घालुनु उजो लायूलेलो. परमेस्परान तुमंकां राखिले. मागुतेन हीं दोनियू नगरां तुमंचे हातीं आयूलीं. कित्या आयूलीं जरि म्हणश्यात, तरि परमेस्पराची कृपा तुमंचेरि थोरि आस[13] देखुनु असलीं हीं विग्नां चुकलीं.'' धर्मा रायाक त्यां समेस्तां म्हाजनांचें उतर मानलें. पुणती तांचेरि सोन्तोसु जाउनु बरव्यो रत्नांच्यो माळा[14] तांकां दिल्यो. दिउनु खोसी कर्नु आपापुल्या घरा धाडुनु दिले.

त्या उपरांतें नगरांतु डांगिरो पेटिलो, ''आजि तागायूत हीं दोनियू नगरां धर्मा रायाचीं. ह्यां नगरांतु[15] जितुको लोकु आस इतुक्यानयू आपुल्या स्वधर्मान वर्तुंचें. परमेस्पराची भग्ति रात्रिं दिसु करुंची आणी सुखी आपुलें घरीं आसुनु अन्यावू नासतनां सुख सोन्तोसु भोगुंचो.'' ऐसो डांगिरो नगरांतु पेटिलो. तें समेस्ता नगरिंच्या लोकान आयूकुनु पाप दिस्टी इतुकियू सांडिली. बरवे प्रकारीं आपुल्या घरा स्मम्या आसुनु रात्रि दिसु परमेस्पराचिचि भग्ति करुं लागले[16]. कित्या जरि म्हणश्यात तरि थैंचो रावू धर्मु ताका बुधि वायूटि नां. जितुके ताच्या

राज्यांतु वा परदेसीं थोंटां, पांगुळां, आन्दळीं मागते जागते अनाथ इतुक्यांकै अनवस्त्रां पाळिल्यांति. तें अन खाउनु सुखी अनाथानीं राउंचें आणी जें कांयू मागताति इतुकेंयू धर्मु राजा[17] तांकां दी. ऐसें करितां परमेस्पराचे कृपेन तीं दोनियू नगरां थोरावलीं.

तें दुर्योधनान देखुनु चिन्तेच्या समुद्रांतु पडलो, 'नाना उपाये कर्नु हांकां हांवें मार्नु भायूर घाले. तरि हांकां द्वारकेचो गोंवाळो कृस्ट्णु राखता. तो हांकां हितु, माका वैरी जाला. कोणु येकु उपावू कोर्नु त्या कृस्ट्णाक वायूट आमीं करुंचें,' ऐसें रात्रि दिसु ताचे लागी वैर करुं लागलो.

फुडां ते पाण्डव ते दृपद्येक आपुल्या नगरांतु घेउनु आयूले. येतां दृपदा रायान आपुलें सहिने, रथ, हस्ती, घोडे पायेदळ सांगातिं दिउनु नानां परिंचीं वाजन्त्रां वाजत इन्द्रप्रेस्ताक आयूलीं. फुडां कोन्ती फुडे वचुनु हातीं धर्नु घेउनु आयूली. रत्नां वांटित आयूली. समेस्ता नगरांतुल्या लोकाक सुखी केले. ऐसें आसतां सांज वेळु जालो. खार्जे भोजीं केलीं. समेस्तां जेविलीं. मागिरि ती दृपदी धर्माचे चित्र साळेक गेली. बरवे प्रकारीं शेवा केली. सुर्य उदेउ जायूत खेवीं येक भुमिवरि कोंड खणुनु त्या मधें उजो घालुनु कास्टां ताचेरि ठेउनु तेल ताचेरि घालें. म्हा उजो प्रजळलो. तांतूं आपणें उडी घाली. जळुनु भस्म जाली. ती जळली देखुनु सुर्यान आपुलें[18] अमृत दिस्टिन नियाळिली. नियाळित खेवीं तिचेरि अमृत पडलें. जिवन जाउनु उठिली. माहा लावणें सुन्धर जाली. येणेचि प्रमाणीं रात्रिची आपुल्यां भ्रतारां पांचायू पाण्डवांक पैरे प्रमाणीं सुख सोन्तोसु दी आणी सकाळु जातचि अग्नी प्रवेसु करी. एणेचि प्रकारीं सुर्य अमृत दिस्टिन तिका नियाळुनु जिवन करी.

तें आयूकुनु त्या जन्मजयान सुख इन्द्रा लागी विचारिलें, "आहो जी गोंसावी, ह्या स्तुर्याची दिस्टि दृपदेचेरिचि पडता म्हणजे ही नव खण्ड प्रथुवि सप्त दिपवती इतुक्या मधें जितुकी जिवजाति आस इतुक्यारि तंव हाची दिस्टि पडत[19]. तावळि ह्यां समेस्तानीं अमरत्व जाउंचें. ऐसें आसतां येका दिसाक मनुशाची[20] चोउरासी लखे मर्ता[21]. ऐसें शास्त्र सांगता म्होणु म्हणताति. तरि तुमीं जें सांगिललें तें विपरित दिसता." तें आयूकुनु तो सुख इन्द्रु हांसुनु उलौं लागलो, "हो विचारु तुका अद्याप कळलो नां?" ताणें म्हळें, "स्वाम्या, हांव

अग्न्यानु. माका कितें ठाउकें आस? तुमीं कृपा करुनु सांगिल्यावरि सर्व माना येत[22]." तावळि सुख इन्द्रान जन्मजयाक म्हळें, तुं चित दिउनु आयूक म्होणुं सांगुं लागलो. ही दृपदी पतिव्रता आणी परमेस्पराची थोरि भग्तिणि. द्वारकेच्या कृस्ट्णाची इस्ट भैणि. तें देखुनु सुर्याक परमेस्परान निरोपु दिला, "दिवसाच्या दिवसा ही अग्नि प्रवेसु कर्तली. तुं मध्यान काळीं येउनु दृपद्येन झैं उजो घातला ताचेरि अमृत सिम्पि." ताच्या निरोपा प्रमाणीं तो येउनु अमृत सिम्पुनु जिवन्ति करिता. ऐसी मागिली कथा सुख इन्द्रान जल्मजयाक सांगिली. तें आयूकुनु तो समंजलो. "आतां ह्या वैरि जें कांय् वर्तलें तें माका सांग" ऐसें म्होणु विनंती केली.

तें आयूकुनु सुख इन्द्रु सांगु लागलो. तुं आतां चित दिउनु आयूक. हो दृतरास्टराचो पुत्रु दुर्योधनु त्यां पाण्डवां लागी हित करुंक भले भले लोकु हजिबेक[23] धाडुं लागलो. ताच्या निरोपा प्रमाणीं इन्द्रप्रेस्ताक आयूले. पाण्डवांक भेटले. ताणीं बरवे प्रकारीं सन्मानिले. तावळि ते हजिब पाण्डवां लागी विनंती करुं लागले, "स्वाम्यानो, तुमंच्यां चरणांडे आमकां राया दुर्योधनान धाडिल्याति, तुमंचे भेटेक आपण येतलो म्होणु". तें उतर आयूकुनु ते पांचै जण हांसु लागले. "दोनि तिनि वेळे येउनु ताणें भोउ बऱ्याक पडलें. असल्याचो विस्वासु आमीं कैसो धरुंचो? पुर्वीं ताचो विस्वासु आमकां भोउ वेळे बरो मना आयूला. जाका सते सुकृत नां ताका परमेस्परु कैसें बरवें कर्तलो? तुमीं म्हणश्यात, तो दुर्योधनु राव् सुखी राजे करिता आणी हें उतर आमीं कसलें उलैलें, ऐसें तुमकां जरि दिसत तरि हाचो दृस्टांतु तुमकां सांगतां आयूका. हें इन्द्रप्रेस्त राजे आमकां दिउनु बरवें येक राज मन्दिर आपणें येकविसां माळ्यांचें बांदुनु तें घर आमकां दिलें. घरांतु राउनु हें राजे तुमीं कऱ्या म्होणु सांगिलें. ताच्या निरोपा प्रमाणीं आमीं रावलेउं. शेवटीं ताणें आमंकां पुराचना ब्राम्हणाक सांगुनु उजो घराक दिवैलो. चोंय् कडेच्यान लाख जळत तेल जळत उजो येता[24]. आमकां तरि वचुंक आण्येकु मार्गु नां. थैं आमकां कोणे राखिले? परमेस्परा वेगळें आण्येकु कोणु राखणारु नां[25]. आतां आमीं रात्रि दिवसु ताचेंचि सुमरण करितांउं. ताचे वेगळो आण्येकु आमकां कोणु दुसरो नां." हें उतर धर्म रायाचें त्यां हजिबांक मानुनु ताणीं म्हळें, "सते राया तुमीं सत्यारि

आसिले म्होणु परमेस्परान राखिले. तरि स्वाम्यानो कांय् येकु आमकां निरोपु द्या. आतां आमीं वचुंक वेताउं.''

तावळि त्या[26] पाण्डवानीं म्हळें, ''त्या दुर्योधनाक आमीं सर्वथा भेट नेदेउं. आमंचे भेटे निमितीं तांगेलें कितें तडवलां? अठरा खेवणीं सहिने रथ हस्ती घोडे देस समेस्त राजे दुर्गां गड इतुकेंय् ताचे आदिन. आमंचे लागी कांय् नां. आमीं परदेसी जाउनु आसाउं. आतां तुमीं वचा. हेंचि उतर तुमीं ताका सांगा.'' ऐसें म्होणु तांकां वस्त्रां लुगडीं भुसणां रत्नां दिउनु तांकां धाडुनु दिले.

फुडां ते अस्तानपुराक आयूले, येउनु राया दुर्योधनाक भेटले. जें ताणीं सांगिलालें इतुकेंय् हाका मना हाडिलें. तें आयूकुनु दुर्योधनु माहा कोपारुडु जालो आणी ऐसें मनीं चिंतिलें, 'इन्द्रप्रेस्ताक वचुनु त्यां पाण्डवांचो सौंहारु करुंचो.' ऐसें मनां हाडुनु समेस्ता सहिन्याक निरोपु दिलो, ''तुमीं आपापुल्ये मुस्तायूते सैत वेगीं या.'' हें उतर विधुरान आयूकिलें. धांवत येउनु भिस्मदेवाक सांगिलें. तावळि ताणें म्हळें, ''हो दुर्योधनु बरवें नकरी. नाना परीं तांकां कस्टायूले. भिमशेनाक विख घालें. तें नुपुरो जाउनु लाखेच्या घरांतु घालुनु उजो दिलो. थैं सतेवंता परमेस्परान तांकां राखिले. ते आतां आपुले कडे येउनु वोगेचि आसति. हांचे लागी कांय् राजे मागनांति. हो तरि राज मदान मातला. हाका बुधि सांगतलो तरि कोणु नां.'' ऐसें म्होणु भिस्मदेवान आपुल्या शेवकाक निरोपु दिलो. ''तुं आतां ऐसें करि. दृतरास्टरु गान्धारी आस थैं वच. तांकां ऐसें सांग. हो दुर्योधनु तुमंचो पुत्रु आपुलें सहिने सांगातीं घेउनु इन्द्रप्रेस्तीं पाण्डव आसति थैं तांचेरि घालो घालुंक करिता. तरि तुमीं ताका बरी बुधि सांगा.'' ऐसें म्होणु आपुलो शेवकु धाडिलो. ताणें वचुनु सर्व भिस्मान सांगिलालें तें इतुकेंय् दृतरास्टराक वा गान्धाऱ्येक मना हाडिलें.

तें आयूकुनु तीं आपुलें कपाल दोनिय् हातानीं पेटिताचि मेकळ्यां केंसां सहित दुर्योधनाचे राज मन्धिरीं आयूलीं, येउनु माहा कोपारुड जाउनु उलौं लागलीं, ''आरे पाप्या, दोनि तिनि वेळे तुवें जी मांगां कोणेंय् करणी केली नां ती तुवें केल्या. आपुले बापलभाव तांकां लाखेच्या घरांतु घालुनु उजो दिला. थैं परमेस्परु तांकां पाउनु ते पांचै जण पाण्डव वा तांची माये कोन्ती राखिली. येका तिळा इतुकें परमेस्परान तांकां येउं दिलें नां[27]. हें तरि तुवें डोळ्यानीं देखिलां.

ऐसें आसतां पुणतीं तुं आपुलें सहिने सांगातीं घेउनु त्यां पाण्डवांरि युधे कोरुंक पळेतासि. तरि तुज्या आठराय् खेवणीं सहिन्याक आणी तुका येकलोचि अर्जुनु मारित. तो खेत्री थोरु. हें तरि तुं जाणसि. ते पाण्डव येउनु येका खिणा मधें हें समेस्त राजे घेती. पण ते निती वेगळे ये नांति. तुजे सारिखी बुधि तांकां जरि जाती, तरि ते तुका मार्नु हें समेस्त राजे कर्ती. ते आपुल्या गोत्रा भितरि कोणाक वायूट करी नांति. कित्या जरि म्हणसी तरि फुडां परमेस्परा लागी उलौंक जापेक ठाव् नां. ते बापुडे सतेवादी. वाचेक असते कदिंचि नां. तें देखुनु परमेस्परान हातीं धरिल्याति. तरि हे संवसारीं सत्या वांचुमु कोणु बरवो पारु पाव नां. असते केल्यावरि संवसारांतुय वायूट आणी अन्तीं नरकवासु[28] हें समेस्त जाणति, पखे जाति सैत जाण. तुं तरि मनुशु, तुका परमेस्परान सर्व ग्न्यान दिलां. डोळे, कान, हात, पाये[29] हें कित्या जरि दिलां म्हणसी, तरि येकाक वायूट करुंक दिलेलें न्होये. येकाची अस्त्री स्वरुपी सुन्धरि तिका चोउंक दिलेलें न्होये. तरि तुका हांव सांगतां आयूक. पाये जे हे दिल्याति आपुले भेटेक सदान्त येउंक दिले. हात जे हे दिल्याति ते आपुली माळा हातीं घेउनु जपु करुंक. कान जे हे दिल्याति ते शास्त्र गुण आयूकुंक. डोळे जे हे दिल्याति ते आपुलें चरण कमळ पळेउंक. इतुकें तुं जाणत आस्तनां असलो अविचारु[30] तुं करितासि. तरि तुं ही बुधि सांडि. आपुले कडे वोगो राव. बरवें जरि करिसी, तरि तुका संवसारीं परमेस्परु बरें करित[31] आणी अन्तीं बरवें मोखे पद दित आणी येकाक वायूट जरि करिसी, तरि आदीं अन्तीं तुका तैसेचि भोगत.'' ऐसें माये बापाचें निस्टुर वचन आयूकुनु मान सखल्ती कोर्नु वोगोचि राविलो. जाप नेदे जालो.

मागिरि दृतरास्टरु गान्दारी दोगांय् जणां शेकुन्यारि रागुं लागलीं. ''आरे कुडबुध्या, रात्रि दिसु आमंच्या पुत्रा दुर्यधनाक तुं वायूट सिखैतासि. परमेस्पराचें सुमरण ध्यान कोरुंचें ऐसलो उपदेसु तुं ताका दिनासि. रात्रि दिसु पाण्डवांक वायूट कोरुंचें हेंचि तुं सिखैतासि.'' तावळि त्या सेकुन्यान म्हळें, ''स्वाम्या स्वामिणी, मजो कोणु अपराधु? जें राव् विचार्ता ताच्या चिता सारिखें हांव उतर दितां[32]. मजेरि तुमीं गुन्याव् ठेउं नाकाति.'' तावळि त्या दृतरास्टरान म्हळें, ''आरे हें राजे जें चालौंचें प्रधानान. जैसें येकादें बाळक खेळता तैसो राव् तरि हो राजभारु तुवें चालौंचो. वायूट जरि येकादो विचारित तरि उपदेसु देउंचो. तेणें

कोर्नु प्रधानु बरो, ऐसें समेस्ता लोका मधें नांव जाता. सौंसारीं आयूलेल्या पुरुसान पर उपकारु कोरुंचो, बरी बुधि सांगुंची, परमेस्पराची भग्ति कोरुंची, दान धर्मु कोरुंचो, भिकाऱ्याक अनातांक सदान्त बरें अन उदक देउंचें, व्रथांक मानु देउंचो. तावळि परमेस्परु कृपा करित, अन्ती मुग्ति पद दित आणी इतुलेंय् नायकतां जो कोणु वायूट करिता, ताका यवचन्द्र आस पर्येनूत्र[33] नरखवासु. तरि आजि तागैत ही वायूटि बुधि सिखौं नाका आणी तुवें वायूटि बुधि सिखैलली जरि आयूकन, तरि तुका सिख्या लाउनु ह्या राज्यांतुलो भायूर घालिन. हें मजें उतर तुं सते जाण.'' हें उतर ताचें आयूकुनु दुर्यधनाचे पाटी मागिल्यान उभो राविलो.

फुडां दुर्यधनु आपुल्या माये बापा लागिं निरोपु मागुनु राज सभेक बैसुंक गेलो. समेस्त राये मकुट वर्धानिक येउनु आपुले दोनियू हात जोडुनु, रायाक पायां पडुनु आपापुले ठांय् बैसले. एणे प्रमाणीं रायांची वळग जाली. समेस्तां रायां मण्डळिकांक पानांचे विडे देउनु आपापुले घरीं गेले. राव् उबटाउनु आपुले राजभुवनीं गेलो. फुडां शेकुन्याक सांगातीं आपैलो. जेवण खाण कोर्नु येकान्तस्तानीं बैसुनु बुधि विचारुं लागलो. ''आतां आमीं कोणु प्रकारु करुंचो? विख तरि घाल्नु मार्ले. लाखेच्या घरांतु घाल्नु लासिले. ऐसें केलें आसतां दुसरीं जिवे जाउनु येउनु वरुणावतिचें आणी इन्द्रप्रेस्तिचें राजे करिताति. आमीं तांकां सहिन्या सैत वचुनु बळ कोर्नु भायूर घालुं जरि म्हळें, तरि ते दोग म्हाविर आसति. अर्जुनान सतिस दंडा येउधां सिखैल्यांति. शस्त्रां अस्त्रांचीं वर्मां सोडुंचीं पर्तुनु हाडुंची, ऐसली धनुर्विध्या इतुकियू अभ्यासिल्या. भिमशेनु तंव गदेचे विधेन परिपुर्नु. आतां हांकां कोणे प्रकारिं आटापुचें?'' तें रायाचें उतर आयूकुनु शेकुन्यान म्हळें, ''स्वाम्या, ते पांचै पाण्डव येके ठांय् आसति. तांकां आणी दृपदाक सोहिरिक जाल्या त्या रायाच्या सहिन्याचें बळ तांकां आस आणी द्वारकेचो कृस्ट्णु नाथु तो त्यां पाण्डवांक सारथी. जिं तांचेरि विग्नां येताति इतुकिंय् निवारिता. ह्यां पांचैं भितर्लो अर्जुनु भलते कडे जरि वेतो, तरि बरें आसिलें. आतां आमचें बळ चल नां. जें कांय् परमेस्परु फुडां करित तें सते.'' ऐसें येकमेकां भितरि बुधि विचारुनु उबटाले.

फुडां त्या अर्जुनाक येकु दोसु लागुनु प्रथुमिच्या भ्रमणाक गेलो. ती कथा तुका हांव सांगन, चित देउनु आयूक[34] ऐसें सुख इन्द्रान जन्मजयाक सांगिलें. तें आयूकुनु तो सास्टांग पायां पडलो. ''हे फुडले कथेचो वृतावन्तु कैसो जालो तुं माका सांग.'' कथा समाप्त. ही विनंती.

## टीप

1. समासांत : cibus varii (तरेतरेचें खाण)
2. बैसौनु
3. मसुद्यांत 'अनण' हाचे वैर enxoval (व्हकलेचें देणें) आसा.
4. राज्याचे
5. समासांत : Droupadii maledictio (द्रौपदिचो स्राप)
6. समासांत : Deus et Maria pronobis (?) omnia bona (देव आनी मारिया आमकां सगळें बरें दितलीं)
7. जायत
8. मसुद्यांत 'अवतारु' हाचे वैर apparencia (दर्शन) बरयलां
9. राण्येचे
10. मसुद्यांत 'दिवशीं माशीं' हाचे वैर dias e meses (दीस आनी म्हयने) अशें बरयलां.
11. ते गायेच्या
12. स्रापा
13. समासांत अस्पश्ट टीप आसा.
14. माळो
15. नगरानीं
16. समासांत एक अस्पश्ट टीप आसा.
17. समासांत एक अस्पश्ट टीप आसा.
18. आपुले
19. समासांत : sol omnibus lucet (सूर्य सगळ्यांक उजवाड दिता) आसा.
20. मनीसूच

21. समासांत : Quot homines moriantur uno die (एका दिसाक कितले मनीस मरतीत) आसा.
22. समासांत : scientia adeo petenda (ते मेरेन गिन्यान सोदचें) बरयलां.
23. राजाचो दूत
24. समासांत : ignis (उजो) आनी एक अस्पश्ट लॅटीन उतर आसा.
25. समासांत : Deus solus custodit (देव एकलोच राकता) आसा.
26. त्यां
27. समासांत : Deus etiam a minimis sanctos liberat (देव सांतांक ल्हान वायटांतलें सैत निवारता).
28. समासांत एक अस्पश्ट टीप आसा.
29. समासांत एक अस्पश्ट टीप आसा.
30. समासांत : consilium bonum et malum (बरो आनी वायट उपदेस) आसा.
31. समासांत : praemium etiam in vita (ह्याय जल्मांत इनाम) आसा.
32. समासांत : consiliarii officium (बूद दितल्याचें कर्तव्य) बरयलां
33. 'यवचन्द्र आस पत्येन्त्र' - सासणाच्या सासणाक.
34. सतरावे कथेंत अर्जुन प्रथुमिच्या भ्रमणाक गेल्ली खबर सांगचे बदला धर्मराजाचो होम वर्णिला आनी अर्जुनाच्या भ्रमणाची खबर 18 वे कथेंत सांगल्या.

# सतरावी कथा

धर्मु इन्द्र प्रेस्तीं राजे करितां । ऐसें आलें ताच्या चिता । बरवा येग्नु करवा आतां । करवां वेगां ।

धर्मु राव् इन्द्रप्रेस्तीं राजे करितां ऐसें ताणें आपुल्या मनांतु विचारिलें[1] 'आमीं सौंसारिं जल्मुनु भुंयूक भारु. जो सौंसारिं प्राण्यो आयूला ताणें परमेस्पराचें पुजन कोरुंचें, ध्यान दान धर्मु कोरुंचो, सुमरण कोरुंचें, सुमरण कर्तां कैसें कोरुंचें, जैसें प्रलादान सुमरण केलें तैसें कोरुंचें. उबटतां बैसतां निदेतां खातां जेवितां मार्गिं चालतां येक लखे परमेस्परारि ठेउनु सुमरण करुंचें. हें इतुकें तंव आमकां टांक नां ह्या मधेंचो शेम्बरि वांट्याचो भागु पुणु कोरुंचो[2].' ऐसें आपुले मनीं विचार्नु आपुले मायेक वा चोउगांय् भावांक बरें मना हाडुनु, परमेस्पराचे नांवीं येग्नु करुंक आरमूभिलो. "हो कित्या करिता ऐसें जरि तुमकां दिसत तरि नानां विग्नां आमंचेरि पडलिं तीं परमेस्परान निवार्लीं. तरि त्या परमेस्पराचो किनूचित मात्र उगडासु पुणु आमीं करुंचो, आमकां पाप्यांक आणी कांयू तंव टांक नां." तें उतर आयूकुनु त्यां चोउगांय् भावानीं आणी कोनूत्येन म्हळें, "भोउ बरें जें मना येता तें तुं करि. तुजे नांवचि धर्मु. परमेस्परु तुका जी बुधि दित ति तुं करि."

ऐसें तांचें उतर आयूकुनु भोउ सोन्तसलो. समेस्तां नगरांतुल्या लोकाक, वाण्यां वेव्हाऱ्यांक आपौनु द्रवे हाडुनु दिलें. "हें द्रवे तुमीं घ्या. देसोदेसिचें तुप जितुकें आस इतुलेंय् हाड्या." तानीं म्हळें, "स्वाम्या, भोउ बरें." निरोपु घेउनु समेस्त वाण्ये देसोदेसीं तुप हाडुंक गेले. फुडां धर्मा रायान माटौ येकु योजन भरि घालो. समेस्तु लोकु तो समारम्भु[3] पळेउंक आपैले आणी आपणें आपुले हातिं भुमिवरि त्या माटवा मधें थोर कोंड खणिलें. थैं सोभवन्तें चोउक रांगुल्यो घाल्यो. कोंडा सभवन्तें रत्नां ठेयूलीं. माटवा सभवन्तें राखेणेक ठेयूले. ऐस्या परीं रचना कोर्नु नगरां सृंधारिलीं. पाटवाचीं पितांबरांचीं तोरणां घरां घरीं उबार्लीं. येणें[4] प्रमाणीं सर्व सिधि कोर्नु दिक्या मनूत्रु घेउनु वागां बरारि आसन घाल्नु बैसलो. अस्ट दिसा हवनिल्यो. पुर्व दिसा बरवे परीं नियाळुं लागलो. इकरा सहस्र ब्राम्हण आपुले सभवन्तें बैसैले आणी बरव्यो पतिव्रता सारिख्यो अस्त्र्यो दृपद्ये सांगातिं दिउनु बरवीं वस्त्रां पिताम्बरां खेरोदिकां ऐस्या वस्त्रांचीं आंगवस्त्रां करुनु येग्नु हाड्या म्हणु सांगिलें.

त्या निरोपा प्रमाणीं दृपद्येन सख्यां सैत वचुनु कोंडा मधें उजो हाडुनु ठेयूलो. वाजंत्रां वाजुं लागलीं. बरवे परीं ब्राम्हण वाखणु लागले. उजो कोंडा मधें प्रजळलो आणी ताचेरि तुप घालें. तेणें करुनु भोउ उजो प्रझळलो. समेस्तां नगरांतुलो लोकु येउनु विनोदु पळेउं लागले. नाना परिचीं खाजिं भोजिं खण्ड रोस पोकुवानां तिळ तांदुळ आणी तुप त्यां[5] उज्यांतु घालिति आणी सभवन्तें इकरा सहस्र ब्राम्हण कोंडा भवंतें बैसलले, परमेस्पराचें सुमरण कोर्नु त्या कोंडांतुल्या उज्याक आहुती दितातिं. ऐसें कर्तां येक था सहस्र मण खांड्यो तुप त्या होमाक जळिलें आणी समेस्त ब्राम्हण जे आयूलले तांचे करवीं होमु समाप्त कोर्नु तांकां दखिणा देउंक आधारिलें. येकेका ब्राम्हणाक येकु भारु सोवर्न, अविन्द रत्नां मोत्यांच्यो माळा[6] शेम्बरि घोडे, पांच हस्ती, वस्त्रां भुशणां, येणें प्रमाणीं इकराय् सहस्रां ब्राम्हणांक देउनु सुखी केले. फुडां बरीं समराधनां[7] केलीं. जेतुके देसों देसिचे लोकु आसिले इतुकेय् जेवणाक आपौनु हाडिले. येके पंकतिक समेस्तांक बैसौनु बरे प्रमाणीं खाजिं भोजिं वाडुनु परमेस्पराचें सुमरण कोर्नु, धर्मा रायान आपुल्या हातान भुमिरि उदक सोडिलें. ''आगाये सतेवंता परमेस्परा, तुजे नांवीं जें कांय् हांवें किंचित मात्र केलां, इतुकेंय् तुं सिधि कोर्नु घे.'' ऐसें म्होणु प्रार्थना कोर्नु सास्टांग पायां पडलो आणी समेस्तांक जेउंक म्होणु निरोपु दिलो. ते सुखी जाउनु जेउं लागले. ह्रीं ह्रीं सर त्या पस्टण्यारि भिमशेनु हाडुनु वाडी आणी येणें प्रमाणीं जेंउनु खाउनु सोन्तोसु जाउनु उबटाले. बरें न्हैंचें उदक हाडुनु आउंक दिलें. समेस्तु लोकु आंविले. येके ठांय् बैसौनु गन्द गुलाबु नागरखण्ड्यां पानांचे विडे दिउनु वस्त्रां लुगडीं देउनु सुखी केले.

फुडां ऐसें आसतां त्या उज्याक पोटिं मन्द पडलें. कोणेंय् एग्नु कर्नु तुप साखर जरि घाली तरि ताच्यान जळव नां. धर्मा रायान येग्नु कर्नु तुप उधण्ड जळिललें तें येग्नान भोउ खेलें. तें खाउनु धण्डु जाहालो. आतां ताका कोणेंय् कांय् दिलें तरि ताच्यान खावव नां आणी ताका एकि खाउंची इछ्या पोटिं जाल्या ती ताका मेळ नां. इन्द्रा रायाचें खण्डवन अमरावत्येचें खाउंची उरि जाल्या. तें तंव कोणाच्यान देवव नां आणी कित्या जरि म्हणश्यात तरि ती थोरांची वस्तु. इन्द्रु अमरावत्ये तेतिस कोटी देवांचो राव्. तें खण्डवन तागेलें. तें तंव ह्या उज्याच्यान आपुले अभंगीं[8] वचुनु जळव नां. त्या पासवत पोटीं उरि उर्ली.

ऐसें करितां केतिकां दिवसीं तो एग्नु अमरावत्ये इन्द्रा राया लागीं वचुनु ब्राम्हणाच्या रुपान पायां पडलो. ''स्वाम्या माका पोटीं ऐसी उरि दिसता. येक हांव तुजे लागीं मागतां तें तुं माका दी.'' तावळि इन्द्रान म्हळें, ''जें कांय् तुं मागता तुजे सारिखी देउंची वस्तु तिचि तुका दिन, वेले कांय् दिनां.'' तावळि ताणें म्हळें, ''राया माका तुवें खण्डवन देउंचें.'' ताचें उतर आयूकुनु इन्द्रान म्हळें, ''हें उतर तुका हांवें पैलेंचि दिलां. ऐसें आसतां तुवें कित्या हें मागिलें?'' तें उतर आयूकुनु वोगोचि पर्तुनु आयूलो. आपुले मनीं चिंतुं लागलो, 'आतां ही कामना मजी कोण सिधि पायूत', ऐसें म्होणुं चिन्ता करुं लागलो. 'माका तंव पोटीं व्यादि वाडल्या. तें वन खाउंची भोउ इछ्या जाल्या. तें खेल्या वेगळें मजे पोटिची व्यादि वच नां. मंद तंव पोटीं पडलां. आतां वोगोचि येकी कडे बैसन. त्या वेगळें मजि मनसुभी नज.' ऐसें म्होणु येकांतवासी बैसलो.

ऐसें कर्तां उजो खैंचि नां जालो. कस्टां पासणांक उज्यान सांगिलें, ''हांव इन्द्रा रायाक[9] शेरण गेलों. तो मजि कामना सिधी पाय् नां. दोनि च्यारि दिस अमरावत्यांतु[10] कस्टवलो. ताणें मजि बेपर्वा केली. आतां येकान्त वासाक येका ब्राम्हणाचें रुप धर्नु अरण्यांतु बैसतां. तुमीं एकादे आपण्या लागी उजो आस म्होणु जरि दिस्यात तरि तुमकां सांगन. हांव उत्रै.' ऐसें म्होणु येके ठांय् वचुनु राविलो. तेणें करितां पाताळीं मृत लोकिं आकासीं स्वर्गीं उजो नां जालो[11]. तेणें कोर्नु रुसेस्परांक चिन्ता उठिली. समेस्तु लोकु देसो देसिचे माणुस कस्टुं लागले. 'अन आतां आमीं कित्यान कोर्नु खाउंचें,' ऐसें म्होणु चिन्ता करुं लागले. तावळि रुसेस्परानीं म्हळें, ''उजो तंव आमकां नां. आमीं परमेस्पराचे नांवीं निते होमु हवन कर्तालेउं. तरि आतां अवतारु पुरुसु कृस्टूणु नाथु द्वारके आसतनां आमकां कसली चिन्ता? हें कार्य म्हणजे कितुलें हें खिणा मधें करुं'' म्होणु जें ठांय् उजो आसिलो थैं ताका आपुले नांविंची पत्रिका बरैली. ''हें कागत देखत खेवीं उठाउठीं, उदक मुकुळसांतु नव्हतां[12], पैलें तुवें मार्गु चमखुनु मागिरि हें तुवें कागत वाचुंचें.'' ऐसें ताकितिन ताका आपुल्या मानुश्याचे हातिं दिउनु धाडिलें.

तें पावत खेवीं मस्तकीं घेउनु उजो उठा उठीं आयूलो, येउनु रुसेस्परांक मन्दाग्निचे तिरीं पायां पडलो. ''स्वाम्यानो, तुमीं मजेरि कृपा करुनु पत्रिका

घाडिली ती हांवें मजे मस्तकिं घेउनु तुमंच्यां पायांडे आयूलों. भोउ काळ कस्टवतां. पोटांतु व्यादि लागल्या. कोणी वस्तु माका जरि दिली तरि ताचेरि[13] मजी इछ्या नां आणीं देखत मजो जिउ कांटळता. माका कामना ऐसी जाल्या इन्द्राचें खण्डवन खाउंचें. तें खातचि माका बरवें जायूत आणीं जैसो हांव प्रथुमिरि निते आसिलों तैसो हांव सुखी घरो घरिं रावन.'' हें उतर आयूकुनु रुसेस्पर हांसिले. ''आरे पिस्या, ह्या असल्याक मना[14] तुवें आमकां सांगुचें न्होये. हें खिणा मधें करितेउं.'' तें उतर आयूकुनु उजो म्होणुं लागलो, ''मजो कांयू अपरादु नां. आमंचो वा समेस्तां तेतिस कोटी देवांचो स्वामी इन्द्रु रावू ताका हांव शेरण गेलों आणी जें मजे मनीं आसिलें इतुकेंयू ताका हांवें म्हळें, तुं आतां आयूक. इन्द्रप्रेस्तीं धर्मा रायान परमेस्पराचे नांवीं येग्नु आरम्बिलो. तुप तांदुळ तिळ नाना परिंच्यो वस्तु उज्यांतु घाल्यो, पण त्या मधें येकि माका मेळली नां. इन्द्राच्या मळ्यांतुल्यो वस्तु कांयू माका दिल्यो नांति आणी धर्माकै पुणु त्यो वस्तु हाडुनु देउंच्यो ताचो उगडासु जालो नां. ते निमितीं माका पोटीं उरि उर्लि. आतां तें खण्डवन खाउंची आश्या जाल्या. तें वन खेल्या वेगळें मजे पोटिची व्यादि वच नां.'' ऐसें त्यां रुसीं लागीं उज्यान सांगिलें.

तावळि ते समेस्त उबठाउनु ताका हातीं धर्नु द्वारके कृस्ट्णनाथु आस थैं घेउनु आयूले. कृस्ट्णनाथाच्यां पायां वरि हाडुनु उज्याक घालो. ''स्वाम्या, तुं केवल परमेस्पराचो अवतारु. तुं समेस्तांक प्रतिपाळु करुंक आयूलासी. दृस्टां दुस्मानांचो संव्हारु करितलोसी. परमेस्पराच्यां भग्तांक बरवे प्रकारीं पाळितोलोसि. ऐसें आसतां ह्या उज्याक थोरि येकि इछ्या जाल्या, इन्द्राचें खण्डवन खाउंची. ती कामना पुर्न सिधी करणारु कोणु नां. हो इन्द्राक तरि शेरण गेलो, वचुनु मागुं लागलो. आपुली मन कामना तुं सिधी पायू म्होणु. ताणें हाची बेपर्वा केली. तेणें कोरुनु हो उजो येकान्तवासी ब्राम्हणाच्या रुपान अरण्यांतु रावलो. ते निमितीं होम हवन तडवलें आणी समेस्त भुमण्डळाक घरो घरीं नां जालो. तांडुळु[15], उदक सर्व आस, पण उज्या वेगळें अन नां. तेणें कोरुनु प्रजा लोकु भोउ कस्टवता. तरि तुं स्वामी आमंचो. हें कार्य हातीं धरुनु हाचें मनोरथ पुरवि.'' ऐसें त्यां समेस्तां रुसिनीं कृस्ट्णाक सांगिलें.

तें उतर आयूकुनु[16] खद खदां हांसुं लागलो. ''आरे वैस्वनरा, तुं इन्द्राक

शेरण गेलोसि पण ताणें तुजी मन कामना सिदी पायूली नां. शेरण गेलेल्याक ताणें तुका उपेखिलो आणी त्या इन्द्रान मनी घेतलां समेस्तां तेतिसां कोटी देवांचो राव् आणी राजे मदु असोचि सिहांसणारि बैसल्यारि कोणाचियू बेपर्वा करिता. तरि तुं कांयू चिन्ता करुं नाका, हें कार्ये तुजें अवशे करिन" म्होणु, ताच्या माथ्यारि[17] हातु दवर्लो. तें उज्यान देखुनु कृस्टूणनाथाक सास्टांग पायां पडलो. फुडां हेरा दिसा गरुडारि बैसुनु आपुल्या सपन कोटीं[18] यादवां सहित इन्द्रप्रेस्तीं झैं पाण्डव आसिले थैं गेलो. कृस्टूणु येता म्होणु पाण्डव कोनूत्ये सहित धाउनु येउनु सास्टांग भुमिवरि पायां पडले आणी आपुल्यां प्रधाना वर्गांक निरोपु दिलो, "आमीं कृस्टूणा सहित नगरांतु ये पर्येनूत्र तुमीं बरवे प्रमाणीं नगर सृंघाऱ्या."

तें उतर आयूकुनु काठिकार धांवत वचुनु घरो घरीं नगरांतु ताकिति करुनु सृंघारु लागले[19]. बरवीं सात खणाचीं मंदिरां तांच्या बाळण्यावरि रसिमाचीं वस्त्रां घाल्यांति. बिदी हाट वाट्या गुलाबान सिंपिल्याति. भुमिवरि नानां परिंचीं पुस्वां विखरायूल्यांति. एणें प्रकारीं सृंघारु धर्मरायाक सांगुंक धांवत आयूले. तें उतर आयूकुनु पांचै पाण्डव कृस्टूणा बळभद्रा सहित नगरांतु प्रवेसले[20]. त्या पासावत थोरु आनंदु जालो. निसाणभेरी रणभेरी दमामे पिनाकाळा[21] मोगर्सिंगां ऐसीं नानां परिंचीं वाजनूत्रां वाजुं लागलीं. त्यां वाजनूत्रांच्या नादान रथाचे घोडे दोनचि पायानीं नाचताति. हस्ती गर्झना करिताति. सहिने फुडे बोबाटि करित वेताति. ऐस्या परी सिहांसना लागी येउनु बळभद्रा सहित कृस्टूणनाथु उबो रावलो. फुडां धर्मरायान धांवत वचुनु पायांवरि माथें दवर्नु, "स्वाम्या, तुमीं ह्या सिहांसणारि बैसा" ऐसी प्रार्थना करुं लागलो. तें उतर आयूकुनु कृस्टूणनाथान म्हळें, "बळभद्रा तुं मजो व्हडलो भाउ. तुं आस्तनां हांव ह्या सिहांसनारि नबैसं, तुं बैस." तावळि ताणें म्हळें, "ऐसें खैं घड?" तावळि कृस्टूणान बळभद्राक हातीं धरुनु सिहांसनारि बैसैलो. आपण ताचे लागी येकि कडे बैसलो. समेस्तां यादवांक बैसुंक निरोपु दिलो. ते त्या निरोपा प्रमाणीं आपापुले ठांयू बैसले.

फुडां पांचै पाण्डवानीं तस्तां हाडिलीं. दृपदी आपुले हातीं उदक घेउनु आयूली. कृस्टूणनाथाच्यां पायांडे भिमशेनान तस्त दवर्लें. दृपद्येन उदक घालें. धर्मान पाये धुयूले. तेणेचि प्रमाणीं बळभद्राचे पाये धुयूले. पांचायू जणानीं तें

चरणदक मात्यारि घेतलें आणी आपुल्यां शेवकांक निरोपु दिलो, ''ह्यां समेस्तां याधवांचे पाये धुया.'' तानीं निरोपा प्रमाणीं समेस्तांचे पाये धुयूले. गन्द गुलाबु पुस्वां हाडुनु दिलीं. नागरखांड्यां पानांचे विडे तबकां[22] भर्नु हाडुनु काराफुलां येळ घालुनु कृस्ट्णनाथाच्या सिहांसणाडे ठेयूले. समेस्तां याधवांक भिमशेना अर्जुना करवीं विडे दिले. नकुलु सायेदेउ कृस्ट्णाक बळभद्राक वारें घालुंक लायूले[23]. इतुक्या प्रारु रात्रि जाली. समेस्ति सभा उठिली.

धर्मान कृस्ट्णाक हातीं धर्नु बळभद्रा सहित राजभुवनीं व्हेलो. बरें मोगरेल चाम्पेल ऐस्या परिच्या तेलान मर्धना केली. समेस्तां याधवांक एणेचि प्रमाणीं केलें. हुन उदक न्हाउंक उबटाले. दृपदी धर्मु आपुले हातीं उदक काडुनु दिति. ऐस्या परी न्हाण केलें बरवीं खिरोदिक वस्त्रां न्हेसुंक हाडुनु दिलीं. समेस्त तीं वस्त्रां न्हेसिले. गन्द गुलाबु आंगाक पाण्डवानीं लायूलो. बरव्यो पुस्वांच्यो माळा[24] दृपद्येन आपुले हातीं कृस्ट्णनाथाच्या वा बळभद्राच्या गळ्यांतु घाल्यो. येणेचि प्रमाणीं समेस्तां याधवांक पुस्वां वांटुनु दिलीं. समेस्त आपापुले ठांय् बैसले. कृस्ट्णनाथु परमेस्पराचें सुमरण करुं लागलो. धुंम्पु लोबान अगर ऐस्या परिचो परिमळु परमेस्पराक समर्पिलो. नाना परिच्यो आरती हाडुनु दाखैल्यो. जितुकीं खण्डरोस पोकुवानां पाण्डवांचे घरीं रांदिललीं इतुकिंय् हाडुनु परमेस्पराक समर्पिलीं[25]. समर्पुनु हात जोडुनु सास्टांग पायां पडले. ''आगा हे सतेवन्ता परमेस्परा, आमीं दिसाक आणी रात्रिक मेळुनु तुजेवरि सहस्रु अपरादु करिताउं, तो इतुकोय् आमकां भगसि. ऐसी प्रार्थना करुनु जेवणाक समेस्त पंकती बैसले. ताठां भर्नु खण्डरोस पोकुवानां, बरवो साळिचो भातु, ऐस्या परीं ताठां भर्नु हाडुनु तुप साकर म्होउं नाना परिंचीं रांदवयां[26] भोउतां परिंचीं लोणचीं आम्बुसीं निम्बुसीं तिकुसीं गोडसीं जिन जिनोसाचीं, ऐस्या परीं सर्व हाडुनु वाडिलें. मग समेस्त ते जेउं लागले. जे ज्या ताठावरि खाजें सालें देखति ते त्या ताटावरि हाडुनु दृपदी खण्डरोस पोकुवानां वाडी. भिमु अर्जुनु तुप साकर वाडी. इतुकेंय् खेल्या उपरांतें बरव्या [27] साळिच्या भातावरि ठायूमुर[28] धैं गायूचें वाडिलें.

ऐसें सर्व सुखी जाउनु जेवण सारुनु कृस्ट्णु बळभद्रु याधवां सहित उठिले. फुडां धर्मरायान दृपद्ये सैत उदक हाडुनु कृस्ट्णा वा बळभद्राच्या हातावरि घालिति. तेणेचि प्रमाणीं समेस्त याधव आंविले. उपरांतें आपापुल्या ठायारि

बैसले. कापुर्वेलिच्या पानांचे विडे कापुराचो चुनो झिगन्दांतु[29] बोळिलेल्यो फोपळाच्यो फोडी काराफुलां येळ कृस्ट्णा बळभद्राक वा समेस्तां याधवांक आपुले हातीं दिलें. कुंकुम कस्तुरि जवादि नाना परिंचीं परिमळ पुस्वां दिलीं. उतम येक रुम्बडाचें पुस्व कृस्ट्णान हातीं घेतलें. इतुक्या मध्यान रात्रि जाली. समेस्तां याधवांक निद्रेक निरोपु दिलो. बळभद्रा सहित आपण दोगैं भाव बरव्या पलंगावरि निदेले. पांचै पाण्डव पाये वळुं लागले. दृपदी आपुले हातीं भिसवाणी घेउनु वारें घालुं लागली.

ऐसी सहियू जणां शेवा करित आस्तनां कृस्ट्णान निरोपु दिलो, ''तुमीं कस्टौ नाकाति, निद्रा कऱ्या.'' त्या निरोपा प्रमाणीं आपापुल्या ठाया गेलीं. इतुक्या सुर्यु उदेउ जालो. समेस्त उठिले. आपुलें न्हाण केलें. परमेस्पराचें घ्यान पुजन कर्नु वस्त्रां लुगड्यानीं सृंघारु करुनु राज सभांतु[30] बैसले. फुडां[31] बळभद्राक म्हळें, ''ह्यां समेस्तां याथवां सहित तुं द्वारके वच.'' तें उतर आयूकुनु पाण्डवानीं बरवीं देवांग वस्त्रां रत्नां भुसणां बळभद्राक दिलीं. तेणेचि प्रमाणीं समेस्तां याधवांक दिउनु पाठवणी केली.

कृस्ट्णान अर्जुनाक सांगातीं घेउनु कोनूत्ये धर्मा लागीं निरोपु मागुनु अमरावत्येक वचुंक मुस्तायूती जाले. अर्जुनाक म्हळें रथारि चड म्होणुं सांगिलें. तो बैसलो. आपण गरुडारि आरुडलो[32]. उज्याक मेंड्याक आसन घालि म्हळें. तेगै जण ततुखेणी स्वर्गीं पावले. अमरावत्येच्या देवा रायाच्या खण्डवना लागीं उबे राविले. कृस्ट्णान उज्याक म्हळें, ''आतां कितें पळेतासि? जैसी तुका इछ्या आस तैसें हें खण्डवन भगि.'' तें उतर आयूकुनु उजो सास्टांग पायां पडलो आणी खण्डवन खाउं लागलो. खातां खातां हळु हळु खायू. तावळि अर्जुनान म्हळें, ''स्वाम्या, ह्या उज्याक चालि थोडि. तरि वाउतराक निरोपु देउंचो.'' तें उतर आयूकुनु कृस्ट्णनाथान वायुक निरोपु दिलो, ''जैसो हो उजो आपुले इछेन खण्डवन भकिता ताका तुं मजति करुनु फुडे थोडें थोडें करुनु चालै. आतां इन्द्राचे माळी[33] साटि सहस्र ते राट गडुग्यान उदक पाट भर्नु सिम्पिती, उजो आसतो वाडवत. तावळि तुं ऐसें करि. जे कोण सिम्पुंक येती, उज्याक तुं उडौनु व्हर्नु तांच्या आंगावरि लायू. हें देखुनु ते समेस्त राखणे पळती.''

तें स्वाम्याचें उतर आयूकुनु भोउ बरें म्होणु गेले. जैसो ताणें निरोपु दिलालो

तैसेंचि वाउतर आणी उजो येकी ठांय् मेळुनु खण्डवन जाळुं लागलीं. तें समेस्तां मळेकारानीं देखिलें, "आरे, धांवा धांवा रायाच्या खण्डवनाक कोणें उजो लाय्लो. वेगीं वाडया." ऐसें म्हणौनु विस सहस्र बनकर धाउनु आयूले. आपुले हातीं टाळे[34] घेउनु उजो वाडौं लागले. तावळि उजो आणी वारें येकवटुनु तांचेरि झोम्बी घालुं लागलीं. एणे प्रमाणीं तांच्या आंगाक उजो लागुनु केत्येक लासुनु मेले केत्येक जिउ घेउनु पळाले. चाळीस सहस्र जे बनकर उर्लले ते[35] राट गडुग्यानीं उदक काडुनु सिम्पिलें. ऐसें सिम्पितातिं देखुनु वाउतराच्या बळान उजो उठुनु तांचेरि आसतो झोम्बिलो. हें देखुनु ते समेस्त बनकर पळाले. इन्द्राक सरण गेले. "स्वाम्या, धांव धांव उजो आणी वाउतर येकवटुनु सगळें खण्डवन लासितातिं. तें देखुनु आमीं उजो वाडौंक जरि गेलेउं तरि वाउतर आणी अग्नि येकी ठांय् मेळुनु आमंचेरि झोम्बिलीं. थैंचि लासुनु विस सहस्र मळेकार मेले. आमंचेवरि झोम्बतां झोम्बतां आमीं तुका बोब घेउनु आयूलेउं." हें वर्तमान इन्द्रान आयूकुनु तांचे लागी विचारुं लागलो, "आरे माळ्यानो, उजो आणीं वाउतराची आलां[36] की आण्येकु कोणु सांगातीं आयूला?" तावळि ताणीं म्हळें, "धुंवराच्या बळान आमीं आण्येकाक देखिलो नां."

तें आयूकुनु इन्द्रु राव् आपुल्या ऐरावतारि चडलो. सांगातीं बृहस्पति गुरू आपैलो. तें उतर आयूकुनु बृहस्पतिन म्हळें, "आमीं थैं वचुनु कितें करुंचें? राया तुं आतां आयूक. मेगांक आमीं निरोपु दिउनु खण्डवनारि वरुसाव् करुंक धाडुंचे, मागिरि आमीं वचुंचें, उदकाच्या बळान समेस्तु उजो वाडत[37]." हें उतर आयूकुनु मेघांक वेगीं हाडुनु तांच्यो सांकळो कातर्नु निरोपु दिलो, "आरे तुमीं वेगीं वचुनु खण्डवनारि वरुसाव् कऱ्या." तें तानीं आयूकुनु भोउ बरवें म्होणु गेले. आकासिंच्यो आटै दिसा व्यापुनु पाउसु पडतचि आयूलो. तें देखुनु उजो भियेउनु ब्राम्हणाचें रुप धर्नु शेरण आयूलो. "स्वाम्या, आतां हांव कितें करुं? मेघ तरि वरुसण करित आयूले. उदका लागी मजें बळ तंव चाल नां.' तें देखुनु कृस्ट्णु अर्जुनु हांसिले, "आरे, आमीं हांगा आस्तनां कोणु तुका गांजित? तुं आतां वच. चिन्ता करुं नाका. जैसी तुका कामना आस तैसें तुं आपुल्या तोंडान हें खण्डवन खा." तें उतर आयूकुनु सोन्तोसु जाउनु खण्डवनारि झोम्बिलो. दाखेच्या मण्टपाक झोम्ब. ज्यो कांयू देवांच्यो अपुर्वी वस्तु खाउंच्यो आसिल्यो

इतुक्योय् खाउनु अन्तास्कर्णांतु सुखी सोन्तोसु जायू. इतुक्या मधें पाउसाच्यो धारो भुमिवरि पडुं लागल्यो. तें देखुनु अर्जुनान वायु शेस्त्र सोडिलें. वाउतराच्या बळान पाउसु आकासीं उबुनु गेलो. खण्डवनारि येकियू शेन पड नां.

पुणतीं मेघ पर्तुनु येउनु सिळधारीं वरुसुं लागले. तावळि अर्जुनान खण्डवनावरि आपुल्यां बाणांचो माटौ घालो. जि कांय् चुकुनु शेन पड ती खण्डवनांतु पड नां जायू आणी उजो आपुले इछे प्रमाणीं जि जि वस्तु आपण्याक जायू ती खायू. इतुक्या इन्द्रु ऐरावतारि बैसुनु खण्डवना लागी आयूलो. तें समेस्त वर्तमान देखिलें, देखुनु महा कोपारुडु जालो. ''मजें हें खण्डवन उज्याक जाळुंक काये कारण?'' मेघांक वरुसण करुंक सांगिलें. येकु उदकाचो थेंबो खण्डवनांतु पड नां. वाउतरान आकास मार्गीं पाउसाक उबौनु व्हेलो. येकि पाउसाची चिटी[38] पण उज्यारि पड नां. ही करणी कोणाची?'' तावळि बृहस्पति सांगुं लागलो, ''राया, आयूक. तुमंचे लागी उजो आपण्याक पोटीं खाउंची इछ्या आस म्होणु खण्डवन तुमंचे लागीं मागतालो. तुमीं ताका दिलें नां. त्या दुखान तो ज्याचे वरौनु कार्य जायूत ताका तो शेरण गेलो. ताच्या सख्याक कृस्टूणु अर्जुनु हे दोगैं जण येउनु उभे आसति आणी उज्याक तानीं निरोपु दिला, येकादे इन्द्राचें विग्न तुजेरि जरि येत तरि इतुलेंयू आमीं निवारुं, म्होणु ताच्या पाटिबळाक दोगैं उभे रावले आणी ताका ऐसो निरोपु दिला, जेतुकी तुका इछ्या आस इतुकेंयू तुं सोन्तोसी खा.''

हें बृहस्पतिचें वचन आयूकुनु इन्द्रु रावू म्होणुं लागलो, ''हांव तेतिस कोटी देवांचो राजा. मजें खण्डवन कृस्टूणा अर्जुनान उज्याक देउंक कारण काये,'' ऐसें म्होणु म्हा कोपारुडु जाउनु आपुलें वज्र शेस्त्र हातीं घेउनु, हस्तु फुडे केलो. सहिने आपुलें भार भार कोर्नु ठेयूलें. तें देखुनु कृस्टूणनाथान अर्जुनाक म्हळें, ''इन्द्रान[39] येउधे करुंच्याक आमंचेरि आयूतिका कर्ता.'' हें उतर आयूकुनु अर्जुनु हांसिलो, ''स्वाम्या, मजि विनंती आयूक. हो समेस्तां देवांचो राजा म्होणु मनीं गर्व धर्ता. ह्या कारणें हाचें गर्व थोडें थोडें मोडुंक साखि हाका आमीं दाखौंची. उज्यान खण्डवन मागिल्यारि आपुल्या राजमथाच्या बळान नेदे जालो. हो उजो तंव कांयू लाहानु न्होये. अस्टलोक पाळां भितर्लो येकु रावू आणी हाचो विस्वासु विस्वात रुसेस्पर[40] परमेस्पराचे नांवीं होमु हवन कर्तांति आणी

भुमण्डळीं घरो घरीं समेस्ता लोकाक हाचो थोरु उपकारु. हो खिणु भरि जरि नां जायृत तरि लोकु उपवासीं कस्टवताति. तांदुळ उदक हेर सर्व आस, हाचे वेगळें हेर सिधी पाव नां[41]. असल्या उज्याची बेपर्वा इन्द्रा रायान केली. त्या कारणें दृस्टांतु हाचो फळु आमीं हाका दाखैलो.''

ऐसें कृस्ट्णु अर्जुनु उलैता आसतनां, इन्द्रु राव् ह्यां दोगांवरि बाण सोडुं लागलो. ते बाण येताति देखुनु अर्जुनान आपुलें धणुं चडौनु सिन्ताक सात बाण लाउनु सोडिले. बाणान बाण निवार्ले. तावळि इन्द्रान कोपुनु ब्रम्हशेग्ति सोडिली. ती तिनिय् लोक व्यापुनु जळतचि आयृली. ती एता देखुनु अर्जुनान रुद्र शेग्ति सोडिली. ही शेग्ति येता देखुनु ब्रहम शेग्ति पळुनु गेली. रुद्रशेग्ति थोर तंवकान येता देखुनु इन्द्रान विस्ट्ण शेग्ति अभिमनूत्रुनु सोडिली. ह्यो दोनिय् शेग्ति येके ठांय् मेळुनु आकास मार्गीं गेल्यो. कित्या जरि म्हणसी, येक रुद्राचें तेज येक विस्ट्णुचें तेज येकमेकांक मानु दिउनु दोगांकै चुकल्यो. तें देखुनु इन्द्रान नानां परिंचीं शेस्त्रां सोडिलिं. इतुकिंय् अर्जुनान खिणा मधें निवार्लीं. तावळि इन्द्रु मनीं म्हणुं लागलो, 'जें[42] कांय् शेग्ति शेस्त्रां सोडिलिं, पण अर्जुनाच्या आंगाक घाउ फातरु लाग नां.'' ऐसें म्होणु धणुवाक बाण लाउनु सोडिले. ते बाण ध्वजस्तम्बा कडेच्यान गेले. तें देखुनु पण्डुचो कुमरु[43] रागा येउनु चकेक विध्या सुमरुनु धणुवाक बाणु लाउनु सोडिलो. तेणें कोर्नु इन्द्राचें सहिने खोंचलें[44]. आकासाक ठाउनु बाण येताति. पाताळीं होउनु बाण येताति. आठांय् दिसां होउनु भाली पडताति. ऐसो बाणाचो थोरु मारु जालो. येकेका विराक पांच आट भाली पडल्यो. केतिक भुमण्डळावरि मोर्नु पडले. केतिक बाणानीं घायेल जाले. उर्ललें सहिने जिउ घेउनु पळुनु गेलें.

ऐसो चकेक विधेचो मारु इन्द्रा रायाच्या सहिन्यांतु च्यारि घटिका[45] पर्येनूत्र जालो. हाका निवारण नां तें देखुनु इन्द्रु कोपारुढ जाउनु हातिं वज्र घेउनु अर्जुनारि धाउनु आयृलो. तो धाउनु येता देखुनु पांच बाण अभिमंत्रुनु सोडिले. येका बाणान हातिंचें वज्र भुमिरि पडलें. चोउं बाणानीं उबोचि बांदिलो. फुडें येवव नां मागिल्यान सरव नां. तावळि जन्मजयान सुख इन्द्रा लागीं विचारिलें, ''आगा, बाण आंगाक लागल्यारि घाये जाउंचे ते न्होये कर्नु उबोचि बांदिलो म्होणु तुं माका सांगतासि, तरि हें माका नवल दिसता.'' तें उतर आयृकुनु ताणें

म्हळें, आयूक तुका सांगतां. अर्जुनु खेत्री थोरु. नाना परिंची विध्या सिखिल्या[46]. तरि बांदुचो मनूत्रु जपुनु धोणुवाक लाउनु सोडिलो. त्या मन्त्राच्या बळान जैसें येकादे माणुसाक दोर्यानीं बांदितातिति तैसो बांदिलो.

तें देखुनु गुरू बृहस्पति ह्नैं कृस्टूणु अर्जुनु आस थैं धांवत आयूलो आणी म्हळें, ''आगाये स्वाम्या द्वारकेनाथा, तुं परमेस्पराचो अवतारु. तुजो अवतारु हो अर्जुनु. इतुकें आमकां ठाउकें आसतां आमीं सवंसाराचे मायेक भुलताउं[47]. तरि इन्द्र रायाक मनीं गर्व ऐसें आपण अमरावत्ये तेतिस कोटी देवांचो राव् अस्टै लोकपाळ आपुली शेवा कर्ताती. ऐसें हाणें मनीं गर्व घेतलें तें खिणाचि मधें अर्जुना करवीं मोडैलें[48]. कितिक वेळे हांवें सांगिलें तें नमानितां, जैसें आपुल्या चिताक येता तैसें कर्ता. तरि त्या उतराचो फळ रोसु हाताचेरि येता. पुर्वीं ऐसोचि गोकुळारि सात दिवस पर्येनूत्र रात्रि दिसु सिळधारी पाउसु वरुसचो केलो. त्या राज्यांतु येकु प्राण्यो मात्र उरुं आपण नेदे. कित्या जरि म्हणश्यात तरि नन्दु राजा वरुसाक येकि वेळे इन्द्राचे नांवीं होमु करी. तो येकी दिवसीं तुमीं गोंसावीं करुं नेदे जाले. त्या रागान कोपारुड जाउनु समेस्त गोकुळ बुडौनु येकि जिव जाति उर नांसि केली[49]. तवळि कृस्टूण नाथान तुवें सातां वरुसांच्या बाळकान, फुलाचे परीं बारा गांव डोंगरु, तो तुवें डाव्या हातान उखळूनु वैरि सत्र्येचे[50] परीं धर्लो आणी समेस्ति प्रजा जितुकियू जिव जाति आसिली इतुकियू आपुल्या पोटा मधें घाल्नु राखिली. ऐसलो तुं स्वामि कृपाळु. हें इतुकें ताणें जाणुनु राजमधान मोउ भुलता. तरि येकि वेळे ह्या इन्द्राक सोड्या. कित्या जरि म्हणश्यात, तरि स्वाम्या हो तुजो शेवकु तुजे आग्न्यान समेस्त विस्व हें पाळता.''

ऐसें त्या बृहस्पतिचें उतर आयूकुनु कृस्टूणु अर्जुनु सोन्तसले. अर्जुनाक निरोपु दिलो, ''वेगीं हाचे ब्रम्हपास सुट ऐसें करि.'' तें उतर आयूकुनु म्होणुं लागलो, ''स्वाम्या, ह्या इन्द्रा रायान मनीं उधण्ड गर्व घेतलें आणी हाचे सांगातीं तंव घोडे रथ हस्ती इतुको दळभारु आसतनां येका जणाच्यान पण सोडुनु व्हरव नज.'' हें अर्जुनाचें उतर आयूकुनु कृस्टूणु नाथु हांसुं लागलो, ''आतां पुरो पुरो, कित्याक लानचि[51] उलैतासि, सोडि हाका वचुं दी.'' तें उतर कृस्टूणानाथाचें आयूकुनु अर्जुनान बाण मनूत्रुनु इन्द्रारि सोडिले. त्यां बाणानीं आंगाक घाउ नलागतां ते ब्रम्हपास कातर्ले. इन्द्रु वोगोचि आपुल्या सहिन्या लागीं गेलो. गुरू

बृहस्पतिक कृस्ट्णा अर्जुनान निरोपु दिलो, "तुं इन्द्राक घेउनु अमरावत्येक वच." निरोपा प्रमाणीं सांगातिं घेउनु वचुं लागलो.

अर्जुनान उज्याक आपैलो. तो ब्राम्हणाचें रुप धर्नु पानांचो विडो घेउनु खातचि हांसत हांसत मिस्यो घोंटार्नु[52] येउनु कृस्ट्णा अर्जुनाक पायां पडलो. तावळि ह्यां दोगानीं विचारिलें, "अद्याप ह्या खण्डवनाची इछ्या आस कि नां?" तावळि ताणें म्हळें, "स्वाम्यानो, तुमंच्या धर्मान तृप्त[53] जालों." हें उतर उज्याचें आयूकुनु कृस्ट्णनाथु गरुडारि बैसलो. अर्जुनु आपुल्या रथारि चडलो. उज्याक म्हळें, "उज्या आपुल्या मेंड्यारि[54] बैस." ऐसें तेगैं जण खिणा मधें द्वारकेक आयूले. द्वारकेची रचना[55] देखुनु दोगैं सोन्तसले. कृस्ट्णान बहुतां परीं सन्मानिले. ऐसें कर्तां पांच आट दिस जाहाले. अर्जुनान निरोपु मागिलो, "स्वाम्या, इन्द्रप्रेस्ताक वेतां." तेणेचि प्रमाणीं उज्यानै निरोपु मागिलो. दोगांकै वस्त्रां लुगडीं दिउनु सुखी केले आणी आपुलें सहिने सांगातिं घेउनु पाउंक दिलें. त्या[56] आपुल्या राज मन्धिरा पावले.

ऐसी ही कथा सुख इन्द्रान जन्मजयाक सांगिली. कथा अमरावती[57] देखुनु पुणती सांग म्हणौनु विनंती करुं लागलो. तावळि जन्मजयान[58] म्हळें, "अर्जुनु प्रथुमिच्या भ्रमणाक गेलेलो ती कथा तुका सांगन, चित दिउनु आयूक." कथा समाप्त. ही विनती.

## टीप

1. समासांत : opera bona et praemium (बरीं कामां आनी इनाम) आसा.
2. समासांत : gratia Deo reddenda (देवाक आर्गां दिंवचीं) बरयलां.
3. मसुद्यांत 'समारम्भु' हाचे वैर festa (परब) अशें बरयलां.
4. समासांत : sacrificii descriptio (यज्ञाचें वर्णन) आसा.
5. त्या
6. माळो
7. मसुद्यांत 'समाराधनां' हाचे वैर jantar, comer (जेंवक, खांवक) आसा.
8. मसुद्यांत 'अभंगी' हाचे वैर 'आपणपें' म्हणजे आपशीं.

9. मसुद्यांत हांगासुन दोन पानां सांडल्यांत.
10. अमरावत्येंतु
11. समासांत : ignis necessitas (उज्याची गरज) बरयलां.
12. उदक मुकुळसांतु नव्हतीं = बेगोबेगीं
13. तिचेरि
14. ह्या असल्याक मना = असलें
15. तांदुळु
16. हांगा 'कृस्ट्णु' उतर घालचें चुकलां.
17. मसुद्यांत हांगाच्यान काणयेचीं फुडलीं पानां मेळतात.
18. कोटी
19. समासांत : regis axceptio (acceptio?) (राजाचो सत्कार.)
20. मसुद्यांत हाचे वैर 'रिगले' आसा.
21. पिनकाळो
22. मसुद्यांत हाचे वैर bandeja (ताट) बरयलां.
23. लागले
24. माळो
25. समासांत : cibus Deo offerendus (देवाक खाण अर्पण करचें)
26. मसुद्यांत ह्या उतरा वैर iguarias (खाणाचे प्रकार) मेळता.
27. बरवे
28. मसुद्यांत हाचे वैर puro (निव्वळ) आसा.
29. मसुद्यांत हाचे वैर sandalo (चंदन) बरयलां.
30. सभेंतु
31. हांगा 'कृस्ट्णान' उतर घालचें उरलां.
32. मसुद्यांत हाचे वैर 'चडलो' मेळता.
33. मसुद्यांत हाचे वैर hortelão (माळी) आसा.
34. मसुद्यांत हाचे वैर ramas (ताळे) बरयलां
35. ताणीं
36. आयूल्यांति
37. वाडवत
38. मसुद्यांत हाचे वैर gotinha (बारीक थेंबो) मेळता.
39. इन्दु

40. रुसेस्परु
41. समासांत : ignis necessitas (उज्याची गरज) आसा.
42. जीं
43. पण्डुच्या कुमरान
44. मसुद्यांत हाचे वैर 'संखेले' (संकोचले) आसा.
45. मसुद्यांत हाचे वैर 'घड्यो' बरयलां.
46. सिखिला.
47. समासांत : mundi amor facit superbos (संसाराचो मोग मनशांक गर्विश्ट करता.)
48. समासांत : superbi (?) cadunt (गर्विश्ट मनीस पडतात) आसा.
49. समासांत एक अस्पश्ट टीप आसा.
50. मसुद्यांत हाचे वैर sombreiro de pauo (कपड्याची सत्री) आसा.
51. मसुद्यांत हाचे वैर muito (खूब) अशें आसा.
52. मसुद्यांत हाचे वैर enrolando (पीळ घालप) आसा.
53. मसुद्यांत हाचे वैर farto (धादोशी) आसा.
54. मसुद्यांत हाचे वैर carneiro (मेंढरो) आसा.
55. मसुद्यांत हाचे वैर obras (बांदावळ) मेळता.
56. ते
57. मसुद्यांत हाचे वैर insigne (विचित्र) आसा.
58. सुख इन्द्रान

# अठरावी कथा

फुडां कवणेके अवस्परीं[1] । धर्मु राव् इन्द्रप्रेस्तीं राजे करी । सोन्तोसु होउनु मना माजारि । काय् बोले.

फुडां कवणेके अवस्परिं धर्मु सिहांसणावरि बैसलो. चोउगैं भाव फुडे उबे राउनु शेवा करिताति. जैसे येकादे शेवक शेवा करितातति तैसे ते चोउगैं पाण्डव धर्मा आपुल्या भावाची शेवा करितातति. ताचें उतर आपुले मस्तकिं घेउनु पाळितातति. समेस्तु परिवारु येउनु रायाक हात जोड्डुनु पायां पड्डुनु आपापुले स्वाते बैसले. समेस्तांक पानांचे विडे दिउंक आपुल्यां हडप्यांक धर्मान निरोपु दिलो. निरोपा प्रमाणीं समेस्तांक विडे दिले. ऐसें करितां सांजेवेळु जालो. फुडां दिवट्यो हिलाल पंज लाउनु समेस्तां मकुट वर्दानिकां रायानीं नमस्कारु केलो. तेणेचि प्रमाणीं समेस्तु परिवारु पायां पडलो. ऐसें करितां मध्यान रात्रि जाली. राजा उठिलो. समेस्तांक निरोपु जालो. निरोपा प्रमाणीं मकुट वर्दानिक राये आपुल्या घरा गेले. फुडां धर्मु राव् आपुल्यां चोउगांय् भावां सैत येकी पंकती बैसलो. खण्ड रोस पोकुवानानीं ताठां भर्नु हाडिलीं. तांचे मुखारि ठेयूलीं. जें कांय् आपण भोजन कर्ताति हें इतुकेंय् परमेस्परा तुका समर्पिताउं ऐसें म्होणुं उदक घालें. फुडां आपण जेउं लागले. अन[2] पोकुवानां पायूसु ऐसिं नाना परिंचीं खाजिं खाउनु उबटाले आणी आउंनु बरव्या नगर खण्ड्या पानांचे विडे खेले.

आपापुले चित्रसाळांतु[3] भोंवर पालकारि[4] निदेउंक गेले. धर्मु आपुल्या चित्रसाळांतु[5] दृपद्ये सैत येउनु निद्रा केली. दृपद्येन बरे प्रमाणी आपुल्या भ्रताराची शेवा केली. धर्मु घड्ये घड्ये उठुनु परमेस्पराचें सुमरण करी. ऐसें करितां फांतें जालें. अर्जुनु कोणेका कार्याक वेतलों म्होणु आपुल्या व्हडल्या भावा धर्मा लागी निरोपु मागुंक आयूलो. इतुल्यारि तिं दोगांय् जणां येका पलंगावरि[6] बैसललीं देखिलिं. देखत खेविं मागिल्यान पर्तलो. ऐसें कर्तां फालें जालें. पुर्व दिसे सुर्यु उदेलो. पांचैं पाण्डव दृपद्ये सैत न्हाउनु बरिं देवांग वस्त्रां न्हेसुनु येकी ठांय् बैसले. परमेस्पराचें पुजन ध्यान सुमरण केलें. धुंपु अगर लोबान परमेस्परा फुडे उज्यारि घाल्तु दाखैलें. खण्डरोस पोकुवानां फुडे ठेउनु समर्पिलिं. बऱ्यां नगर खाण्ड्यां पानाचे विडे फुडे दवर्ले. ऐस्या परीं परमेस्पराचें पुजन कोर्नु नमस्कार केले. फुडां दृपदी दिवे घेउनु आयूली. बरी आरति परमेस्पराच्या मुखा लागी दाखैली. ऐसें कर्तां येकु प्रहारु भरि वेळु आयूलो.

बरवीं वस्त्रां रत्नां भुसणां कोर्नु राज सभांतु[7] येउनु धर्मु बैसलो. भले भले परमेस्पराचे भग्त त्यां सभांतु[8] बैसले. त्यां रुसेस्परांक देखुनु अर्जुनु तांकां विनौं लागलो, "आहो स्वाम्यानो, तुमंचे लागीं हांव येक विचारितां, तें बरें मना हाडुनु आमकां निरोपु द्या." तावळि ते म्होणुं लागले, "तुजे मनीं जें कांय् आस तें तुं आमकां सांग. जेणे प्रमाणीं आमकां कळत तेणे प्रमाणीं आमीं तुका जाप देउं." तें उतर आयूकुनु तो अर्जुनु म्होणुं लागलो, "अस्त्री आणी पुरुसु दोगांय् येकि कडे बैसललीं फांत्यारि देखिल्यारि, ताका कोण प्राचित तें तुमीं माका सांगा." तंव अर्जुनाचें उतर आयूकुनु ती[9] योउगेस्पर म्होणुं लागले, "हें पाप तंव थोर. जे ठांय् अस्त्री पुरुसां दोगांय् बैसल्यांति त्ये ठाय् आण्येकान वचुं नये. तुं तरि जाणुनु गेलोसि न्होये नेणपणीं गेलोसि. आतां ऐसें करि. समेस्तां भुमण्डळीं परमेस्पराच्यो मुर्ती[10] बरे सहन्त महन्त इतुक्यांचें तुं दरुसण करि. तावळि पापाक तुज्या प्राचित जायूत[11]."

ऐसें तांचें उतर आयूकुनु अर्जुनु उबटाउनु धर्म राया लागी गेलो. "स्वाम्या, माका निरोपु दी. मजे मनीं ऐसें जालां हें समेस्त भुमण्डळ हिंडुचें, ऐसें माका दिसता. तुं माका निरोपु दी." तें गुप्तार्थ उतर धर्मान आपुले मनीं जाणुनु निरोपु दिलो. "कांय् द्रवे लोकु हस्ती घोडे रथ सांगातीं व्हर." तावळि त्या अर्जुनान म्हळें, "हो विचारु न्होये. हांव परमेस्पराक शेरण वेतां. माका रथ सहिने घोडे कित्याक जाये? पायांक व्हाणो घाली नास्तनां ऐसोचि वेतलों." तावळि ताणें म्हळें, "भोउ बरें वच." थैं ठाउनु आपुले माये कोनूत्ये लागी निरोपु मागिलो. तिणें कित्या म्होणुं विचारिलें, "तुवें हें वैरागे कित्या घेतलें?" मागिरि त्या अर्जुनान जितुकें वर्तललें तेतुकें आपुले मायेक सांगिलें. तें आयूकुनु तिणें निरोपु दिलो, "भुमण्डळ भोउनु वेगीं यो."

तिच्या निरोपा प्रमाणीं तो वचुंक गेलो. थैं ठाउनु नासिक त्रिम्बकाक आयूलो. सदासिवाक भेटलो. पुजा नमस्कार केले. थैं ठाउनु गौतमेक गेलो. हरि हराक भेटलो. परमेस्पराची पुजा केली. उपरांतें गोकुळाक आयूलो. येउनु परमेस्पराचें देउळ देखिलें. देखुनु भोउ सोन्तोसु पावलो. कासी विस्वनाथाच्या दरुसणाक गेलो. गौरी संखराची पुजा केली. पाये धुयूले. देवांक सास्टांग दण्डवतां घालीं. थैं ठाउनु गयेक[12] चालिलो. आपुल्यां पुर्वजांचें नांव घेउनु ते

गयेचें उदक सोडिलें. थैं ठाउनु तुळगापुराक आयूलो. पांच दिवस थैं रावलो. उपरांतें द्वारके गेलो. कृस्टूणनाथाक नमस्कारु करुनु, सास्टांग नमस्कारु करुनु संखधरा पर्वताच्यान सैल पर्वतीं पावलो. त्या पर्वताच्या सिखरावरि येकांतवासु देखुनु, थैं इस्परु तप करिता थैं हो पावलो. अर्जुनु समेस्तां पर्वतांवेलीं तिर्थां भोंविलो.

इतुक्या मधें म्हादेवान अर्जुनाक देखिलो. देखुनु ताचेरि म्हा कोपारुडु जालो. "आरे, तुं खैंचो कोणि कडेचो कित्याक हांगा आयूलेलोसि? मजें येकांतस्तळ हें, ह्या पर्वातारि येक सवणें मुखे नां. ऐसो हो विचित्रु ठाव् देखुनु हे स्तळीं हांव आसतो आसिलेलों. तुका हांगा येउंक काये कारण?" तें उतर आयूकुनु त्या अर्जुनान म्हळें, "हांव हांगा आयूल्या निमितीं तुका कितें वायूट जायूत? तुं तपसी हांव परदेसी." तें उतर इस्परान आयूकुनु म्हळें, "तुं आतां हांगाचो वेगीं वच." तावळि अर्जुनान म्हळें, "पांच रात्री राविल्या बगर हांगाचो हांव वच नां." अर्जुनाचें उतर आयूकुनु म्हयेसु माहा कोपारुडु जालो. "आरे मनुशा, मजें उतर तुं मोडितासि. हांवें वच म्हणौनु सांगिल्या वच नांसि. आतां तुका खिणा भितरि हांव भायूर घालिन." ऐसें ताचें उतर आयूकुनु अर्जुनान म्हळें, "तुं माका कैसो भायूर घालिसी हांव आतां पळेन."

ऐसे येक मेक उलैत आसतनां जगदेस्पराक कोपु आयूलो. हातीं त्रिसुळु घेउनु अर्जुनावरि धाउनु आयूलो. तो आपण्यावरि चालुनु येता देखुनु येकु द्रिबांकरु हातीं घेउनु अभिमनूत्रुनु ताचो त्रिसुळु भंगिलो. तें देखुनु म्हादेउ फुडल्या पासी भोउ कोपलो, कोपुनु येकु बाणु सोडिलो. तो बाणु येता देखुनु अर्जुनान आपुल्या धणुकाक बरवो बाणु लाउनु विन्दिलो. बाणा बाणाक भेट जाउनु मधेंचि दोनियू बाण मोडिले. हाचो बाणु ताका लागलो नां आणी ताचो बाणु हाका लागलो नां. तें देखुनु अर्जुनु कोपुनु अग्नि शेस्त्र सोडिलें. त्या अग्नि शेस्त्रान भुमण्डळ होउनु आकास पर्येनूत्र आटांयू दिसांचो उजो जळतचि आयूलो. तें देखुनु निलकण्ठान प्रजने अस्त्र सोडिलें. च्यारियू मेघांचो पाउसु भुमिवरि पडुं लागलो, उदकाच्या बळान उजो आसतो वाडवलो. त्या पासवत उदकाचो माहा पुरु आयूलो. तें अर्जुनान देखुनु वायु शेस्त्र सोडिलें, च्यारियू मेघ उडौनु आकास पर्येनूत्र घेउनु गेले. तें देखुनु सदासिवान पर्वतास्त्र सोडिलें. तावळि अर्जुनान

वज्रास्त्र सोडुनु पर्वतांचे शेतकुट केले. तें देखुनु म्हयेसान पंकास्त्र सोडिलें. ते सर्प निवारुंक अर्जुनान गरुडास्त्र सोडिलें. ऐसीं नाना परिंचीं शेस्त्रां येकमेकांवरि सोडितातिः नाना परिंचे बाण अभिमनूत्रुनु येकमेकांरि विन्दितातिः ऐसे ते दोगैं युधे करितातिः देखुनु देव दैत्य गण गन्धर्व एख्य किनर आटै लोकमाळ अमरावत्येचो इन्द्रु सहित अनूत्रखीं विमान लाउनु पळेतातिः तावळि गुरू बृहस्पति इन्द्राक सांगुं लागलो, "स्वाम्या, काये ह्या युध्याचो नवलाव्. दोगैं येकमेकाक आटप नांतिः येकु हरु येकु नरुः दोगांकै संग्रामु भोउ थोरु." ऐसें बृहस्पतिन इन्द्राक वा समेस्तां देवांक सांगिलें. तावळि देवरायान विचारिलें, "आगा, ह्या पण्डुच्या पुत्रा अर्जुनाक ह्या पर्वतारि येउंक काये कारण? हो कोणा कार्या निमितीं हांगा आयूलो, हें तुं माका बरवें मना हाडुनु सांग."

तें उतर अमरनाथाचें[13] आयूकुनु गुरू सांगुं लागलो,

येक चित दिउनु तुं आयूक. इन्द्रप्रेस्तां राज्यांतु चित्र साळे भितरि धर्मु आणीं दृपदी येकांत स्थानीं येका पलंगावरि दोगांयू बैसुनु परमेस्पराचें सुमरण करितालीं. इतुक्या मधें हो अर्जुनु कोणा कार्याक धर्मा राया लागी निरोपु मागुनु वेतलो म्होणु उठुनु फुडे गेलो. तावळि तीं दोगांयू यकि ठांयू बैसललीं ह्या अर्जुनान आपुल्यां डोळ्यानीं देखिलीं. देखत खेवीं वोगोचि मागिल्यान परतलो. इतुक्या मधें राज सभा भरली. भले भले योउगेस्वर परमेस्पराचे भंगत ते सभेक आयूले. तांकां देखुनु अर्जुनान येकांतवासीं व्हरुनु विचारिलें, "स्वाम्यानो, अस्त्री पुरुस दोगांयू येकि ठांयू बैसललीं ऐसें दुसऱ्या पुरुसान देखिल्यावरि ताका कोण पाप?" तावळि त्यां योग्यानीं म्हळें, "जो कोणु जाणुनु जरि तांकां चोयू, तरि ताका म्हा पातक जायूत आणी नेणपणीं जरि देखिलें, तरि त्या पापाक प्राचित आस." तें उतर आयूकुनु अर्जुनु भोउ सोन्तोसु जाउनु तांचे पाये धर्ले. तावळि त्यां योगेस्वरानीं म्हळें, "तुका हांव सांगतां[14] तें आयूक. ह्या पापाक समेस्त भुमण्डळ भोउंचें. घोड्यारि सुखासणारि पालकेरि बैसुनु वचुं नये. द्रवे हातीं घेउं नये. पायांक मोचे व्हाणो नघालितां रित्यांचि पायानीं भोउंचें. न्हेसूंक पांगरुंक येकचि वस्त्र.

> भिख्या मागुनु दिसाक येकेचि वेळे जेउंचें आणी जे जे ठांय् परमेस्पराच्यो मुर्ती आसति तांकां प्रार्थना करुनु पायां पडुंचें आणी जें आपणें पाप केलां इतुकेंय् ते ठांयूच्यां ब्राम्हणांक सांगुंचें. त्या मधें येक व्हड पाप आपणें केलां म्होणु जरि नसांग जासी, तरि पापाक प्राचित नां[15]." ऐसें त्यां योग्यानीं अर्जुनाक सांगिलें. देखुनु हो भुमण्डळ भोंवत सैल पर्वतावरि पावलो. हो ठाव् जो आस तो इस्पराचो. थैं अर्जुनु आसतो गेलो. तावळि ताणें म्हळें, "तुं हांगा राउ नाका, वच." आपुलें उतर मोडिलें देखुनु हातीं त्रिसुळु घेउनु अर्जुनाक मारुंक उभटालो. तें देखुनु अर्जुनान दर्बांकरु मनूत्रुनु त्रिसुळारि घालुनु भंगिलो. तावळि म्हादेवाक कोपु येउनु युध्याक पर्वर्तलो.

ऐसी हि आड कथा बृहस्पतिन इन्द्रा रायाक सांगिली.

फुडां ते युधे करितां भोउ काळ जाले. मधें सोस्तायूतलो कोणु नां. तावळि अस्नोनित वाचा आकासीं जाली, 'आरे अर्जुना, तुं ह्या इस्परा लागी युधे करितासि. हो त्रिलोकिचो स्वामि. हाणें हें समेस्त विस्व पाळुंचें. असल्याच्या आंगाक घाउ फातरु जरि लागत, तरि समेस्त हें ब्रम्हण्ड जळत. तरि हाची शेवाचि करुनु हाका प्रसन करुंचो.' तें उतर आयूकुनु अर्जुनु धस्कलो, "हो स्वामि ऐसें माका कळलेलें न्होये. येकादो सन्यासी देखुनु हांव हाचे लागी युधे करितालों. आतां वेगीं हांव येकु मनूत्रु मोहनीं जपुनु ह्या म्हादेवाक निद्रा ये ऐसी करिन." ऐसें म्होणु मनूत्रु जपुनु बाणाक लाउनु सोडिलो. तैसिचि निलकण्ठाक निद्रा आयूली. जें हातीं धनुक आसिलें तें भुमिवरि पडलें. येकि घडी पर्येनूत्र कांय् नेण तें देखुनु अर्जुनान जो मनूत्रु जपुनु सोडिलो तो पुणतीं काडिलो. तावळि गोउरिवभु[16] जाग्रुत जालो. "आरे, तुका हांव प्रसन जालों. जें तुका जाय तें माग आणी खैंचो, तुं कोणाचो पुत्रु तें माका सांग." तें आयूकुनु अर्जुनान[17] दोनियू हात जोडुनु सास्टांग भुमिवरि पायां पडुनु विनौं लागलो, "स्वाम्या, हांव पण्डुचो पुत्रु. मजो वंसु जो आस तो सोमवंसु. मजें नांव अर्जुनु." तावळि इस्परान म्हळें, "पुरो आतां सांगुं नाका. माका कळलें. हांव तरि तुका प्रसन जालां. जें तुका जाय् तें मजे लागी माग."

तें देखुनु अर्जुनान मागिलें, "आमंकां आणी अस्तानपुरिच्या राया दुर्योधनाक वैर. येकाद्या वग़्ता कपटान थोर विग्नां आमचेरि जरि रचित, तरि तुवें आमंकां पांचांय् भावांक राखुंचें आणी कोणाय् लागी संग्रामु जरि हांव करिन, तरि तुवें माका जैत दिउंचें." हें उतर अर्जुनाचें आयूकुनु सदासिउ सोन्तसुनु माथ्यारि हातु दवर्नु जें मागिललें इतुलेंय् ताका दिलें. "आरे अर्जुना, तुका आतां आण्येक हांव दितां. तें तुं घे. हें मजें धनुक. हाका नांव गांडिव आणी हो मजो पास्पतु बाणु दितां. तुका हांवें कित्या दिलो जरि म्हणसी, तरि तुमकां आणी दुर्योधनाक थोर वैर. अठरा खेवणी सहिने आणी इछ्या मरणी ताची शेवा करिताति. येकादे वेळे तुका आकांताक कोणु राखणारु जरि नां जायूत, तरि हें धनुक गांजिव हातीं घे आणी सिन्ताक पास्पतु बाणु लायू. ह्यो दोनियू वस्तु ज्यो दिल्याति ह्योचि तुका राखती. तुं कांय् आतां चिन्ता करुं नाका." तें उतर आयूकुनु अर्जुनु पायां पडुनु सोन्तसुनु निरोपु घेउनु वचुंक गेलो.

थैं ठाउनु स्वर्गीं पावलो. तें देखुनु इन्द्रान अर्जुनाक आपौनु आपुल्या राज भुवना व्हेलो. भौतां परीं सन्मानुनु आपुल्या सिहांसणा लागी बैसुंच्याक निरोपु दिलो. देवांग वस्त्रां हाडुनु दिलीं. न्हेसुंक तो नघे 18 जालो. "आपण स्वर्गु मृतु पाताळीं जे जे ठांयू परमेस्पराच्यो मुर्ती आसति ते ते ठांयू तांचें दरुसण हांव करितां. आजि हांगा रावलों फाल्यां आण्येके कडे हांव गेलों. माका हीं देवांग वस्त्रां कितें करुंचीं आणी हांवें येकु निचेउ केलो कि समेस्तां तिर्थां भुमण्डळ भोंविल्या बगर हांव अस्ट भोग भोगी नां." हें उतर आयूकुनु अमरनाथु वोगोचि रावलो. इतुक्या सभा भरिली. तेतिस कोटी देव अस्टै लोक पाळ एख्य किनर गण गन्थर्व येउनु रायाक हात जोडुनु आपापुले ठांयू बैसल्याति. इतुक्या नृते गायेन मांडिलें. रम्भा उर्वसी येउनु उभ्यो रावल्यो. नाना परिंचें गायेन करुनु, नाचुनु देव सभा सोन्तसली. इन्द्रान तांकां दाये पसाये दिले. तावळि रम्भा अर्जुनाक देखुनु काम बाणान कामातुरि जाली. इतुक्या मधें समेस्त उबठौनु रायाक हात जोडुनु आपापुल्या घरा गेले. ऐसें करितां सांज जाऴी. फुडां रम्भेन आपुल्यां शेवकिंक निरोपु दिलो, "अर्जुनु कोणी कडे निद्रा करिता तें तुमीं पळेउनु या." त्या निरोपा प्रमाणीं त्यो शेवकी ठांयू घालुंक गेल्यो. फुडां इन्द्रु रावू आणी अर्जुनु येकी पंकतिक बैसुनु जेउनु बरवे कापुर्वेलिचे विडे हातीं घेउनु खाउं

लागले. इन्द्रु आपुले चित्र साळे निद्रेक गेलो आणी शेवकांक सांगिलें, "ह्या अर्जुनाक पछिम दिसेच्या चित्र साळांतु[19] निद्रेक ठाव् आसतो द्या." तें रायाचें उतर आयूकुनु ताका सांगातीं घेउनु निद्रेक ते ठांय् गेले.

तें रम्भेच्यां शेवकिनीं देखिलें. थैं ठाउनु धाउनु वचुनु आपुले स्वामिणिक सांगिलें. तें उतर आयूकुनु ती रम्भा सर्व सृंघारु करुनु देवांग वस्त्रां न्हेसुनु, बरव्यो पुस्वा माळा[20] गळ्यांतु घालुनु, जे ठांय् अर्जुनान निद्रा केलली ते ठांय् येउनु दारिवट्याक फारु हातान मारुं लागली. तो सब्दु अर्जुनान आयूकुनु वेगीं उबठाउनु दारिवटो काडिलो. फुडे रम्भा देखिली. तिणें अर्जुनाक हातीं धर्लो. तावळि ताणें म्हळें, "येदे अपरात्रिची तुं कित्या हांगा आयूलेलिसि तें माका सांग." तावळि रम्भेन म्हळें, "तुं स्वरुपु सुन्धरु देखुनु मजें मन कामबाण[21] व्यापलां. आतां तुं सुखी माका भोगि." हें उतर आयूकुनु अर्जुनान म्हळें, "तुं उलैतासि तें सते पण तुका जें हांव सांगतां तें आयूक. हांवें निचेउ ऐसो केला सर्व हें भुमण्डळ भोउनु आमच्या घरा ज्या दिसा वचन त्या दिसा अस्ट भोग भोगिन[22] आणी ती मनिची कामना सिधी केल्या वेगळें, हांव येकु भोगु जरि भोगिन, तरि माका आण आसती परमेस्पराची, ऐसो हांवें पुणु केला. ऐसें आसतां मज्यान तुका भोगु दिवव नां." तें उतर आयूकुनु ती रम्भा माहा कोपारुडि जाली. जाउनु म्हळें, "हांव इन्द्राची प्राणाची. ताका सांडुनु आजि रात्रि तुजे लागी हांव आयूल्यां[23]. तुं माका अव्हेरितासि. वेगीं मजी कामना सिदी पाय्. नां तरि तुका हांव स्रापिन." तें उतर अर्जुनान आयूकुनु म्हळें, "तुका टांकता तें करि. पण मज्यान तुका भोगु दिवव नां आणी तुजे मनीं ऐसें जरि आस, तरि हांव हें सर्व कार्ये करुनु हांव घरा वचन, थैं ठाउनु येउनु तुजी इछ्या पुर्न करिन." तें उतर आयूकुनु रम्भेन आर्णे दिलें. पलंगारि बैसलली उठुनु गेली. "मागिरि डोळे मोडिल्यारि येतली ती सरि तुं माका दितासि. हांव तुजे लागिं येदे अपरात्रिचीं कस्टौनु आयूलीं आणी माका तुवें भोगिली नां. तरि तुका आतां हांव स्रापितां. तुं मजो स्रापु घे." तावळि अर्जुनान म्हळें, "तुं माका स्रापि. पण मज्यान हें काम नज." तावळि ते रम्भेन स्रापु दिलो, "तुं नपुसकु जा." ऐसें स्रापुनु गेली.

फुडां सुर्यु उदेव् जाहालो. अर्जुनान वचुनु इन्द्रा लागी निरोपु मागुनु समेस्तु

स्वर्गु भोउनु, जे जे ठांयू परमेस्पराचे भग्त आसती तांचें बरें दरुसण करुनु, शेत बांदु रामेस्पराक पावलो. रामेस्पराचें दरुसण केलें. शेत कोंडांतु वचुनु न्हालो. आपुल्या बापाचिं येकेविसां[24] आणी मायेचीं एक्विसांचीं नांवां उचारण केलीं. "आगा हे परमेस्परा, ह्यां माये बापाच्यां[25] येकेविसां भितरि पाप केलें आसत आणी तो एमकोंडांतु कस्ट जरि भोगिता, तरि मज्या पुन्यान ताका तुं उधरि आणी तांच्या पापाक तुं माका कस्टै." ऐसी परमेस्परा लागी प्रार्थना[26] करुं लागलो. तेणें प्रमाणीं जे कोण ताचे वंसिचे एमकोंडांतु जे आसिले त्यां इतुक्यांकै एम रायान कोंडांतुले वैरि काडिले[27].

त्या कोंडाची रचना तुका सांगतां आयूक. साटि[28] गांव तें कोंड रुंद, चोउरासीं गांव खोल. जे कोण प्राण्ये संवसारीं पाप कर्ताति तांकां हो एमलोकु प्राप्त जाता. ऐसें आयूकुनु जन्मजयान सुख इन्द्रा लागी विचारिलें, "आगा, ही अपुर्वि कथा माका दिसता. कोण पाप केल्यारि कोणि धण्डना जाता तें तुं माका सांग." हाचें उतर आयूकुनु भोउ सोन्तसलो. भोउ बरे तुका गुण. जी आड कथा मधें येता ताचो अर्थु बरो मजे लागी मना हाडुनु विचारितासि आणी परमेस्पराचे भग्ती ठांयू तुका बरें मन आणी बऱ्या चितान आयूकतासि. तरि तुका हांव बरें सांगतां आयूक. हे सौंसारीं जे कोण प्राण्ये पाप कर्ताति ते आपापुलीं पापां एमलोकीं ऐसें भोगिताति. जो कोणु पेल्याची अस्त्री म्हा स्वरुपि सुन्धरि देखुनु तिका चोयूता, ताचे दोनियू डोळे बाबुळिच्यां कांट्यानीं[29] फोडिताति आणी त्यां कांट्यानिचि एमलोकु ताका मार्ता. आरे पाप्या तुका परमेस्परान संवूसारीं रचिलेलो आपुल्या माये बापाची शेवा करुंक आणी आपुल्या घरिचें कुटम्ब[30] बरे प्रमाणीं पोसुंक परमेस्पराचें ध्यान सुमरण चिन्तन करुंच्याक हें इतुलें सांडुनु रात्रि दिसु परस्त्र्यांरि मन ठेउनु केदळां कातु[31] आपणाक ह्यो भोगाक मेळती हेंचि तुं चिंतितालो, देवाची भ्रांति नधरितां. तरि तें सुख आमीं तुका दिताउं. हें घे म्होणु त्यां कांट्यानीं मार्ताति आणी ताच्या आंगारि मिटाचें उदक घालिताति[32]. जैसो एकादो गांयूडळु[33] हुन्हाळांतु पडललो जाळानीं लुळत, तैसो थैं तो तळवळेता. हें परअस्त्र्येक चोयूलल्यांचें पाप आणी परस्त्री येकादो सुन्धरु पुरुसु देखुनु तिका ताचेरि कामना जरि जाहाली आणी ती अन्तीं जरि मेली, तरि तिका एमलोकीं व्हनु कोणी प्रकारीं धण्डिताति तें तुं आयूक.

येकु लोखण्डाचो खांबो उज्या सारिखो जळता. त्या खांब्याक तिका पोटळुनु धोरुं सांगताति. "आगे तुं संवसारीं आसतनां आपुलो भ्रतारु सांडुनु, पेलो पुरुसु सुन्थरु स्वरुपु देखुनु तुं ताका भोगु दिउंक कामातुरि[34] जाललिसि. ताचो गळो धर्नु सुखी आसिलिसि." तैसो आतां हो खांबो पोटळनु धरैताति आणी साटांवेरि मारिताति आणी इतुकें कोर्नु हाडुनु नरक कोंडीं घालिताति. ऐसी एमलोकिची रचना, दोंचि पातकांची तुका सांगिल्या. वेली सांगतां पुणु कथा भोउ पालाळि[35] जायूत देखुनु तुका हांवें सांगिली नां.

आतां तुं आयूक. फुडां त्या अर्जुनान आपुल्यां पुर्वजांचे नांवीं दान धर्मु कोर्नु अनन्त सहन स्रीरंगाक आयूलो. थैं परमेस्पराच्यां मुर्तिक बरे आपुले हातिं पुस्वांची पुजा बांदिली. धुंपु अगर उज्यांतु घाल्नु मुखारि गण गण कोर्नु घांट वाजुं लागलो. खण्ड रोस पोकुवानाचीं ताठां भर्नु फुडे ठेयूलीं. परमेस्परा तुका हीं समर्पितां म्होणु भुमिरि उदक घालें. नगर खण्ड्यां कापुर्वेलिच्यां पानांचे विडे परमेस्परा मुखारि ठेयूले. पांचार्ति[36] फुडे जळुनु[37] परमेस्पराक दाखैली. आपुले हातीं सोवर्न घेउनु उवाळणी केली. दोनियू हात जोडुनु अर्जुनु सास्टांग पायां पडुं लागलो. "आगाये सतेवंता परमेस्परा, माये बापा, आमीं तंव मृतलोकिंचीं मनुश्यां. आमीं येका दिसाक आणी रात्रिक पाप जें कर्ताउं तें समेस्त तुका ठाउकें आस. जाणतां नेणतां पाप आमीं जरि केलें तरि तुं आतां माका तो गुन्याउ भगसि[38]. ऐसें म्होणु प्रार्थना कर्नु चरणाकडे लोळुं लागलो.

ऐसें करितां दोनि प्राहार जाले. थैं ठाउनु गोकर्नाक आयूलो. म्हाबळशेकराची पुजा केली. ताका सास्टांग पायां पडुनु द्वारके आयूलो. द्वारकेनाथाची पुजा केली. जीं कांयू आपणें पापां केललीं इतुलियू गोमतेचे कांटीं जे परमेस्पराचे भग्त आसति तांकां सांगिलिं[39]. तावळि त्यां योउगेस्परानीं म्हळें, "तुं सतेचि, लटिक सांगुं नाका. इतुकीं तुवें पापां केल्यांति इतुकिंयू आमीं तुजे कारणें परमेस्परा लागीं भगसुनु मागतलेउं, हीं पापां आमच्यान भगसुनु मागव नांति. जे कोण रात्रि दिसु परमेस्पराची भग्ति कर्ताति, निदेतनां, जेवितनां, बैसतनां, चमकतनां रात्रि दिसु ताचेरिचि लखे ठेउनु जे जपु कर्ताति, ते हिं पापां भगसुनु घेती[40]. वेल्यांच्यान हें नज." इतुलें त्या अर्जुनाक तानीं सांगिलें. तें उतर आयूकुनु ताणें जेतुकी करणी केलली वायूटि इतुलियू त्यां योउगेस्परांक सांगिली.

ती तानीं पति कोर्नु घेतली[41]. फुडां अर्जुनाक निरोपु दिलो. कृस्ट्णाच्या घराडे येउनु जेवण केलें. फुडे कुस्ट्णनाथान निमिगिलें, तुं शेत बांदाक गेललो थैं तुवें[42] हनिमंताक भेटललो की नां?'' तें उतर आयूकुनु अर्जुनु म्होणुं लगलो, ''माका आणी हनिमंताक भेट जाली नां.'' तें उतर आयूकुनु कृस्ट्णनाथु म्होणुं लागलो, ''अर्जुना, तुं अग्न्यानु. हनिमंतु इकरावो रुद्रु इस्पराचो अवतारु. ताचे हातौनु[43] उधण्ड आमंचीं कार्यां जाउंचीं आसति. रामचन्द्राचें उधण्ड कार्य सिधी पायूलें. तरि आतां तुं ऐसें करि. दुसरी हांगा ठाउनु रामेस्पराक वच. दखिण दिसे समुद्राचे तिरीं येकु पिंपळाचो रुखु आस ताचेरि हनिमंतु बैसुनु आपुल्या स्वाम्या रामचन्द्राचें सुमरण कर्ता थैं तुं वच. वचुनु त्या हनिमंताक भेट आणी खेत्री धर्माचें उतर ताचे लागीं उलै. उलैतां उलैतां तुमकां दोगांकै वोड पडत. इतुक्या मधें ब्राम्हणाचें रुप धर्नु हांव येतां. कोण्येकी प्रकारीं ताका आमीं जिखुं. तुं आतां वेगीं वच. फुडां जें कांय् जायूत तें तुं आपुल्यां डोळ्यानीं देखसी.'' ऐसो निरोपु दिउनु अर्जुनाक कृस्ट्णनाथान धाडिलो.

निरोपा प्रमाणीं वेगीं वेगीं मार्गु क्रमौनु रामेस्पराक पावलो. रामचन्द्राचे मुहुर्तिक[44] भेटलो. नमस्कारु कोर्नु शेतावरि[45] गेलो. पिंपळाच्या रुखा सखल बैसलो. इतुक्या दोनि प्राहार जाले. हनिमंतान अर्जुनु ऐसो वळखिलो. केळ्याच्यां घडयां[46] सैत येउनु भेटलो. हनिमंतु येता देखुनु अर्जुनु उबटालो. टप कोर्नु हनिमंतु धाउनु येउनु दोगानिय् येकमेकाचो गळो धर्लो. येकी ठांय् बैसले. केळीं दोगानीं खेलीं. हनिमंतान म्हळें, ''आजि आमंचें जल्म सुफळ. तुमीं आमंच्या आस्रम्याडे आयूले.'' दोगैं सुख गोस्टि करुं लागले. ऐसें उलैतां उलैतां अर्जुनान म्हळें, ''आगा हनिमंता विरा, तुं तरि रामचन्द्राक भोउ वाखाणितासि. समेस्त प्रथुमिचे राखेस ताणें मार्ले म्होणु ऐसलो तो समर्थु. तरि लंके वेतां सिळानिचि बांदु बांदुनु कित्याक गेललो? तरि समर्ताची करणी ऐसी न्होये.'' तें आयूकुनु हनिमंतान म्हळें, ''हें तुजें उतर प्रस्तायाचें न्होये. सपन कोटी वानर बास्तरि कोटी रिस, वेल्यां वानराचें[47] गणित कोणाच्यान करव नां. ऐसले म्हा विर संमद्रु उतरुंच्याक तांकां वाट नां. तें देखुनु सिळानीं शेतु बांदुनु लंकेरि उतर्लें.'' हें उतर आयूकुनु अर्जुनु हांसिलो, ''तुं तरि येदोळु माका सांगतालोसि, रामचन्द्रु धोणुवी थोरु, तरि ताणें फातरांचो बांदु बांदुनु वचुंचें? भालिच्यां बाणांचो बांदु

बांदुनु लंकेरि वानर सैत चाल्नु वचुर्चे." तें उतर आयूकुनु अर्जुनाक हणिमंतान म्हळें, "येकेका वानराच्या भारान ही प्रथुमि कांप. ऐसले वानर चालुनु गेल्यावरि भालिंचो बांदिललो बांदु उर्ता?" तावळि अर्जुनान म्हळें, "हांव बाणानीं बांदु बांदितां, समद्रांतु लंका पर्येनूत्र. आतां तुं मोडि." तावळि हणिमंतु म्होणुं लागलो, "ते काळिंचे समेस्त वानर गेले. त्यां भितर्लो येकु जणु हांव उर्लो. आतां मजो भारु[48] तुवें बांदिललो बांदु साता कैसो पळेन." ऐसें दोगानीं उलौनु वडा घाली. हणिमंतान म्हळें, "माका तंव मरण नां. तुं जरि माका जिखसी तरि तुजेरि कांय् येक वायूट जरि येत, तरि हांव तुका राखन. तुं कितें म्हणतासि माका सांग." तावळि अर्जुनान म्हळें, "हांव बाणानीं बांदु बांदितां. हो तुं जरि मोडिसी ह्यां मज्यां धोणुक बाणां सवर्तमान अग्नि प्रवेसु करिन." ऐसीं[49] दोगांकै बोलु जाहालो.

हो बोलु जातनां थैं मनुस कोण नां. तावळि अर्जुनान आपुले हातीं धोणुक बाण घेउनु शेतु बांदिलो. हनिमंताक म्हळें, "शेतु मोडि." तें उतर आयूकुनु हनिमंतु आकासीं उडिलो. येउनु शेतावरि उभो राविलो. रावत खेवीं बाणांचो बांदु मोडुनु बारा वाटां जालो. तें देखुनु अर्जुनान भुमिरि कोंड खणिलें. तांतु उजो दवर्नु वैरि लाकुडां दवलीं. उजो म्हा व्हडु जालो. धोणुवा बाणा सैत कोंडा कडे उभो राउनु परमेस्पराचें सुमरण कोर्नु उडी घालुंक पळेतालो. इतुल्या भितरि ब्राम्हणाचें रुप धर्नु कृस्ट्णनाथान हातीं धर्लो. "आगा, तुं कित्या मर्तासि हें माका सांग." तावळि जितुकें वर्तललें त्यां दोगानियू सांगिलें. तें उतर आयूकुनु कृस्ट्णान म्हळें, "ह्या विचाराक साखि कोण आस कि नां?" तावळि तानीं म्हळें, "साखि कोण नां." "आतां तुमीं मजे हुजिर पुणतीं भास घ्या." अर्जुना तुं बाणानीं बांदु बांदि. हणिमंता तुं हो मोडि." ऐसें उतर आयूकुनु अर्जुनान बाणानीं बांदु बांदिलो. हनिमंतु भुभुकारु[50] कोर्नु, तिनि पर्वत येकु माथ्यारि दोनि दों हातिं घेउनु आकासिं उडिलो. तें देखुनु, कृस्ट्णनाथान हनिमंतु शेतु मोडित[51] देखुनु, कांसवाचें रुप धोर्नु आपुली पाठि त्या बाणांच्या बांदाक लाउनु उभो राविलो. इतुक्या मधें हनिमंतान भुभुकारु कोर्नु शेतारि उडी घाली. घाल्नु उभो रावत खेवीं उसळुनु तडी पडलो. शेतु भंग नां जालो. हनिमंतान म्हळें, "हांवें हारैलें तुवें जिखिलें." तावळि कृस्ट्णनाथान आपुलें निज रुप

दोगांकै दाखैलें. दोगै हात जोडुनु सास्टांग पायां पडले. कृस्ट्णान म्हळें,"हनिमंता रामअवतारिं तुवें आमकां भोउ उपकार केल्याति. आतां अस्टम[52] अवतारीं तुं मजेरि उपकारु करि. ह्या अर्जुनाच्या रथाच्या द्वजस्तम्बारि बैस. संग्रामीं निर्वाणाचे बाण जे येती, ते ह्या अर्जुनाच्यान मोडव नांति. ते बाण तुं मोडि आणी थोरां विग्नां ह्यां पाण्डवांरि जरि पडती तरि तुं राख," म्हणौनु अर्जुनाक हनिमंताचे हातिं दिलो. फुडां कृस्ट्णु अर्जुनु द्वारके आयूले. हनिमंतु शेत बांदीं राविलो.

ऐसी ही कथा जन्मजयाक सुख इन्द्रान सांगिली. ती तार्णे सर्व मना हाडिली आणी येकादे अग्न्यान खेंची कथा म्होणु विचारिती, तरि स्कंद पुराणाची कथा, कोउरवां पाण्डवांची उत्पति. ह्या फुडां थोरु संग्रामु आस. इकुणिसावी[53] कथा समाप्त आणी नेणतां जाणतां जरि सांगिलां, तरि तुमीं आयूकतले भले आसति. अपरादु आमकां खेमा कऱ्या ही विनंती.

## टीप

1. कवणेके अवस्परीं = थोड्या वेळाक
2. मसुयांत हाचे वैर arros (शीत) बरयलां.
3. चित्रसाळेंतु
4. मसुयांत हाचे वैर leito (खाट) आसा.
5. चित्रसाळेंतु
6. मसुयांत हाचे वैर leito (खाट) अशें आसा.
7. सभेंतु
8. ते सभेंतु
9. तै
10. मसुयांत हाचे वैर imagens (पुतळे) आसा.
11. समासांत : peregrinatio quomodo facienda (जात्रा कशी करची)
12. मसुयांत हाचे वैर certo rio (एक न्हंय) आसा.
13. मसुयांत हाचे वैर nome de Indru (इन्द्राचें नांव) आसा.

14. तुका आमी सांगताउं.
15. समासांत : confessio integra (पापांची पुरती उचारणी)
16. मसुद्यांत 'गोवलभु' अशें मेळता.
17. अर्जुन
18. घेना
19. दिसेचे चित्र साळेंतु
20. माळो
21. कामबाणान
22. समासांत एक अस्पश्ट बरप आसा.
23. समासांत एक अस्पश्ट बरप आसा.
24. मसुद्यांत हाचे वैर : quer dizer vinte e um ascendentes (म्हळ्यार एकवीस पुर्वज)
25. समासांत एक अस्पश्ट बरप आसा.
26. मसुद्यांत हाचे वैर rogar (मागणें कर) अशें मेळता.
27. समासांत : orationem avitos a purgatorio liberantem (पुर्गातोरिंतल्या पुर्वजांक सोडौपी मागणें)
28. समासांत : Inferni descriptio et poena (नरकाचें वर्णन आनी कश्ट) आसा.
29. मसुद्यांत हाचे वैर certos espinhos (येके तरेचे कांटे) आसा.
30. मसुद्यांत हाचे वैर familia (कुटूंब) अशें आसा.
31. केदळां कातु = जाता तितले बेगीन
32. समासांत : luxuriosi poena (कामुकपणाक प्रायश्चित्त)
33. मसुद्यांत : हाचे वैर minhoca (गांयडोळ) आसा.
34. मसुद्यांत हाचे वैर luxuriosa (कामनेची) अशें आसा.
35. मसुद्यांत हाचे वैर pruluxo (खूब लांब) आसा.
36. मसुद्यांत हाचे वैर sinco candieiros (पांच वातिंची दिवली) अशें आसा.
37. जळौनु
38. समासांत : peccati conductio petenda (पातकांचो उगडास करप)

39. समासांत confessio integra (पातकांची पुरती उचारणी)
40. समासांत : sacerdotes solum remittunt peccata (धर्मगुरू मात पातकांचें भोगसणें दिंवक शकतात) आसा.
41. मसुद्यांत हाचे वैर a sua conta (तांच्या हातासकल).
42. तुं
43. मसुद्यांत हाचे वैर "वरौनु" आसा.
44. मसुद्यांत हाचे वैर imagem (पुतळो) आसा.
45. मसुद्यांत हाचे वैर valado (बांद) अशें आसा.
46. मसुद्यांत हाचे वैर ramo (खांदो) आसा.
47. वानरांचें
48. मसुद्यांत हाचे वैर pezo (भार) बरयलां.
49. ऐसो
50. मसुद्यांत हाचे वैर estroudo (आरडप) आसा.
51. मोडिता
52. मसुद्यांत हाचे वैर oitavo (आटवो) आसा.
53. अठरावी

# आधारावळ

## हस्तग्रंथ


Codices 771, 772 and 773 Braga, National Library

Ribeiro, Diogo (1626). Vocabulario da Lingoa Canarim...Panaji, Central Library.


## इतर बरपावळ


Dalgado, Sebestião R. (1893). Diccionario Koṁkaṇī-Portuguez. Bombaim, Indu Prakashan.

Deshpande, Madhav K. (1972). Marathi - English Dictionary. Nagpur, Suvichar Prakashan Mandal.

Estevão, Tomás (1622). Doutrina Cristã em Lingua Concani. (ed) Mariano Saldanha (1945). Lisboa.

Kulkarni, K.P. (1964). Marathi Etymological Dictionary. Poona, Shri Lekhan Wachan Bhandar.

Rodrigues, L.A. (ed) (1988a). Mohabharot - Adi Porv. Goem; Avertano Furtado.

Rodrigues, L.A. (1988b). "Pre - Portuguese Konkani Literature" in *International Goan Convention '88 Toronto* 46-49

Rodrigues, L.A. (1989). "Konknni Xikchi goroz" in *Gulab* Vol. 7 No. 7 : 21 & 50

Saldanha, Antonio (1655). Sancto Antonichi Acharyã. (ed) Anant K. Priolkar (1963). Bombay, Marathi Samshodhan Mandala.

Saletore, R. N. (1981-1985). Encyclopaedia of Indian Culture (5 Vol.). New Delhi, Sterling Publishers Pvt. Ltd.

Stephens, Thomas (1616). The Christian Puranna. (ed) J.L. Saldanha (1907). Mangalore, Simon Alvares.

Williams, Monier M. (1899). A Sanskrit - English Dictionary. Oxford, Oxford University Press.

आल्मैद, मिगेल द (1658). वनवाळ्यांचॉ मळॉ. (सं.) वि. बा. प्रभुदेसाई (1974). नागपूर, नागपूर विद्यापीठ.

कृष्णदास शामा (1526). श्रीकृष्णचरित्रकथा. (सं.) वि. बा. प्रभुदेसाई (1975). मुंबई, मुंबई मराठी साहित्य संघ.

केळेकार, रवीन्द्र (1987). महाभारत एक अनुसर्जन (2 खंड). गोंय, जाग प्रकाशन.

जोशी, प्रल्हाद न. (1970). आदर्श मराठी शब्दकोश. पुणे, विदर्भ मराठवाडा बुक कंपनी.

दाते, यशवंत रा. (1932-1950). महाराष्ट्र शब्दकोश (7 विभाग आणि पुरवणी). पुणे, महाराष्ट्र कोश मंडळ.

देसाय, श्रीपाद र. (1980-1986). कोंकणी शब्दकोश (3 भाग). पेडणें, श्रीसीताराम प्रकाशन.

प्रभुदेसाई, विठ्ठल बा. (1963). सतराव्या शतकांतील गोमंतकी बोली. मुंबई, मुंबई विश्वविद्यालय.

प्रभुदेसाई, वि. बा. (1971). (सं.) क्रिस्ताच्या वधस्तंभारोहण प्रसंगींचे विळाप. मुंबई, मराठी संशोधन मंडळ.

प्रियोळकर, अनंत का. (1959). (सं.) क्रिस्ताचें यातनगीत. मुंबई, मराठी संशोधन मंडळ.

प्रियोळकर, अ. का. (1965). (सं.) फ्रेंच कवीनें लिहिलेलें मराठी पुराण. मुंबई, मराठी संशोधन मंडळ.

म्हाईंभट, (C1276). लीळा चरित्र. (सं.) वि. भि. कोलते (1982). मुंबई, महाराष्ट्र राज्य साहित्य संस्कृती मंडळ.

सालदाञ, आंतोनियु द (1655). सांतु आंतोनिची जिवित्वकथा. (सं.) अनंत का. प्रियोळकर (1964). मुंबई, मराठी संशोधन मंडळ.

स्टिफन्स, तोमास (1622). दौत्रिन क्रिस्तां. (सं) अनंत का. प्रियोळकर (1965). पुणें, पुणें विद्यापीठ.

स्टीफन्स, तोमास (1616). क्रिस्तपुराण. (सं.) एस्. पी. बंडेलू (1956). पुणें, प्रसाद प्रकाशन.

ज्ञानेश्वर, सार्थ ज्ञानेश्वरी. (सं.) शंकर वा. दांडेकर (1980). पुणे, स्वानंद प्रकाशन.

# उतरावळ

## अ

अख्यान (न) खोटेपण
अगरु (न) चंदनाची एक जात
अंगिकारु (पु) आपणावप
अंगिकृतु (वि) आपणायल्लें
अग्नि (पु) उजो
अग्निशेस्त्र (न) उज्याचें शस्त्र
अग्न्यानपण (न) नेणारपण
अग्न्यानु (न) अज्ञान
अतुळबळि (पु) शक्तीवंत
अंत्रक (न) मळब
अदूबुतु (वि) अजाप
अदृस्टु (वि) नदरेक दिसना असो
अन (न) शीत
अनण (न) दोत
अनस्वरु (वि) अमर
अन्तरखे (क्रिवि) अंत्रळार
अन्तराळ (न) मळब
अन्तराळीं (क्रिवि) मळबार
अन्तीं (क्रिवि) शेवटाक
अपजायू (स. क्रि) त्रास दी
अपराति (स्त्री) मध्यान रात ते फांतोडे
पैलिंचो वेळ
अपरात्रि (स्त्री) मध्यान रात ते फांतोडे
पैलिंचो वेळ
अपुर्नु (वि) अर्दकुटो
अपुर्वु (वि) कौतुकाचो
अपेस (न) आरोप
अभंगी (क्रिवि) आपशीं
अभिमंत्र (स. क्रि) मंत्र
अमरत्व (न) अमरण
अयावपण (न) स्त्रियेचो लग्नाचो भेस
अरणें (न) रान
अरुड (अ. क्रि) चड
अर्दांगिं (क्रिवि) लागीं
अवकळा (स्त्री) वायट दशा
अवचित (क्रिवि) अकस्मात
अवसरु (पु) वेळ
अवसे (क्रिवि) नक्की
अवस्परु (पु) वेळ
अविन्द रत्नां = मोलादीक रत्नां
अविन्धु (वि) बुराक नासल्लो
अव्हेरि (स. क्रि) अपमान कर
असते (न) फट
असम्भवितु (वि) अशक्य
असिवारु (पु) घोडेस्वार
असृनित (वि) अदृश्य
अस्टभोगु (पु) आट प्रकाराचे भोग
अस्त्री (स्त्री) बायल
अस्रोणित (वि) अदृश्य
अस्वु (पु) घोडो

## आ

आउखे (न) आवक, आयुश्य
आउति (स्त्री) आहुती
आंउ (अ. क्रि) तोंड धू
आंकार (स. क्रि) उगड
आखेरीं (क्रिवि) शेवटाक
आखेरेक (क्रिवि) शेवटाक
आग्न्या (स्त्री) आज्ञा
आटाप (पु) आस्पाव
आटौ (पु) उगडास

आटौ (पु) उगडास
आठाणोवि (वि) 98
आडवारि (स. क्रि) आडाय
आडादेड्ये (क्रिवि) हेवाटेन ते वाटेन, कारण नासतना
आणि (स्त्री) वास
आणियेकु (वि) आनी एक
आणें दी (स. क्रि) रागान उलय
आंत (न) आंतडें
आदीन (प) सत्तेखाला
आथारि (स. क्रि) कर
आपणापें (क्रिवि) आपशींच
आपपर (पु) आपूण आनी हेर
आपैसो (क्रिवि) आपशीं
आये (उ) आवय!
आयूतिका (स्त्री) तयारी
आस (अ. क्रि) आसा
आळिंगण (न) वेंग

### इ

इछामरणी (पु) इच्छेप्रकार मरण
इती (वि) इतलो
इतुको (वि) इतलो
इस्परु (पु) ईश्वर

### उ

उछाउ (पु) सुवाळो
उजळु (पु) लकलकीत
उतमु (वि) उत्तम
उतराय् (स. क्रि) फेड
उत्रै (अ. क्रि) धादोशी जा
उत्रै (पु) फेडप
उदर (न) पोट
उदर (अ. क्रि) वांच
उदेउ (पु) उदय
उदेव् (पु) उदय
उधण्डु (वि) खूब
उधर (न) पोट
उधरि (स. क्रि) वांचय
उधरीं (क्रिवि) पोटांत
उपद्रा (स्त्री) त्रास
उपरास (स. क्रि) तयार कर
उपरि (क्रिवि) वैर
उपवरि (स्त्री) लग्नाचे पिरायेची चली
उपाउ (पु) उपाय
उपाव् (पु) उपाय
उपेखि (स. क्रि) अपमान कर
उबटा = उटा
उभटा = उटा
उमट (अ. क्रि) उदे
उरि (स्त्री) आसरो, उमळशीक
उसुंगो (पु) मांडी
उस्रापु (पु) स्राप काडप

### ए

एख्यु (पु) यक्ष
एग्नु (पु) यज्ञ
एमकोंड (न) नरक

### ऐ

ऐरावतु (पु) इंद्राचो हत्ती
ऐसलो (वि) असलो

क

कटक (न) सैन्याचें थळ
कंदर (न) भुंयार
कने (स्त्री) कन्या
करवीं (प) वरवीं, कडल्यान
कवणु (वि) कोण
कवतिक (न) कौतूक
कस्तुरि (स्त्री) एक परमळीत वस्त
कागत (न) चीट
काठिकारु (पु) चौकीदार
कापुर्विडो (पु) पानांचो विडो
कापुर्वेलि (स्त्री) पानवेल
काविज (न) धरप
कामदोरु (पु) लिंगाची इच्छा
कामधेनु (स्त्री) मागल्ली वस्त दिवपी गाय
कामना (स्त्री) इच्छा
कामबाणु (पु) लिंगाची इच्छा निर्माण करपी बाण
काये (स) कितें
कारव (न) बारीक बडी
कास्ट (न) लांकूड
किन्तु (पु) मिरांत
कुंजरु (पु) हत्ती
कुपी (स्त्री) ल्हान बाटली
कुमरु (पु) राजाचो पूत
कुंवरी (स्त्री) राजाची धूव
कुंवरु (पु) राजाचो पूत
कुसि (स्त्री) गर्भाशय
कुसीं (क्रिवि) पोटांत
कुळालु (पु) रडणें
कुळीं (क्रिवि) वंशांत
केतिकु (वि) कितलो
केदळां (क्रिवि) केन्ना
केवलु (वि) योग्य
कोट (न) किल्लो
कोंड (न) फोंडकूल
कोणीकडे (क्रिवि) खंय
कोप (अ. क्रि) रागार जा
कोपारुडु (वि) रागिस्ट
कोपु (पु) राग
कोरोडो (वि) ओसाड
कोल्हाळु (पु) बोबाट
कैंतर (न) कितेंय
क्रमवि (स. क्रि) प्रवास कर
क्रमि (स. क्रि) प्रवास कर
क्रोधांतु (वि) रागिस्ट

ख

खंकाळु (वि) रागिस्ट
खण्डरोसु (पु) गोडशें
खण्डवन (न) व्हडलें रान
खद खदां = व्हडल्यान
खर्ग (न) तलवार
खारुवो (पु) खारवी
खिरोदिकु (वि) धवो
खेत्री (पु) क्षत्रीय
खेम (स्त्री) वेंग
खेमा (स्त्री) माफी
खेरोगु (पु) खेय रोग
खेरोदिकु (वि) धवो

खेवणी (वि) 100,000,000,000,000
खेवीं (क्रिवि) रोकडो
खोंच (अ. क्रि) धक्को लाग
ख्य रोगु (पु) खेय रोग
ख्याति (स्त्री) कीर्त

ग

गजबज (अ. क्रि) फुतफूत
गड (पु) किल्लो
गडुगो (पु) कोळसो
गंधर्विव्हाव् (पु) मोगार पडून जाल्लें लग्न
गरजरु (पु) आरड
गरझरु (पु) आरड
गर्बेस्ति (वि) गुरवार
गर्भस्ति (वि) गुरवार
गांजि (स. क्रि) त्रास दी
गायेन (न) गायन
गुजरी (स. क्रि) माफ कर
गुळेरी (स्त्री) गुळी
गोपिचन्दन (न) वासाची माती
गोंसावी (पु) धनी
ग्यानी (पु) बुदवंत

घ

घटिक (स्त्री) घडी
घरघरां (क्रिवि) जोरान
घरीं (क्रिवि) घरांत
घळबळ (अ. क्रि) गडबड
घायवटु (वि) घायाळ
घालो (पु) हल्लो

च

चकेक विध्या (स्त्री) झुजपाची कला
चखेक विध्या (स्त्री) झुजपाची कला
चमक (अ. क्रि) चल
चरण (न) पांय
चरणदक (न) पांय धुल्लें उदक
चरणु (पु) पांय
चाड (स्त्री) ओढ
चाम्पेल (न) चांप्याचें तेल
चालि (स्त्री) गती
चिटि (स्त्री) थेंबो
चित्रसाळ (स्त्री) राजाचें अंतपूर
चिन्ताक्रांतु (वि) चिंतेस्त
चुम्बितु (वि) ऊंच
चुरु (पु) चुरो
चोखटु (वि) हुशार
चौं (वि) चार

ज

जतन (स्त्री) जतनाय
जंव (क्रिवि) जेन्ना
जावळि (क्रिवि) ज्या वेळार
जुनटु (वि) पोरणो
जुंवारु (पु) मान, गौरव
जेतुको (वि) जितलो

झ

झळम्ब (अ. क्रि) सोस
झां झैं (क्रिवि) जंय
झुणकारु (पु) गुणगुणप

झोंब (स. क्रि) कुस्ती कर
झोंबी (स्त्री) कुस्ती

### ट

टगळि (स्त्री) ओड
टळटळ (अ. क्रि) वोत
टांकि (अ. क्रि) चल

### ठ

ठाउ (पु) तळ, ठिकाण
ठाउको (वि) खबर
ठायूमुर (वि) निव्वळ
ठाव् (पु) तळ, ठिकाण

### ड

डांगिरो (पु) डांगोरो

### त

तखेकु (पु) कुसडो सोरोप
तटास्तु (वि) कोणाचीच बाजू घेना आसो
तडवलां = अडलां
तडौ (क्रिवि) उशीर
ततुखिणु (पु) खीण
ततुखेणीं (क्रिवि) तेन्नाच
तपसी (पु) तपस्वी
तबक (न) ताट
तमासो (पु) खेळ
तर्नेपण (न) तरूण पिराय
तंव (क्रिवि) तेन्ना
तंवक (न) वेग
ताकिति (स्त्री) घाई
तागैत (क्रिवि) मेरेन
तिरीं (क्रिवि) तडीर
तीं (वि) तीन
तुम्बळु (वि) म्हाभयंकर
तुर्त (क्रिवि) आतां
तेतुको (वि) तितलो
तेथीं (क्रिवि) थंय
तेथें (क्रिवि) थंय
त्रिबांकुरु (पु) त्रिशूळ (?)
त्रिलोकु (पु) स्वर्ग, भुमी आनी पाताळ

### थ

थिरु (वि) स्थीर
थोरु (वि) व्हड
थोरावलीं = नांवाजलीं
दखिण (न) दक्षीण दिशा
दखिणा (स्त्री) दक्षिणा
दमामो (पु) व्हड धोल
दरुसण (न) दर्शन
दर्बु (पु) यज्ञाक वापरपी तण
दाक (स्त्री) द्राक्ष
दातारु (पु) दान दिवपी
दाये पसाये = इनाम
दारिवटो (पु) दारवटो
दिसपट कर (स. क्रि) पसराय
दिसा (स्त्री) दिशा
दुचितु (वि) चिंतेस्त
दुणो (वि) दुपेट
देखतें (क्रिवि) फुडें
दोंयू (वि) दोनी
दोसु (पु) उणीव, दोश

द्रवे (न) धन
द्राख (स्त्री) द्राक्ष

ध

धणु (पु) धनुश्य
धणुक (न) धनुश्य
धण्डना (स्त्री) ख्यास्त
धनुक (न) धनुश्य
धने (वि) धन्य
धुंदुकार (पु) फुसफुसप
धोणु (पु) धनुश्य
धोणुती (पु) धनुश्य बाणान झुजपी

न

नपड = पडना
नये (नि) न्हय
नरया पडती = शेणतात
नलग = लागना
नसक = सकना
नसुटो (वि) बेस्टो
नागरखण्डो (पु) गोड पान
नासित = नास करीत
निचेउ (पु) निर्धार
निज (वि) स्वताचो
निते (क्रिवि) नित्य
निपुणु (वि) हुशार
निमगि (स. क्रि) विचार
निर्फळु (वि) फुकट
निर्वण (न) नास
निर्वाण (न) नास

निव्वळ प्रत = सुधारल्ली प्रत
निसाणभेरि (स्त्री) झुजांत वापरपी धोल
नुपुरो (वि) कमी
नुसुदो वि) बेस्टोच
नृते (न) नाच
नेघे = घेना
नेण (स. क्रि) नकळ
नेणपण (न) नेणारपण
नेणारु (वि) अज्ञानी
नेदे = दिना
नैंवडु (पु) होडेकार
न्होये (नि) न्हय

प

पखी (पु) सुकणें
पख्यो (पु) सुकणें
पछिम (स्त्री) अस्तम
पंजु (पु) लांपयांव
पतक (न) गुडी
पतिव्रता (स्त्री) घोवाक विस्वाशी आसपी बायल
पदाति (पु) पांयदळ
पनरा (वि) पंद्रा
परवडि (स्त्री) ओळ
पर्वत (अ. क्रि) फुडे सर
पस्टणें (न) जेवणाचें पान
पाचारि (स. क्रि) आपय
पाटु (पु) पट्टो
पाटेलु (पु) पाटील
पाडो (वि) ओसाड

पाये (पु) पांय
पायेदळ (न) पांयदळ
पायूसु (पु) पायस
पारदि (स्त्री) शिकार
पारदी (पु) शिकारी
पारु (पु) तीन वरांचो वेळ
पाशीं (क्रिवि) लागीं
पासवत (प) पासत
पिनाकाळ (स्त्री) व्हडलें पेंपारें
पुजन (न) पुजा
पुणतीं (क्रिवि) परतून
पुणु (पु) अट
पुणे (न) पुण्य
पुने (न) पुण्य
पुर्नु (वि) पूर्ण
पुस्व (न) फूल
पेटि (स. क्रि) धाड
पेलो (वि) शेजारी
पैरी (स्त्री) पाळी
पोउडाय (स. क्रि) न्हिदाय
पोकुवान (न) पक्वान्न
पोरो (क्रिवि) भायर
पोर्टाणि (स्त्री) वास
प्रजनिउ (पु) पाउस
प्रजन्यास्त्र (न) पावसाचें अस्त्र
प्रतपाळु (पु) सांबाळ
प्रति (स्त्री) प्रिती
प्रतिपाळु (पु) सांबाळ
प्रस्ताउ (पु) विशय
प्राचित (न) ख्यास्त
प्राण्यो (पु) प्राणी

फ

फजेति (स्त्री) अपमान
फटिकु (न) खडो
फलाणो (वि) अमको
फांतें (न) फांतोड
फायू (क्रिवि) फाल्यां
फालें (न) सकाळ
फोउज कर = सादूर राव
फोपळ (न) बेडो

ब

बटिकि (स्त्री) दासी
बन (न) बाग
बनकरु (पु) माळी
बन्दिजनु (पु) तुस्त करपी
बरवो (वि) बरो, सोबीत
बहुतु (वि) खूब
बहुतेकु (वि) खूब
बळकटु (वि) घटमूट
बापुडो (वि) बाबडो
बावनु चन्दनु (न) उंचलें चंदन
बास्तरि (वि) 72
बाळणो (पु) आसन
बिजमनूत्रु (पु) जादू करपी मंत्र
बिदि (स्त्री) वाट
बेतकाटी (स्त्री) बडी
बोलु (पु) उतर
ब्रम्हादिक (क्रिवि) कसोच
ब्राम्हणु (पु) बामूण

बृहतारु (पु) घोव
बृहुंग (न) भुजाचें वाजंतर

भ

भग्ति (स्त्री) भक्ती
भग्तिवन्तु (वि) भक्तिवंत
भज (स. क्रि) पुजा कर
भलो (वि) बरो
भागे (न) भाग्य
भाटु (पु) हांसौपी
भातु (पु) शीत
भावो (पु) घोवाचो व्हडलो भाव
भासन (स्त्री) दुबाव
भिसवाणी (स्त्री) आयणो
भुभुकारु (पु) बोवाट
भुमिका (स्त्री) धर्तरी
भुसण (न) कपडे
भें (न) भंय
भेदि (स. क्रि) तोप
भोउतु (वि) भोव
भोयू (पु) पालकी व्हावौपी
भ्रतारु (पु) घोव
भ्रमण (न) भोंवडी
भ्रमण्ड (न) विश्व
भ्रामणु (पु) बामूण

म

मकुटु (पु) मुकूट
मखर (न) तोरण
मग (क्रिवि) नंतर
मंचकु (पु) खाट
मनसुभी (स्त्री) नीत
मन्धिर (न) मंदीर
मर्धना (स्त्री) चोळप
मसुदो (पु) कच्चो मजकूर
मळेकारु (पु) शेतकार
माखण (न) लेप
मागां (क्रिवि) फाटीं
मागिलो (वि) फाटलो
मागुतेन (क्रिवि) परत
माचो (पु) खाट
माजारि (क्रिवि) सामकार
माजु (वि) मदलो
माणुस (न) मनीस
मासु (पु) म्हयनो
मिनती (स्त्री) विनती
मुकुळसु (पु) घोंट
मुखे (प) सैत
मुडु (वि) पिसो
मुदगुलु (पु) गदा
मुदो (पु) गुळो
मुस्तायूती (स्त्री) हत्यार
मुस्तायूती जा = तयार जा
मृग (न) चितळ
मृगी (स्त्री) चितळ (बायल)
मृत्युलोकु (पु) धर्तरी
मेग (पु) मोड
मोखे (पु) मोक्ष
मोगरशिंग (न) तुतारी
मोगरेल (न) मोगऱ्यांचें तेल
मोहनास्त्र (न) भूल घालपी अस्त्र

म्हातु (पु) बापायचो व्हडलो भाव
म्हाव (स्त्री) बापायच्या व्हडल्या भावाची बायल
म्हैमान (न) व्हडपण
म्होउनी (स्त्री) भूल

य

युदे (न) झूज
येउधे (न) झूज
येक (वि) कांय
येकांतवासु (पु) एकाकीपण
येकांतु (पु) एकाकीपण
येकु (वि) 1
येग्नु (पु) यज्ञ
येति (वि) इतलो
येदोळु (क्रिवि) आतां मेरेन
येमकोंड (न) नरक
येवडो (वि) येदो
येळु (पु) वेलची
योउगिणि (स्त्री) झुजपाची उमेद
योगेस्परु (पु) योगी

र

रजा (स्त्री) परवानगी
रण (न) चोंबो
रणभेरि (स्त्री) झुजाचो नगारो
राउळेर (न) राजवाडो
राखेणायूतु (पु) राखणदार
राखेसु (पु) राक्षस
रांगुली (स्त्री) रांगोळी
रांदवै (न) जेवणाचो प्रकार
राजत्व (न) राजपद
राजे (न) राज्य
राजेधर (पु) राजा
रावू (पु) राजा
रिस (स्त्री) आस्वेल
रुधन (न) रडणें
रुसेस्परु (पु) रुशी
रेग (स्त्री) वळ

ल

लखमि (स्त्री) संपत्ती, विश्णुची बायल
लखे (न) लक्ष्य
लखे (वि) लाख
लखेण (न) लक्षण
लटिकु (वि) फट
लब्दु (पु) आकर्शण
लावणें (न) सोबीतकाय
लिनु (वि) खालतो
लुगडें (न) बायलांचें न्हेसपाचें कापड
लेंकृ (न) भुरगें
लोबान (न) धूंप

व

वगत (पु) वेळ
वगता (क्रिवि) वेळार
वडा (स्त्री) पैज
वज्रास्त्र (न) ईन्द्राचें अस्त्र
वन (न) बाग
वर्जि (स. क्रि) सोड
वर्त (अ. क्रि) घड

वर्तमान (न) खबर
वर्धणिक (पु) घालपी
वर्धनिक (पु) घालपी
वसैलें = वसती केली
वळग (स्त्री) नैंग
वळीत (न) किल्लो
वाउतर (न) वारें
वांचुनु (प) शिवाय
वाच्या (स्त्री) उतर
वानरु (पु) माकड
वायलो (वि) परकी
वारै (स. क्रि) आडाय
वास (स्त्री) फावोर
वाहृयु (पु) वारें
विकळु (वि) व्याकूळ
विंदि (स. क्रि) मोखून मार
विनति (स्त्री) विनंती
विनौ लागलीं = विनंती करूं लागलीं
विलात (स्त्री) विदेस
विवर (न) भुंयार
विव्हरु (न) भुंयार
विव्हावु (पु) लग्न
विसेसु (वि) खास
वेसीं (क्रिवि) दारवटो
वेळु (पु) कोंडो
वैर (न) दुस्मानकाय
वैर सादे कर = राग काड
वैरागे (न) वैराग्य
वोगर (स. क्रि) वाड
वोपि (स. क्रि) स्वीकार कर
व्रखे (पु) रूक
व्रतावंतु (पु) खबर
व्रधपण (न) म्हातारपण
व्रधि (स्त्री) म्हातारी
व्रधु (पु) म्हातारो
व्यादि (स्त्री) पिडा
व्हारडिक (स्त्री) लग्न

## श

शिर (न) तकली
शेण (स्त्री) थेंबो
शेतकुटु (पु) बारीक चुरो
शेतचुर्नु (पु) बारीक चुरो
शेतु (पु) बांद

## स

सक्ति (स्त्री) शक्ती
संखिर्नु (वि) दुखी
संखे (अ. क्रि) भिये
संजिवन (न) मेल्ल्याक जितो करप
सटवो (वि) सवो
सतिस दण्डांची विध्या = झुजपाची सर्व कला
सते (न) सत
सत्र (न) दानधर्माची नियमीत कार्यावळ
सदान्त (क्रिवि) सदांच
सनूचति (स्त्री) संतत
सन्दान (न) बाणांचो नेम धरप
सन्धेउ (पु) दुबाव
सन्मुख (क्रिवि) सामकार
सपन (वि) 56

सर्भवतो (वि) सगळ्या बाजुंनी
सभागे (न) भाग्यवान
समन्दु (पु) दर्यो
समख्या (स्त्री) रूप
समराधन (न) उत्सव
समास (पु) पानाचे कडेक सोडल्लो जागो
समस्तु (वि) सगळो
समुळु (वि) पाळां सैत
समेस्तु (वि) सगळो
सर (अ. क्रि) सोंप
सर्त (स्त्री) पाळी
सवचितु (वि) शांत
सस्र (वि) हजार
सहित (प) सैत
सहिने (न) सैन्य
संहिवरु (पु) स्वयंवर
साखि (स्त्री) साक्ष
सावज (न) रानवट मोनजात
सावदि जा = जागृत राव
सास (अ. क्रि) तयार राव
साळि (स्त्री) तांदळाची एक जात
सिधी (स्त्री) प्राप्ती
सिन्त (न) दोरी
सिर (न) तकली
सिलोकु (पु) श्लोक
सिस (न) तकली
सिसु (पु) शिश्य
सिळधारीं (क्रिवि) घोग्यांनी
सिळा (स्त्री) फातर

सुकृत (न) बरें काम
सुतु (पु) पूत
सुध ब्ये = बऱ्या
सुधचारु (पु) नितळसाण
सुफळु (वि) यशस्वी
सुमरण (न) स्मरण
सेंस भर = अक्षता उडौंचो विधी
सेळु (वि) थंड
सोवर्न (न) भांगर
सोवासिणि (स्त्री) लग्नाचे पिरायेची चली
सोसताय् (स. क्रि) थांबय
सोहिरीक (स्त्री) सोयरीक
स्रापु (पु) शिराप

ह

हजिबु (पु) राजाचो दूत
हडपी (पु) सेवक
हरु (पु) देव
हवन (पु) होम
हवनि (स. क्रि) होम कर
हस्तलेख (पु) हातान बरयल्लें बरप
हस्ति (स्त्री) हतीण
हस्तु (पु) हती
हाटवटी (स्त्री) ल्हान बाजार
हाटु (पु) बाजार
हिलालु (पु) तेलाचो दिवो
हिंवर (न) धुकें
हुर्दय (न) काळीज
हुर्मति (स्त्री) सन्मान

# सुची

आदि पर्वांत आयल्ल्या कांय मुखेल उतरांची सुची हांगा दिल्या. नामांची सुची दिताना एकवचनांत दिल्या. पोरणे कोंकणींत चडशा विशेशणांक तीन रुपां : पुल्लींग, स्त्रीलींग आनी नपुंसकलींग आसात. विशेशणांची सुची दिताना पुल्लींग एकवचनांत दिल्या. आंकडे पान सुचयतात.

ख



ग

घ



च



ज

फ

### ल



### व

